JAANAVAY
(Novel)
by
Devidas Kadam

# जाणवय

देविदास कदम
मो: 9423836799



**प्रकाशक :**
संजना पब्लिकेशन्स,
39, दत्तवाडी, सांगें, गोंय
403 704
sanjanapublications2@gmail.com

**पयली उजवाडावणी :** 2018



**मुखचित्र :** श्रीधर कामत बांबोळकार

**मोल :** रु. 200/-

हांव हांकां दिनवासतां

---

भौ. ॲड. उदय भेंब्रे, भौ. डॉ. राजेन्द्र हेगडे, भौ. नागेश करमली, भौ. महाबळेश्वर सैल, भौ. मीना काकोडकार, भौ. कमलाकर म्हाळशी, भौ. डॉ. जयंती नायक , भौ. अकल्पिता देसाय, भौ. श्रीधर कामत बांबोळकार तेचपरी संजना पब्लिकेशन्स्.

- लेखक

म्हजे तीग इश्ट

भौ. दत्ता दामोदर नायक, भौ. डॉ. राजेन्द्र हेगडे,
भौ. प्रशांत नायक हांकां

- देविदास कदम

## लेखका विशी :

देविदास कदम हांणी कोंकणीच्या साहित्य मळार पयलें पावल घालें तें कांय सशक्त अश्यो कथा घेवन. मागीर तांणी हात घालो कादंबरी लेखनाक. तांची पयलीच कादंबरी 'दिका' राष्ट्रीय साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार रुपी भोवमान तिका फावो जालो. ते उपरांत तांच्यो आनीक दोन कादंबऱ्यो उजवाडा आयल्यो. 'गांठवल' आनी 'उबंतर' ह्या कादंबऱ्यांनी माजाळी-सदाशिवगड ह्या काळी न्हंयच्या आलतडच्या लोकमानसाक आनी वातावरणाक उजाळो दिला. हाचे भायर गोंयच्या दक्षिणे कडल्या त्या वाठारांतली कोंकणी भास-शैली, आनी उतरावळीची कोंकणीच्या साहित्य भांडारांत भर घाल्या आनी कोंकणीक आनीक सोबीत सुंदर केल्या. देविदासबाबांची कथनशैली ही तांची खाशेलीच अशी. हे शैलीन कोंकणीची गिरेस्तकाय आनीकय वाडयल्या. देविदासबाबांची आतां 'जाणवय' ही कादंबरी तुमचे भेटेक येता. तांच्या आदल्या कादंबरी लेखनाचें हें फुडलें पावल.

- नागेश करमली

**कादंबरी विशीं कांय मानेस्तांचीं मतां :**

अंधश्रद्धा ही भारतीय समाजाचें एक खर दुबळेंपण, ह्या दुबळेंपणाक लागून खूब लुकसाण जालां आनी आयच्या विज्ञानयुगांतूय तें जायत आसा. हाचेर वैचारीक बरप जायत आसता. कांय संस्थाय लोकां मदीं जागृताय हाडून अंधश्रद्धा आळाबंदा हाडपाक वावुरतात. अशा वेळार देविदास कदम हांची ही कादंबरी येता. ही कादंबरी विशयाक धिटायेन हात घालून अंधश्रद्धेचीं विविध रुपां दाखयता आनी तिच्या खर परिणामांचेर उजवाड घालता. शिक्षणाचो फावो तसो प्रभाव पडून अंधश्रद्धेचें प्रमाण उणें जावंक ना. साहित्य क्रांती करूंक पावता काय कितें हाचेर दोन मतां आसतीत, पूण साहित्य प्रभावी रितीन जागृताय करूंक शकता हे विशीं वाद आसचो न्हय. देविदास कदम हांणी अंधश्रद्धेचें भयांकृत आनी विकृत रूप मांडलांच, पूण तांचीं पात्रां अंधश्रद्धेक आळाबंद घालपाच्यो कांय वाटोय सुचयतात. हातुंतूच हे कादंबरीचीं साहित्यीक आनी सामाजीक मुल्यां आस्पावतात. कदम हांचे हे कादंबरीन क्रांती घडयली ना तरी बदल घडोवपाची आनी ते वरवीं क्रांतीचें बीं रुजोवपाची स्फूर्त ती अवश्य दितली.

- ॲड. उदय भेंब्रे

अंधश्रध्द मनशाक दिसता आपली तीच खरी श्रध्दा आनी कर्मकांडां करतल्यांक दिसता आपली तीच खरी देवभक्ती. सगळो भ्रम आनी संभ्रम. थाव घेवंक मोटो अवघड आनी घुस्पागोंदळाचो विशय. पूण देविदास कदमान हें आव्हान आंगार घेतलें आनी अंधश्रध्देच्या, कर्मकांडाच्या कुरुपतेंतल्यान 'जाणवय' ही कलात्मक कादंबरी उबी केली. अंधश्रध्देचो इतल्या आयामांतल्यान विचार केला, ताचीच ही कादंबरी जाल्या. एक खूब पुर्विल्लो गांव, खुबशीं मनशां, चडशी अंधश्रध्द. तांचीं झगडीं, द्वेश, दुयेंसां, मानगुटेर बशिल्लीं भुतां, मरणां हांचेर सबंद अंधश्रध्दा पातळून आसा. कांय तरनाटे जेन्ना गांवचो विनाश लागीं पावला अशें दिसता, तेन्ना ह्या अवचित्रा आड उबे रावतात. कदमान खूब ताकदीन ते हाताळ्ळां. भारतांतल्या हेर भासांनी ह्या विशयार कादंबरी आसात काय ना खबर ना. पूण कोंकणींतली अशी ही पयलीच कादंबरी. ताची प्रतिकां, प्रतिमा तेच मातयेंतलीं. विशयाक फाव त्या गांवगिऱ्या कोंकणी बोलीचेरय लेखकाली घट्ट पकड आसा. वाचतल्यांक वेगळो विशय वाचिल्ल्याचो आनंद मेळटलो.

- महाबळेश्वर सैल

बाब देविदास कदमाली 'जाणवय' ही एका वेगळ्या विशया वयली जबरदस्त कादंबरी. अंधश्रध्दा, पोन्न्यो रुढी आनी परंपरा हांचे विरूध्द बंड करपी मुरलीधरा भोंवतणी ही कादंबरी घुंवता. मुरलीधराचो घराबो अशेच एके प्रथेचो बळी. ताचो गांवय ह्या प्रथांच्या चपक्यांत घुसपला. मात आपल्या गांवाक नवी फांतोड दिसची म्हणून पोटतिडकीन वावुरपी मुरलीधराक फकत गांवकाऱ्यांचोय न्हय तर खुद्द ताच्या आवयचोय विरोध. बदल मानून घेवंक तयार नाशिल्ल्या मनीस सभावाचें वास्तव चित्रण हे कांदबरेंत आयलां.

सादी सरळ सोपी भास, कोंकणीचीं

कांय नीज उतरां आनी उमळशीक वाडोवपी शैली हाका लागून ही कादंबरी वाचनीय जाल्या.

देविदासबाबाक परबीं आनी कादंबरीक यश आंवडेतां....

- मीना काकोडकार

देविदास कदम हांची 'जाणवय' ही कादंबरी आधुनीक कोंकणी साहित्यांतली एक उत्तम साहित्यकृती जावन आसा. बुरसटिल्ल्या आनी समाजाचें खच्चीकरण करतल्या कितल्याश्याच प्रथा-परंपरा विरुध्द ही कादंबरी आवाज उठयता आनी सामाजिक उद्बोधनाची मशाल पेटोवपाचें श्रेय घेता. लेखकाच्या आंगांत जल्मजात आशिल्ले कल्पकतेक आनी प्रतिभेक नीज अणभवांची जोड आशिल्ल्यान हे कादंबरींतलें वातावरण, पात्रां, प्रसंग आदी गजाली अतिशय वास्तव भासतात. कथानक वाचप्याचे विवेक बुध्दीक नित्रळावन सोडटा आनी तंत्रीक प्रगतीच्या पथार मनशाचो मानसीक पांवडो खंय आसा, ह्या प्रश्नाक ताचे मानगुटेर व्हरून बसयता. ओघवती शैली हें हे कादंबरीचें खास वैशिश्ट जाल्यार ज्या वाठारांत कथानक घडटा थंयची प्रादेशीक बोली, ही हे कादंबरीची ताकद. भारतीय साहित्याचे पंगतीक ही कादंबरी निश्चीतच आपल्याक मानाचो पाट मेळयतली अशी खात्री आसा.

- डॉ. जयंती नायक

कांय कांय कथा - कादंबरीकार आपलो पुरातन वाठार आदिकाळाक धरून आर्विल्ल्या काळा मेरेन आपल्या कथा-कादंबऱ्यांनी अशे तरेन - सूक्षीमपणान आनी कलात्मक रितीन - चित्रित करतात, वाचक सैरभैर जावन त्या वाठाराची भोंवडी करून परततना खात्रीन अस्वस्थ जाता!

'जाणवय' कादंबरीचे लेखक श्री. देविदास रामचंद्र कदम हे अशा कथा - कादंबरीकारा मदले एक.

मुळांत आर्विल्ल्या समाजा मदले जे बुदवंत, विचारवंत जिका 'अंधश्रध्दा' वा 'कुड्डी श्रध्दा' म्हूण लेखतात, तिका त्या तेंपा वयले लोक 'श्रध्दा'च म्हूण लेखताले आनी अशा लोकांचेच वारसदार आज लेगीत ते कुड्डे श्रध्देक तशेच रितीन 'श्रध्दा' वा 'भावार्त' म्हूणच लेखतात!

ह्या विशया कडेन वस्तुनिश्टपणान पळयतलो जाल्यार ज्ञाननिश्ठ आनी विज्ञाननिश्ठ शिक्षणा बगर दुसरो पर्याय नाच्च. अशा शिक्षणाक लागुनूच समाजांतल्या आदिकाळा सावन चलत आयिल्ल्या चुकिच्या, वायट आनी दुश्ट चालीरितींची, रूढी-परंपरांची सुवात उजू, बऱ्यो आनी सुश्ट चालीरिती घेतल्यो आनी समाजाच्या शाणेपणाच्या, जाणवायेच्या पर्वाचो आरंब जातलो!

कथा-कादंबरीकार श्री. देविदास रामचंद्र कदम हांची 'जाणवय' कादंबरी श्रध्दा आनी अंधश्रध्दा हांच्यो सिमो समजून घेवपाक मजत करतलीच; वांगडाच अंधश्रध्दा निर्मुलन क्षेत्रांतल्या कार्यकर्त्यांक गांवांनी वावर करपाक खंय कशी संद आसा हें स्पश्ट करतली, प्रेरणाय दितली !!

- कमलाकर दत्ताराम म्हाळशी

कोंकणी कादंबरेच्या मळार एक आगळो - वेगळो रुपकार घेवन आयिल्ली कादंबरी 'जाणवय'! कारवार प्रांताच्या नितांत सुंदर वाठारांत जल्मल्लो आनी जाची वार जल्मताच सैमा कडेन बांदिल्ली आसा, अशा देविदास कदमान हे कादंबरीत रुढी, परंपरा आनी सैमा कडेन जुळून गेल्ली मनशां चितारल्यांत. तशेंच अतिसंवेदनशील मनाची जपणूक करपी ओडलायण्यो अस्तुरी प्रतिमा लेगीत चितारल्यात. कादंबरेच्या उत्तरार्धात विचार प्रवर्तनाचे प्रचंड ल्हार मनांत निर्माण जाता. तें मन अस्वस्थ करता, येवजूंक लायता!

- प्रा. अकल्पिता देसाय

**चत्राय :**

हे कादंबरेत वापरिल्लीं नांवां, थळां, पदां, रिती-रिवाज, रुढी-परंपरा, स्त्रध्दा-अंधस्त्रध्दा हांचो उपेग फकत कथानकाच्या निर्मणे पासत केला. हरशीं, हे कादंबरेचे कथानक, घडणुको, पात्रां पुरायेन काल्पनीक. हांचो खंयचेय घडणुके कडेन आनी जित्या वा मेल्ल्या व्यक्तीं कडेन कसलोच संबंध ना. आनी दिसलोच जाल्यार तो फकत योगायोग.

**- लेखक**

# जाणवय

मुरलीधराक अचकीत जाग येयली. भोव सुखदिणें सपन पडिल्लें. अचकीत जाग येयिल्ल्यान तें तितल्यारच उरलें. ताणें दोळे उगडले तेन्ना कुडीन काळोख पांगुरिल्लोच आसलो. उक्त्या जनेलांतल्यान नदर भायर शेंवटिल्यार, भायर काळोख सुतां गेल्ल्या जुनेरावरी झिरझिरीत जाल्लो. आनी तांतूतल्यान उजवाड झळकतालो. मळबांत सुक्र उदेल्लो. नकेत्रांय चकचकतालीं. उबाळाचे दीस आसुनय घराच्या आशिकुशीक झाडां-पेडां आशिल्ल्यान, शेळाव जाणवतालो. इतल्यान मारुतील्या घरा वटेन कोंब्याचो साद आयकूंक येयलो. एक कोंब्यान साद घालता मेरेन, दुसऱ्या कोंब्यान साद घायलो. जातिवंत कोंबो खय राम प्रहरार साद घालता. कितलीं वरां जालीं काय? ताणें कुशींतली विजेरी घेयली आनी पेटयली. चोयल्यार जनेलाच्या कुशींतल्या मेजार आशिल्ल्या घडयाळीर चार वाजून सदतीस मिनटां जाल्लीं. ताणें विजेरी पालयली. पर्थून आसली थंय दवरली. आनी तो तसोच हांथरुणार उदारो पडून रावलो.

ताचें मन पर्थून सपनांत घुस्पले. सकाळीं नस्कार पडिल्लें सपन! ताची आई केन्ना केन्ना म्हणटाली, फांत्या पारार पडिल्लें सपन खरें जाता! मुरलीधरालो असल्या गजालीर मात्तूय विस्वास ना, हें पुराय गांव जाणा! तरी लेगीत काळजाचे खोलायेंतल्यान ताका ह्या खिणाक दिसलें, सपन खरें जावचें! धुमकेतू कसो बाबा अचकीत येवचो!

खोशयेचो धक्को दीत दारांत उबो रावचो! अशें जाल्यार, आईक कितली खोस जातली. अंतपार उरचो ना खोशयेक! मळब चार आंगळांय उरचें ना. म्हत्वाचें म्हटल्यार, आईले भोग उणे जातले. सुमार इतले भोगल्या तिणें, आनी भोगता. ह्या समाजांतल्या नश्ट्या रुढीन, कुड्ड्या रिवाजांनी दिल्ले न्ही नस्ते भोग!

तांचेर ते अद्रिश्ट येयिल्ल्या तीन-चार म्हयन्या नंतरची गजाल...

पांच-स वर्साचो मुरलीधर आई अनसुया वांगडा रानांत काण्णा खुटून हाडूंक गेल्लो, पर्थतालो. दोगांल्याय हातांत निकर्तीच खुटून हाडिल्ल्या दिखाळ काण्णांच्यो पोतयो लांबताल्यो. कपलाक कुकूम नाशिल्ली, गळ्यांत मंगळसुत्र नाशिल्ली, पुरायच उक्ती उक्ती, तिशींतली अयाव आसुनय रांडावपण भोगपी अनसुया, पुता वांगडा गोविंदाल्या घरा सामकार पाविल्ली. अनसुयालेच पिरायेची गोविंदाली घरकान्र शकुंतला बरेंऽ पाचवें पातळ न्हेसून, तकलेवेल्या आंबाड्यांत बरींऽ आबोले फुलां-फांती माळून, भांगर-शिरंगार करून बी, मुरलीधराल्याच पिरायेच्या सुर्यकांता घेवन, खंयतरी वचूंक तेन्नाच भायर सरिल्ली. आंगणांत निरपणसा झाडा कडेन पाविल्ली. अनसुयाचेर नदर पडना फुडें थंयच थारली. तोंड वांकडें करीत कितें तरी गणमणली. थंयसून सुर्यकांताक तशीच ओडून, पर्थून घरांत घेवन गेली. बरें निळें कालसांव, धवो बुशकोट बी घालून नेटान आवय वांगडा भायर सरिल्लो सुर्यकांत आवयल्या तोंडाक पळयतच दांवें बांदिल्ले वासूर कशें फरफटत आवय फाटल्यान गेल्लो.

शकुंतला पुताक ओडीत भितर कित्याक गेली, हे अनसुयेक कळनासतना रावूंक ना. अनुसुयेनय तोंड येद्देंशेंच केलें. जशें काय तिणें व्हड गुन्यांव केल्लो. जशें काय तिणें हे वाटेन येंवकच नजो आसलें. ''शेऽ! हांव पापीण कित्याक येयली हे वाटेन?''

आवयल्या तोंडांतल्यान गळून पडिल्लीं हीं उतरां आयकून मुरलीधरान आवयल्या तोंडा कडेन चोयले. शकुंतलाकाकील्या तोंडा वेले भाव चोयन मुरलीधराक जाणवल्लें, कितें तरी म्हूण बिघडलां.

“आई, कितें जालें गे? कित्याक गेलीं दोगांय भितर?” अनसुया खिणभर ओग्गी रावली. भितर काळजांत कितें तरी तोपतालें. आरपार वयतालें. “पुता, खंयच्याय बऱ्या कारणाक वयतना, म्हजे सारखी रांडाव बायल वाटेर मेळ्ळयार फुडें वचनात. पर्थून घरांत वचून खिणभर बसतात. तोंडात कितेंय गोड उडोवन, आमी नदरे आड जाल्लीं चोयन, मगेर भायर सरतात.

“पूण कित्याक?”

“म्हजे सारखी वाटेर मेळप म्हटल्यार, एक अपशकून कसो! देखून आमी....”

अनसुयाचें हड्डे भरुन येयिल्लें. फुडलीं उतरां आतां भायर सरचीं नासलीं. ती सटसटीत पावलां मारत मुखार सरली. मुरलीधराक कितें दिसलें, कोण जाणा. तो धांवतच गोविंदकाकाल्या घरांत गेलो. भितर वचून चोयल्यार, शकुंतलाकाकी सुर्यकांताल्या हातार गोडाबेली दवरताली.

मुरलीधर तसोच पर्थून घरा येयलो.

आई सोप्यार बसून, पदर तोंडार घेवन रडटाली.

काण्णा-पोती कुशीक पडिल्ली. तिची आवतिकाय चोयन मुरलीधराच्या काळजार मणाचें ओजें दवरिल्ल्यावरी जालें. तो न्हिन्नळ्ळो. आईलें पुराय दुख्ख ताच्या काळजात उतरुन येयलें. ताच्याय दोळ्यांतल्यान दुकां गळूंक लागलीं.

अनसुयाक सवायशीणपणाची भोव व्हडविकाय आसली. माथेंभर फुलां माळटाली. हरशीं तिचो लांब केंसांचो मोठ्ठो आंबाडो. ताचेर फुलां-फांती माळटकीर तो बरोच सोबून दिसतालो. फुलां पासत ती आंगणा भोवतणीं फुलां-झाडां रोयताली. आंगणा मुखाल्ल्या गडगड्या बांयेंतल्यान गड गड करीत बिंदल्यान उदक काडटाली. पुराय झाडां मायेमोगान शिंपताली. वर्सभर कसलीं ना कसलीं फुलां आसतालींच झाडांक! शेंवतेची, बटण शेंवतेची, गोंडांची, आबोलेचीं, मोती-मोगरी, सदा-फुलां आनी दसण तर वर्साचे बाराय

म्हयने आसतालीं. फुलांचो सोस इतलो आसलो, देवाल्या माथ्यार उर्णी आनी हिगेल्या माथ्यार चड आसतालीं.

मुरलीधरालो बाबा तशेतरेन गेल्या उपरांत मात, पुराय फुलां देवाल्याच माथ्यार पडटालीं! मुरलीधराली आज्जी चोयन रडटाली. म्हणटाली, ''पापणीक फुलांचो भोव सोस आसलो! आतां कशी माळटली फुलां? देवा, कितें हाडलें हें नशिबांत?''

अनसुयाल्या गोऱ्या, रूंद कपलार येद्दो व्हडलो पयशा येदो कुकूम आसतालो. वाड्या वेल्या बायलांनी अशेच एक फावट अनसुयाक विचारिल्लें ''येदो व्हडलो पयशा येदो कुकूम कित्याक लायता गो?''

अनसुयान तेन्ना सांगिल्लें, ''व्हड कुकूम लायल्यार, घोवालें आयुश्य व्हड जाता! तुमीय लाया असलोच!''

मंगळसुत्रय तशेंच! येद्या व्हडल्या दावलांचे घालून हालयताली. दर दोन वर्सांनी वायंगिणी अच्यूत शेटीगेर वचून, मंगळसुत्राचो नमुनो बदलताली.

हातांत हातभर कांकणां घालचेलोय सोस आसलो. तरेतरेचीं कंवचे कांकणां आसतालीं. पाचवी, तांबडीं, निळीं.

कांकणकार हुसेन कांकणां घेवन गांवांत येयलो काय सुर्वेक तांगेर येतालो. तो जाणा आसलो, हिका कांकणांचो भोव सोस! ती तीन-तीन म्हयन्यांनी कांकणां बदलिता.

मुरलीधराचो बाबा तशेतरेन गेल्ल्या, फुडल्याच म्हयन्याक तो येयिल्लो. येद्या व्हडल्या तांबुडशा खाडाचो, आंगभर धवी विजार आनी धवो लेंगो न्हेशिल्लो. मोटवो, गोरो. खाक्यांत कांकणाखोको हुमकळयिल्लो ''कांकणां लाया गे ऽ कांकणां!'' म्हणत दारांत उबो राविल्लो.

अनसुयाक कानार हुसेन चाचालो आवाज पडटकीर भितरल्यान कितेंशेंच जाल्लें. कोणतरी पिकिल्ल्या खाडा-बोडाचो मनीस येवन तिका मुद्दाम चाळयल्यावरी दिशिल्लें.

तिणें भायर येवन कांयच उलयनासतना, हातानच कुरू करुन,

तेका मुखार वच म्हूण सांगिल्लें.

धव्या कपलाची, माथेभर फुलां नाशिल्ली, नाकांत मोकण नाशिल्ली, पुरायच उक्ती - उक्ती, पदरान गळो धांपून घेयिल्ली, अनसुया मुखार उबी रावतकीर, ताका बाबड्याक कितें समजुचें तें समजल्लें. कित्याक येयलो आपूण हिंगा? अशें ताका जाल्लें. तोंड येद्देशेंच करुन ताणें विचारिल्लें, "कब?"

हाचेर अनसुया उलोवंक नासली. तिका भितरल्यान भरुन येयिल्लें. ती तोंडार पदर धरुन बद्द रांदचे कुडींत येयिल्ली. आनी चुली मुखार बसून व्हडा व्हडान रडूंक लागिल्ली.

कांकणकार हुसेन बावडो गुन्यांवकारी कसो ओग्गी थंयसून गेल्लो.

आनी एक फावट अनसुया अशीच रडत रडत येवन, चुली म्हऱ्यांत बसून हामेऱ्यांनी आनी हुमेऱ्यांनी रडिल्ली मुरलीधराक याद जाली.

दिवजा जात्रे दिसा तें!

कार्तिकेच्या पाडव्या दिसा, दिवजां जात्रेक, गांवांतल्यो सगळ्यो सवायशीण बायलो दिवजां पेटयताल्यो.

मुरलीधराक याद जायना अशी एक्कूय दिवजां-जात्रा, जे जात्रेक ताचे आईन दिवज पेटोवंक नासलें.

अनसुयाक दिवज पेटोवचो इतलो सोस आसलो, एका वर्सा चार दीस जोर येवन गेल्लो. जोरान ती अर्दी जाम जाल्ली. उबें रावतना सुदीक घर्रर जातालें. पाचवो दीस दिवजां-उपासा दीस आसलो. मुरलीधराच्या बाबान, आज्जेन तिका अंदू दिवज नाका गो म्हणिल्लें. पूण तिची उमेद इतली खर आसली, घोवालें आनी मांयलें उतर तिणें कशेंच कान-मनार घेवंक ना! केलो तिणें उपास आनी दिलेंच दिवज!

हरशीं दिवज-कान्नी बायलां आपलें पेटिल्लें दिवज सांबाळूंक घोवाक वांगडा घेवन भोंवतात.

वेळ तकलेर सरकतना, मुखार धोलकें वाजोवपी म्हार, ताचे फाटल्यान दिकमाळ्यो घेयिल्ल्यो कलवंतिणी, तांचे फाटल्यान

दिवजकान्न्यो, पुराय घामाघूम जावन देवळां वाठारा भोंवतणी सात प्रदक्षिणा काडटा मेरेन जाम जातात. पांयांक पेटके येतात. फुडली चाट मारप कठीण जाता. हातांतली दिवजां सांबाळून धरचीं पडटात. तातूंत कास मारुन न्हेसची संवय नाशिल्ल्यो बायलो आसल्यार विचारचेलेंच ना! त्यो आपलीं पावलां घुस्पत म्हण जोकून चाट मारतात. देखून फाटल्यान चलतल्या बायलांचो ताळमेळ चुकता. परत आनी तांच्या दिवजांतल्यो वाती हेर बायलांल्या पदराक बी लागत म्हूण काळजी घेवची पडटा. परत तातूंत दिवजांतलें तेल सोंपल्यार तें घालून घेवचेलो वावर. एक न्ही दोन! हजार कडेन लक्ष दिवचें पडटा आनी देखूनच कांय बायलो आपलीं दिवजां सांबाळूंक घरकाराक वांगडा घेताल्यो. फकत ते ते सुवातेर पावतकीर घोवा कडल्यान दिवज घेवन, शास्त्रा पुरतें माथ्यार दवरताल्यो. मगेर पर्थून घोवा कडेन दिताल्यो.

मुरलीधराली आई अनसुया स्वता दिवज घेवन सातय प्रदक्षिणा पुराय करपी बायल आसली. त्या वर्सा मुरलीधराल्या बाबाक वांगडा घेवन तिणें प्रदक्षिणा काडिल्ल्यो.

घरांतलीं सगळींच जाणा आसलीं, दिवजां वेळार अनसुया उमेदींत आसताली. एकेवटेन उमेद, एकेवटेन भक्ती अशा संमीस्र संमेलनान ती उचंबळीत जाल्ली आसताली.

आदल्या दिसा निरधार उपास करताली. दिवजां दिसा सकाळीं नस्कार उठ्ठाली. न्हायन-धुयन देवपुजा करून, तुळशी उदक घालून, मगेर आपले तयारेक लागताली.

हरेक वर्सा नवें णववारी कापड आसतालें. हरशीं पांचवारी पातळ न्हेसपी बायल ती! पूण देवाकामाक णववारी कापड न्हेसले बगर कांयच करनासली. कापडाचो रंग पाचवो आसल्यार पाचवी चोळी. पाचव्या रंगाचो हातभर चुडो. तकलेर माथेभर फुलां, तिंवूय चडकरून आबोलेचीं आसतालीं. मुरलीधराचो बाबा मुजरत आंगडी कडेन वचून वोंवा लेकान आबोले फुलां सोर हाडटालो. कपलार भांगतिळो, कानांत

कुडकां, गळ्यांत मंगळसुत्रा वांगडा पवनाचें गाठलें, भांगरान बांदिल्ली पोवळ्यांची माळ, हातांत भांगरा कांकणां, गोठ, पाटल्यो, भुजार बाजुबंद बी घालून शिरंगारताली.

गोरी, ऊंच, घसघशीत आंगलोटाची, नाका दोळ्यांनी सोबीत अनसुया सगळ्यां बायलां मदी वेगळीच उठून दिसताली.

कुंभारवाड्यार वचून शेवतू कुंभारणी कडल्यान विकत हाडिल्लें दोन भुजाचें दिवज आदल्या दिसाकुच, तुळशी मुखार रांगोळी घालून, ताचेर जतनायेन दवरिल्लें आसतालें. तातूंत तेलांत बऱ्योऽ भिजोवन वाती दवरताली.

जात्रेदिसा मुरलीधराल्या बाबा कडल्यान तें दिवज उखलून माथ्यार घेवन, पयल्या पयलीं घरआवयच्या मठा कडेन वचून रावताली.

मुरलीधराचो बाबा तशेतरेन गेल्लो. अनसुया रांडाव म्हूण जियेताली. तिचें दिवज थांबिल्लें. पूण दिवज दिवची उमेद थांबूंक नासली.

तें अद्रिश्ट कोसळिल्ल्या हेर वर्साची गजाल... घरवयेंतल्यो सगळ्यो बायलो नटून-शिरंगारून आपआपलीं दिवजां घेवन घरआवयचे मठये कडेन एकठांय जाल्ल्यो.

थंय मागीर जाणवय येवन, 'घरआवयली' पुजा करून, जण एकलेल्या माथ्यार मठये मुखार हाडून दवरिल्लीं दिवजां दिवन, उपरांत वाजंत्री वाजत-गाजत, दिवज कान्न्यांक देवी आवयल्या देवळा कडेन धाडचें आसलें.

घर-आवयची मठी मुरलीधराल्या घरा फाटल्यान उल्याच्या अंतरार आसली. तांगेल्या घराचे रांदचे कुडींतल्या चुली कडच्या जनेलांतल्यान मठी स्पश्ट दिश्टी पडटाली. तांबडो काव घालून, शिमिटाचो गिलांव काडिल्ल्यो वणटी आनी वयर मंगळुरी नळ्यांचें छप्पर. चोयतल्यांक तें एक ल्हानशेंच घर कशें दिस.

मठयेचे आशिकुशीक आंब्यांचीं, पेरांचीं, पणसाचीं बी झाडां आसलीं. तीं रासवळ! घरवयेंतलो कोणूय तांचेर हक्क सांगूंक ताकतालो. घरवयेंतलीं मनशां त्या झाडांक लागिल्ले आंबे, फणस,

पेरां बी घरआवयलो प्रसाद समजून भोव भावार्थान व्हरून खातालीं.

रांदचे कुडींत चुली कडेन अनसुया फुंकणेन लाकडां फुंकताली. रान्नीर पेजे मडकी दवरिल्ली. ढम्म् ढम्म् करुन धोलाचो आवाज येतकीर, तिचें लक्ष मठये कडेन गेलें. णववारी कापडा न्हेशिल्ल्यो, भांगरान शिरंगारिल्ल्यो, माथेंभर फुलां माळिल्ल्यो अस्तुऱ्यो थंय एकठांय जाल्ल्यो चोयन तिच्यान रावूं नजो जालें. तांकां दोळेभरुन चोवची इत्सा इतली प्रबळ जाली, तिणें आनी फुरसद चोयली ना. हातांतली फुंकणी थंयच उडयली आनी ती भायर सरली.

मठये फाटल्यान विशेक हाताच्या अंतरार वेंग पावची ना, इतलो मोठो एक आंब्यारूख आसलो. वयर वयर गगनाक गेल्लो. ज्युस्त ताचे आडसाराक वचून ती आंग आंवळून उबी रावली. थंयसूनच ती शिरंगारिल्ल्या बायलांक दोळे भरुन चोयताली. तिका जण एके बायले मर्दी आपूण दिश्टी पडटाली. तिका दिसतालें, आत्तां जाणवय दिवज उखलतलो आनी तिच्या माथ्यार दितलो.

बायलांचो कलकल आनी धोलाचो ढम्म् ढम्म् आवाज वातावरणांत एक आगळीच उचांबळ हाडटालो.

इतल्यान कोणेंतरी म्हटले, ‘‘जाणवय येयलो... जाणवय येयलो...’’

शंकर जाणवय ऊंच आनी घटमुट आसलो. गोरो. दोळें घारशे. तो एक देवाचो पुजारी कसो दिसच नासलो. कोणेंय ताका चोयल्यार, तो शेतां भाटांत घोळपी कश्टकरी शेतकामतीच म्हणटले. तो उक्तोच आसलो. कपलार गंधाचो तिबो. आंगार, भुजार गंधाच्यो उटी लायिल्ल्यो. तो पुडवें न्हेशिल्लो. हातांत पुजेचें सामान आसलें.

शंकरा वांगडा गुणो आसलो. गुणो आंगान पांगान सुकिल्लो कसो. काळो. दोळे फोणांत गेल्ले. पोले पडिल्ले. गुणो म्हण्टात तो फाटलें फुडलें येवजिनासतना तोंडांत येता, तें फट्ट करुन उलोवपी.

अनसुया आंब्या रुखा आडसाराक उबी रावन चोयता ती ताका ज्युस्त दिश्टी पडली. ताणें तिच्या मनाची, भावनेची मात्तूय कदर

करिनासतना उतरां तोंडांतल्यान गळिल्ल्यावरी उलयलो. "अगे, नाराणा बायले, तूं कित्याक गे हिंगा? रांडाव बायलेन हिंगा येयनये म्हूण खबर ना गे तुका? चल वच! शेंवटीय हांगासल्ल्यान!"

ताणें तशें उलयतकीर, सगळ्यांल्यो नदरो अनसुयार गेल्यो. अनसुयाच्यान त्यो नदरो सोसूंक जाल्यो ना. तिका त्यो नदरो तोपूंक येयिल्ल्या सुळ्यांवरी दिसल्यो. आतां त्यो आपल्याक तोपतल्यो, रगत बंबाळ करतल्यो, हे जाणिवेन ती कासावीस जाली.

थंय एकठांय जाल्ल्यो जण एकल्यो सवायशीण बायलो अनसुया कडेन काकूट नदरेन चोयताल्यो खऱ्यो, पूण गुण्याक ताचें पडून वचूंक नासलें. ताणें शंकर जाणवय कडेन चोयत म्हणलें, "हिचेर नदर घालून, दिवजांकान्नीन दिवजां पेटोवंक वचप?"

अनसुयाक हें सोसलें ना. तिचें काळीज आर्दीच रगत बंबाळ जाल्लें. ती रडत धांवली थंयसून. बद्द घरांत येयली आनी रांदचे कुडींत चुली मुखार बसून हामेऱ्यांनी आनी हुमेऱ्यांनी रडली.

हळदी-कुकमां दिसांनी अशेंच जाल्लें.....

एक दीस अनसुया गोविंदाले घरकान्नी म्हऱ्यांत बेठीच गजाली करुंक म्हूण गेल्ली. थंय शिवानंदा बायल ललिता, साईनाथा बायल विद्या बी गजाली करुंक येयिल्ल्यो. गोविंदाल्या घराचे वासरेर लाकडाच्या खुर्चांर बसून गजाली करताल्यो. इतल्यांत पुरसा मठा कडच्या विश्रामा बायल सुंदरें थंय येयली. ती थंय येयिल्ली शकुंतलाक - गोविंदाले घरकान्नीक हळदी कुकमांचे आमंत्रण दिवंक! हांकां सगळ्यांक चोयन तिणें म्हणलें, "बरें जालें! तुमीय हिंगा मेळ्ळीं तीं! तुमगेर आनी येवचो वावर उल्लो. हिंगाच सांगतां तुमकां!"

"सांग... सांग हिंगाच सांग!"

"ललिता, येवंक जाय! विद्या, येवंक जाय! आनी अनसुया, तूं..." इतलें उलोवन ती अचकीत जीब धरिल्ल्या वरी थांबली. नकळटां हातांतल्यान मातये मालटी निसरन पडची, तशीं तिचीं उतरां तोंडांतल्यान भायर पडिल्लीं. तिका आपली चूक होलमली आनी तिणें

जीब चाबली.

सुनंदान मुजरत हें करूंक ना, हें अनसुयाक होलमल्लें, पूण नकळटां जायना हातांतल्यान सुटिल्लो फातर तिचे काळजार आपटल्लो. थंय जखम जाल्ली. तातूंतल्यान रगत निशेतालें. काळीज वळवळटालें. खिणांतच अनसुयालो चेरो पडलो. हें हेरांचेय मतींत येयलें बगर रावलें ना.

अनसुया थंयसून उठली आनी तोंडार पदर घेवन ओग्गी भायर सरली. घडये तिचे दोळ्यांतल्यान भायर सरचीं दुकां, तिका हेरांक दाखोवचीं नासलीं.

घरांतल्या देवकार्यांक सवायशीण बायलांलोच हात लागचो पडटा. आतां तिगेल्या घरांत सवायशीण बायल शी कोणच नासली.

चवथीवेळार गवर हाडचो, पावयचो वावर सोयऱ्या कडल्यान, नातर वाड्यावेले एकाद्रे बायले कडल्यान करून घेवचें पडटालें. हात आसून थोटी आनी पांय आसून पांगळी जाल्ली ती!

ऐन पिरायेंत... बरेंऽ न्हेसून, फुलां माळून, भांगर-शिरंगार घालून गणपती मुखार वायणां पेटोवचें तिचें बंद जाल्लें.

तुळशी परबेक अशीच पुराय शिरंगारून, जोडें पेटोवन घोवा फाटल्यान तुळशीक प्रदक्षिणा घालचेलें बंद जाल्लें.

घोवाचें आयुश्य वाडूं म्हूण श्रावण म्हयन्यांत आयतार पुजोवचें बंद जाल्लें.

हरशीं हरेक वर्सा ती वडां पुनव चुकनासतना व्हड भावार्तान करताली. त्या दिसा तिका उपास आसतालो. बरेंऽ पाचवें णववारी कापड न्हेसून, आंगार सवायशिणीलो शिरंगार चडोवन, फुलां बी माळून ती पुरसामठा कडल्या वडा रुखा कडेन वयताली. येद्दो व्हडलो, चार जाणांनी मेळून वेंग मारल्यार वेंग पावचिना येदो तो वडारूख वयर वयर ऊंच मळबांत गेल्लो. चोंयवटेन आपल्यो खांद्यो पातळावन फागुरांनी आनी चिगुरांनी पानेल्लो. हरेक खांदयेतल्यान सुटिल्ल्यो पारंब्यो मेकळेपणान हुमकळटाल्यो. आडगांव'ची एक्कान एक भुरगीं त्या पारंब्याक झोक

घेवन व्हड जाल्यात. हरशी भुरग्याल्यां खेळाचें साधन आशिल्लो तो वडारूख वडा-पुनवे दिसा सवायशीण बायलांचे श्रध्दा स्थान जाताले. अनसुया त्या दिसा त्या रुखाक कुकूम, फूल करून, सुतान वडारुखाक सात येडे घालून, रुखाची भोव भावार्तान पुजा करताली.

आतां तिचे हे पुराय सुवाळे थांबल्यात. तिची उमेद, तिचो उचांबळ एका दयामाया हीण हातान मारून उडयला. एक व्हड अंतपार नाशिल्लो दुख्खाचो म्हासागर तिणें पोटांत घेयला. पूण तो म्हासागर तिच्यान पचोवंक जालो ना. एकाद्र्या खिणाक ताका जोरगत येता आनी ती न्हिन्नळटा, अस्वस्थ जाता.

तिचे न्हिन्नळप, मोन्यानी रडप, मुरलीधराक जाणवता. हरेक वर्सा 'वडा-पुनवे'दिसा तिचे मदली अस्वस्थता जाणून ताका खूब फावटी दिसता, सावित्रीन ह्या दिसा खय यमान पास घालून व्हेल्ल्या आपल्या घोवालो - सत्यवानालो जीव पर्थून हाडिल्लो. पूण, हिका कुड्ड्या रुढींचो, कुड्ड्या विचारांचो पास तुटोवन आपल्या जित्या घोवाक घरा भितर घेवंक जालें नासलें.

मुरलीधराक कुवाडें पडटालें, कित्याक मनशान त्या असल्या रुढींच्या पासात स्वताक घुस्पून घेवंक जाय? कित्याक हे पास तटातट तुटोवन मुक्त जावं नये? मनशांचेर जाल्ले संस्कार इतले खऽर आसतात? मनशाक निबर जावप शक्य ना?

घोव मेल्यार कित्याक बायलांनी कुकूम पुसप? कित्याक मंगळसुत्र तुटोवप? कित्याक कानांचीं कुडकां काडप? कित्याक हातांतलीं कांकणां फोडप? कित्याक तें आपलें सोबीत रुपडें विद्रूप करून घेवप?

घोव ना म्हण शिरंगार काडून दिवज पेटयनासतना रावचेली गरज आसा? हळदी-कुकूम करनासतना वा हळदी-कुकमाक वचनासतना रावची गरज आसा? तुळशी परबेक जोडें पेटयनासतना रावची गरज आसा? नटून-शिरंगारून उमेद भागवचेल्यो परबो ह्यो! आपली उमेद भागोवचेलो अधिकार जण एकल्याक आसा!

मुरलीधराक चड दुख्ख भोगिल्लें तें तागेले भयणील्या शिलाल्या लग्ना वेळार जाल्ली आवयली स्थिती चोवन! व्हंकल न्हवऱ्यान एकामेकांक माळो घायले उपरांत, ती माटवांत रावलीच नासली. घोवाले यादीन तिचें मन थाऱ्यार नासलें. पर्थून पर्थून नदरे सामकारा घोव येतालो. आनी ती थतर-वितर जाताली. थार दिनासतना तिचे दोळे दुकां व्हांवयताले. भितरले भितर ती हुंडके चिड्डिताली. निमाणे कडेन रावूं नजो जावन आपली अवतिकाय हेरांक कळनये म्हूण, ती व्होवरेंत वचून बशिल्ली. हामेऱ्यांनी रडिल्ली. खरें म्हटल्यार यजमान्न ती आसली. लग्नांत यजमानपण करचेलो तिचो मान मुरलीधराल्या बापायल्या मावसभावा बायलेक राधेक मेळिल्लो. कन्यादान करचो अधिकार आवय-बापायलो! बापूय ते तरेन गेल्लो आनी आवय राडांव म्हूण जियेताली. कसले भोग हे? पोटांत पिकिल्ले धुवेचें कन्यादान हेरांल्या हातांनी करप? आवय मुखार जिती उबी आसतना? कित्याक करूनये तिणें कन्यादान? ती रांडाव म्हूण? कोणें थारयलें तिका रांडाव?

मुरलीधराक याद जाता... ताची आई-अनसुया म्हणटाली, आपल्याक पुराय संवसाराक आड्डून सांगनशें दिसतालें, ''हांव रांडाव न्ही! हांव अयाव! म्हगेलो घोव जितो आसा!''

दुसऱ्याच खिणाक तिणें येवजिल्लें, ना ना! हांवें तशें म्हणूक फावना! जाणटें म्हणटात तशें कितेंय आसल्यार?

एक फावट अशें जाल्यार एक फावट तशें येवजून तिची तकली भेरेवंक पाविल्ली. मेंदू मुयेवंक लागिल्लो.

मुरलीधराक याद जाता, मसणटी वेल्यान पर्थले उपरांत तो जोरान न्हिंदिल्लो. उबें रावचें त्राण नासलें. ताची आई अनसुया ताच्या कपलार थंड उदकाची घडी घालत कुशीकच बशिल्ली. जोर असो आनी तसो न्ही! पांच-स वर्सा पिरायेचो नेण्टो पोर! हांथरुणार फडफडटालो. परवंतालो. पर्थून पर्थून आवयक विचारतालो, ''आई, बाबा मेलो गे? मेलो बाबा?''

आवय कांयच जाप दिना आसली. फकत हुंडकेताली.

मुरलीधरालो जोर देंवना आसलो.

म्हळगो बाब गांवचो वखदळी वखद दिवन गेल्लो. हरशीं म्हाळगो बाबाल्या वखदान रोखडोच गूण पडटालो. पूण हो जोर थंडी-वाऱ्याचो नासलो. मसणटीर घडिल्ले गजालीचो मनार खऽर परिणाम जाल्लो, मन भियेल्लें. घडये त्या कारणान येयिल्लो जोर आसलो.

ही गजाल घडचे आदीं दोन म्हयन्या सावन मुरलीधरालो बाबा नाराण केन्ना केन्ना बायलेकडेन म्हणटालो, ''कळ्ळें मु गो अनसुया, म्हाका घुंवळ येयिल्ले भाशेन जाता! झंजय मारता! बेठीच लवंड मारिल्ल्या भशेन जावन घबघबता!'' वखदळी जाण्ट्या म्हाळगो बाबाकडेन ताणें हाचे बद्दल सांगिल्लेंय! तेन्ना म्हाळगोबाबान ताका ''भिनाका रे, पित्तान तें!'' अशें सांगून एक वखद सांगिल्लें. तें ताणें करुनय चोयल्लें. राती कडेन कपभर उदकांत दोन भिंडा सोलां घालून दवरतालो. सकाळीं उठले बरोबर तोंडा घोट घेवन, त्या कप भर भिंडा उदकांत करंगता तितली साखर घालून, ती निराळ्या पोटार घेतालो. पूण गूण पडूंक नासलो. केन्ना केन्ना घुंवळ येतालीच. ताणें मागीर थारयिल्लें, बऱ्या दोतोराक दाखवचें! पूण फाल्यां फाल्यां करत उरिल्लें.

रोखडोच वचून दाखोवया म्हटल्यार, तेन्ना दोतोरय तसो सोपेपणान मेळचो नासलो. तांच्या गांवांत तर दोतोरच नासलो. दोतोर जाय जाल्यार एक तर 'वायंगिणी' वचचें पडटालें नातर, 'दोड्डुपेठेंत'! वायंगिणी हिंगासरल्यान पस्तीस-चाळीस किलो मिटरांचेर, जाल्यार 'दोड्डुपेठ' पंचेचाळीस-पन्नास किलोमिटरांचेर.

दोतोरागेर वचप म्हटल्यार, पुराय दीस तातूंतच मोडप आसलें. आदींच तो शेताच्या वावरांत फाटीं पडिल्लो. शेतांची इबुण्णी करचे वेळार मुरलीधराले आज्जेलें पोटखण्याचें दुखणें उप्राशिल्लें. तिका 'दोड्डुपेठेंत' व्हरुन आस्पत्रेंत आपरेसांव करचें पडिल्लें. त्या बोवाळात इबुण्णी फाटीं उरिल्ली.

रानघाटांतल्या हमरस्त्या वेल्यान धायेक किलो मिटराचेर भितर, गच्च झाडां-पेडांच्या रानांनी वेडायिल्ल्या, वस्तेंतलो एक गांव हो! गांवचे नांव 'आडगांव'! तेदवार एकमुळ्या फातर-माती घालून बांदिल्ल्या तांबड्या रस्त्यान हो गांव हमरस्त्याक जोडिल्लो आसलो. हमरस्त्या वेल्यान गांवांत भितर रिगता मेरेन फकत झाडां-पेडांचो सांगात आसलो.

गांवच्या गांवकारां बरोबर बारा वांगड्यांले मेज्जून बावीस वाडे आसले. माड-माडयांनी, आंब्या पणसांनी भरिल्ले. सरसकट चडशे शेतकार! ते मागीर खंयचेय जातींतलें आसू! शेतांत घोळ घोळ घोळटाले. पोटाक जाय ती हरेक वस्त शेतांत पिकयताले. घरांतलो एक्कान एक मनीस कसल्या नातर कसल्या वावरांत घुस्पल्लो आसतालो. कुकडां-बोकडां पोसतालो. गोरवां-म्हसरां सांबाळटालो. ते भायर रासवळ जिणेक गरजेचे आसले हेर वावरय थंय चलताले. मेस्त मेस्तकाम करताले, म्हाली म्हाल्यांले काम करताले, गवंडी गवंड्यांले काम करताले, देवळी देवळ्यांलें काम करताले, म्हार म्हारांलें काम करताले, कुंभार कुंभाराले काम करताले, पागी पाग्यांलें काम करताले आनी पुजारी पुजाऱ्यांले काम करताले.

गांवांत चवथी मेरेन शिकचेली सोय आसली. गांवच्या पडींग तिट्यार चिऱ्यान बांदून काडिल्ली, शिमिटाचो गिलांव केल्ली, मंगळुरी नळ्यांची, दोन पाख्यांची एक लांबची लांब चार खोलयांची शाळा आसली. शाळेच्या मुखार एक पाटी मारिल्ली. ताचेर बरयिल्लें आसलें. 'सरकारी प्राथमिक शाळा, आडगांव!'

ह्या गांवांत चवथे परस चड शिकिल्लीं मनशां खूब उणीं आसलीं. पांचवी शिकता जाल्यार तांकां 'वायंगिणी' नातर 'दोड्डुपेठेंत' वचून शिकचें पडटालें. इतलें पयस सदांच वचून येवप शक्य नासलें. चड शिकची इत्सा आसलो सोयऱ्यांगेर बी रावन शिकतालो. चेडवां पासत मात सरकारी 'गर्ल्स हॉस्टेल' वायंगिणी आसलें. ह्या वाड्यावेलो पयलो पदवीधर म्हण्टात तो, सकयल्या वाड्यावेल्या धनंजयालो

म्हादेव!

मुरलीधराचो बापूय नाराण आनी गोविंद 'वायंगिणी' रावन मॅट्रीक मेरेन शिकिल्ले. दोगूय खेत्री वंशाचे गांवकार जाल्ल्यान मिलेट्रींत वचूंक फुरफुरताले खय! पूण दोगूय मिलेट्रींत गेले नात! ना हेर खंयचीय रोजी करचेली इत्साय दाखयली ना! कित्याक, हें मात कोण नकळो!

ह्या बावीसय वाड्यांवेलो लोक आपसातले चड-उणें मतभेद आनी हेवेदावे सोडले जाल्यार, एकमत्तान आनी एकचित्तान जियेवपी आसले. एकामेकाल्या बऱ्या वायटाक धांवन वचपी आसले. तशेंच कसलेय मागीर कोणा मजगती तंटे उप्रासल्यार गांवकी आपयताले. 'देवी आवयच्या देवळांत' गांवठणा मुखार जाणवय न्याय-नीत करतालो. जाणवयन दिल्लो न्याय भौस एकमतान मान्य करतालो.

वट्ट 'आडगांव' तांची - तांची 'घरआवय' सोडली जाल्यार एकूच देव-देवीक आनी एकूच नासा-देवचारांक मानपी आसलो.

गांवातलो भौस भोव भावार्तो आसलो. देव-धर्माक भियेतालो. रिती रिवाज, रुढी मानतालो. परंपरेक पाळो दितालो.

मुरलीधरालो बाबा नाराण म्हालवाड्यावेल्या शेतां-भाटान गिरेस्त घराब्यांतलो मनीस! आनी आई अनसुया सकयल्या वाड्यावेल्या भाटकार कुश्टालें चेडूं!

आपले धुवेक फुडारांत कांय उणें पडचें ना, हे येवजणेन कुश्टान नाराणाक आपली धूव दिल्ली. आनी धुवेक काय उणें पडचेंय नासलें.

नाराण म्हणटात तो ऊंच, काळोसांवळो आनी हाडांपेडान घट्टमुट्ट आसलो. ताचीं मनगटां, भुजां बळिश्ट दिसतालीं. नाराणालें आनी अनसुयालें जोडें ज्यूस्त एकामेकांक जाय सारखें आसले.

त्या दिसा नाराण कोंब्या सादार उठून शेतांत गेल्लो. जांबळी कडचे कुणगेंत ताणें जोत बांदिल्लें. अनसुया सादारण आठ वरांर शेतांत वचून च्याव, भाकरी बी दिवन येयिल्ली. तेन्ना तो बरोच आसलो. मार झेतान 'आर आर...म...म' करत जोत हामुड्टालो. केन्ना कितें जालें कोण जाणा, धा वरांर सुमार म्हळगो बाबालो सैरोब मेरो काडूंक गेल्लो

परततालो. ताका हो जांबळी कडेन कुणगेंत पडिल्लो दिसलो. मुखारच नांगर वांकडो पडून जोत थांबून आसा. ताणें वयतना हाका जोत कसतना चोयल्लें.

''आरे कितें जालें हेका?'' म्हूण मुखार वचून हात लायन चोयल्यार हां ना, हुं ना! आंग थंड पडलां. ''नाराणा, नाराणा,'' म्हूण ताणें हाका सुमार इतलो हालोवन चोयलो पूण जाप ना! थंयच एक तांबयो स्टिला पेल्यान धांपिल्लो आसलो. वचून चोयल्यार तातूंत उदक नासलें. आतां करप कितें? वचून वाड्यार सांगुंया म्हूण तो आपलें खोरें थंयच उडोवन धांवत सुटलो. वाटेर आकाड्यांत ताका गोवींद मेळ्ळो. सैरोबान म्हणलें, ''गोविंदा, नाराण थंय जांबळी कडेन कुणगेंत पडला. साबुद्देर ना!''

नाराण आनी गोवींद घट्ट इश्ट आसले. वांगडा शिकिल्ले. एकामेकाल्या बऱ्या-वायटाचे वांटेकार आसले. ताणें फुरसद चोयली ना. ''आं? कितें?'' म्हणत तो तसोच शेंवटलो.

सैरोबान धांवत येवन वाडोभर सगळ्यांक कळयलें. कळना-फुडें जाणटे-नेणटे सगळे धांवले जांबळी कडेन. मुरलीधराली धा बारां वर्साची भयण शिला वायंगिणी बापायल्या मावळ्याल्या घरा रावन शिकतालें, शेनवारा घरा येयिल्लें आसलें. व्हरांड्यार बसून आबोले फुलां-फांती गुंथतालें. तागेल्या कानार पडना फुडें धांवत रांदचे कुडीत गेलें. अनसुया चुली मुखार आडवळेर बसून देठो शिनताली.

''आई, आई, बाबा थंय शेतांत पडला खंय कांय ना जावन!''

''आं? कितें? अरे देवा!'' अशें म्हणत तिणें देठो थंयच उडयलों. आडवळी बी कवळ्ळी ना.

''कितें गो? कितें जालें?'' मदले कुडींतल्यान खाटीर आड पडिल्लेकडेच्यान जाणटी मांय विचारताली.

''तूं आनी कितें विचारता? हेमी थंय काय ना जावन पडल्यात खय!'' अशें म्हणत तिणें धांव मारली.

फाटल्यान शिला बी धांवलें

मुरलीधराली सत्तर वर्सां पिरायेची आजी, केंस पुराय पिकून कापूस जाल्लो. आंगार खंय खंय मिरयो पडिल्ल्यो. "अरे देवा! कितें जालें म्हगेल्या पुताक?" अशें म्हणत न्हिदिल्ले कडच्यान उठून बसली. हालीच जाणटेपणांत पोटाचें आपरेसांव जाल्ल्यान, तिका बाबडेक सटसटीत उठून बसूंक जायनासलें. सटसटीत चलूंक जायनासलें.

अनसुया जांबळी कडेन पावली तेन्ना, गोविंदान नाराणाक आपल्या आंगार ताचो भार घेवन बसयिल्लो. वाड्यावेल्यांनी कवंडाळे केल्लें. ते सगळें चोयन तिगेलो आवरो उडलो. ती हुयेली मारूंक लागली. थंयच फतकल मारुन बसली. "कितें जालें म्हगेल्या घोवाक? अरे देवा! अरे देवा!" करत हड्डें बडोवन घेवंक लागली. शिला आईलो आखांत चोयन आपुणय व्हडा व्हडान रडुंक लागलें. "ओगी रावात! ओगी रावात!" करत वाड्यावेल्यांनी दोगांकय थातारचेलो यत्न केलो. पूण तीं दोगाय ओगी रावतात?

वाड्यार सांगूक गेल्लो सैरोब पर्थतना, तांबयांत उदक घेवन येयिल्लो. ताणें नाराणाल्या दोळ्यांर पचापच उदक मारलें. थोडें ताळयेर थापलें. तोंड उकतेंच आसलें. तोंडांत उदक थोडें रकयन, तें पिवोवचो यत्न केलो. पूण उदक भितर वचना जालें. निमाणे कडेन गोविंदान म्हणलें, "हेका आमी घरा व्हरया!"

"हय! "

"उखला हेका. सैरोबा, तूं पांयांकडेन धर..." अशें म्हणत गोविंदान नाराणाक खाक्यांत हात घालून उखल्लो.

गोविंद नाराणा बशेनच आंगान जिवान आसलो. फरक इतलोच नाराण सावळो आनी गोविंद गोरो! सैरोबय हाडा-पेडान घट्ट-मुट्ट! गोविंदा मानान मातसो मोटवो.

दोगांनीय मडें उबारून हाडिल्ल्यावरी नाराणाक घरा हाडलो. नाराणाली आवय म्हालकुमी बडी तेकयत ल्हव-ल्हव चलत आकाड्या मेरेन पाविल्ली. आपल्या पुताक तशे तरेन उबारुन हाडचें चोयन तिका कच्च जालें. "कितें जालें रे म्हगेल्या पुताक? 'देवी आवो', 'म्हासते',

कितें केलें गे हे?'' म्हणत ती थंयच बसली.

''आगे, तूं हिंगा बोवाळ घालूं नाका. ओगी राव मातशी!'' अशें म्हणत कुश्टाल्या सुब्रायान तिका कमरेत हात घालून उखल्ली.

नाराणाक हाडून घराच्या सोप्यार वणटीक तेकोवन बसयिल्लो. गोविंदान घट्ट धरिल्लो.

कोणें तरी म्हटलें, ''कांदो घालुंया!''

मुखाल्ल्या घराचो येशो धांवत धांवत घरात गेलो. मदले कुडींत कांद्याझेले हुमकळटाले. ताणें चार-पांच कांदे तुटयले. आनी घेवन भायर येयलो. सोप्यार दवरुन ते मुठीनच चेचयले. मागीर ते नाराणाल्या नाकाकडेन धरले. हां ना, हूं ना!

वखदळी म्हाळगोबाबा बायल जाण्टेली लक्षुमीन वचून लसणी कांदे हाडले. ते चेचोवन आंगाक बरेऽ मळ्ळें. तरीय आंग थंडच!

अनसुयाल्यो आनी शिलाल्यो हुयेली सुरुच आसल्यो.

''म्हासते, म्हगेल्या घोवाक बरो कर! तुजी खणान हूट भरतां! सुमार कर गे सवायशिणी! म्हगेलें अयावपण राख!''

तिगांय आवय, धूव आनी जाणटेली इकळाप करतालीं. आनी वाड्यावेल्यो बायलो तांकां थातारताल्यो.

पांच-स वर्सांचो मुरलीधर हेर भुरग्यां वांगडा गिल्ली -दांडो खेळूंक गेल्लो. घरा कडेन बोवाळ आयकून धांवत येयिल्लो. गिल्ली-दांडो तसोच हड्ड्या कडेन धरुन भिल्ल्या सोश्यापिला भाशेन वणटीक तेकून रडत उबो आसलो. दोनूय दोळ्यांतल्यान भळभळ दुकां गळटालीं.

''आमी हेका सांसवां तेल पुसल्यार कशें?'' म्हाळगोबाबा बायल लक्षुमीन म्हणलें.

''हय पळोवया तरी पुसोन!''

तिणें बेगोबेगीन आपल्या घरा वचून सांसवां तेलाची बाटली हाडली. तिचे पुतान-सैरोबान हाताच्या तायटार तेल घेवन, नाराणाल्या हांतां-पांयांक, आंगाक बरेंऽ पुसलें. पूण गूण म्हणटा तो ना, तो नाच्च!

इतले उपाय करुनय नाराणाचें आंगांत हुनसाण येना ती चोयन, गोविंदालो आवरो उडिल्लो. तो हवसाणखच जाल्लो. ''आतां कितें करप गे?'' ताणें तोंड येद्देशेंच करून म्हाळगोबाबा बायलेक विचारलें.

बाबडी कितें सांगतली? आपल्याक कळटात ते उपाय तिणें केल्ले.

गोविंदान मनात म्हटलें, गांवांत एक सुशिक्षीत दोतोर जायच!

म्हाळगोबाब घरांत नासलो. तो खंय वखदां मुळां सोदूंक रानांत गेल्लो. पर्थतालो. बोवाळ आयकून धांवत येयलो.

''म्हाळगोबाब येयलो! म्हाळगोबाब येयलो!'' कोंणतरी वचूंक गेल्लो जीव पर्थून येयिल्लेवरी उलयलो. म्हाळगोबाबाक चोयन जण एकल्याल्या तोंडार आशा उदेल्ली.

म्हाळगोबाब घसघशीत आंगलोटाचो. मध्यम उंचायेचो आनी गोरो आसलो. तकलेक खरड पडिल्लें आनी उरल्यात ते केंस पिकिल्ले. कमरेक काश्टी न्हेशिल्लो आनी आंगांत बंडी घाल्ली. हातांत वखदांची सांगशी आसली.

ह्या गांवाक म्हाळगो बाब म्हणल्यार एक देवच आसलो. संकश्टावेळार धांवत येवपी, जिवदान दिवपी! गांवांतलें हरेक घर त्या जाणटेल्याल्या भरवंशार हुसक्या मेकळें रावतालें. तागेल्या हातगुणाक जाप नासली. तो मागीर मरूक तेकिल्लो दुयेंती आसूं, नातर फुलट गुरवाल्ली आसूं! म्हाळगोबाबालो हात लागतकीर अर्दी बरी जातालीं. कास्ताचो वखदळी आसलो.

म्हाळगोबाबान नाराणाली नाडी-चोयली. नाका कडेन बोटां व्हरून चोयलें. आंगाक, पांयां तळव्याक, हातां तळव्याक हात लायन चोयलो. मागीर गोविंदा कडेन ल्हवूच सांगले, ''नाराण गेलो आमकां सोडून!''

गोविंदाक हड्ड्यार लाथ मारिल्ल्यावरी जालें. खिणभर ताची तकली मुयेली.

सगळ्यांच्यो घेऽ हुयेली आनी बोबो!

अनसुयान वणटीक कपल धाडोवन घेयलें. नाराणाली आवय

आंगणांत आड उदारी लोळूंक लागली. "पुता, म्हगेल्या पुता, " म्हणत हड्डें बडोवन घेवंक लागली.

नाराणाल्या मर्णान गांवांतल्या जण एकल्याल्या दोळ्यांतल्यान दुकां गळ्ळीं. ऐन पिरायेर मर्ण! पस्तीस छत्तीस. ऊंच ना!

सकयल्या वाड्यार कळना फुडें नाराणालो मेवणो अनंत सगळ्यांत पयलीं धांवन येयलो. फाटल्यान मागीर सगळो वाडो. तेन्ना नाराणाली मांव-माय जितीं आसलीं पूण आरान मारून दोगांय हांथरुणार पडिल्लीं. कशीं येतलीं तीं दोगांय? हांथरुणारुच "देवा! देवा!" करत पिरंगत रावलीं.

येशो जाणवयगेर वचून वेळ चोयन येयलो. आतां मर्णाचो ज्युस्त वेळ खंयचो धरचो होवूय प्रस्न आसलो. राम जाणवयन मागीर अंदाज केलो आनी धरलो. आनी म्हटलें,"आयज तशी बरीऽ वेळ ना! कितेंय आसूं! तीन बावलीं करून जळया. फाल्यां आनी अरिश्ट नाका!"

आतां मडें चड वेळ दवरून उपेग नासलो. भुरगीं, बाळां भुकेन तळमळटालीं. वाड्यार मडें आसतना दायज्यान जेवूंक जायना. मडें व्हेलें नंतर, जें कितें आर्दी रांदिल्लें आसलें, तें उडोवन, न्हायन-धुयन, चुलीक शेण काडून, चूल पेटोवंक जाय. म्हणटकीर ताकतीक करप गरजेचें आसलें.

दायज्यांनी खंयच्यान नेणो वांशे हाडून खटखट करुन फोडले. कामटां करुन तांची किरवड बांदली. केळीचें एक आख्खें शेनवत कापून किरवडेर दवरलें.

इतलो वेळ मेरेन, नाराण मेलो म्हूण कळनाफुडें रोखडेंच वासरेर शेण काडून, ताचेर दर्भ पातळावन, ताचेर मडें व्हरुन दवरिल्लें.

आतां गोविंदान आनी येशान तें भायर हाडून पावळेंत मणयेर बसयलें.

अनसुया इकळाप करुन मरूंक तेकिल्ली. तिका स्वताची सुद्द-सुम्रत नासली. बाबडेक तेच स्थितींत हाडून मड्याचे कुशीक बसयली. त्या पांच-स वर्साच्या बाळकाक मुरलीधराक हाताक धरुन सुब्रायान

मुखार हाडलो. तो पुरायच काचाबूल जाल्लो. ताचें हर्ड्डें धड्धड्टालें. घुंवळ येता काय दिसताली. एके वटेन आईलो इकळाप, जाल्यार दुसरे वटेन आज्जी कपल बडोवन घेताली. शिलाली बोब आनी हुयेली आयकूंक नजो जाताल्यो. ताका तेवूय पिरायेंत दिसतालें, आतां कितें जातलें आमचें? हांव आनी शिलाताई नेणटी! आई रांडाव आनी आज्जी जाणटी! तागेल्या दोनूय दोळ्यांतल्यान भळभळ करून दुकां गळटालीं. येशान दारा मुखाल्ल्या बांयंतल्यान गड गड करून बिंदलो भरून काडलो. ते शेळें उदक हाडून मुरलीधराल्या हातान मड्याक आनी अनसुयाक वांगडाच न्हाणयलीं. त्या तन्न्या हातान अनसुयालो कुंकूम पुसलो. मंगळसूत्र तोडलें. इतलें करतना मुरलीधर सोसूं नजो जावन व्हडा व्हडान रडटालो.

वाड्या वेल्या रांडाव बायलांनी अनसुयाक फाटले वटेन व्हेली. मागीर वाड्यावेल्या दादल्यांनी फुरसद केली ना. मडें किरवडेर दवरलें. धव्या कपड्यान तें पांगुरलें, बांदलें. मुरलीधराल्या हातांत उज्यामडकी दवरिल्ले तिकटें दिलें. आनी ''राम-राम.'' म्हणत किरवड उखल्ली.

वाडो बलांटून, पायण बलांटून, रानाची वाट माड्डयत गांवचे मसणटीर हाडून मडें दवरलें. गोविंदान मड्यावेलो कपडो सोडयलो. कपडो कुशीक काडटना, ताका 'सोंक्क...सों' असो आवाज येयलो. गोविंदान चकासूर जावन मड्या कडेन चोयलें, ताका खिणभर दिसलें, मड्यान एक दीर्घ स्वास घेयला. मागीर बरेंऽ करुन चोयल्यार, खंयचे कडेन कांय ना! व्हदळय ताका अशेंच जाल्लें. मडें न्हाणयतना, तो मड्याक धरुन फाटल्यान उबो आसलो तेन्ना ताका मड्यालें आंग गरमशें लागिल्लें. ताणें पर्थून मड्याल्या आंगाक हात लायन खातरी करुन घेवया म्हटल्यार गरमशें लागता खरें!

गोविंदान मड्याचे तकलेंक धरुन वयर उखल्लें. उखलतना ताका व्हदळच्च्यावरी तकली घट्ट, तायट लागली ना. मडें लासूंक तयार करुन दवरिल्ल्या सोळा मण लाकडाच्या धड्यार मडें दवरलें. गोविंदान येशाक म्हणलें, ''येशा, मड्याले पांयां तळवे, आंग, गरम लागता

काय चोय...''

''कित्याक म्हणटा तूं?'' अशें म्हणत येशान मड्याल्या पांयां तळव्यांक हात लायन चोयले. ताकाय ते हुनशे लागले. आंगाक हात लायन चोयलो, आंगय हून लागलें. इतल्यान ताका मड्यान दीर्घ स्वास घेवन सोंक्ष् करुन सोडिल्ल्याचो आवाज येयलो. दोगांनय चकासूर जावन चोयलें.

''तुका स्वास सोडिल्लो आवाज येयलो ना?''

''हय! येयलो!''

गोविंदान पर्थून मड्याल्या आंगाक हात लायन चोयलें. ताका आंग गरम लागलें. इतल्यान मडें पुरायेन स्वासोस्वास करूंक लागलें. पोट वयर - सकयल जावंक लागलें. गोविंदान खोशयेन बोवाळ घालो, ''म्हाळगोबाब, पुंडलीकबाब, नाराण जितो आसा मरूंक ना!

''आं?''

''जितो आसा?...'' दिगंबरान हातातली विडी थंयच उडोवन विचारलें.

म्हळगोबाबान अजापान म्हणलें ''शेऽ! जितो कसो उरतलो?''

इतल्यान ल्हवूच मड्यान दोळे उगडले. मागीर ल्हवूच हेवटेन तेवटेन मान हालयली. एक दीर्घ स्वास घेवन, मडें उठून बसलें.

गोविंदाक परम खोस जाली. ताच्या दोळ्यांत खोशयेचीं दुकां उबी जालीं. ''नाराणा, इश्टा, तूं जितो आसा?'' ताणें म्हणलें.

नाराणान हेवटेन तेवटेन संभ्रमान चोयलें आनी काचाबूल जावन म्हणलें, ''कितें जालें म्हाका?'' ताका सुर्वेक कांयच समजलें नासलें. मागीर ल्हवू ल्हवू परिस्थिती मतींत येवंक लागली.

ताका इतलीच याद आसली, शेत कसतां कसतां सुर्वेक अचकीत लवंड मारिल्ले भशेन जाल्ली आनी मागीर एकदमच दोळ्यां मुखार काळोख येवन फुडें कितें जालें कळ्ळेंच नासलें.

नाराण धड्यावेल्यान सकयल देंवलो.

इतलो वेळ बापडो जावन, दुकां गळयत उबो आशिल्लो मुरलीधर

खोशयेन उडलो. "बाबा!" म्हूण वचून ताणें बापायक वेंग मारली, जसो काय खूब वर्सां फाटीं शेणिल्लो, ताचो बापूय ताका परतो मेळिल्लो.

लासूंक येयिल्ले सगळे दायजी, सोयरे, गांवकार चकासूर जावन चोवंक लागले. हें पुरायच अजापाचें आनी अपेक्षे भायलें आसलें.

गोवींद मुखार सरलो आनी नाराणाक ताणें "इश्टा...." म्हणत वेंग मारली.

"थोप! गोवींद, थोप! कितें करतां तूं? थोप!" म्हाळगो बाबान एकदम गरड मारली. "फाटीं सर! नातर घात करुन घेतलो. मड्यांत भितर रिगिल्लें तें एक पिशाच्च! अतृप्त आत्मो!" आनी मागीर मुखार सरुन ताणें मुरलीधराकय कुशीक काडलो "हेका धर!" म्हणत गुण्या सुवादीन केलो.

सगळ्यांनी खोस, अजाप, भिरांत अशा कांयशा मिस्त्र भावनेन म्हाळगोबाबाल्या तोंडा कडेन चोयलें. कोणाक कितेंच सारखें समजलें नासलें. पूण जाणटो पुंडलीकबाब काश्टी सारखी करत मुखार येयलो. सुकिल्लो, बागवल्लोसो. आंगावेली कात मात तुकतुकीत! दोळे फोणांत गेल्ले पूण अजून एका निराळ्याच तेजान लिकलिकताले. "म्हाळगो म्हणटा तें फट न्हू!" ताणें म्हटलें. "अरे, म्हाका सांगा. मेल्लो मनीस केन्ना जितो जाता गा? अशें केन्ना घडूंक शकता?"

जणएकल्यान "ना!" म्हूण मान हालयली. गोविंदाक कितें म्हणचें म्हूण कळ्ळें ना. नाराण मात काचाबूल जालो. ताणें काकुळटे येवन म्हणलें, "ना! हांव मरूंक ना. हांव जितो आसां....!"

"तूं ओगी राव!" म्हाळगोबाबान ताणशेवन सांगलें. "तूं कोण तें हांव जाणां! नाराण मेल्लो हांवें खातरी करून चोयला. म्हगेलें निदान, पारख फट कशीच थारची ना. जातीचो वखदळी हांव, आमची परंपरा वखदळ्याली. म्हगेलो बापूय, आजो, पणजो सगळे वखदळी आसले. म्हगेलें निदान फट आसतलेंच कशें? म्हगेलो इतल्या वर्सांचो अणभव फुकट गेलो...?"

"म्हाळगो सांगता तें सारकें!" पुंडलीकबाबान पर्थून म्हणलें. "म्हजो बापूय सांगतालो, फाटीं खंय एक फावट अशें घडिल्लें. मडें धड्यार दवरतकीर उठून बसलें. जाणट्यांनी रोखडेंच वळखलें, तें कोण तरी भूत मड्यांत संचारलां. फुरसद चयली ना. धडाधड कुराडेचे घाये घालून कुडीचे कुडके केले. कुडके जातकीर भूत कशें रावतलें? मागीर ते कुडके जळयले..."

पुंडलीकबाबाचीं उतरां आयकून नाराणाच्या हड्ड्यांत धस्स जालें. पोटांत खपखपो! शिरंतरां शेळेल्ल्या वरी जालीं. ताका दिसलें, हे सगळे म्हजेय कुडके करचे नात मू? ताणें रोखडेंच म्हणलें, "तें कितेंय आसूं! पूण हांव भूत, पिशाच्च बी तसलें कांय न्हू! हांव तुमगेलो नाराणच! म्हजेर विस्वास दवरा!"

"कुडींत रिगिल्लीं पिशाच्चां अशींच उलयतात! तेंकां आपल्यो अतृप्त उरिल्ल्यो इत्सा पुराय करचेल्यो आसतात, अशे तरेन मड्यांत रिगून!" पुंडलीकबाबान सांगलें.

"ना रे! हांव नाराणच! हांव मरूंक ना!"

"चूप! तोंड बंद कर!" म्हाळगोबाबान धेंगसो घालो. "हांवें नाडी चोयल्या. नाराण केऽऽन्ना मेलो. देव ताच्या आत्म्याक शांती दिवूं! तूं कोण नश्टी नड तेगेल्या कुडींत रिगल्या सांग! तुका सोडचे ना आमी!" म्हळगोबाब काश्टी सारकी करीत उलयलो.

"ना रे! हांव नाराणच, खरोच!" ताणें आपले दोनूय हात जोडून भोव काकुळटेन म्हणलें.

इतलो वेळ ओगी आशिल्लो गोवींद उसळ्ळो. "कितें चल्लां हें म्हाळगोबाब? तो आपूण नाराण म्हणटा आनी तुमी हें कितें पिशाच्च पिशाच्च घेवन बसल्यात? कितें पिशेपणां चल्ल्यांत हीं?"

हाचेर पुंडलीकबाब चाळवलो. "देडशाण्या, कोणा मुखार तोंड वयर करून उलयता रे तूं? आमगेल्या गांवांत जाणटीं मनशां केन्नाच्यान पिशेपणां करूंक लागलीं? शाळेंत वचून चार बुकां शिकतकीर तुमी शाणे जाले? म्हूणच हांव म्हणटां, चड शिकल्यार आमगेलीं भुरगीं

माथ्यार बसतात म्हूण!"

"गोविंदा, तूं उलयलो तें सारकें न्हू रे!" केन्नाच चड उलोवपी न्ही, शांत सभावाचो, चुकून माकून एकूच उलोवपी सगळ्यांत चड जाणट्या पांडुबाबान म्हणलें.

पांडुबाबान अशें उलयतकीर गोविंदाक तोंड उरलें ना. हेर सगळ्यांनीय तकली हालयली आनी जाणटेल्यांची म्हण्णी उखलून धरली.

गोविंद तकली सकयल घालून ओग्गी उबो आशिल्लो चोयन नाराण पुरायच गळसणिल्लो. हड्डें धडधडटालें. हात-पांय थंडल्ले. ताणें येशा कडेन चोयलें. गोविंदा भशेन येशोय नाराणालो इश्ट! पूण येशो म्हणटा तो थंड, शितळ सभावाचो. कोणेंय सांगल्यार आयकुपी आनी तकली हालवपी. हरशीं शेता-भाटांत घोळूंक वाग! मोटवो जालो तरी हाता-पांयांन घट्टमुट्ट! कोयती घेवन वागा फाटल्यान लागल्यार भियेवन वाग शेपडी उखलून रानांत धांवतलो.

गोविंदाक जाणवलें, आतां आपल्या फाटल्यान उबो रावूंक कोण ना, रावल्यार हें रान! हीं झाडां-पेडां!

मसणटीच्या फाटल्या आंगान पुराय रान तें! झाडां पेडांनी, झिलीं-झोपांनी गच्च भरिल्लें. कसलीं कसलीं म्हूण झाडां!... पिटकुळेचीं काण्णाचीं, चाऱ्याचीं, लिमतोड्याचीं, माडतीचीं ना ना तरेचीं झाडां! हीऽ दाटींनी वाडिल्ली. भितर कोणूय रिगल्यार ताका सोदून काडप भोव कठीण!

"आतां कितें करप?" विडयेचें पोंत कुशीक शेंवटायत पुरशान विचारलें.

"आयकात, आदीं जाणून घेयात. आनी मागीर उलयात तुमचीं शाणेपणां! आमी पिशे सांगतात तें आदीं आयकात...! जाणट्यां कडल्यान आमच्या नेण्टेपणांत आमी असल्यो घडणुको आयकल्यात. आदल्या तेंपार 'साधना' करपी बी 'साधक' लोक खय, आपली कूड तशीच दवरून, मेल्ले कुडींत बी प्रवेश करताले. आपल्याक जाय त्यो

गजाली साध्य करून घेताले आनी पर्थून आपले कुडींत येताले. हें जालें साधना करपी लोकांचें. आतां आयकात म्हारवां-गिरवां बद्दल! अर्दपिरायेर मेल्लीं, चड करून दुमर्णान मेल्लीं मनशां बी अशीं अचाट म्हारवां जातात. तांची जियेवचेली इत्सा पुराय जाल्ली नासता. मागीर तीं अशे तरेन संद पळयतात आनी मेल्ल्या मड्यांत बी घुसून अशे तरेचीं नाटकां करतात. म्हूणच म्हणटात, मनीस मेले उपरांत ताचो विलोव लायता मेरेन खूब सादूर रावचें पडटा. धडो दाळ्ळे नंतर तो राखचो पडटा. मडें एकलें दवरुनय खंय वचनात. वच पळया तूं धडो दाळून मसणवटी वेल्यान तसोच! म्हारवां-गिरवां धडो कोसळोन उडयतलीं. मडें एकटेंच दवरून वच पळया खंयूय! मडें नाच्च जातलें सुवाते वेल्यान! अरे, फकाणां न्ही हीं! आनी म्हारू तितलोच अचाट उरल्यार तो अशे तरेन करता!'' पुंडलीकबाबान आपलें म्हणणें मांडलें.

नाराणाच्यान आतां सोसू नजो जालें. देवा, हें कसले भोग म्हगेले? कोण हांव? पिशाच्च? नाराण? काय क्रियाकर्म करून, लासूंक हाडिल्लें एक मडें? आतां खंयच्याय खिणांत म्हजेर कुराडेचे घाये घालत हे! नातर जितें लासत! ''देवा! देवा!'' नाराणान कपळ बडोवन घेयलें ''देवा! देवा! कितें हे भोग!''

आपल्या इश्टाली ती स्थिती चोयन गोविंद आनी येशो न्हिन्नळ्ळे. गोविंदाल्या दोनूय दोळ्यांतल्यान भळळ करून दुकां गळ्ळीं.

''हें चय, तुमी ह्या नाटकाक भुलनाकात हां...'' म्हाळगोबाबान बजावलें. ''हांव कितें सागतां तें आयकात! तुमकां म्हगेल्या वखदळपणाचेर विस्वास आसा मूं?''

''हय तर!''

''नाराण मेला हाची खातरी करूनच हांवें तुमकां सांगलां. मागीर हो मेल्लो जितो जातलोच कसो? आतां म्हाका कांय कळना म्हूण जालें?''

''ज्युस्त तुगेलें!''

''म्हगेले जाण्टेल्यालें आनी एक पिशेपण आयकात...''

पुंडलीकबाबान म्हणलें, “रुढे-परंपरे परमाणें एक फावट क्रियाकर्म करून मडें मसणटीर व्हेल्लें, घरा पर्थून व्हरनात. अरे, फाटीं एकटो मिलिटरींत गेल्लो, लडायेंत तो मेलो म्हूण कळ्ळें. घरच्यांनी तेगेलीं वट्ट क्रियाकर्मां केलीं. तो चोयल्यार जितो आसलो. गांवां येतकीर ताका सगळें कळ्ळें. आतां कितें करप? तो बाबडो घरांत येवंक ना. भायले भायर पर्थून गेलो. तेचे उपरांत, तेणें पर्थून केन्नाच कोणाक आपलें तोंड दाखयलें ना. एक फावट क्रियाकर्म करतकीर तो घरच्या लोकां खातीर मेलो. असली आमची परंपरा, रूढ.”

“आतां आमी कितें करुंया तें सांगा...” पुरशान विचारलें.

“हाचे फुडें हांव कांय उलयना...” म्हाळगोबाबान सांगलें.

“एक काम करुंया...” पुंडलीकबाबान एक माण्णी सोदून काडली.

“कितें?”

“असले पेच उप्रासल्यार ‘जाणवयक’ विचारतात न्हू आमी? म्हणटकीर, जाणवयक विचारुंया! जाणवय सांगता तशें करुंया! निमाणे कडेन देव-धर्माची बुदवंतकाय तेचे कडेनूच न्हू! तो जाणा तितले परंपरेचें कोण जाणा? हरशींय बऱ्या-वायट गजालींत आमी तेगेलीच जाणवाय आयकतात न्हू! तो सांगतां तेंच खरें न्हू आमकां!”

“हय! हय!” सगळ्यांनी तकली हालयत म्हटलें.

नाराण आतां सामको दिग्मुड जाल्लो. सामको काचाबूल! हे जाणटे उलयतात, आनी हेर सगळे तकली हालयतात घणसाबैला वरी! करप कितें? फटफट करून ताणें कपल बडोवन घेयलें आनी तो व्हडा व्हडान रडूंक लागलो.

नाराणाक रडचें चोयन मुरलीधरय व्हडा व्हडान रडूंक लागलो.

मुरलीधराक रडचें चोयन म्हाळगोबाबाक काळजांत चर्रर जालें. पूण करतलो कितें? तागेले आनी तागेल्या पिरायेच्या सगळ्या जाणट्याले पक्का मत जाल्लें, नाराण जितो ना! तागेल्या मड्यांत भूत-पिशाच्च रिगलां!

म्हाळगोबाबान मुरलीधराक म्हऱ्यांत ओडलो. “रडूं नाका! पुता,

रडूं नाका! आमी आसात! शाण्या, रडूं नाका!'' म्हणत तागेले तकले वेल्यान आपलो मायेस्त हात भोंवडायलो.

''हांव जाणवय कडेन वयतां.'' पुरशान म्हटलें.

''हय! वच तूं!''

पुरसो धांवतच गांवांत येयलो.

गोविंदाकय जाणवय म्हऱ्यांत वचचें दिसतालें. पूण आपल्या इश्टाक थंय सोडून वचप ताका मानवलें ना! तो थंयच रावलो.

पुरशा वांगडा येशो आनी दिगंबरय येयले. पुरसो जाणवयगेर येयलो जाल्यार येशो आनी दिगंबर म्हालवाड्यार आनी सकयल्या वाड्यार!

राम जाणवयलें घर सकयल्या वाड्यार आसलें. बरेंऽ व्हड. उप्परकी माळयेचें! दोनूय सोप्यांक शिमिटा गिलाव केल्लो. मदेकांत सागवानी लाकडाचो दरवाजो. दरवाजाच्या दोनूय कुशीक दोन व्हड सरवळ्यो! घराच्या चौका कुशीक आशिल्ल्या कुडींत राम जाणवय खुर्चेर बशिल्लो. ताचे मुखार लाकडां मेज आसलें. मेजार कसलीं कसलीं पुस्तकां आसलीं. घडये तेन्नाच राम जाणवय जेवन बी येवन बशिल्लो आसतलो. तोंडांत पान चाबडायतालो. पानान ओंठ तांबडे जाल्ले. राम जाणवय गोरो, घारश्या दोळ्यांचो. तकलेर पातळ केंस. गणपतील्या वरी पोट. पोटार, भुजार, गंधाची उटी काडिल्ल्यो आसल्यो. कपलाक कुकूम आसलो.

पुरशान राम जाणवयक पुराय गजाल सांगली. राम जाणवय गांवच्या दैवतांचो पुजारी. अडिल्ल्यांक, अडचल्ल्यांक, तांचे प्रस्न आयकून, देवा कडलो प्रसाद पाकळी दितालो. जाणवायेचीं चार उतरां सांगतालो. उपाय सांगतालो. देव-धर्माचे बाबतींत, रिती-रिवाजाच्या बाबतींत भौसालें कितेंय चुकता जाल्यार तांकां सादूर करतालो. भौसाक जाणवयलें उतर हें देवालें उतर आसतालें.

राम जाणवयन पुरसो सांगता तें बरेंऽ करून आयकून घेतलें. जाण्टेल्यांनी मसणटीर मांडिल्लीं मतां मतींत घेतलीं. मागीर मेजार

दवरिल्लीं गुलां फिरयलीं, गडें-फाडें केलें. आनी कपलाक आटयो घालीत म्हटलें, ‘‘ऊंऽ हूं! नाराण जितो ना म्हणटात हीं गुलां! भूत पिशाच्च तें!’’

‘‘आतां  कितें करप तेका?’’

‘‘हांवें आनीक विशेश कितें सांगचें? रिवाजा परमाणें एक फावट मसणटीर लासूंक व्हेल्ल्यांक पर्थून हाडिनात! आनी तेतूंत तें पिशाच्च आसल्यार, गांवाचेर अरिश्ट येतलें! कुळ-खेव जातलो! मोठो अनर्थ घडटलो!’’

हरशीं धांवपळ केल्ल्यान, घामाघूम जाल्ल्या पुरशाक आनीकय घाम फुटलो.

‘‘...समजा तुमी तेका गांवांत हाडलो आनी नाराणा बायलेक... ते पतिव्रता बायलेक त्या पिशाच्चा सुवादीन केली, जाल्यार म्हापातक घडचें ना? भोगसणी ना तेका!’’

‘‘जाणवय, तुमी म्हगेलें एक आयकतले?’’

‘‘सांग!’’

‘‘तुमी म्हजे वांगडा म्हालवाड्यार या. चोया, कितें करचें तें! सगळे मेळून थारावया.’’

‘‘जायत! तें बरें!’’

जाणवय खुर्चे वयल्यान उठलो. ‘जानकेऽ मातसो म्हालवाड्यार वचून येतां गोऽ..’’ म्हूण थंयसून भितर घरकान्नीक सादयत सांगलें आनी पुरशा फाटल्यान चलूंक लागलो.

एक शिवडी, ऊंच पुरसो लांब लांब धेंगा घालीत ताकतिकेन चलतालो आनी जाणवय ताच्या पावलांक पावलां मेळयत वांगडा चलतालो.

मुखाल्ली पांयण, पुरसामठ, मदेवाडो बलांटून ते म्हालवाड्यार येयले.

म्हालवाड्यार, नाराणाल्या घरा कडेन आंगणांत ही बातमी कळटकच जात्रा जाल्ली. सगळ्यां पासत ही अजापाची गजाल

आसली.

जाणवय येतकच, कोणेंतरी जाणवयक बसूंक आंगणांत एक खुर्ची हाडून दिली.

"म्हाळगोबाबाक आनी पुंडलीकबाबाक हिंगा आपोवप बरें! तेंगेल्या मतान थारावप वायट न्हू!" जाणवयन म्हणलें.

"दिगंबरा, वच! तूं वच! घेवन यो तेंकां..." पुरशान सांगलें.

दिगंबरय पुरशा भशेन एकशिवडी आनी शिटूक. तो धांवलो धांवलो.

नाराण जितो आसा म्हूण कळटकीर, सगळ्यांकच खोशी जाल्ली. नारणाल्या घरच्यांक आनी मावड्ड्यांतल्या मनशांक उतवांक धरून नाचूं, काय फुगडी घालूं जाल्लें. अनसुया दुख्खान आनी खेदान आपले कुडीच्या कोणशांत वचून बशिल्ली धांवतच भायर येयिल्ली. तिगेल्या जिणेंत अचकीत पातळिल्लो काळोख खिणांतच नाच्च जाल्लो. जिणें पर्थून उजवाडान भरिल्लें. पूण आतां जाण्टेल्ल्यांची मतां आयकून पर्थून ल्हव ल्हव काळोख पातळूंक लागिल्लो.

दिगंबरान मसणटीर वचून जाणवयन सांगिल्ली गजाल सांगली. आनी म्हाळगोबाबाक आनी पुंडलीकबाबाक आपयला म्हूण सांगलें.

पुंडलीकबाबान शेनवता विडी पेटयत म्हटलें, "चोयलें, आमगेलीं पिशेपणांच खरीं थारलीं मरे?"

नाराणान आयकून पर्थून कपलार ठप्प ठप्प करून मारून घेयलें. "देवाऽ देवाऽ" ह्या उतरां भायर तो कांय उलयलो ना.

गोविंदान नाराणाली ती स्थिती चोवन पर्थून एक फावट हात जोडून विनयलें, "म्हगेलें आयकात, हो नाराणच!"

"तूं आतां चड उलोवं नाका हां गोविंदा...!" दिगंबर उसळ्ळो. "जाणटे सांगतात. जाणवय सांगता. हेचेर इल्लोय विस्वास ना रे तुका? तूं कितें समजता, तूंच शाणो?"

"शाळेंत वचून चार बुकां शिकिल्ल्यांचे हें अशेंच! तेंकां आपूणच शाणे आनी हेर सगळे पिशे दिसतात. आपूण शिकलां म्हणटकीर

आपूण सांगता तेंच खरें अशें तेंगेलें मत!'' शाळेचें मेटल लेगीत चडूंक नासलो गुणो उलयलो.

''हें चोयात, ह्या गोविंदा कडेन लक्ष दिनाकात. हांव आनी म्हाळगो वचून कितें करचें तें थारोवन येतात. तुमी ह्या भुताचेर लक्ष थारोवन दवरात. सादूर रावात हां!''

पुंडलीकबाब आनी म्हाळगोबाब उठले.

''पुंडलीकबाब, तुमी आतां वयतात. फाटल्यान हें भूत खुबळ्ळ्यार? आमी मागीर कितें करप?'' दिगंबरान विचारलें.

''खुबळचें ना! अरे, पांच-धा मनशां मुखार कितलेंय व्हडलें अचाट भूत-पिशाच्च जरी उरलें, तरी तेच्यान कांय करूंक जायना.!''

''आनी खुबळ्ळेंच जाल्यार कुराडेन कुडके करचे आनी उडयचे!'' गुण्यान फट करून म्हणलें.

''हय! हय! सारखें!'' म्हणत म्हाळगोबाब पुंडलीकबाबा वांगडा चलूंक लागलो.

पुंडलीकबाब आनी म्हाळगोबाब आंगणांत पावतकीर, सोप्यार तकलेर हात घेवन बशिल्ली नाराणाली आवय बोवाळ्ळी. ''म्हाळगोभाया, कितें करचें रे आतां...? कसलें रे हें अरिश्ट?'' तिणें ठप्प ठप्प करून कपल बडोवन घेयलें. तिगेल्या दोनूय दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवतालीं.

नाराणालो मेवणो अनंत थंयच सोप्यार दोनूय हातांनी तकली घट्ट धरून बशिल्लो. ताका कांयच येवजनासलें. ताणें म्हटलें, ''आतां हेचेर उपाय तुमीच सांगचो. म्हगेली भयण आनी ही व्हदळसान फकत इकळापच करत आसात. तेंकां कशेंय करून थातारात.''

''अगे, अशें इकळाप करची कांय गरज ना! जातलें सगळें जुस्त! म्हजेर इस्वास आसा मुगे तुका...?'' म्हाळगोबाबान नाराणाली आवय म्हालकुमे म्हऱ्यांत बसत म्हटलें.

''हय रे बाबा!''

''आतां म्हाका सांग गे, नाराण म्हगेलो दुस्मान आसलो?''

“ना रे बाबा! दुस्मान कित्याक जातलो? भुरगीं ना म्हूण सुमार इतलीं वर्सां वथरेन वथरेन मागीर तुगेल्याच वखदां विरसदान जाल्लो न्हू तो! दुस्मान कित्याक जातलो?”

“हय मुगे? मागीर आयक तो जितो आशिल्लो जाल्यार, तुमी कितले येत्न केले... तेका जीव कित्याक येवूं ना? मसणटीर व्हरतकीर जीव कसो येयलो?”

आंगणांत एकठांय जाल्ल्या एकान एक मनशांनी ‘हय’ म्हूण तकली हालयली.

“हां! आतां फुडें आयक, तो मेलो म्हूण हांवें निदान करुन सांगलें न्हू?”

“हय.”

“म्हगेल्या वखदळपणाचेर तुमगेलो विस्वास ना?”

“ना आनी!”

“आसा मूं?”

“हय रे बाबा!”

“मागीर म्हगेले इतले दीस केन्ना अदमास चुकलेच ना. चुकिल्लो केन्ना?”

“ना.”

“आयजच चुकलो?”

सगळे ओग्गी रावले.

“तशें आसल्यार, फाल्यांच्यान वखदळपण सोडून दितां हांव!”

“शेऽ! तुगेलो अदमास कित्याक चुकतलो?” खरपणी बाबग्यान खर खर करुन आंग खरपीत म्हटलें.

“तसो गेल्लो जीव आनी परतो येता? कितें तरी नश्टी नडच आसूंक जाय ती!” म्हाळगोबाबा बायल लक्षुमीन म्हणलें.

“आरे, आमगेलो नाराण गेलो आमकां सोडून, हेतूंत इल्लोय दुबाव ना.”

अनसुयाक बशिल्ले कडेन हुंडको फुटलो.

“आमगेल्या सगळ्यांल्या मता परमाणें कोणतरी र्दुमर्णान मेल्लो म्हारू जावन तेगेले कुडींत रिगला. आदींच म्हारवा-गिरवालो, देव-देवचारालो, खुटये-बरम्ह्यालो गांव हो! हिंगा अचाट म्हारवां आसात. तुमीच सांगा, आयजवेर कितल्या जाणांक हिंगा म्हारू लागला! आमगेलो जाणवयच काडटा न्हू ते म्हारु! कितले जाणांक म्हारवाली द्रिश्टोळ जाल्या! आमगेलो जाणवयच काडटा न्हू ती द्रिश्टोळ!”

“हय! सारखें!” सगळ्यांनी तकली हालयली.

“... आनी तूंच सांगताली मुगे, तुगेली मांय सांगताली म्हूण... तिका हिंगा व्हारडीक करून हाडिल्लें तेन्ना, रातीं कडेन म्हारवां येवन, जनेलांतल्यान हात घालून वडे मागतालीं!”

म्हालकुमेन तकली हालयली.

पुरशान मळबा कडेन चोयलें. वेळ तकले वेल्यान सुमार इतलो सरकल्लो. “आतां कितें करुंया?” ताणें विचारलें.

“जाणवय सांगता तशें करचें.” बाबग्यान पर्थून आंग खरपीत म्हणलें. “तुमी सांगा जाणवय!”

“हांवें आनी कितें सांगचें उरलां? तुमी सगळ्यांनी थारायिल्लें तेंच! जाय जाल्यार पर्थून एक फावट सांगतां, तुमी सगळें बेस्स बरें जाणात. एक फावट लासूंक म्हूण व्हेल्ल्यांक पर्थून हाडिनात! आनी समजा, तुमी तेका हाडलो जाल्यार तेका नाराणा बायले वांगडा संवसार करूंक दितले? तेगेले कुडींत रिगिल्ल्या पिशाच्चा सुवादीन ते अस्तुरेक करतले? तिगेल्या पतिव्रतापणाचें कशें? कोण र्दुमर्णान मेल्लो तो म्हारू कोण जाणां!”

हें आयकून अनसुयालें आंग शिर्रर जालें. तिका ही येवजण लेगीत सोंसली ना. “म्हासते, तूंच गे फाटल्यान म्हज्या!” तिचे तोंडांतल्यान नकळटा उतरां गळून पडलीं.

“आनी आमगेले रुढी-परंपरे परमाणें, तेगेलें मडें व्हेलें तेन्नाच तो आमकां पयस जालो. तो मागीर जितो उरूं नाजाल्यार मरूं!”

जाणवयन जाणवाय दिली.

अनसुयान चिंतलें, जाणटे सांगतात तशें, तो कोणूय भूत बी आसल्यार? म्हगेलें कितें? शेऽ! पुराय सत्यानास जातलो! आख्ख्या कुळाचो नाश! नाकाच तें! जाणवयन सांगिल्ले परमाणें मसणटीर व्हेलो, तेन्नाच पयस जालो तो आमकां!... मागीर खिणांतच तिका दिसलें, तो जितो आसल्यार...?

एक फावट अशें जाल्यार, एक फावट तशें! ज्युस्त कितें करप तेंच समजना आसलें.

इतल्यांत गुणो धांवत धांवत येयलो.

"घात जालो. म्हाळगोबाब, तो गेलो... पळ्ळो!"

"आं?"

"हय! आमगेली नदर चुकोवन तो पळूंक सोदतालो. पांडुबाबालें ज्युस्त लक्ष गेलें. ताणें सांगलें, "तो चोय, पळटा"... म्हूण! आमी धरूंक मुखार गेल्यार कसली किळची आनी आरड तेणें मारली जाणां? आमी सगळे भियेवन फाटीं सरले. मागीर तेणें फुरसद चोयली ना. धांव मारली रानात. खंय गेलो, कळ्ळेंच ना!"

"अरेरे! नाराणाली कूड घेवन पळ्ळो तो!" पुंडलीकबाबान कपलाक मिरयो घालत म्हणलें. "आरे, तुमी सोदचें न्ही तेका? धरचें न्ही?"

"अरे, आमगेलें रान कसलें? एक मनीस रानांत नदरे आड जाल्यार तो खंय गेलो आनी कितें जालें म्हूण कळटा? आनी एकट्यान सोदचेली आमकां छाती जावूं नाका! एकच्वीत एकटो धरून मानगुटेर बसल्यार? आमी सगळ्यांनी मेळून थोडें सोदलें पूण तो खंय मेळूंक येयला?"

"चोया! चल या! नाराणालें मडें खंयूय वाटेर उडोवन गेल्यार गेलो!" पुंडलीकबाबान उठत म्हणलें.

हें आयकून सगळे आंच्च उरिल्ले. म्हाळगोबाबा बायलेन लक्षुमीन तोंडार पदर लायन म्हटलें, "कितलो म्हूण अचाट म्हारू रे बाबा!"

मागीर एका फाटल्यान एक सगळे धांवले. बाबग्याक तर भोका पोंदा घेवन बशिल्लें कांबळी फटें व्हरचीय याद उरूंक नासली.

पांच पांच जाणांचो पंगड बांदून सगळ्यांनी नाराणाक सोदून काडचेलो भोव यत्न केलो. कांय जाण कळसा दोंगरा वटेन गेले. कांय जाण 'मांयगिणी' दिकेन गेले. झिलींनी आनी घोलींनी चोयलें. निमाणें अटंगें रान तें. तो तांकां मेळ्ळोच ना! सगळे तोंड येद्देशें करून पर्थले.

गोविंदाक आनी येशाक मात सूऽ जालें.

"आतां कितें करुंया...?" पुरशान विचारलें.

"हीं तीन बावलीं हाडल्यांत, तीं लासुंया! धडो असो रितो सोडून वचूंक जायना." पुंडलीकबाबान शिटकायलें.

मागीर तीं तीन तणाचीं बावलीं धड्यार दवरलीं. धड्याक नाराणाल्या पुताल्या मुरलीधराल्या हातान अग्नी दिलो. उरिल्ले दहन क्रियेचें वट्ट कर्म केलें, आनी फाटल्यान चोयनासतना घरा पर्थले.

घरा येतनाच मुरलीधराक जोर आसलो. घरा येतकीर, येशान तेका मुखाल्ल्या बांयंतल्यान बिंदल्यान शेळें उदक काडून न्हाणयलो आनी घरा भितर हाडलो.

मुरलीधराक जोर येयला म्हूण कळटकीर, म्हाळगोबाबान येवन वखद झरोवन दिल्ले. इलो काढो दिल्लो. पूण अजून मेरेन जोर देंवना आसलो. इल्ल्याश्या पेजेनिसा बगर मुरलीधराल्या पोटांत कांय नासलें.

रात सुमार वाडिल्ली. भायर रातकिड्यांचो किर्रऽ आवाज वाठार भर भरिल्लो. वाड्याच्या पोंतार वाड्या वेलीं सगळीं सुणीं तुटोवन तुटोवन भोकतालीं. थार दिनासतना मसणटी दिकेन भालू रडिल्ल्याचो आवाज येतालो. आनी ताच्याकूय पयस रानांत एक विचित्रसो आवाज येतालो. तो आवाज मनशालो, काय जनावरालो, हेंवूय कळनासलें.

अनसुयाले तकलेंत भोवन भोवन तीच येवजण येताली... ! आनी खऱ्यांनीच तो जितो आसल्यार, खंय आसा काय? ह्या अटंग्या

रानांत खंयच्या झाडा पोंदांत, खंयच्या झिली-झोपांनी? ना-ना तरेचीं जिवाणीं आनी सावदां वावुरतात थंय.

टक् टक् टक् टक् करून जनेलाच्या कवडांर मारिल्ल्या आवाजान अनसुयाली येवजण तनरी तुटली. तिणें जनेला कडेन चोयलें. पर्थून टक् टक् टक् टक् जालें! खीणभर ती कांचवेली. कोण? हो न्ही मूं? हय! होच आसूंक जाय! आनीक कोण आसतलो हेचे बगर? एक परम खोशयेचें ल्हार खीण भर तिच्या आंगभर पातळ्ळें. ती धांवतच जनेला म्हऱ्यांत गेली. पूण खीणभरांतच तिका जाण्टेल्यांचीं उतरां याद जालीं. शेऽ! तशें आसल्यार...? तिणें कच्च करुन आंग काडलें.

पर्थून टक् टक् आवाज येयलो.

"कोण...?" तिणें ल्हवूच विचारलें.

"हांव! हांव नाराण गो!" दाबिल्लो आवाज येयलो.

तिचो अदमास खरो थारिल्लो, पूण तिका कितें जाप दिवची म्हूण कळ्ळें नासलें.

"हांव नाराण!" पर्थून दाबिल्लो आवाज येयलो.

"कितें...?"

"दार काड!"

ती ओग्गी रावली.

"अनसुया, हांव मरूंना! हांव जितो आसां!" फुतफुतिल्ल्या आवाजांत ताणें सांगलें.

तरीय ती कांय उलयली ना.

"अनसुया, हांव तुमकां व्हरुंक येयलां. आमी रातोरात वचुंया खंयतरी पयस..."

"हांव येवचें ना!" तिणें निबरसाणेन सांगलें.

"तूंवय म्हाका गांवच्या लोकां भशेन..."

"हूं!"

मागीर ती ओगी रावली.

'अनसुया...'

तिणें ल्हव आवाजांत सांगलें, "रुढी-परंपरे परमाणें म्हगेल्या घोवालें मडें मसणटीर व्हेलें, तेन्नाच म्हगेले आनी घोवाले संबंध सोंपले! आतां हांव फकत मेल्ल्या घोवाली रांड! कुकूम पुशिल्ली! मंगळसूत्र तुटयिल्ली!..." आनी भळभळ करून दुकां गळोवंक लागली.

"मुर्खपणा करुं नाका... दार उगड, सांगतां, दार उगड! कोणेंय चोयल्यार म्हगेली धडगत ना! म्हगेले कुडके करून जळयतले..."

"ना! उगडचीं ना, हांव!"

सुणीं आतां चडच नेटान भोंकतालीं. आनी तीं भोंकत भोंकत नाराणाल्या घराचे दिकेन येवंक लागिल्लीं.

"हांव सांगतां तें आयक, पांयां पडटां, दार उगड...!"

"ना!"

"देवा म्हगेल्या ऽऽ!"

सुणीं भोंकत सामकीं भितोडे कडेन पाविल्लीं.

"दार उगडना मुगो..." पर्थून आवाज येयलो. पूण सुण्याल्या भोकण्यान तो सारखो आयकूंक येना आसलो.

अनसुया येवन मुरलीधरा म्हऱ्यांत बसली.

भितोडेक पाविल्लीं सुणीं आतां भोंकत भोंकत पयस पयस वचूंक लागिल्लीं.

मागीर सुमार वेळ मेरेन वाड्याच्या पोंतार सुणीं भोंक-भोंक भोंकलीं आनी निमाणेकडेन ओग्गी पडलीं.

आतां पुराय वाठार सामसूम जाल्लो. ना म्हणल्यार, रातकिड्यांचो किर्रऽ आवाज आनी पयस भालू रडिल्लो आवाज वाठार भरून उरिल्लो.

"बाबू उठलो गो...? मुरली उठलो? जोर निवळ्ळो?" म्हालकुमेन अनसुयाले मांयन कमरार हात घेवन ल्हवू ल्हवू अनसुयाले कुडीच्या दारा कडेन येत विचारलें.

"ना! निवळूंक ना जोर, आनी उठूंकय ना! व्हदळ उठिल्लो,

रोखडोच न्हिदलो...''

''कोणा कडेन उलयतालें तर तूं? उलयिल्ल्याचो आवाज कानार पडलो म्हूण येयिल्लें हांव!''

''नशीबा कडेन म्हगेल्या!'' अनसुयान कपलार हात मारत म्हणलें.

ते बाबडे जाणटेक कांयच समजलें ना. ती खीणभर सुने कडेन चोयत रावली. मागीर तिच्याय काळजांत एक दुख्खाचें ल्हार उसळ्ळें. फुटून वयर येवंक लागिल्लो हुंडको गिळत ती आपल्या हांथरुणा कडेन पर्थली.

त्या दिसा उपरांत नाराण केन्नाच कोणाल्या दिश्टीक पडूंक नासलो!

मुरलीधर बुध्दींत येत सावन, मुरलीधरान आपल्या बापायचो सोद घेवचो भोव यत्न केल्लो. पुलिशेंत कळयिल्लें. एक फावट तालुक्यांतल्या सगळ्या वर्तमान पत्रांनी जायराती दिल्ल्यो. बापायलो फोटो दिवन, सकयल बरयिल्लें,

'बाबा, आतां आमकां खातरी जाल्या. तूं जितो आसा. आई, शिलाताई आनी हांव तुगेली वाट चोयतात. खंय आसां थंयसून, बेगीन घरा यो! आमी हुसको काडटात!

तुजे बगर आमगेली जीण अर्थहीण जाल्या!

तुगेलो

मुरली.'

पूण नाराण येवंक नासलो.

ना म्हटल्यार, एक फावट मुरलीधराक एक आशेचो किर्ण दिश्टी पडिल्लो...

सकयल्या वाड्या वेल्या म्हादेवाली ताका एक अचकीत चीट येयिल्ली.

म्हादेव हो एज्युकेशन डिपार्टमेंटांत 'बी.ई.ओ.' पदार आसलो. निकतीच ताची बदली होन्नावरा जाल्ली. ताच्या बी.ई.ओ. ऑफिसाच्या कुशीक उल्याच्या अंतरार एक पोन्नें मारुती मंदीर' आसलें. मंदीर पकदस्त! एकेक खांबे वांव वांव वेंगेचे! मंदिराच्यो

पाट्यो मोठ्यो मोठ्यो! वयर छप्पर मंगळुरी नळ्यांचें! वयर कळस रुप्या रंगाचो! मंदिरांत शिमिटांत चुनो, काव मिस्तुर करून काडिल्लो गिलांव! जमीन शिमिटाची! मंदिराक लोखणाच्यो सरवळ्यो! भितर गर्भ कुडयेंत मारुतीची मुर्ती काळ्या पाशाणाची आसली.

हरेक शेनवारा ह्या मारुतीच्या दर्शनाक होऽ लोक लोटून येतालो. तो होन्नावरा पाविल्ल्या पयल्याच शेनवारा मारुतीच्या दर्शना पासत मंदिरात गेल्लो. देवाचें दर्शन घेवन, तीर्थ प्रसाद - फूल घेवन, तो देवळांतल्यान भायर सरतालो... मंदिराच्या दारांतच एक ऊंच, काळो सावळो, हड्ड्या मेरेन खाड वाडिल्लो, तकले वेले केंस भुजा मेरेन वाडिल्ले, एका तेपार हो आंगा - पांगान बळिश्ट आसुंये, पूण आतां मातसो बाविल्लोसो, भागिल्लोसो दिसतालो. कमरेक भगवी लुंगी वेडयिल्ली आनी खांदार एक भगवें वस्त्र उडयिल्लें, असो एक नाराणाल्याच आंगलोटाचो दादलो मेळ्ळो. तो ताकतिकेन भितर सरतालो. दोगांलीय अचकीत दारांत द्रिश्टा-द्रिश्ट जाली. म्हादेवाचेर नदर पडना फुडें तो मातसो काचाबूल जाल्ले वरी दिसलो. पूण तो तसोच फुडें गेलो. म्हादेव थंयच थारलो. आनी ताणें फाटल्यान वळून चोयलें. तो मनीस सरळ देवा मुखार वचून उबो रावलो. तो भटा कडल्यान तीर्थ-प्रसाद घेवन, गर्भकुडये भोंवतणी प्रदक्षिणा काडूंक लागलो....

म्हादेव मंदिरा भायर येवन मंदिराच्या आंगणांत उबो रावलो. तो भायर येतलो आनी आपूण ताका विचारतलो, हे येवजणेन!

तो भायर येयलो. म्हादेवान मुखार सरून आंगार पडून ताका विचारलें, ''तुका खंयतरी पळयलोसो जाता! कोण गा तूं?'' विचारतना म्हादेवान ताका बारीक नियाळलो. ताका खातरी जाली. हो नाराणच! दुसरो कोण न्हू! पूण, त्या मनशान म्हादेवाक खिणभर तटास नदरेन चोयलो. खिणभरच! दुसऱ्याच खिणांत जशें काय म्हादेवान उलयिल्लें ताका समजलेंच ना, अशे तरेन तो सटसटीत पावलां मारत आपले वाटेन गेलो. पाडपडिल्ली, तो खंय वयता, कितें-कात, हें चोवंक

ताचे फाटल्यान वच्चेली बुद्दय म्हादेवाक जाली ना. पूण म्हादेवान एक केलें, तो मंदिरांत पर्थून भितर गेलो. त्या हाता-पांयान बारीक आनी फकत पोटाचो कोचको भायर येयिल्ल्या भटाक ताणें विचारलें, "आगा, तो आत्तां भगवे न्हेसून येयिल्लो, सन्याशी असो, तेका तुमी वळखतात?" भटान चेऱ्यार कसलेच भाव दाखयनासतना म्हणलें, "वळखना! पूण हरेक शेनवारा हिंगा देवाल्या दर्शनाक येता तो!"

"तो ह्याच गांवचो?"

"ना! ना! कोण तरी अनवळखीच तो! दोन म्हयने जाले. मंदिरांत पळयतां तेका हांव! हेचे आदीं ह्या गांवांत केन्ना पळयलोच ना तेका!"

"तुमी एक काम करतात? फुडल्या शेनवरां येयल्यार तेची वळख देख विचारतात?"

"कित्याक म्हणटात तुमी?"

मागीर म्हादेवान भटाक पुराय गजाल सांगली. भटय म्हादेवाक मजत करूंक तयार जालो.

आपल्या बिराडार येतकीर, म्हादेवान फुरसद केली ना. रोखडीच कागद, पेन घेवन मुरलीधराक चीट बरयली आनी तेन्ना ऽ तेन्ना वचून चीट पोस्टांत घाली.

चीट मेळटकीर, हेर दिसाकच मुरलीधर होन्नावरा गेलो. म्हादेवाक घेवन पोलीस स्टेशनार गेलो. थंय 'बडीगार' म्हूण खाकी कपड्यांतलो, तकलेर कॅप आशिल्लो, भुजांर तीन स्टार लायिल्लो एक इन्स्पेक्टर आसलो. ताचे उलोवण्या वेल्यान तो एक बरो मनीस म्हूण कळटालो. मुरलीधराल्या बापाय वरीच आंगलोटान आसलो. मुरलीधरान आपली पुराय काणी सांगून ताका म्हटलें, "तुमचे वरीच आंगलोटाचो आसा तो! हो चोय, हो फोटो घेयात." म्हण ताणें खिश्यांतल्यान पयशां पाकीट काडून, पाकिटांत दवरिल्लो बापायलो एक 'पासपोर्ट सायज' फोटो दिलो. इन्स्पेक्टरान सांगलें, "तूं हुसको करूं नाका! हांव होन्नावराचो कोणशान कोणसो सोदून काडटां, आनी मेळल्यार

रोखडोच कळयतां.'' मागीर ताणें म्हादेवाचो नामो घेयलो. मुरलीधरान हात जोडून म्हणलें, ''तुमी तेका सोदून दिल्यार भरुन पावतले. तुमचे उपकार हांव केन्ना विसरचों ना!''

हेर दिसा सावन मुरलीधर सक्काळीं उठून, रिक्षा करुन भायर सरतालो. तो आपले परीन बापायचो सोद घेवंक लागिल्लो. ताणें पुराय - पुराय देवळां चोयलीं. भौशीक सुवाती चोयल्यो. भिकमाग्यांच्यो वसतीं चोयल्यो. मेळत ताचे कडेन चवकशी केली. पूण तो मनीस खंयूच दिश्टी पडूंक ना.

मुरलीधर होन्नावरां पावले नंतरच्या येत्त्या शेनवारां सक्काळींच वचून मारुती मंदिरांत बसलो. भटाक आपली वळख सांगली आनी थंय एका खांब्याक तेंकून बसून रावलो. सकाळीं ऽऽ तो बसून त्या मनशाची वाट चोयतालो... तो तीनसांज जाता मेरेन वाट चोयत बसलो. पूण तो मनीस येवूंक ना. भटान ताका म्हणलें, ''त्या दिसा तो येयिल्लो, ती निमणीं फावट! ताचे उपरांत हांवें तेका पळयलो ना!''

मुरलीधर होन्नावरा दोन म्हयने रावलो. हरेक शेनवारा तो सक्काळीं वचून मंदिरांत बसतालो, तो तीनसांज जाता मेरेन बसून रावतालो. अदीं-मदीं पोलीस स्टेशनार वचून वास्तपुस्त करतालो. पर्थून गांवभर हेडटालो. निमाणे कडेन निर्शेवन म्हादेवाल्या बिराडार येतालो. म्हादेवय आपले परीन येत्न करतालो.

अखेरेक, चोयवटेन निर्शेवणीच पदरांत पडटा ती चोवन मुरलीधर म्हादेवाक घेवन एक दीस पोलीस स्टेशनार गेलो. इन्स्पेक्टर ऑफिसांत बशिल्लो आसलो. ताणें इन्स्पेक्टर 'बडिगाराक' म्हणलें, ''हांव आतां वयतां! तुमी खंयूय, सोद लागल्यार कळया!'' इन्स्पेक्टर 'बडिगारान' ताका भुजार थापटीत म्हणलें, ''धैर्य सोडूं नाका! मेळटलो! तुगेलो बापूय मेळटलो! आमी आमचे परीन पुराय येत्न केले. खांची कोणसो सोदलो. ना तो ह्या गांवांत! गांव सोडून गेलो तो! तरीय हेरकडेनय आमी कळयतात हां! आमी येत्न करतात!''

मुरलीधर हेर दिसा गांवांत येयलो.

...आयज मुरलीधराचो बापूय नाराण परागंदा जाल्ल्याक वीस वर्सां उलगल्लीं. एकुणशें पंचावन्नां तें! पांच-स वर्सांचो तो तेन्ना! पूण, वीस वर्सां फाटीं मुरलीधराल्या काळजांत रोमिल्लो हो कळकी कांटो तसोच रोमून उरला. दूख , पिडा दीत उरला! खूब फावटीं ताका दिसता, म्हजो बापूय अचकीत येवचो! भायलो वारो कसो येवचो! पूण, तो येवंक नासलो... तो रातीं न्हिदिल्ले कडेन फांत्या पारार सपनांत येयिल्लो. दारांत उबो रावलो. म्हणूंक लागलो, ''अनसुया, हांव येयलों. आमी आतां सुखान रावया...'' आनी अचकीत मुरलीधराक जाग येयिल्ली.

...आतां मुरलीधराले कुडींत पुराय उजवाड पातळिल्लो. जनेलांतल्यान भायर चोयल्यार, भणभणीत उजवाड! मुरलीधर उठून बसलो. ताणें मनात म्हणलें, खंय आसा काय म्हजो बापूय?



निकतीच पेज जेवन, घराचे माळयेर, उक्त्या जनेला म्हऱ्यांत, जनेला धडयेर दोनूय पांय पातळावन, मुरलीधर आराम-खुर्चेर बशिल्लो. ताणें फकत कमराक धवी लुंगी न्हेशिल्ली. वयर पुराय उक्तोच आसलो. उबाळाचे दीस आशिल्ल्यान पर्थून पर्थून घाम निशेंतालो. ना म्हटल्यार अर्दी-मर्दी घरा कुशीतली झाडां-पेडां हालताली आनी एकाद्रें वाऱ्याचें ल्हार जनेलांतल्यान भितर रिगतालें. मनाक, कुडीक थाकाय दितालें, थंडाय दितालें.

तो जनेलांतल्यान भायर नदर शेवटितालो, पूण ते नदरेंत जीव नासलो. थंयसून मारूतील्या घराचे नळे दिसताले. सुर्यकांताल्या उप्परकी घराचे नळे दिसताले. नदर पयस म्हासती-भाटा मेरेन पावताली... पूण म्हासती भाटांतले अदीं मदीं वाऱ्या नेटार धोलपी, कुचकुचीत पेंड्यांनी भरिल्ले माड, ऊंच वाडिल्ल्यो, अदीं-मदीं हालतल्यो - धोलतल्यो सुपाऱ्यां माडयो, तांकां लागिल्लीं सुपाऱ्या कोनगीं ताची नदर ओडून घेनासलीं.

ताचे मन एक निराळ्याच चिंतनांत घुस्पलें...

आयज तो पंचवीस-सव्वीस वर्सांचो जाल्लो. बुध्दींत येतसावन तो चोयत येयला, ताच्या गांवातल्यां मनशांची मानसिकता, येवजण्यो चड-उण्या फरकान तशोच उरल्यात. तो जाणां, हातूंत बदल जायना जाल्यार, फुडारांतय अशेच अनर्थ घडटले. मनशान कितलो तेप कुड्ड्या रुढी-परंपरेचें, कुड्ड्या रिवाजांचें कळसुत्री बावलें म्हूण रावचें?

ताका एकेक फावट दिसतालें, वयर 'कळसा दोंगरावेल्या' तळपार उबो रावन, पुराय गांवांक आड्डून सांगचे, "बुध्दिचो वापर करून जगात... अक्कल खर्च करात..."

मुरलीधराचे मोगाळ आर.एन्.नायक सर केन्ना केन्ना म्हणटाले, "बुध्द सगळ्यां लागीं आसना, आपल्या लागीं आशिल्ली अक्कल हेरांक दिवची पडटा."

आतां अक्कल दितलो कोणाक? तकलेवेल्या केंसाची शेंडी, ओठा वयली मिशी पिकून धवी जाल्ल्या राम जाणवयक? जाची सोळांतलीं बारां मणां लाकडां मसणटीर पावल्यांत, त्या म्हालगड्या पुंडलीक बाबाक? अजिबात येवजिनासतना पच्च करून उलयतल्या त्या फुटिल्ल्या तोंडाच्या गुण्याक? जाणवय सांगता तें सगळें 'हय' म्हण घणसाबैला वरी तकली हालयता त्या खरपणी बाबग्याक? तांगेल्याच पंगडांतल्या वखदळी सैरोबाक? काय राम जाणवयल्या आडमुठी पुताक - शंकर जाणवयक?

मुरलीधराच्या आनी ताच्या समविचारी वांगड्यांच्या विचारांक विरोध करपी हेच आसले. रुढी-परंपरेच्या नांवां सकयल कुड्डे रिती-रिवाज, कुड्ड्यो स्त्रध्दा वेंगोवन बशिल्लीं मनशां हीं, आनी दुर्दैवाची गजाल म्हटल्यार, हांगेलेच हात धरून गांव फुडें सरतालो.

मुरलीधर कसोच विसरचो नासलो, ह्याच मनशांक लागून ताच्या बाबाक परागंदा जावचें पडिल्लें. ताचो बाबा जितो ना, ताचे कुडींत पिशाच्च रिगलां, म्हूण सांगपी होच जाणवय. एक फावट मसणटीर व्हरतकीर, पर्थून तेका घरा हाडिनात, म्हण देख दिवपी होच तो

पुंडलीकबाब. ताचो बाबा मेलो म्हूण निदान करपी म्हाळगोबाब ह्याच वखदळी सैरोबालो बापूय आसलो. फाटलें फुडलें येवजिनासतना, ताच्या बाबाचे कुडके करा म्हूण सांगपी होच तो गुणो.

मुरलीधराक एक फावट दिशिल्लेंय, पुलिशेंत वचून हांचे आड कागाळ करची. काडचें सगळें उस्तून शेणां-गायर उस्तिल्ल्यावरी. वचूं सगळे भितर खडी-फोडूंक... पूण, रोखडेंच ताका दिसलें, कितें मेळयतलों हांव हातूंतल्यान? हे काय सगळे म्हज्या बापायचे दुस्मान नासले. रुढी-परंपरेच्या विळख्यान आंवुळिल्लीं मनशां हीं. तांच्या अज्ञानपणाक लागून घडिल्लो गुन्यांव हो. आसूं! भोगूं तें!

ह्या कुड्ड्या रिवाजाची, विस्वासाची खर झळ घडये मुरलीधरागेरच्यां इतली, ह्या गांवच्या हेर कोणाकूच लागूंक नासली. तांणी भोगिल्ली मन-पिडा तींच जाणां आसलीं. हीं असली मन-पिडां हेर कोणाल्याच वांट्याक येवंनये, तांकां हांगाच पूर्ण विराम मेळचो, अशें मुरलीधराक मना-काळजा सावन दिसतालें.

ताणें आयजवेर अणभविल्ल्या,. पळयिल्ल्या, कुड्ड्या विस्वासाच्या, कुड्ड्या विचारांच्या, कुड्ड्या रिवाजांच्या गजालींच्यो यादी केन्ना केन्ना दर्याच्या ल्हारांवरी उचांबळीत जावन येताल्यो आनी ताका लजशी दिसताली. दिसतालें आमी कांयच कित्याक करुंक शकनात हाचे पासत कितें तरी?

त्या दिसा मसणटी वेल्यान येतनाच आंगार जोर घेवन येयिल्ल्या मुरलीधराचो जोर कसोच देंवना, तें चोयन घरांतलीं सगळींच चिंतेस्त जाल्लीं.

अनसुयाक दिसतालें, घडये जोर आंगात आसतना शेळें उदक आंगार न्हाविल्ल्यान जोर वाडलो. पूण, ताका उपाय नासलो. मसणटीवेलें क्रियाकर्म केले उपरांत पुतान शेळें उदक न्हावनच घरा येवंक जाय, हो दंडक कसो चुकोवंक येता? हरशीं मळावेलें कोडूल झरोवन दिल्यार वचपी जोर! पूण, आयज ह्या जोरान न्ही नस्तो नेट धरिल्लो.

वखद दिवन वतना म्हाळगोबाबन कपलार थंड उदकाची घडी दवरुंक सांगिल्ली, म्हूण अनसुया रातभर कपलार उदकाची घडी घालत आसली. मर्दी-मर्दी म्हाळगोबाबान झरोवन दवरिल्लें, पेल्यांतलें वखद इल्लें-इल्लें दिताली. जोर मातसो देंवतालो, पर्थून चडटालो. हेर दिसा सकाळींच म्हाळगोबाब तांगेर येवन, जोर चोयन, वखद दिवन गेल्लो. तरीसुदीक तसोच देंवतालो-चडटालो. सांजचें तपासूंक येयिल्लो तेन्ना म्हाळगोबाबाक कितें दिसलें कोण जाणा! नाडी चोयन म्हणूंक लागलो, ‘‘हांवें दिल्ल्या वखदान बरो ऽ गूण पडना. वार-सुत्रांन बी न्हू मू? मसणटीर बी गेल्लो न्हू तो!’’ ताणें आपलीं वखदां सांगशी सांसपिली. तातूंतल्यान वाऱ्या वखदासाल सोदून काडली. शिलाक भितरल्यान इलें उदक, चिपली आनी साण्ण घेवन येवंक सांगली. शिलान साण्ण, तांबयांत उदक, चिपली हाडून दीतकीर, साण्ण बरी ऽ धुयली. साण्णीर वाऱ्यासाल बरीऽ झरयली. इतलो ऽ खतो चिपलेंत काडलो. तातूंत बोटां बुडोवन दोन थेंबे देवाचे नांवान फाफुडले. मागीर तें वखद मुरलीधराले तकलेच्या दोनूय शेंड्यांक बरेंऽ घश्टिलें. जिबेक लायलें. फाटले वटेन मानेक लायले. फाटीक लायले. पोटाक लायलें. दोनूय हांतां-पांयांक लायलें. इतलें करुनय जोर निवळची चिन्नां दिसना जालीं. म्हाळगोबाबान मागीर म्हणलें, ‘‘म्हाका दिसता, हेका द्रिश्टोळ जाल्या. द्रिश्टोळ काडून घेयिल्ली बरी! मसणटीर त्या भुताक हेणें ‘बाबा’ म्हण वेंग मारिल्ली. तेगेलीच द्रिश्टोळ आसूं येता! असल्या भुतां-खेतालीं द्रिश्टोळ मात्तूय बरी न्हू!’’

‘‘देवा म्हज्या!’’ अनसुया कांचवेली.

मुरलीधराली आजी म्हालकुमी मुखारच बशिल्ली. तिका आयकून शेळो घाम सुटलो. ती जाणां आसली, द्रिश्टोळ म्हणटात ती नश्टी पिडा! एक फावट तिगेल्या घोवाक हें भोगचें पडिल्लें. ‘दुधगंगा’ न्हंयेकडेन गरोवंक गेल्लो. ‘जळीनासाली’ द्रिश्टोळ जाली. घरा येयिल्लोच जोरान न्हिदलो. रातीन न्हिदिल्ले कडेन बेबुळटालो. निमाणे कडेन राम जाणवयल्या बापायक शंकर जाणवयक आपोवन हाडलो.

ताणें द्रिश्टोळ काडटकीर, जोर देंवलो. ''जाणवयक आपया न्हूं, भाया?'' तिणें म्हाळू बाबाक विचारलें.

''हय तर!''

''शिला, धांवत वच सकयल्या वाड्यार. जाणवय आज्याक आपोवन हाड.''

आईलीं उतरां तोंडांतल्यान भायर सरता थंय आसात, शिलान मारली धांव!

सुमार वेळान शिला राम जाणवयाक घेवन येयलें. मेरेर दवरिल्ल्या टबांतल्या उदकान पांयांर उदक घालून, जाणवय भितर येयले. ''बसा'' म्हण्टकीर वासरेर खुर्चेर बसले.

म्हाळगोबाबान वासरेर येवन राम जाणवयक पुराय गजाल सांगली. राम जाणवयन मुरलीधर न्हिदिल्लो थंय येवन, ताचे आंगाक हात लायन चोयलें. तेन्ना जोर देंविल्लो आसलो. ''जोर व्हडलोसो ना!'' ताणें म्हणलें.

''हांवें सांगलें न्हू तुमकां देंवता- चडटा म्हूण! इतलें वखद करुन देंवना म्हटल्यार द्रिश्टोळच आसूंक जाय!''

''पळोवया, कितें तें!'' अशें म्हणत जाणवय मुखार पातळावन दवरिल्ल्या शेंदरेर बसलो. येतना हाडिल्ल्या आपले धवे पोतयेंतल्यान गुलां भायर काडलीं. ''भितर वचून एक पाट घेवन यो.'' ताणें शिलाक सांगलें. शिलान पाट हाडून दितकीर पाटाचेर गुलां दवरलीं. तोंडान कितेंतरी गणमणत ताचेर हात घुंवडायत गडें-फाडें करुन चोयलें. ''हूं! द्रिश्टोळच ती! भिवची गरज ना! काडया.''

मागीर राम जाणवयन शिला कडल्यान एक ताट, कुकूम, काजळ आनी इलोसो हळदी पिठो मागून घेयलो.

''बांयंतल्यान तांबयोभर उदक घेवन यो.''

शिलान वचून तांबयाकच राजवाची गुळकी घाली आनी बांयंतल्यान गर गर करून उदक भरून काडलें आनी तें हाडून जाणवय मुखार दवरलें.

“तन्नी एक पोपाय जाय आसली.”

“हांव हाडटां.” अशें म्हणत म्हाळगोबाब ताकतिकेन शेवटलो. ताणें सकाळींच मागील दारांतल्या पोपयेझाडाच्यो दोन तन्न्यो पोपयो शाकेक म्हूण काडून, घरांत हाडून दवरिल्ल्यो. तातूंतली एक आसा, काय दोनय शाकेक पडल्यो चया! नातर, दुसरी काडून हाडुंया, अशें येवजून घरा येयलो. चोयल्यार एक आसली. ती, तो घेवन येयलो.

जाणवयन म्हळगोबाबकडेन चोयन म्हणलें, “तुगेले कितेंय वखद - विरसद दिवचें आसल्यार, आतां वेळ पडचे आदींच करुन घे. वेळ पडटकीर, म्हाका हें काम करून घेवन, पुराय कळंजें घेवन वचूंक जाय. एक फावट हें काम केलें नंतर तुवें हिंगा रावूंक जायना. रावल्यार, हांव भायर सरून गेले उपरांत घरांतल्यान भायर सरूंक फावना. कारण कळंजे घरांतल्यान भायर व्हरतकीर फाटल्यान कोणेंच घरातल्यान भायर सरूंक जायना!”

“जाणां! जाणां हांव! हांव म्हगेलें काम करून वयतां!” अशें म्हणत, म्हाळगोबाबान आपलीं वखदां सांगशी सांसपिली. काय वखदां मुळां सोदून काडलीं. शिलान व्हदळ हाडून दिल्ल्या उदका तांबयांत उदक आसलें. तातूंतलेंच इल्लें उदक साण्णीर उडोवन साण्ण साफ केली. मगेर तीं मुळां साण्णीर बरीं ऽ झरयलीं. बरोऽऽ इतलो खतो झरोवन चिपलेंत काडलो. मागीर अनसुयाक सांगलें, “हें चोय, हें कुलेरभर चाटण जोर चडटा म्हूण समजना फुडें दिवचें. देंवल्यार दिवप ना! कळ्ळें न्ही?” अनसुयान ‘हय’ म्हूण तकली हालयतकीर, ताणें ती मुळां सांगशेंत घालीं आनी सांगशी उखल्ली. “येतां हांव! जाणवयांनो, येतां” म्हणत भायर सरलो.

“तुमी इल्लो बेगीनच आपयलो म्हाका. हे बायेन कित्याक आपयला म्हणय सारखें सांगूंक ना. कळ्ळ्यार इलो कळाव करून येतां आसलो. आतां वेळ धारेर तेंकतासर म्हाका बसून रावचें पडटलें. घरा वचूंकय उपकारना. अन्नकाच्या घरांतल्यान गेल्यार न्हायन धुयन भितर सरचें पडटलें. आनी मागीर हें काम करून गेले उपरांत पर्थून न्हायन

धुयन वचचें पडटलें. ते परस आतां इल्लोसोच वेळ उरला वेळ पडूंक! हिंगाच बसून रावतां. करतलों कितें?" जाणवयन सुस्कारत म्हणलें.

म्हाळगोबाब वतकीर, काळोख पडटा मेरेन, जाणवय थंयच बसून रावलो. हेवटेच्यो -तेवटेच्यो गजाली केल्यो. तेन्ना ताणें सांगिल्ल्यो म्हारवां - गिरवांच्यो गजाली मुरलीधराचे तकलेंत मात तश्शा तश्शो उरल्यो...

जाणवयल्या मता परमाणें हो गांव खय म्हारवां-गिरवांचो, ब्रह्म्यालो, देवीलो, खुंटयेलो आनी नासालोय!

आदीं खय हें एक अटंगें रान आसलें. भौसान जेन्ना हांगा खुंटी मारुन मठी वसयली, तेन्ना हांगासरल्या म्हारवां -गिरवांनी तांकां सतावूंक सुरवात केली. भौसान मागीर ब्रह्म्याक, देवी आवयक, खुंटी आवयक बी मानतीक दिवंक सुरवात केली. तांकां प्रसन्न दवरलें आनी तांचे कडल्यान आपली राखण मागली. ब्रह्मो, देवी आवय, खुंटी आवय मुखार बी म्हारवां - गिरवांलें खंय चलता? पूण म्हारवां - गिरवांलो सभावच उपद्रव करचेलो. भेश्टावचेलो. तशीच संद मेळ्ळ्यार, तीं आपलो सभाव दाखयले बगर कशीं रावतलीं?

राम जाणवय नेणटो आसतना, तांणी तांगेल्या बापाय कडल्यान - म्हटल्यार शंकर जाणवय कडल्यान आयकल्ली एक गजाल...

शंकर जाणवय नेणटो आसतना खंय ही घडिल्ली...

कडमारुखा कडल्या वीज पडून तयार जाल्ले विजेबांय सामकारा, लोकवसतेंतल्यान मातशें पयस 'वाण्यालें बाग' म्हूण एक वारिस्त नाशिल्लें बाग आसा. कितलीशींच वर्सा जाल्लीं, त्या बागाक कोण चोयतलो नाशिल्ल्यान तें तशेंच पडून आसा. एका तेंपार खय हांगा गडगंज एक पोटमाळयेचें घर आसलें. तें आतां ना. बागांत घटणा चिरे, फातर खंय खंय फाफसून तकली वयर करून, एका तेंपार आशिल्ल्या त्या घराच्या अस्तित्वाची गवाय दितात. बागांत कांय रानटी झाडां, झिली, झोपां वाडल्यांत. जनावरां सोडलीं जाल्यार थंय कोण वचूंक मागना.

एका तेंपार हें बाग शिवप्पा सोनहळ्ळीकर नांवाच्या वाण्यालें बाग आसलें. हरशीं हो वाणी सोनहळ्ळींतलो. धंद्याच्या निमतान ताणें हांगा ही जमीन विकती घेतिल्ली. घर बांदिल्लें. घरा कुशीक तेकूनच पाखें वाडोवन एक मांगोर कसो काडिल्लो. आनी तातूंतच ताणें आंगडी म्हालाचो इल्लोसोच पसरो घाल्लो. तेन्ना ताचे बगर ह्या 'आडगांवांत' आनीक कोणालो पसरो नासलो. गांवांत जे कितें पिकना आनी मेळना, ते सगळें हाडून तो ह्या पसऱ्यार विकतालो. तो मरतकीर, तो पसरो ताचो पूत विनायक चलोवंक लागलो.

घरांत विनायक, विनायकाली निकतीच बाळंतपणाक कुळारा गेल्ली येयिल्ली घरकान्न, तांचें स म्हयन्यांचे चेड्या बाळशें, आनी जाणटेली आवय आसली. आवयन घोव मेल्ले उपरांत तकलेवेले पुराय केंस तासून, ती बोडकी जाल्ली. तांबडें कापड न्हेसताली. तकलेवेल्यान पदर घेताली. दिसांतल्यान दोन फावट शेळें उदक न्हाताली आनी एकच फावट शेळें जेवण जेवताली. विनायक पसऱ्यार आसतालो आनी घरकान्न घरचे चोयताली. फाविल्ल्या वेळांत 'जोऽ जोऽ बाळा,' करत भुरग्याक खेळयताली.

एक दीस हीं चार मनशां राती कडेन न्हिदिल्लीं आसतना, मध्यान रातीर केन्ना तरी, कसो -कितें कोणच नकळो, घराक उजो पेटलो. भौसाली नदर ह्या घरार गेली, तेन्ना घरांतल्यां मनशां सकट वट्ट घर जळून गेल्लें. फकत घटणावेल्यो वणटी उब्यो आसल्यो.

कोण म्हणटात, हांकां हे लोक भायले आशिल्ल्यान देवचाराली राखण नासली, देखून म्हारवां - गिरवांनी घर पेटयलें... कोण म्हणटात, घरा तेकून तणांत बांगडे भाजूंक घायिल्लो तणा उजो, राती कडेन भायल्या वाऱ्यान ,कुशींतल्या न्हाणयेचे कोलवां-खोपीर पडलो आनी खोप पेटली. खोप पेटिल्ल्यान खोपीक तेकून आशिल्लें घर पेटलें... कोण म्हणटात, पसऱ्यार देवा मुखार लायिल्ली पेट्टी वात हुंदरान व्हरुन, विनायकान घाळपणान थंयच दवरिल्ल्या कॅरोसिना कॅनार उडयली आनी उजो पेटलो.

धा तोंडां धा तरांनी उलयलीं.

खरें कितें जालें, कोणाक कळ्ळें नासलें.

घरातलें आख्खें कुटूंब सोपून गोबोर जाल्लें, हें मात खरें!

कुटूंब सोपिल्ल्या काय म्हयन्यां उपरांत... एकदीस त्या बागात खय राती कडेन व्हडलो उजो पेट्टा असो, बाबग्याल्या बापायक म्हटल्यार - जानू नायकाक दिसलो.

आनी एक दीस खय हो जानू रानांत गेल्लो, पर्थतालो. तीनसांज कातरेवेली वेळ! ह्या वाण्याल्या बागा मुखार पाविल्लो! बागा सामकारा एक जांबळी रूख आसलो. रुखार खय सर सर सर सर जालें. ताणें लक्ष दिवंक ना. मागीर जांबळी रुखा वेल्यान कोणेंतरी इतले ऽसखरे मारले. नदर वयर करून चोयल्यार, जांबळी रुखावेल्या एके आड खांदयेर तांबडी कापड न्हेशिल्ली बोडकी बसल्या. हाका चोयन खिक्क करून हांसली. हाचे आंगार शेळें उदक रकयिल्ल्यावरी जालें. हो तकलेवेलें लाकडांवजें थंयच उडोवन, धांवलो भोका पांय लायन घरा कडेन!

एक दीस खय उमासे राती मध्यान्हेर थंय व्हडाव्हडान बोबो हुयेली आनी किंळची मारिल्ली कांयजणांनी आयकली.

आनी एक दीस खय अशेंच रातीन थंय घटणार एके बायल मनशेलो आवाज येयलो. ''बाळा जो जो ऽ रे ऽ जो जो ऽ रे ऽ '' म्हूण ती गायताली. मगेर खिणांतच हांशिल्लो आवाज, तर खिणांतच रडिल्लो आवाज येवूंक लागलो.

भौसाचेर आकांत येयलो.

रानांत वच्चेली रासवळ वाट आसली ती! आनी वाण्यालें बाग वाटेरच आसलें. भौसान थंयसून वचचेच सोडलें. रानात वचनासतना बी रावूं नजो. रान हें हांगासरल्या भौसाले जिणेंचे एक म्हत्वाचें आंग आसलें. भौसान मागीर व्हळा-कडले गोरवा वचच्या पांयणीतल्यान वाट कडली.

पूण इतलें केलें म्हण सोपता?

हे गजालीचो पुराय आडगांवाक भेदरो पडिल्लो. भौसान शंकर जाणवयल्या बापायक - इस्णू जाणवयाक येवन परार्थलें, "जाणवय, कितें तरी उपाय करा, नातर हीं भुतां अचाट जावन गांवाक खातलीं. तेंका अशें वाऱ्यार सोडून उपेग ना! गांव लयाक पावतलो!"

इस्णू जाणवयन मगेर मनार घेयलें. सोनहळ्ळींतल्यान मांत्रीक, गोकर्णांतल्यान भट हाडून व्हडलो होम हवन केलो. अखेरेक हीं वाण्यागेरचीं भुतां व्हरुन गोकर्णांत जोडली.

त्या वाण्याल्या बागाचेर आपलो हक्क सांगूंक कोणच फुडें येवूंक ना. भुतां मानगुटेर बसतलीं म्हूण!

अजुनय भौस तीनसांजचे कातरेर, ते वाटेन वचूंक कांचवेता.

मुरलीधर नेणटो आसतना, ह्या वाण्याल्या बागाचेर नदर पडना फुडें, ताका राम जाणवयन सांगिल्ल्या त्या भुतांची याद येताली. आनी बेठींच त्या भुतांची काकुटशी दिसताली. थं ऽ य पयस गोकर्णांत कितें करतात काय बापडीं?

राम जाणवयन तेन्ना आनीक एक गजाल सांगिल्ली...

मुरलीधराले आज्जेन म्हालकुमेन जाणवयक विचारिल्लें, "जाणवयांनो, खंयचो म्हारू आसतलो गा तो, म्हगेल्या पुताले कुडींत रिगिल्लो?"

"म्हगेल्या मतां परमाणें तो कुश्टालो 'रामुलो' आसूंक जाय!"

"रामुलो? अरे देवा!" अनसुया कांचवेल्ली. खिणभर तिका आंगार शेळें उदक रकयिल्ल्या वरी जालें. "घात करता आसलो म्हगेलो!" तोंडांतल्यान लाळ गळून पडिल्ल्यावरी तिच्या तोंडांतल्यान उतरां भायर सरिल्लीं. "म्हासतेन राखलें म्हाका!"

मुरलीघराक तेन्ना कोण रामुलो, कितें कात कांयच खबर नासली. हेर दिसा ताणें आईक, आज्जेक ताचे बद्दल विचारिल्लें, पूण "तुका कित्याक तें? तसल्यांली नांवां आमी घेवं नये!" इतलेंच सांगून ताचें तोंड बंद केल्लें."

रामुलो, मुरलीधराले तकलेंतल्यान तसो वचूंक नासलो. फुडें

मुरलीधर व्हड जातकीर, ताणें नयावाड्यावेल्या, ताच्याच बापायच्या पिरायेच्या, गाडेकार रमाकांता कडल्यान, रामुल्या बद्दल पुराय म्हायती काडिल्ली.

रामुलो हो गोविंदालो धाकलो भाव आसलो. नेणटेपणा सावन विद्वाटोच आसलो. असलो दुश्ट, हलकट आनी तवनास भुरगो 'आडगांवच्या' आख्ख्या इतिहासांत केन्ना जल्माक येवंक नासलो. हाका मार, ताका बडय कोणालें हें काडून घे, कोणालें ते मोडून उडय. लोक कागाळी करना आसले, अशें न्हू! करताले! वयतालें चलून व्हडल्या घरचो म्हूण! नेणटो आसतना, केन्ना केन्ना आवय-बापूय मार बडय करताले. व्हड जातकीर, हाताभायर गेलो. हागेलीं मस्तीपणां वाडलीं. बेबद्या नरशिंवा वांगडा पडून पिवूंक शिकलो. जात्रे गेल्ले कडेन पिवन मस्ती करतालो. गडगडो खेळटालो. गांवातल्या चेडवांचेर, बायलांचेर सामकी पाड नदर दवरतालो. ती मागीर वाड्यावेली बापोल भयण आसूं, नातर सोयऱ्यांतली कोणूय आसूं! ताका कांयच लागनासलें.

एक दीस खय पिवन तर्र आसलो तेन्ना गोविंदालें नवेंच लग्न जाल्लें. दोन-तीन म्हयनेच जाल्ले लग्नाक! गोविंदाली बायल नवी व्हंकल घराच्या फाटल्या आंगान आशिल्ल्या, कोलवान शिविल्ल्या न्हाणये खोपींत मातये भाणात तापयिल्लें उदक न्हाताली. खोपीक मातयेच्यो वणटी आसल्यो पूण दार अशें नासलें. फकत दोन चुडटां मल्लां एकार एक दाळून केल्लो एक आडसार क़सो दारा सुवातेर उबो लायन ती बाबडी न्हाताली. हो अचकीत थंय गेलो. तो आडसार कुशीक काडलो. आनी भावजयेक तेळत कमरार हात घेवन उबो रावलो. तिणें हाका चोयन आंग काडलें. करतली कितें? आपले हड्डें दोनय हातान पांगरुन थंयच कुक्कुटोन सकयल बसली. "मामे, मामे, धांवत यो..." म्हण मांयक उलो मारलो. मांय रांदचेकुडींत चुलीक फुंकणेन फूंक मारताली. सुनेलो जिवाच्या आकांतान मारिल्लो उलो आयकून मांय धांवत येयली. चोयल्यार हो गोविंदा बायलेक - शकुंतलाक मज घेवन पारखिता. आवयन फुरसद करूना, दोन

कानसुलार फुलयले. थंयच एक पिडो पडिल्लो आसलो. उखल्लो आनी दोन लगाडे घायले हाका! हो मागीर रावलोच ना थंय! धांवलो ऽ धांवलो...

ह्या आनी असल्या ताच्या कर्तुबाक लागून गोविंदान वेगळे कडेन वेगळें घर काडलें.

त्याच वर्सा ताचे कडल्यान घडिल्लें आनी एक कर्तूब...

चार-पांच वर्सा सावन आडगांवांत दर वर्सा खंय एक बायल येद्याशा टोपलेंत कसली तरी मुर्ती घेवन येताली. ही धवें पातळ न्हेशिल्ली, तकलेवेल्यान पदर घेयिल्ली, खाक्यांत एक धवी झोळी लायिल्ली बायल ''या बया ऽऽ जोगवा!'' म्हणत दारां दारांनी जोग मागत भोंवताली. आशिल्ली वीस-पंचवीस वर्सांची! काळी सावळी. तुकतुकीत कांतिची! गोल आंगाची. कोणाचीय नदर ओडून घेवपा सारखी आसली. तिचे तकलेर केंसाची जटा जाल्ली. ती कपलार कुकमा सुवातेर हळदी पिठो लायताली.

एक दीस अशीच गांवांत जोग मागूंक येयिल्ली. पर्थताली. गांव सोपतकीर तांबडो रस्तो सुरू जावच्या आयल्या आंगान 'वाण्याल्या बागा कडेन' कडमारुखा कडल्या विजेबांयच्या सामकारा, हिका मुखावेल्यान येतल्या रामुल्यान धल्ली. हरशीं केन्नातरी रामुल्याची पाडी नदर तिचेर गेल्ली आसुंये. आयज आयती गाविल्ली. रामुल्यान फुरसद चोयली ना, धप्प करुन तिचे कमराक मिठी घाली आनी गेलो ऽ तिका घेवन ओडी ऽ त कुशीच्या झिलीं - झोपांनी!

ना म्हटल्यार, धायेक वोंवाच्या अंतरार रामुल्याच्या फाटल्यान जयवंतालो कृष्ण येतालो. हाका अशें करचें चोयन, धांवत धांवत फुडें येयलो. ''रामुल्या, थोप! थोप! कितें करतां हें नाकाजाल्लें? सोड तिका! सोड!'' म्हणत तो रामुल्याक आडोवंक मुखार सरलो. जाल्यार हाणें कितें करचें? सप्प करुन पॅन्टीच्या खिशातल्यान स्प्रिंगाचो येद्दो व्हडलो चाकू काडलो. दाखयत म्हणूंक लागलो, ''फुडें येवशी, तर आख्खो चाकू पोटांत घुसयतलों. वच फाटीं!'' कृष्ण भियेलो. ताची शिरंतरां

खिणांतच शेळेर्ली. तो गळसणलो. घुसोंकय फार्टी ना हो पोटांत चाकू! ताळतंत्र सोडिल्लो मनीस ! कृष्ण फाटल्या पांयांनी फार्टी येयलो. रामुलो ऊंच, हाडा-पेडान घट्ट-मुट्ट आसलो. ताका कोण आटापतलो? कृष्ण ताचे मानान येदोसोच आसलो. आंगानय किरकोळ. कृष्ण आसूनय, ते अस्तुरेचो अब्रू वाचोवंक शकलो ना तो त्या दिसा! रामुलो घेवन गेलोच तिका झिलीं-झोपांनी! बाबडेली देवा-टोपली, भिक्षेझोळी बी थंयच पडली. ती ''सोड! सोड!'' करत आडुताली.

कृष्णान गांवांत येवन ही बातमी पुराय फों फों केली. रामुल्याक ताचें कांयच पडून वचूंक ना! ताणें आपली लज, अब्रू दुधगंगा न्हंयेंत केऽऽन्ना सोडून दिल्ली.

निमाणे कडेन होच 'मद' आनी हीच 'अती' रामुल्या मर्णाक कारण थारली..

तागेल्याच वाड्यावेलें एक चेडूं माला नांवाचें! दिसूंक भोव सोबीत आसलें. गोरें. मचंग. घसघशीत आंगलोटाचें. पिराय चड नासली. आसतर्ली सोळां-सतरां वर्सांची तेन्ना!

रामुलो केन्ना केन्ना तागेर्ली फकाणां करतालो. दोळो मारतालो. माला आयकलें ना शें, पळयलें ना शें करतालें. ताचें कांयच कान-मनार घेयनासलें.

पौश म्हयन्यांत 'मांडां तिठ्यार' धालो मांड पडिल्लो. गांवच्यो बायलो, चेडवां वचून थंय धालो खेळटार्ली. एक दीस माला वाड्यावेल्या बायलां वांगडा राती कडेन धालो पळोवंक गेल्लें. तुळशी मांडये मुखार एक समय पेटोवन बायलां - चेडवां दोन पंगड बांदून धालो खेळटार्ली. गायतार्ली...

श्री धा ऽ लो, धालो रे  
आमी धालांनी खेळूं आयली.  
आयर्ली तर येया गे,  
तुमच्या सखिया साद दिया गे,...

थंय धालो चोवंक एकठांय जाल्ल्यो बायलो, दादले, भुरगीं तुळशी

भोवतणीं व्हड घेरायेचे कंवडाळें करुन, आंगा भोवतणीं चादर पांगरून बशिल्ले. काय दादले, तरनाटे कानांक मफलर बी गुठलावन त्या कंवडाळ्याच्या फाटल्यान कवंडाळे करुन उबे आसले.

माला बशिल्लें थंय ज्युस्त ताचे फाटल्यान गळ्या भंवतणी मफलर गुंठलावन रामुलो येवन उबो रावलो.

शीं ऽ बरेंच पडिल्लें. कुडकुडो येतालो. माला गोविंदा बायल-शकुंतलान शिंयांक लागून हाडिल्ल्या चादरांत रिगिल्लें. हो मालाक आयकुचे शें करून म्हणूंक लागलो, ''इतलें शींऽ खाता? म्हगेलें मफलर दिवूं?'' माला ओग्गी आयकलें ना शें करुन रावलें. मागीर ल्हवूच फाटल्यान उबो राविल्लेकडल्यान मालाक पांय लायलोसो, हात लायलोसो करुंक लागलो. सुर्वेक माला ओगी रावलें. मागीर चडच जातकीर, उठून उबें रावलें. ''हांव तुगेली वाड्यावेली दायजी-भयण. अक्कल आसा तुका?'' अशें म्हणत रामुल्याच्या कानसुलार फाड फाड करुन दोन फुलयलीं. आशिकुशीक उबे आशिल्ले, बशिल्ले खो-खो करुन हांसले. रामुलो याण जालो. ताची मस्तकाची शीर सणसणली. तो खुबळ्ळो. ''रांडग्याच्या, दाखयतां तुका, दाखयतां सारखो'' म्हणत थंयसून कडसरलो.

रामुलो संद चोयत आशिल्लो घडये... एक दीस मालाले तिगूय भाव, आवय-बापूय घरांत ना अशें चोयन हो घरांत घुसलो. साट-सुट् करिनासतना दाराक गुपचूप भितरल्यान खिळी घायलो.

सकाळीं णवां-धां सुमार गजाल खंय ही.

माला चुली कडेन बसून,, चुली उज्याक फुंकणेन फूंफूं करुन फुंकतालें. रात्नीर पेजे मडकी दवरिल्ली आसली. हो फाटल्यान कळूंक दिनासतना ल्हव पावलांनी येयलो आनी मालाल्या तोंडाक घट्ट धरलें. थंयच भाणशिरें आसलें. तें घेवन मालाल्या तोंडाक गुड्डी मारली. वयतनाच सुंबा दोरी घेवन गेल्लो? कोण जाणा! मालाले दोनूय हात दोरयेन घट्ट बांदले. मागीर ताका थंयच आड घातलें आनी ताचेर मात्तूय दया - माया दाखयनासतना राकेसावरी बळजबरी केली.

तो आपलें काम करून गेलो.

सुमार वेळान रानांत जळोव हाडूंक गेल्ली आवय घरा येयल्यार, धूव हे स्थितींत! आवयन बेगोबेगीन धुवेल्या तोंडातली गुड्डी काडली. धुवेले हात सोडयले.

मालान रडत रडत पुराय काणी सांगली.

आवयन म्हणलें, ''आसूं! जाल्लें जालें! कोणाक म्हणीनाका! तुगेल्या बापायक आनी भावाक सुदीक सांगनाका! फुकट अब्रूच वयतली! ओग्गी राव तोंड धापून!'' आनी आवयल्या उतरांभायर वचून धुवेन तोंड उगडलें ना.

इतल्यान सोंपलां?

मालाक दीस गेले.

आपल्याक दीस गेल्यात म्हण होलमतगीर ताचेर आखांत! आवयक सांगतकीर आवय तकली बडोवन घेवंक लागली.

आतां करप कितें?

मालाचेर पेच! एका आंकवार चेडवाचें गुरवारपण म्हटल्यार घराब्याच्या अब्रूक चुलीचो काळो गस लागप! पुराय घराक चुट्टी लागप!

हेर दिसा सकाळीं उठून चोयल्यार आवयक माला हांथरुणार दिसलें ना. घरचीं सगळीं उठचें आदीच तें उठून भायर सरुन खंयतरी गेल्लें.

खंयूय परसाकडेन बी गेल्लें आसतलें म्हूण, आवय सुर्वेक ओगी रावली. मागीर सुमार वेळ जाल्यारूय हें घरा कशें येवंक ना? म्हण सोदा-सोद जाली. ना तें नाच्च. बांय चोयली. न्हंय चोयली. खंयच ना. अखेरेक धाकलो भाव सुरेश आपूण राना वटेन चोयन येतां म्हण भायर सरलो. चोयल्यार गांवचे शिमेर, मसणटीवेल्या काऱ्या झाडाचे खांदयेर, हागेलें मडें बांयचें उदक काडच्या राजवाक हुमकळटा.

भावान हुयेली मारतच येवन घरा सांगलें.

मागीर मात आवय ओगी रावली ना! तिणे घोवाक आनी तिगूय

पुतांक पुराय पुराय गजाल सांगली.

भयणीचेर जाल्लो अत्याचार सोसून खंयचे भाव ओगी रावतीत? तिगांचीं तिडकेन कानसुलां तापलीं. रगत चाळवलें. तिगूय गेले रामुल्याच्या घरा कडेन. घरांत भितर रिगून च्या पिवंक बशिल्ल्या रामुल्याक लाथांनी आनी मुठींनी बडयलो, रामुल्याली आवय "कितें जालें? कितें जालें?" म्हूण मुखार येयिल्ली खंय, पूण बापायन कुश्टान तिका आडयली. म्हणलो खंय, "अगो, तूं मुखार वचनाका. लोक ओगीच मार-बडय करनात! कितें तरी वायट कर्तूब घडलां हेच्या हातान! कितलें म्हूण लोक सोंसतले?"... तिगूय भावांचेर सांवार येयिल्लो. तिडकेन तिगाय इतले ऽ पेटिल्ले, आपूण करतात तें सारखें काय चुकीचें हेंवूय तांचे मतींत येनासलें. तिगांनीय रामुल्याक ओडीत भायर हाडलो. रामुलो "पांय पडटां! मारनाकात! हांवें कांय करुंना!" म्हूण तांकां विनयतालो. ते काय आयकनासलें. बोवाळ आयकुन आशि-कुशितल्यां घरातलीं काय बायलो, दादलें येयले. पांडूबाबाय येयलो. "कितें जालें रे?" पांडूबाबान विचारलें. "म्हगेले मोगाळ भयणीक मालाक नागडी-उगडी करुन बळजबरी केली हेणें! जीव दिलो मालान मसणटीर गोळ घेवन. हें नस्तें आयकून पांडूबाबान दोनय कानार हात घेयले. "शीऽ! शीऽ! शीऽ! हेका भोगसुणी ना! कसली पाडी बुध्दी रे बाबा!" पांडूबाब आयकूनच सोसू नजो जावन फाटीं सरुन गेलो. थंय एकठांय जाल्ले, हें आयकून एकटोय रामुल्याक सोडोवन घेवंक मुखार येवंक ना. तिगूय भाव रामुल्याक मस्ती रेड्याक बडयल्या वरी बडयताले. अखेरेक मालाल्या मदल्या भावान रमेशान थंयच रामुल्यागेरच्या बांय वयलो राजू घेयलो. राजवाची गुळकी रामुल्याच्या गळ्यांत घाली आनी "मर! मर! रांडग्याच्या मर!" म्हणत नेटान ओडली. "येंक येंक" करत रामुल्यान थंयच मान लवंडयली. "मेलो तो! मेलो!" कोणें तरी म्हटलें.

रामुलो मेलो, पूण भौसांतलो एकटोय त्या तिगूय भावांच्या विरुध्द उलयलो ना. उरफाटें बापायन -कुश्टान म्हटलें खंय, "नश्टी

पिडा गेली! पोटांत जल्मलोच ना म्हूण समजतलों! नाक कापलें आमगेलें!''

रामुलो आपल्या पाड कर्तुबान मेलो! पूण, ते तिगूय भाव बाबडे बंदखणींत गेले फुकट!

हेच गजालीर एक दीस आज्जे कडेन उलयतना मुरलीधराक आज्जेन आनिकय एक गजाल सांगली...

मुरलीधराली आई अनसुया एक फावट रानांत जळोव हाडूंक गेल्ली. व्हाळा अलतडेन काजू कडल्या रानांत, हातांत एक लांब सुकी कोंड्याबडी घेवन, बावगोन झाडां सकयल पडिल्लो सुको पत्रो एकठांय करताली. हिका लागिंच्यानच खंयच्यान तरी शिळोणी मारिल्लो आवाज येयलो. खंयसून शिळोणेचो आवाज येता म्हूण, तकली वयर करून चोयता मेरेन, पर्थून शिळोणेचो आवाज! चोयल्यार, थंयच तिचे फाटल्यान, काजूझाडांर एके आड खांदयेर हो रामुलो माकडकसो बसून आसा. हिका चोयन हांसता. तिका कच्च जालें. ''कितें करता रे तूं हिंगा?'' म्हण विचारल्यार, ''कितेंय करना! तूं कितें करता?'' म्हूण परतें विचारूंक लागलो. ''हांव हिंगा जळोव पुंजायतां!'' म्हटल्यार, ''हांव तुका दोळेभरुन चोयतां!'' म्हणूंक लागलो.

''म्हाका कित्याक चोयता?''

''तूं सोबीत दिसता न्हूं गो! अप्सरा!...कित्याक चोयनये''?

अनसुयाक तागेलीं रंगां बरींऽ दिसलीं नात. ''तशें आसल्यार हांव वयता हिंगासल्ल्यान...'' म्हणत, तिणें थंय सकयल दवरिल्लो पत्र्या-झाबळो उखल्लो. आनी सटसटीत पावलां मारत येवंक लागली.

रामुलो सर सर करून बेगोबेगीन काजुझाडावेल्यान माकडावरी देंवलो आनी धांवत धांवत हिचे फाटल्यान येयलो. येवन तिगेल्या हाताक धरून म्हणूंक लागलो, ''खंय वयतां पिश्या? बरी ऽ संद मेळ्ळ्या. यो मु गो!'' आनी अनसुयाक ओडूंक लागलो. अनसुया भियेवन घामाघूम जाली. तिका कितें करचें म्हूण कळना जालें.

तिणें हातांतलो झाबळो थंयच उडयलो. आनी आशिल्ली - नाशिल्ली शक्त एकठांय करून, रामुल्याल्या हातांतल्यान हात झुटासून घेयलो. मागीर मारली धांव थंयसून! बद्द घरा!

येवन मांयक, घोवाक सांगली.

मांयन रामुल्याक थोडें खेपूंक ना! रामुल्याल्या अठरा पिळग्यांचो उध्दार केलो.

मुरलीधराल्या बापायन - नाराणान वचून रामुल्याल्या गळ्याक धरून विचारलें, " कोणालो हात धरलो रे तुवेन? हेचे उपरांत, म्हगेले बायलेक नदर वयर करुन चोयल्यार गळो हाणटलों!''

ताचेर खंय असले धमकेचो परिणाम जावूं येयला? ताणें आपले धंदे सुरुच दवरिल्ले....

... असलें नश्टें भूत आपल्या घोवाले कुडींत रिगिल्लें! हे कल्पनेनच मुरलीधराली आई अनसुया कांचवेल्ली.

राम जाणवयन म्हणलें, ''हलकट मनशालें भूत न्हीतें? आनिकूय हलकट धंदे करूंक मेळचे, म्हूण असले उपद्रव करतलेंच!', आनी ह्या असल्या नश्ट्या भुताली द्रिश्टोळ आपल्या नातवाक जाल्ली, म्हण आज्जी - म्हलकुमी भियेल्ली.

वेळ पडटकीर, मातसो काळोख जाल्लो चोयन राम जाणवयन शिलान हाडिल्लें तांबयातलें उदक ताटांत रकयलें. तातूंत कुकमा करंड उगडून चिमूटभर कुकूम उडयलो. हळदी पिठ्या बाटली उगडून चिमूटभर हळदी पिठो उडयलो. बोटान उदक बरेऽऽ खिरयलें. कुकूम आनी हळद ताटांतल्या उदकांत मिस्तूर जावन एक वेगळेंच हळडुवें तांबुडशें रसायन तयार जालें. म्हाळगोबाबान व्हदळ हाडून दिल्ली पोपाय हातांत घेवन, ताका काजळा कंडांतल्यान एक काजळा - तिबो लायलो. एक कुंकमा तिबो लायलो. एक हळदी पिठ्या तिबो लायलो. ''मुरलीधरा, यो!'' अशें म्हूण हाताक धरुन हांथरुणावेल्यान उठयलो. भायर वासरेर हाडून भायल्या हुमऱ्यार बसयलो. जाणवय भायले वटेन उबो रावलो. ताटांतलें तें हळडुवें-तांबडें उदक घेवन,

मुरलीधरा भोवतणी तीन फावटी उंवाळ्ळे. तें सकयल दवरुन, नंतर पोपय हातांत घेयली. ते पोपायेन "खेतांची-भुतांची, म्हारवांची-गिरवांची, नासाची-चंवडेची, वाग्रतिणीची - मुंज्याची कसलीय द्रिश्टोळ आसल्यार तेंगेली तेंका... थंयची थंय वचूं!" अशें म्हणत पोपायेन तीन फावटी मुरलीधराक उंवाळलें. आनी सांगलें, "हें तांबडें -पिवळें उदक हांव आतां तीन वाटयेर व्हरुन उडयतलों. पोपाय ते तीनवाटेर दवरतलों... आतां द्रिश्टोळ गेली म्हूण समजूंक हरकत ना!"

जाणवयन अशें सांगतकीर घरच्यांक सगळ्यांक सूऽ जालें.

मागीर राम जाणवयन ती पोपाय त्या ताटातल्यां उदकात दवरली. आपली पोती मागून घेयली. मागीर ताटासकट तें कळंजें उखल्लें आनी घेवन गेले. वयतना "रातीन आतां कोणेंच भायर सरनये. भायल्यान कोणेंय आपयल्यार दार काडनये!" अशें बजावन गेले.

मुरलीधराक घट्ट याद आसा, ते राती कडेन तांचेर येयिल्लो पेच! राती कडेन दार उगडून भायर वचूंक जायना म्हणटकीर, मुतूंक खंय वयतलीं? सगळ्यांक राती कडेन मुतूंक वचून न्हिदची संवय! मुतूंक वचूंक न्हाणें खोप भायर! आतां करप कितें? सगळीं तशींच न्हिदलीं. सुमार रातीर सगळीं एकामेकांक उठयतात. सगळ्यांलींच मुतूंक जावन पोटां फुगिल्लीं. आज्जेक तर परत परत मुतूंक वयची संवय! तिणेंच मागीर एक माण्णी काडली. वासराक तोळकण दिवचो एक तांब्याचो तोप आसलो. तिणें सांगले. "तूर्त ह्या तोपांत मुतुंया! फाल्यां हो घांसल्यार जालो!"

सगळ्यांनी 'हां' म्हणलें.

मुरलीधराक सगळ्यांत पयलो मुतूंक लायलो. ताका "तूं आतां वचून न्हीद!" म्हूण सांगून, मागीर सगळीं एकामेकां मुखारूच मुतलीं.

हेर दिसा शिलान तो तोप बरो ऽ काथ्यान, गोबरान घांसून-धुयन मागीरच वासराक तोळकण दिलें.

फुडें हायस्कुलांत वयतना, मुरलीधरान ह्यो गजाली आर.एन्.नायक

सराक सांगल्यो. तेन्ना सर मोठ्ठ्यान हांसले. सरान म्हणलें, ''हातूंत वैज्ञानीक दिश्टीकोणांतल्यान चोयल्यार कसलोच अर्थ दिश्टी पडना! कुकूम आनी हळद उदकांत घालून खिरयल्यार कसली रासायनीक क्रिया जाता? आनी तातूंतल्यान कसली शक्त भायर सरता? पोपायेक कुकुम, काजळ, हळदी-पिठो लायल्यार कसलो बदल घडटा? आनी ते सगळें मनशा भोवतणीं उंवाळल्यार दिश्टोळ वयता? द्रिश्टोळ म्हण कसलीय शक्त आसता? ते परस, पोपायेची बरी ऽ सोय, मिरसांग घालून भाजी करुन खायल्यार, आंगाक बरी ऽ पोशक जिवनसत्वां मेळटली आसलीं.

मुरलीधराक सर सांगता तें खरें दिसतालें. तो सराचें उतरान उतर कान दिवन आयकतालो. ताचेर चिंततालो. मुरलीधराक सरानच सांगिल्लें, ''जण एकल्यान खंयचीय गजाल कुड्डेपणान स्विकारूंक जायना! ते गजाली कडेन वैज्ञानीक दिश्टी कोणांतल्यान चोवंक जाय! आपले बुध्दिच्या साणीर घासून, ताचे खरें - खोटेपण पळोवंक जाय! आनी मागीरच तें स्विकारूक जाय!

सराच्या मतान, वाण्याल्या घटणार पळयिल्लो उजो, ही बाबग्याल्या बापायन - जानू नायकान मारिल्ली निव्वळ फट! जांबळी रुखार बोडकेन खुक्क् करुन हांसप, म्हारवान रातीकडेन बाळा जो जो रे म्हूण गायन करप, हें कशेंच खरें न्ही!... ह्या संवसारांत जायत्या मानसिकतेचीं मनशां आसतात. कांयजाण आपलो मतलब सादूंक असल्यो फटी मारतात. हीं मनशां एक फट मारतात. ती खरी करूंक, मागीर असल्यो जायत्यो फटी मारतात. मनशांतल्यां कुड्ड्या विस्वासाचो गैरफायदो घेवपी जायतीं मनशां आसतात ह्या संवसारांत! आनी असल्या मनशां कडेन भलेपण जोडूंक 'हय हांवेंय चोयलां... हांवेंय आयकलां' म्हूण बेठीच पुश्टी जोडपी मनशांय उणीं नात! पूण, असल्या गजालींतल्यान समाजमनाचे मानसीकतेर परिणाम जाता, हें हीं मनशां विसरतात! आनी ही परिणाम जाल्ली मानसीकता घेवन समाज फुडें वता! पिळग्यान पिळगी फुडें वता! तातूंतल्यान येयल्यात

ह्यो भुतां-खेतांच्यो गजाली!... तातूंत परत मनशांक जावपी भूल, भ्रम आनी भास हें आनिकय सारे, उदक घालतात!''

आर. एन. नायक सर विज्ञान शिकयताले. हरशीं ते 'कारवार' तालुक्यांतल्या 'काजुबाग' वाठारांतले. तांगेली सुरवातीची नेमणुकच ह्या 'आडगांवच्या ' गव्हनमेंट हायस्कुलांत' जाल्ली.

मुरलीधर तिसरे यत्तेंत आसतना, गांवांत हें हायस्कूल सुरू जाल्लें.

गांवच्या भुरग्यांले फुडार चिंतून गोविंदान आनी म्हादेवान गांवांत हायस्कूल सुरू करचें थारयिल्लें. म्हादेव हो शिक्षण खात्यांत नोकरी करतालोच, आनी गोविंद गांवचे पंचायतीचो सरपंच आसलो. भौसाले मत घेवन थळाव्या आमदाराच्या प्रभाकर नायकाचे मदतीन, भौव कश्ट घेवन, हें हायस्कूल सुरू केल्लें. सरकारान वयले आडयेंत उक्त्या मळावयले सरकारी जमनीचो शाळें पासत उपेग केल्लो. शाळा फातर, चिरे आनी शिमीट वापरून बांदिल्ली. वयर लाकूड आनी मंगळुरी नळे वापरून छप्पर केल्लें. शाळां भोव सोबीत जाल्लीं. एकांमेकांक लागून तीन लांबची लांब तीन-तीन कुडींची सालां! एक आडवें साल आनी ताका दोनूय वटांनी काटकोन करत, हेर दोन समांतर सालां! थंय तिनूय सालांत मेळून णव क्लास आसले. तांचे मुखारच आनीक एक साल आसलें. तातूंन पर्थून स कुडी! तीन क्लास रुम्स, एक हेड्मास्तरालें चेंबर, एक स्टाफरूम आनी एक ऑफीस रूम! शाळेंत वट्ट बारां डिव्हिजनां आसलीं. पांचवी ते धावी मेरेन वर्ग चलताले. हरेक वर्गाक दोन तुकड्यो! ते भायर शाळेच्या फाटल्या आंगान लांबचे लांब एक सभागृह आसलें. सभागृहाक लागचीच एक कूड आसली. तातूंत लायब्ररी चलताली. शाळेच्या चोंयवटेंनी चिऱ्यांचो पागोर काडिल्लो आनी शाळेच्या मुखार गेट दवरिल्ली. गेटी वयर दोनूय वटेन दोन खांब्यार व्हड आडवी पाटी लायिल्ली. काळे पाटयेर धव्या अक्षरांनी इंग्लेशींत बरयिल्लें, 'गव्हनमेंट हायस्कूल आडगांव'!

मुरलीधर णवेंत आसतना,आर. एन्. नायक सर हे शाळेंत नवेच येयिल्ले. मध्यम उंचायेचे. किडकिडीत. काळे सावळे. हांसकुऱ्या

तोंडाचे.

सर मुरलीधराले जिणेंत एक नवेंच मोडण घेवन येयिल्ले.

सर मुरलीधरागेरच्या पडवेंत रावताले. पडवेंत फकत दोन कुडी आसल्यो. एक भायली आनी दुसरी भितरली. भितरले कुडींत सरान एक स्टॉव्ह हाडून दवरिल्लो. ताचेरच सर रांदून जेवताले. तांदूळ, हेर सामान, कपडेलत्ते सगळें भितरल्या कुडींत दवरताले. सगळें थंयचे थंयच! भायले कुडीत एक खुर्ची, एक टेबल, एक खाट, एक पुस्तकांचें कपाट! तिवूय मुरलीधरागेरचीच! पुस्तकाच्या कपाटांत मात खच्चून पुस्तकां आसलीं. ना ना तरेचीं! ते भायर, टेबलारय पुस्तकां दाळून दवरिल्लीं. सराक वाचनाचें पिशें हिसपाभायर आसलें. बेकार आशिल्लो तेन्ना हातांत फकत पुस्तक आसतालें. शाळेंतल्या लायब्ररीचो चडान चड उपेग सर करुन घेताले.

सर पुरायपणान शिवराक आसले.

मेकळ्या वेळांत मुरलीधर तांचे म्हऱ्यांत वचून बसतालो. तांचे लागीं मेकळ्या मनान गजाली करतालो. मनांतले दुबाव विचारतालो. खरें-फट समजून घेतालो. सरांच्या व्याक्तिमत्वाचो मुरलीधराचेर हिसपा भायर प्रभाव पडिल्लो. ताका दिसतालें, सर हे म्हगेले खरे 'गुरू!' सरांल्या पावलांर पावल दिवन तो चलूंक सोदतालो. सराक चोयन मुरलीधरानय मांस, नुस्तें खावचें सोडून दिल्लें आनी तोवय पुरायेन शिवराक जाल्लो. सरांली विज्ञाननिश्ठा, विज्ञानीक दिश्टीकोण मुरलीधरा पासत जिणेचो मुळमंत्र आसलो.

न्ही नस्ती रुढी, परंपरा, कुड्डी स्रध्दा, ह्या गजालींची नायक सराक काळजांतल्यान तिडक आसली. देखून सर सदाच असल्या गजालींच्यो बकच्छायो मारताले.

सराल्या वाठारातय असल्यो गजाली चलताल्यो. सरान सांगिल्ल्यो जायत्यो गजाली मुरलीधराक याद आसात...

नायक सराली आवय त्या तेपार मुलकी शिकिल्ली. मुलकी म्हटल्यार, सातवी पास! मुलकी शिकल्यार त्या तेपार मुळावे शाळेंत

शिक्षक जावंक मेळटाले, इतले तें मुलकेक म्हत्व आसलें. तिका वाचनाचे भोव पिशें! घडये सराक तिगेलोच गूण येयला आसुंये! ती खू ऽ ब पुस्तकां वाचताली. सराली आज्जी सुनेक पुस्तकां वाचता तें चोयन, खेपताली, ''घरांतलीं, बागां - भाटांतलीं कामां करचीं सोडून, पुस्तकां वाचूंक बसता मेडम!'' म्हणटाली. तो तेंपच तसो आसलो. सुनांक छळचेलो, कड्डयचेलो! म्हातारी इल्ल्या इल्ल्या गजालींक लागून सुनेक थोमणो मारताली. कुळारची कुतां काडटाली. केन्ना केन्ना गाळींय संवताली. तिका आपली सून म्हटल्यार आपली गुलाम कशी दिसताली. आपूण सांगतां, तें तिणें करुंक जाय! आपूण सांगतां तशें तिणें वागूंक जाय! आपूण उलयतां, तें ओग्गी आयकूंक जाय!

सराल्या वाठारांत अशीच एक मंजुळ म्हूण सून आसली. तिची मांय यमणें सराले आज्जे परस तिपटान! मोठी खेवबायल! हात येळयत सुनेक खेपताली. गाळी संवताली. येद्या येद्या कारणाक लागून सुनेक बेतांनी आनी तोण्यांनी बडयताली. सगळीं घरचीं आनी भाटांतली कामां मानायां भशेन करून घेताली. भायर एक नाटक ना, एक सिनेमा ना! फकत घरांत कोंडून रावप, गुलाम कशी! मंजुळालो घोव म्हटल्यार फकत एक जीव नाशिल्लें बावलें! आवयन नाचयता तसो नाचतालो. सगळें चोवनय मोनो जावन रावतालो. मंजुळान मांयलो छळ सोसूं नजो जावन, एक दीस कोडीबागांत येवन काळी न्हंयेंत जीव दिलो.

सराल्या आवयक लग्न करुन हाडून तीन म्हयनेय जावंक नासले. मंजुळाले मांयवरी सराले आज्जेनय सुनेलो छळ सुरू केल्लो. मांयलें वागप चोयन, सराले आवयक सदांच ते मंजुळाची याद येवप!

एक दीस अशीच सराली आजी सराले आवयक चरवट चरवट करून उलयताली. सराले आवयन परती जाप दिली. ''म्हाका परती जाप दिता?'' म्हूण मांयन सुनेर एक फुलयलें. सुनेक मारली तिडक. सुनेन मांयचेर परतें एक फुलयलें. घे ऽ सुरु जाली झोंबा झोंबी!

दोगांय एकामेकांली केसतडां धरून अर्शी ऽ अर्शी ऽ हालोवंक लागलीं. मांयचेर आकांताचो सांवार! ‘‘म्हजेर हात उखलता?’’ मांयन गरड मारली. ‘‘बऱ्या ऽ कुळाचें चेडूं म्हणटा आनी मांयचेर हात उखलता?’’

त्या तेंपार, मांय-मांवाले तरास, छळ, तोंडांत फोव घालून ओग्गी सोंसप जातालें. पूण, जाणट्या मांय-मांवाक परतें दिवप, हात उखलप बऱ्या घरांतल्या कुळवान चेडवांक सोबनासलें. एकेतरेचे हीणपण, लांछन तें! मांयल्या उतरांनी ही गजाल लक्षांत येतकीर, सराले आवयक कशें येवजलें, तीच जाणा! तिणें आपले मानेर ‘मंजुळ’ बाशिल्ल्यावरी नाटकां सुरू केलीं. दोळे मोठ्ठे करुन मांयक चोवंक लागली. चेरो गंभीर केलो. तोंड-बिंड वाकडें तिकडें केलें आनी भितरल्यान खड्डून भिरांत दिसपा सारखो आवाज काडून म्हणलें, ‘‘हांव कोण जाणा तूं? हांव मंजुळ! यमण्याली सून! हात लावशी, तर घात जातलो!’’

इतलो वेळ सांवार येयिल्ल्यावरी थै थै करून नाचपी सराली आजी खिणांतच शेळेली. भियेवन गुळी! तिका पांयांतल्यान कडोकडो भरलो. कितें करचें म्हूण कळ्ळें ना. धांवत धांवत वाड्यार गेली. ‘‘पांय पडटां. म्हगेल्या घरा कडेन मातशें या!’’ म्हूण दोग-तीग बायलांक घेवन येयली. काकुळटेन म्हणूंक लागली, ‘‘चया गो, म्हगेले सुनेर कोण बसल्या ती?’’

सराले आवयन नाटकां सुरूच दवरिल्लीं. वणटीक चिकटोन एका कोणशांत बसून ‘हूं..हूं.. हूं..हूं..’ करत भयानक नदरेन चोवंक लागिल्ली. व्हदळ झगडटना, मांयन आनी सुनेन एकमेकांली केसतडां ओडटना, केंस सुटिल्लेच आसले. तांतुतले थोडे तिणें कपलार ओडून घेयले.

हिचो हो अवतार चोवन, वाड्या वेल्यो बायलोय कांचाबूल जाल्यो. तातूंत एकटी धांवत धांवत आपल्या घराकडेन गेली. आपल्या पुताक सांगली, ‘‘पुता, मातसो सायकल घेवन वच आनी शाळेंतल्यान

नामदेव मास्तराक आपोवन घेवन यो! तेगले बायलेल्या मानेर म्हारू बसला म्हूण सांग!''

सरालो बापूय कारवारच्या 'गर्व्हनमेंट हायस्कुलांत' मास्तर आसलो. तो इन्टर सायन्स मेरेन शिकिल्लो. शाळेंत गणीत आनी विज्ञान शिकयतालो. ह्या असल्या गजालींर मात्तूय विस्वास दवरीनासलो. तरीसुदीक आयकना फुडें हेडमास्तराल्या चेंबरांत गेलो. ही गजाल सांगली. मातशी फुरसद मागून, सायकलीर घरा येयलो.

घरा येवन चोयल्यार, ही अशी वागता! आतां कितें म्हणचेलें? तो खिणभर दिग्मुड जालो. तकली भेरेली.

आवयन सांगलें, ''पुता, आत्तां वच आनी भीम घाडयाक घेवन यो!'' पुतानय आवयली आज्ञा मानली. तसोच सायकलीर म्हादेवा देवळा कडेन गेलो. म्हादेवा देवळा कुशीन भीम घाडयालें घर आसलें. भीम घाडी घरांत आसलो. ताका पुराय गजाल सांगली आनी येतनाच भीम घाडयाक सायकली फाटल्यान कॅरियरार बसोवन घरा हाडलो.

घाडी नांवा परमाणेंच आंगा-पांगाना भीम आसलो. काळो. मोठ्ठे दोळें. लांब काळ्ळे केंस. मोठ्ठीं मिशां. काणयेंतलो राकेस कसो! सराली आवय ताका चोयतकीर भिली. आनी तातूंत ताच्या हातात बेंत आसलें.

घाडयान भायर वचून आंगणांत उदक भरून दवरिल्ले बालदेंतल्यान, तांबयो भर उदक घेवन पांयांर घालें आनी भितर येवन एक मणय आनी बचको भर सुरय तांदूळ हाड म्हूण सांगलें. सराली आजी बेगोबेगीन घरांत गेली. एक मणय आनी बचको भर तांदूळ हाडून घाडयाक दिले. घाडी सकयल जमनीर बसलो. मुखार मणय दवरली. मणयेर तांदूळ दवरुन ताचेर हात घुंवडायलो. गडें-फाडें करून आंशे कुशीक काडले. मागीर सराल्या बापायक त्या आश्यांकडेन बोट दाखयत म्हटलें, ''हें चोय, फाडें दाखयता. शेर्त तकलेर भूत आसा!''

आयकना फुडें सराले आवयक भितरल्यान हांसो फुटलो. पूण

हांसू जाता? ती हांसो चिड्डून, फुडें कितें जाता, तें चोया! म्हूण ओगी रावली.

"काळें कुकड आसल्यार, आत्तां काडटां म्हारु!" घाडयान म्हणलें.

सराली आजी धांवली वाड्यार! खंयच्याान आनी कोणागेरच्यान कोण नजो, एक काळें कुकडां पील घेवन खर्शेत खर्शेत येयली. "हें घे!"

घाडयान कुकडा पिला वेल्यान आपली बेतांबडी घुंवडायली.

पर्थून इल्लें तांदूळ मणयेर घुंवडोवन गडें-फाडें करून चोयलो. "भियेवची गरज ना. देवालो कौल आसा! वयतलो म्हारु!" मागीर सराल्या बापाय कडेन चोवन घाडयान सांगलें, "हेका हांव भारा सरशीं हें कुकडां-पील उंवाळून घेवन वयतलों. म्हज्या फाटल्यान कोणेंच येवचें ना! हें कुकडां-पील मसणटीर व्हरुन तकली सकयल करुन जितें पुरचें आसता!"... मागीर पर्थून इल्लें तांदूळ घेवन, मणयेर घुंवडयलो आनी त्यो पुराय मुद्रा तोंडांत घालून खाल्यो. कितें तरी कळनाशिल्ले भाशेंत गणमणलो. मगेर घे ऽ 'छोऽऽ!' 'छोऽऽ!' करुन खुदूंक लागलो. सराल्या आवयन कच्च करुन आंग काडलें. व्हदळ मज घेवन मांयक नाटकां करुन दाखयताली. आतां ही भियेल्ली. हिची शिरंतरां थंडल्लीं. हिका शेळो घाम फुटलो. हिचेर आतां पेच! करचें म्हूण केल्लें! आतां हें व्हडार पडिल्लें. तिणें थारयलें, कितें जाता, तें चोया! ढोंग उक्तें करूंक जायना. शीऽ! थूऽ! जातली.

"तूं कोण?" घाडयान बेतां-बडी जमनीर धाडयत आपले मोठ्ठे दोळे आनिकय मोठ्ठे करत विचारलें.

सराले आवयन फुरसद करूं ना. सट्टकरून जाप दिली, "मंजुळा!"

"खंयच्याान येयल्या?"

सराली आवय जाणा आसली, तिणें खंय जीव दिला तो! तिणें म्हणलें, "काळी न्हंयेंतल्यान!"

"कित्याक येयल्या?"

सराले आवयन दिलें ठोकून, ''म्हाका मांय छळटाली वैरीणकशी म्हूण हांवें जीव दिल्लो. हिकाय मांय छळटा. हिगेलें दुख्ख आनी म्हगेलें दुख्ख एक सारखें! हिचे मानगुटेर बसून हिकाय म्हजे भाशेन जीव दिवंक लायतलें आनी म्हजे वांगडा सांगातीण करुन व्हरतलें म्हूण येयल्यां हांव!''

हें आयकना फुडें सराली आजी कांचवेली. तिचें तोंड येद्देशेंच जालें. ती तोंडांतल्यान एक उतर काडिनासतना ओगी रावली.

''तूं म्हगेल्या एका उतरार बरे भाशेन वयतली, काय म्हगेल्या बेता बडयेचो प्रसाद जाय?''

बेता बडयेचें नांव काडिना फुडें तिणें सट्टकरुन सांगलें, ''हय वयतां! आत्तां वयतां!''

''तुका एक जीव जाय आसलो न्हूं! हो काळ्या कुकडालो जीव हांव तुका दितां! आवती म्हूण घे! वयता मूं?''

''हय!''

''वयता मूं?''

''हय!''

''वयता मूं?''

''हय!''

''तुजे कडल्यान तीन फावट उतर घेयलां. आतां तुवें मानून घेवचेंच पडटलें!'' अशें म्हणत, घाडयान तें कुकडा-पील तिचे भोंवतणी तीन फावटी उंवाळलें. मागीर 'छोऽ!' करून एक गरड मारून, बेतां-बडी आनी कुकडा-पील घेवन भायर धांवलो.

सरालो बापूय हें सगळें जाता मेरेन, तोंड 'आंऽ' करुन पळयत आसलो. ताका हें इप्रीत आसलें. कल्पनेभायलें.

राती कडेन सराले आवयन घोवाक खरी गजाल सांगली. ''अगो पापणी, म्हाका संभ्रमीत केलो तुवें! बरींच नाटकां करूक येतात मुगो तुका!'' घोवान बायलेक म्हटलें आनी दोगांय हांस हांस हांसलीं. ''म्हाका सांगलें, बरें आसा! आनी कोणाक सांगूं नाका!''

“ना सांगचें!” तिणें हांसत हांसत म्हणलें.

त्या दिसा सावन सराले आज्जेन, तकली वयर करून एका उतरान केन्ना सुनेक संवली ना.

गांवांत मात यमण्याली सून मंजुळ मानेर बसता म्हूण धाक पडली.

लोक भियेले.

आनी एक फावट अशेंच जाल्लें...

सराल्या वाड्यार दिनेश नांवाचो एक भुरगो आसलो. किरकोळ आंगाचो, काळो-सावळो. सादो. कोणाल्या तंट्याक वचपी न्ही. आपूण आनी आपले काम, इतलेंच जाणा जावपी! कोणेंय कित्तेंय सांगल्यार सादेपणान तकली हालयतालो.

तो दिनेश आनी नायक सर दोगूय तेदवार आठवेंक शिकताले. पिरायेन तेरा-चौदा वर्सांचे! कारवारा ‘गव्हनमेंट हायस्कुलां’ शिकताले. दोगूय एका बांकार बसताले. दोगूय घट्ट इश्ट आनी वांगडी!

एक दीस शाळेंतल्यान दोगूय घरा पर्थताले. घाण्यातिठ्या आयल्यान तीनवाटेर एक आडसर दवरिल्लें आसलें. त्या आडसराक काळें, तांबडें, तिबे लायिल्ले आसले. चोयना फुडें नायक सरान तें उखल्लें. “जड लागता! बरेंऽ तन्ने आडसर हें!” ताणें दोनूय हातांन तें हालोवन चोयलें. भितरलें उदक हालनासलें. आडसराचे सोण्णय पाचवें. म्हणटकीर शेर्त ‘आडसर!’ सरान म्हणलें, “फोडून खावया!” ताचेर लायिल्ले ते तिबे चोयन दिनेशान विचारलें, “हे कसले तिबे?” हाचेर सरान फांफुडलेंशें करून सांगलें, “तेका कांय अर्थ ना!” वाटेर लागींच एक हद्दे फातर आसलो. सरान तें आडसर, त्या हद्दे फातरांर, नट्टा कडले बाजून धाडय धाडय धाडयलें. ताचीं सोण्णां खिळखिळीं केलीं. आनी मगेर तीं ओडून काडलीं. आडसराचीं सोण्णां निखळून उडयतकीर खाक्याक लायिल्ल्या बोटव्यांतल्यान कंपास काडलो. कंपास उगडलो. तातूंतल्यान कर्कटक काडलो. त्या आडसराचो एक दोळो त्या कर्कटकान उक्तो केलो. मागीर थंय तोंड

लायन, आडसराचे बरेंऽ थंडऽ, गोड उदक पियेलो. थोडें दिनेशाक पिवंक दिलें. उपरांत त्या हद्दे फातरारच धाडोवन आडसराची वयली कट्टी निखळायली. आनी भितरली कातली खायत दोगूय येवंक लागले. कातली पुराय खावन जायना फुडें, सरान दिनेशाक म्हणलें, तें आडसर थंय कित्याक दवरिल्लें जाणा? गोरवां-म्हंसरां आडांगीपणां करूंक लागल्यार, खंयच्याय नश्ट-नडिची द्रिश्टोळ आसतली म्हूण आडसराचेर अशे तिबे लायन, तें गोरवां-म्हसरांक उंवाळून तीन वाटेर दवरतात. कितेंय नडिचें उरल्यार त्या आडसरार वचूं म्हण!... "म्हटल्यार?" दिनेशान आंग काडलें. भियेलो. ताका तकलें वेल्यान शेळें उदक रकयिल्ल्यावरी जाल्लें. ताचो बावळट चेरो आतां येदोसोच जालो. "... आतां ह्या आडसराचेर गेल्लो बादिकार आमकां बादचो ना?" ताणें विचारलें. "कितें घेवन बसलां तूं बादिकार आनी बिदिकार! कांय अर्थ ना ताका!"

दिनेशान ही गजाल वचून आवयक सांगली. आवयक कच्च जालें. तिवूय भियेली. "तुवें ती कातली खायलीच कशी?" म्हण दिनेशाक आनिकय भेश्टायली. तो इतलो भियेलो. वरां-दोन वरां भितर ताका जोर चडलो.

दिनेशाली आवय सोमती धांवन सरागेर येयली. सराक खेपत म्हणूंक लागली, "तुवें म्हगेल्या पुताक ती कातली खावयली. नश्टी बुध्द तुका! तेका कितेंय जाल्यार, हांव तुका ओगी रावची ना!" सराले आवयन तिका सांगलें, "आगे, तेचेन जोर येयल्यार, म्हगेल्याय पुताक येवंनाका आसलो? तेका कांयच जावूं ना मू!" हाचेर म्हणूंक लागली, "तुगेल्या पुतालें नखेत्र उग्र आसूं येता! उग्र नखेत्राच्या मनशाक असलें काय लागना! म्हगेलो पूत थंड नखेत्राचो! तेका लागलो तो बादिकार."

आतां करतलो कितें? सराक दिनेशाक आपणें कातलीं कित्याक दिलीं काय जाली!

दिनेशाली आवय येयिल्ली तेन्ना, सरालो बापूय नामदेव मास्तर

घरांतच आसलो. ताणें सरा कडल्यान पुराय काणी आयकून घेयली. आनी म्हणलें, ''कळ्ळें मु गे दिनेशाले आई, कांयच भियेवची गरज ना! हो बादिकार काडूंक जाता! आमीय नेणटेपणांत असलीं उंवाळून दवरिल्लीं आडसरां चुकून खायल्यांत. आमकांय मागीर असले जोर बी येयल्यात. असल्या वेळार आमगेले आवय-बापूय वचून, जोश्या कडल्यान बादिकार काडून घेवन, तांदूळ मंत्रोवन घेवन हाडटाले. ते मंत्रयिल्ले तांदूळ तोंडांत उडयल्यार पुरो! वरा भितर जोर निवळटलो.''

''तशें आसल्यार, हांव वयतां जोश्यागेर'' म्हूण ती वचूंक घुंवली. तिचो घोव पयस मिलेट्रींत आसलो. घरगिरेस्ती वट्ट तिच्याच माथ्यार आसली. पुराय वावर तिचेरच पडटालो. भुरगीं ल्हान आसलीं.

सराल्या बापायन म्हटलें, ''थोप! तूं वचूं नाका! हांव वयतां. तूं घरा वच आनी दिनेशा कडेन लक्ष दी! हांव रोखडोच सायकलीर वचून येतां.''

ती लागीं लागीं दिनेशाल्याच सभावाची आसली. रंग रुपानय तशीच, किरकोळ आनी काळी-सांवळी! तिका सराल्या बापायन सांगिल्लें मानवलें. ''जायत'' म्हूण ती घरा गेली.

सराल्या बापायन निवळ फट मारिल्ली. सरालो बापूय असल्या गजालींर खंय विस्वास दवरतालो? सराकय घडये हे गूण बापाय कडल्यानच येयिल्ले.

ती वतकीर, सराल्या बापायन सुरय तांदळां डब्यातल्यान इल्लें तांदूळ घेयले. तातूंत देवाकडली इल्ली उजवाते इबूत घाली. ताची पुडी बांदली. परत थोडी इबूत घेवन आनी एक बारीक पुडी बांदली. मागीर मुस्तायकी आंगार लकोवन, त्यो पुडयो शर्टाच्या खिशांत घातल्यो आनी सायकल घेवन भायर सरलो. बेठोच सायकलीर असोऽच एक हायस्कुला कडेन मेरेन भोवंडी मारून येयलो. येयलो तो थेट दिनेशाल्या घरा गेलो. सायकल दारांत दवरली. भितर येयलो. दिनेश मदले कुडींत खाटीर थार पडिल्लो. खिशांतल्यान इबुते पुडी काडून तातूंतली इबूत दिनेशाल्या कपलाक लायली. ताच्या आंगाक

पुसली. तांदळां पुडी सोडोवन चार-पांच आंशे दिनेशाक खावंक दिले. थोडेशे हातांत घेवन ताचेन ताका उंवाळलो. आनी सांगलें, "आतां जोर रोखडोच वयतलो. बादिकार गेलो. हे उवाळिल्ले आंशे हांव वयतना भायर उडयतां. मगेर आनी कांयच उरचें ना! मागीर येतना दिनेशाल्या आवयक त्यो दोनय पुडयो दिवन हेवूय सांगून येयलो, "... तरीय जोर वचना जाल्यार, तो हेर खंयच्याय कारणान आसतलो. म्हाका येवन सांग.आमी तेका आस्पत्रेंत व्हरुंया."

सरालो बापूय भायर सरतना दिनेशाली खय आवय म्हणटाली, "मास्तर, ही थोडी इबूत आनी चार तांदळां आंशे तुमगेल्या पुता पासत व्हरा!"

सराल्या बापायन सांगलें, "नाका! तेगेलें नखेत्र उग्र!" दिनेशालो जोर तेच राती देंवलो. हेर दिसा खडखडीत बरो जावन, तो सरा वांगडा शाळेंत गेलो.

सराल्या वाड्यार घडिल्ली आनी एक गजाल...

सराल्या घरा फाटले वटेन एक घर आसलें. दोन पार्टिशनाचें! दोग भावालीं दोन पार्टिशनां! एके वटेन एक जाव, जाल्यार दुसरे वटेन दुसरी जाव रावताली. दोगांय एकामेकांक जाप करिनासलीं.

मथुरेधाकली जाव. एक नंबरी दुबावी आसली. घरांत कितेंय वाकडें घडलें जाल्यार, व्हडले जावेन कसली तरी 'करणी' केल्ल्यानच हें जालां, अशें मानपी आसली.

तिच्या ह्या सभावाची वाड्यावेलीं भुरगीं पिंपळा-पेडार बशिल्ले कडेन फकाणां मारतालीं. अशीं फकाणां मारतासतनाच सराक एक दीस येवजलें, चल मथुऱ्यालीं फकाणां करूंया!

सरान लिंबू घेयलो. ताका काळ्या सुतान गुठलायलो. ताचेर तीन सुयो तोपल्यो आनी मथुऱ्यागेर कोण ना अशें चोयन, सरवळेंतल्यान लिंबू भितर उडयलो.

शेतांत गेल्ली मथुरे येवन दार उगडल्यार वासरेर भितरल्यान गडगडत दाराकडेन येयिल्लो हो लिंबू! लिंबू चोयना फुडें. हिका कच्च जालें.

खिणांतच गळसणली. अरे देवा! हें आनी कितें? कोणें केलें हें कर्म?... आनी कोण करतलो? जाव उमालेच कर्तूब हें! खिणांतच तिचें रगत चाळवलें. "होचय, कोणेंतरी म्हगेल्या घरांत लिंबू मंत्रोवन हाडून उडयला!" म्हूण बोवाळूं लागली. "मरूं हे लोक! व्हरूं तेंकां बेगीन!" म्हूण हात येळयत खेपूंक लागली. मागीर धांवत धांवत वाड्यार गेली. घरां घरांनी वचून वाड्यावेल्या सगळ्यां बायलांक आपोवन हाडली. "चोयात! चोयात कर्मा हांगेर्ली! हांवें सांगल्यार फट दिसता तुमकां! हें तुमगेल्या दोळ्यांनी चोयात!" बायलांनी "हय मुगो बाये!" म्हूण तोंडार हात घेतले. कांयजणींनी दुबावी नदरेन उमाल्या दारा वटेन चोयन म्हणलें, "तूं सांगता, तें सामकेंच फट न्हू!" "हय गो बाये!" "कसलें गो बाये, हे लोक?"

मागीर ल्हवू ल्हवू थंय वाड्या वेलीं जाणटीं-नेणटीं सगळीं एकठांय जालीं. तातूंत मथुऱ्यालीं आनी उमाली भुरगीं बी आसली. हरशीं हीं भुरगीं घरांतलीं झगडीं, दुस्वास मतींत घेनासतना बरे भशेन वागताली. वांगडा खेळटाली. पूण हे घडयेक, एकामेकां कडेन गंभीर, दुबावी नदरेन चोयतालीं. वाड्यावेल्या एका म्हाल-म्हाताऱ्यान सांगलें, "ही करणी! चोयल्यारच कळटा! सुयो-बियो तोपल्यात! ही 'करणी' करतल्याकय बरी न्हू आनी जाचेर केल्या, ताकाय बरी न्हू! जातां तितले बेगीन हेचेर उपाव करात!"

नायकसर आनी ताचे वाड्यावेले वांगडी हें सगळें मजा घेवन चोयताले. एकामेकांक हातांचे कोपरे मारून, फकाणान हांसताले. तातूंतलें खरें-फट हें तेच जाणा आसले.

इतल्यान मथुऱ्यालो घोव शेतांत गेल्लो, खांदार खोरें घेवन येयलो. मथुऱ्यान म्हणलें, "चोय! हो चोय! हें दुसऱ्यान कोणेंय न्हू! हें तुगेल्या भावा-बायलेलें कर्म!"

इतलो वेळ, घरांतल्यान ओग्गी आयकतली मथुऱ्याली जाव उमा हातांत नाल्ल घेवन फणफणत भायर येयली. "अगो, तोंडांत येता तें कितेंय उलयनाका! म्हाका असली सवंय ना! तुका आसत! कित्यां

वेल्यान सांगता गो तूं हें हांवेंच केलां म्हण? तुवें चोयलां?''

''तुवेंच ! आनी कोणेंच न्हू!''

जावेन-उमान नाल्ल मुखार करत म्हणलें, ''हेचेर हात दवरून सांग चोया, हांवेंच केलां हें म्हणोन! हांव प्रमाण करून सांगतां, हांवें करुंना म्हूण!'' तिणें नाल्लार उजवो हात दवरून सांगलें, ''होचय, दवरलो हात!''

''म्हाका नाल्लार हात दवरची गरज ना! तुवेंच केलां हें! तुजे बगर आनी कोणेंच न्हू!''

दोगाय हमरी-तुमरीर येयलीं. बोवाळ दोगांलोय!

मथुऱ्यालो घोव बापडो आंगान आड-दांड! दिसूंक रागिश्ट! पूण, थंड सभावाचो, शांत मनीस! हें चोयन ओग्गी तटास्त उबो! हरशीं ताका आपले घरकान्नीलो सभाव आवडिनासलो. ताणें सुमार फावट तिका समजून सांगचेलो येत्न केल्लो, पूण घरकान्न आयकनासली.

ताचो व्हडलो भाव मिलेट्रींत पयस आसलो. एका तेंपार हातांत हात घालून व्हड जाल्ले भाव, ह्या बायलां पांयांनी एकामेकांक फाट करून आसले.

घरकान्न तशे तरेन झगडटा म्हूण, मथुऱ्यालो घोव तसो झगडना आसलो. पूण, आयज हें सगळें योयन, तोवूय मातसो गंभीर जाल्लो. ताचो चेरो पडिल्लो.

निमाणे कडेन वाड्या वेल्यो बायलो दोगांय जावांच्या मदीं पडल्यो आनी झगडीं थोपयलीं.

थंय एकठांय जाल्ल्या सगळ्यांनी हाचेर उपाय एकूच सांगलो, तो म्हटल्यार मांत्रिकाक हाडून ही 'करणी' काडून उडोवची!

गांवांत असली 'करणी' काडून उडोवपी एक मांत्रीक आसलो. मथुरे ताका वळखताली. सुमार फावट मथुरे तांगेर गेल्लीय! मथुरे मागीर ओगी रावली ना. घोवाक घेवन तशीच मांत्रीकागेर कोंडीबागांत गेली.

मोटवोसो, गोल तोंडाचो, भरिल्ल्या आंगाचो मांत्रीक लुंगी

न्हेसून, बानेन घालून, आपले कुडींत खुर्चेर बशिल्लो आसलो. मुखार एक मेज आसलें. मेजार गुलां आसलीं. ताणें पुराय गजाल आयकून घेतली. गुलां फिरोवन चोयलें आनी म्हणलें, ''करणीच ती! दुबाव ना! सांजची 'करणी' काडुंया. तेका जायत्यो वस्ती लागतात. त्यो हांव येतना घेवन येतां. तुमी फकत एक कुंवाळो हाडून दवरात. आनी घरांतलीं सगळीं न्हायन-धुयन तयार रावात. हांव साडेतिनां सुमार पावतां.''

सांजचो मांत्रीक येयला, म्हण कळना फुडें, सर धांवतच मथुऱ्यागेर गेलो. ''तुमकां कसलीय मदत जाय जाल्यार हांव आसा!'' म्हणत थंयच बसलो. खरें म्हटल्यार, सराक मांत्रीक कितें कितें करता तें चोवचें आसलें.

मांत्रिकान कोयती, कुंवाळे आनी पांच पाट मागून घेयले. एका पाटार आपूण बसलो. बाकी चार पाट आपल्या मुखार मांडले. ताचेर मथुऱ्याल्या घोवाक, मथुऱ्याक आनी मथुऱ्याल्या दोगूय धुवांक बसयलीं. आपले धवे पोतयेंतल्यान, कसल्यो कसल्यो बारीक बारीक लाकडां, कापट्यो, कसल्यातरी झाडांच्यो काडयो बी भायर काडल्यो.. पोतयेंतल्यान शेड काडून भुंयेर नखेत्र अशें एक चित्र काडलें. मगेर पोतयेंतल्यान तुपाचो, डालडाचो डबो, आग पेटी बी काडून भायर दवरलो. त्यो काडयो, कापट्यो एकार एक बऱ्यो ऽ दाळ्ळ्यो. तांचेर तूप, डालडा घालून, काडी पेटोवन होम केलो. पोतयेंतल्यान काडून काळे तीळ फट फट करून होमात उडयले. तोंडान मंत्रां पुटपुटत अश्यें ऽ करुन बोटांनी मुद्रा करुन दाखयली. मगेर पोतयेंतल्यान एक लिंबू आनी सुरी काडली. लिंबू मथुऱ्याल्या घोवाले तकलेर धरुन, सुरयेन कापलो. ताचो रोस इल्लो इल्लो मथुऱ्याल्या घोवाल्या, मथुऱ्याल्या आनी दोगूय धुंवाले ताळयेर पिळ्ळो. येतना हाडिल्ली बेतांबडी घेवन उठलो. त्या तीन सुयो तोपिल्ल्या लिंबू म्हऱ्यांत येयलो. बेतांबडी लिंबू भोवतणी तीन फावटी घुंवडायली. उपरांत तो लिंबू उखल्लो आनी ताणेन मथुऱ्याल्या घोवान खंयच्यान नेणो हाडून

दिल्ल्या कुंवाळ्याक तीन फावटी उंवाळ्ळो. त्या कुंवाळ्याक मगेर पोतयेंतल्यान काजळाची डबी काडून काळो तिबो लायलो. पिंजरी डबो काडून पिंजर लायली. हळदी पिठ्याची डबी काडून हळदी-पिठो लायलो. आनी उपरांत मथुरेल्या घोवाक तो कुंवाळो कोयतेन कापूंक लायलो. मागीर कापिल्ले कुंवाळ्या कुडके, तो लिंबू घेवन मांत्रीक खंयतरी भायर सरुन गेलो.

मांत्रीक भायर सरुन वतकीर, इतलो तेप बरो ऽ करून चोयत बशिल्लो सर उठलो.

तिनसांजचे कात्रेर पेडार उलयत बशिल्ले तेन्ना, सरान ही 'करणी काडचेली' पुराय म्हायती वांगड्यांक दिली. आनी सांगलें, ''फुडारांत रोजी मेळना जाल्यार, हो धंदो आपणावंक हरकत ना! पोट भरतलें!'' हाचेर सगळे हांस हांस हांसले.

सराल्या मतान, हो सगळो मनशालो अर्थहीण वेव्हार! भिवकुऱ्या, दुबळ्या मनशांक थातारपा पासत, तांच्या मनाक थाकाय दिवपा पासत केल्ली तथ्यहीण माण्णी!

खंयच्यातरी कदीम काळांत, कोणेंतरी मनशाल्या पोक्री मनाचो थाव घेवन, आपल्या कल्पनांचे खेळ करून, ताका भेश्टायलो. फकत आपलें पोट भरूंक! आपलो सुवार्थ सादूंक! साद्या, भावार्ती समाज-मनान हें वेंगोवन दवरलें सासणाचें! ताचें कारण, तेन्ना मनशां लागीं विज्ञानीक दिश्टी-कोण नासलो. विज्ञानाची प्रगतीच जावंक नासली, मागीर तो दिश्टीकोण आसतलोच कसो?

आयज ती स्थिती ना!

मनीस अडाणी उरूंक ना! मनशाक सारासार येवजुपाची बुद्द येयल्या. तरी लेगीत मनशान अडाणीच जावन जियेवप?

एक फावट आर.एन्.नायक सरान मनशाल्या आचार-विचारांची बकच्छाय मारत म्हणिल्लें, ''हे सगळे आज्याली पोन्नी काश्टी न्हेसून आयच्या बाजारांत भोंवतात!''

मुरलीधराक सर हे सांगताले. एके तरेन नकळटां फुडारांतलो

पुरोगामी विचारांचो शिपाय तयार करताले. खूब फावटी मुरलीधर येवजितालो, सर हे म्हाका मुद्दम सांगताले, काय असले विचार आयकुपी म्हजे बगर, म्हज्या वांगड्यां बगर तेंकां हिंगा कोण मेळना म्हूण सांगताले!

सर मुरलीधराक फकत सांगनासले. पुस्तकां वाचूंक दिताले. विंगड-विंगड विशयांवेलीं पुस्तकां!

हें ब्रम्हांड म्हटल्यार कितें? आमचो सुर्या म्हटल्यार कितें? हे सुर्य-माळेची उत्पत्ती आनी स्थिती, आमची धर्तरी आनी ताचेवेल्या जिवांची उत्पत्ती, उत्क्रांती आनी स्थिती, हे धर्तरेर मनशांनी केल्ली विज्ञानीक प्रगती, हे सगळें पुरायपणान ताणें सरान वाचूंक दिल्ल्या पुस्तकांतल्यानच शिकिल्लें.

विज्ञानीक दिश्टीकोणांतल्यान मुरलीधर जेन्ना, समाजांतले कुड्ड्या स्रध्देचेर, कुड्ड्या विस्वासाचेर आनी अर्थहीण रुढीचेर येवजितालो, तेन्ना ताका आपूण ह्या समाजांतलो म्हूण घेवंक लज दिसताली. एकेक फावट ह्या गजालींक वेंगोवन बशिल्ल्यांची तिडकय मारताली. ताका दिसतालें, ह्या विसाव्या शेंकड्यांत, ह्या विज्ञानयुगांत वावुरतात आमी! हे कुड्डे विचार घेवन आमी खंय पावतले? हें थांबूंक जाय! कोणेंतरी खंयतरी हें थांबोवंक जाय!



आर.एन. नायकसराली बदली जाल्ली, तेन्ना मुरलीधर 'दोड्डपेठेंत' 'आर्टस् एण्ड् सायन्स्' कोलेजींत' विज्ञान शाखेंत शिकतालो.

मुरलीधराले भयणीक शिलाक 'दोड्डपेठेंत' लग्न करुन दिल्ले. तिचें घर बसस्टँडा कडल्यान दोनेक किलोमिटराच्या अंतरार, 'महामाये देवळाकडल्यान धायेक उल्यार 'म्हाम्माय गल्लींत' आसलें. बरें ऽ उप्परकी माळयेचें घर! 'दोड्डपेठ' 'तालुक्याचो वाठार' आशिल्ल्यान, थंय सगळ्यो सुविधा आसल्यो. शिकतल्या भुरग्यां पासत हॉस्टेलय आसलें. मुरलीधर सुर्वेक हॉस्टेलांत रावन शिकूंक चोयतालो, पूण शिलाल्या घोवान म्हटलें, "भयणीलें घर हिंगा आसतना, भावान

हॉस्टेलांत रावन शिकप म्हटल्यार, लोक हांसतले आमकां! हिंगा आमगेर रावन शीक! मागीर मुरलीधराक आनी आईक दोगांकय 'ना' म्हणप सारखें दिसलें ना.

नायकसराक जुनाच्या पयल्या आठवड्यांत 'ट्रान्स्फर ऑर्डर' मेळिल्ली. रोखडेंच वचून कारवारा 'गव्र्हनमेंट हायस्कुलांत' हजर जावंक जाय आसलें. देखून 'आडगांवचे' शाळेंत सराक 'सेण्ड ऑफय' ताकतिकेन दिवप जाल्लो.

हरशींय सर मूळ कारवारचो आशिल्ल्यान हे बदलेन सराक खोंस जाली आसतलीच! ते भायर सर तेच शाळेचो माजी विद्यार्थी! आनी सराच्या बापायन कांय वर्सां ह्या शाळेंत शिकयलां. आपूण शिकिल्ले, आपल्या बापायन शिकयिल्ले शाळेंत आपल्याक शिकोवंक मेळप ही एक आगळी खोस!

शिलालो घोव 'आडगांवांत' मांयली वास्तपुस्त करून येवुंया म्हूण गेल्लो, तेन्ना ताणें ही बातमी हाडिल्ली. ही बातमी आयकून मुरलीधर सामकोच शेणिल्ल्यावरी जाल्लो. तो जरी तेन्ना सरा कडल्यान पन्नाशेक किलोमिटर पयस आसलो, तरी ताका सरा म्हऱ्यांतच आशिल्ल्यावरी दिसतालें. सर ताच्या गांवांत शिकयतालो. तांच्या घरात रावतालो. घरांतल्या सुख-दुख्खांत वांटेकार जातालो. घरांतलोच एक जावन आसलो. इतलेंच न्ही, शिलाक तो भयण मानतालो. आनी सख्या भयणी भाशेनच वागयतालो. मुरलीधर शेनवार आयतारा घरा येतालो, तेन्ना ताका सरालो सांगात मेळटालो. हाचे उपरांत तो सांगात मेळचो नासलो. मुरलीधराक सराल्या 'सेण्ड ऑफ' वेळारय हजर रावंक मेळूंक नासलें. पी.यु.सी. एक्झाम सोपता थंय आसा, मुरलीधराक कामीण जाल्ली. दोळे हळडुवें जाल्ले. मुतूंक हळडुवें जातालें. जीव थकतालो. वजन उणें जाल्लें. उल्टी येताली. जोर येवूंक लागिल्लो. दोतोरान तपासून कामीण म्हूण सांगिल्लें आनी वखद सुरू केल्लें. सुमार दीस वखद घेवचें पडिल्लें. दोतोरान जाता तितलो आराम घेवंक सांगिल्लो. देखून शिलाताईन ताका खंयच वचूंक दिल्लें नासलें. आपले

नदरे मुखार दवरून ताचें पथ्य पाणी केल्लें.

अखेरेक मुरलीधराक सराक एक चीट बरोवची पडिल्ली. आनी हरशींय सरा बद्‌दलची भावना, तो सरा मुखार तोंडान उक्ती करूंक अनमनतलो आसलो.

मुरलीधरान बरयिल्लें....

आदरणीय - मोगाळ सर,

नमस्कार.

तुमगेले बदलेची बातमी सोसूंक काळीज कशेंच तयार जालें ना! कितें तरी चुकिल्ल्यावरी, शेणिल्ल्यावरी जाता. सारखें कितें जाता, हें सांगूंकय म्हजे लार्गी उतरां नात!

सर, तुमी म्हगेले 'गुरू'! खरें 'गुरू'! म्हगेले इश्ट! म्हगेले मार्गदर्शक! ताच्याय फुडें वचून तुमी म्हगेले एक व्हडले भाव कशे! तुमीच म्हाका जिणेचें मर्म सांगलें. वर्म दाखयलें. तुमकां लाख लाख धन्यवाद सर!

सर, तुमी म्हाका विचार दिले. जिणेकडेन पळोवचो विज्ञानीक दिश्टीकोण दिलो. खरें - खोटें पारखुवची बुद्द दिली. म्हगेली फुडारांतली वाट दाखयली. जिणे बद्‌दलच्यो खऱ्यो जाणवायो तुमी सांगल्यो. तुमीच म्हजे खरे 'जाणवय'!

हे उपकार हांव फेडूंक शकचों ना!

सर, तुमकां हांव हिंगा उतर दितां, तुमी दाखयिल्लीच वाट हांव चलतलों.

तुमी जाणात, म्हगेलो गांव कसो कुड्‌ड्या स्त्रध्दांनी, कुड्‌ड्या विस्वासांनी आनी कुड्‌ड्या रुढींनी किडला. त्यो किडी म्हाका काडून उडोवंक जाय! म्हगेल्या गांवांक नवो दिश्टीकोण दिवंक जाय! म्हगेले कुडीत जीव आसा मेरेन म्हाका हें कार्य करचें आसा! फकत तुमगेलो आशिर्वाद आनी तुमगेल्या उतरांचें फाटबळ आसल्यार पुरो!

तुमगेल्या निरोप समारंभाक हांव हजर रावंक शकलों ना, हेचें परम दुख्ख आसाच! तुमी बिराड खाली करता आसतनाय थंय हजर

नासलों, हेंचो खेद जाता! कित्याक हजर रावंक शकलों ना, हेचें कारण तुमी बेस बरें जाणात! माफ करा सर!

तुमगेली हरकत ना जाल्यार, तुमकां बरयत रावतलों. दिसता तेन्ना येवन मेळटलोंय!

बरें मागून!

तुमगेलो,

मुरलीधर

ही चीट मेळना फुडें सरान रोखडीच जापेची चीट बरयिल्ली. सरान बरयिल्लें...

मोगाळ मुरली,

खूब - खूब आशिर्वाद आनी मोग!

तुगेली चीट मेळ्ळी.

म्हाकाय तुमचे कडल्यान पयस वतना काळीज सुमारा भायर दुखला. तुमी म्हाका दिल्लो मोग, दाखयिल्लें आपलेपण हांव कसो विसरतलों?

तुवें म्हाका तुजे जिणेंत खूब वेली सुवात दिल्या, हें तुजें व्हडपण! हांवें तुका फकत हांव जाणा आसलों, तेंच सांगलें. वाचनांतल्यान, अणभवांतल्यान मेळिल्ल्यो गजाली तुजे मुखार दवरल्यो. हावूंय अजून परिपूर्ण जावंक ना! अजूनय सुमार इतलें जाणून घेवचें उरलां.

खूब - खूब वाच! मनशान वाचता तितलें उणेंच! जो वाचता, तोच गिन्यानान संपन्न जाता, हें हांवें तुका सांगलाच!

हांवें दाखयिल्ली वाट तूं चलतलो, अशें तुवें बरयलां. वाचून भोव बरें दिसलें. तशें जालें जाल्यार, आमच्या प्रगतिशील देशाचो तूं खरो शिपाय थारतलो. आनी असल्या शिपायांचीच ह्या देशाक आयज गरज आसा.

कुड्डे विस्वास, कुड्ड्यो स्रध्दा, कुड्ड्यो रुढी फकत तुज्याच गांवांत आसात अशें न्हय! त्यो जायते कडेन चड उण्या फरकान आसात. त्यो ना नपयत जावंक जाय जाल्यार, तुज्या विचारांची मनशां जल्माक

येवंक जाय! फकत विचार आसून उपेग ना! आचारय आसूंक जाय! आनी ताच्याय फुडें वचून हो विचार समाजांत रुजोवन पुरायेन क्रांती घडोवन हाडूंक जाय, जशें तुवें ह्यान फुडें करचें थारयलां! तुज्या कार्यात म्हगेल्यो शुभेच्छा! म्हगेलो आशिर्वाद! म्हगेलें फाटबळ आसतलेंच!

तूं जें फुडें करुंक सोदता, तें हांव, म्हजेकडेन ते विचार आसुनय, केन्ना करूंक तांकलो ना, हाची म्हाका खंत आसा! हांवें म्हजे पुरते आचार दवरले. पूण, समाजांत ताचो प्रसार करून बदल घडोवन हाडूंक ना. घडये म्हजे कडेन संघटण कुशळताय, नेतृत्वगूण, नाशिल्ल्यान जावंये! तें तुवें जमता जाल्यार अवश्य करचें! तुजेलागीं नेतृत्व-गूण आसात!... आनी हें तुवय जाणा!

हांवें दिल्ल्या विचारां पासत तूं उपकार फेडचेली भास करता, हें मातशें कशेंतरीच लागलें, तातूंत उपकार कसले? आनी तरीय तुका ते उपकारच दिसता जाल्यार, त्या विचारांची क्रांती घडोवन हाड! म्हाका पावलें!

तूं म्हगेल्या निरोप समारंभाक हजर रावंक शकलो ना, आनी घर सोडून येतनाय मेळूंक पावलो ना, हाची म्हाकाय खंत आसा. पूण, तूं विसरूं नाका, आमी दोगूय एकांमेकांच्या काळजांत आसात.

आमी एकामेकांक चिटयो बरयत रावया. आनी मेळतय रावया.

आईक नमस्कार सांग. शिलाताईक, भावोजीक निरोप सांग.

बरें मागून.

तुजो,

आर.एन.नायक सर

सराली चीट वाचून मुरलीधराल्या दोळ्यांत दुकां एकठांय जाल्लीं.

सरान मेळत रावया म्हूण सांगिल्लें... पूण, सर केन्नाच परत मेळूंक पावले नात.

बदली जावन गेल्ल्या दुसऱ्याच म्हयन्याक, उटंगराच्या पावसात, सर अंकोला इश्टाक मेळूंक गेल्ले, मोटार सायकलीन पर्थताले, कारवारच्या बिणगे घाटार मुखावेल्यान येतल्या ट्रकान सराक

मोखलो... सर आत्ताक गेले!

सर गेल्ले सासणाचे!

सराच्यो यादी, सराचे विचार काळजांतल्यान वचूंक नासले. उरफाटें ते आनीकय खऽर जावन दसून उरिल्ले सासणा पासत!

आपल्या समाजांतल्यो वायट रुढी, कुड्ड्यो स्त्रध्दा समाजांतल्यान ना करचेलें उतर मुरलीधरान सराक दिल्लें. पूण तें कार्य सुरू करुंक नासलें. उरफाटें ताणें आपलें पुराय लक्ष आपल्या अभ्यासा कडेन केंद्रीत केल्लें.

पी.यु.सी. पास जातकीर ताणें 'दोड्डपेठेंत' त्याच 'आर्टस् ॲण्ड सायन्स कॉलेजींत' प्रवेश घेयिल्लो. थंय आपलो बी.एस्.सी. कोर्स पुराय जातकीर, कारवारा 'कॉलेज ऑफ् एज्यूकेशन' संस्थेंत बी.एड्. कोर्सा पासत प्रवेश घेतिल्लो.

बी.एड. कोर्स पुराय जातकीर, मुरलीधरान थारयलें, आनीक चड शिकचें ना! सरा भशेन हायस्कुलांत मास्तर जावचें. आनी ते देखून रोजे पासत ताणें मेळत थंय अर्ज्यो धाडूंक सुरवात केली. नोकरी तशी बेगीन मेळूंक येयल्या?

तसो मुरलीधर बेकार उरचेलोय प्रस्न नासलो. वयवडिलांली शेतां-भाटां आसलीं. पुर्वजां मुस्तींतल्यान चलून येयिल्लो कुळवाड्यालो रैताव धंदो आसलो. ताणें तातूंत स्वताक गुंथून घेयलो.

एक दीस ताणें कुंभारवाड्या लार्गी चाफ्या कडले कुणगेंत जोत बांदिल्लें. सुमार इतल्या तेपान ताणें आयज जोत बांदिल्लें. ताचो बापूय परागंदा जायत सावन 'व्हाळा' कडलो रामण्णाच तांचें शेत कसून दितालो. पिरायेंत येयलो उपरांत, मुरलीधरान दोड्डपेठयेंतल्यान सुटयेंत घरां येयिल्लो तेन्ना, केन्ना - केन्ना जोत धरचो सराव केल्लो. निमाणें कडेन शेत कारालोच पूत! जोत आनी पोट... हें तांचे जिणेंचे सुत्र! गोठ्यांतल्या दोगूय बैलांलें बुध्यालें आनी शिब्र्यालें स म्हयन्यां आदींच नयावाड्यावेल्या दुलबाक हाडून आंड बेळशिल्लें. म्हणटकीर, ते आतां चड मस्ती करूंक पावचे नासले. मस्ती बैल घेवन शेत कसप

म्हटल्यार संकश्टच. दोगूय बैल ज्युस्त जोत ओडटाले. मुरलीधर मज घेवन 'आर...आर...म...म...' करत जोत हामुडटालो.

वेळ चड जावंक नासलो. राना वटेसून शितळ वारे अजूनय व्हांवताले तरी लेगीत मुरलीधर घामाघूम जाल्लो. बानेन उदक रकयिल्ल्यावरी पुराय भिजिल्लें.

जांबळी कडेन मेरो काडूंक गेल्लो पुरसो पर्थतालो. खांदार खोरें आसलें. तोवूय घामेन बुडिल्लो. ताणें म्हणलें, "ये ऽ मुरली, शेतांत कसता असो..."

"कित्याक? हांवें शेत कसनये?"

"तुजे सारख्या शिकिल्ल्या भुरग्यांनी शेतांत जोत बांदल्यार शिकून उपेग कितें? अशें हागुट्यां फाटल्यान फिरप आमी! तुमचे सारख्यांनी न्हू! तुमी रोजेक वचूंक जाय! खुर्चेर बसून पगार घेवंक जाय!"

"रोजी तशी एकदमच मेळना पुरसोबाब! आमचे सारखे शिकिल्ले जायते पडल्यात! वाट चोयची पडटा रोजेची!... आनी शिकिल्ल्या भुरग्यांनी शेतांत बी वावर करनये, अशें कोणें सांगलें तुका? उरफाटें, शिकिल्ल्या भुरग्यांनी रोजी मनासारखी गावता मेरेन, बेकार रावनये. जमता तो वावर करूंक जाय!"

"सारखो उलयलो तूं हां! म्हाका पटलें!" अशें म्हणत पुरसो येयलो तसो मुखार गेलो.

... आनी एक दीस असोच मुरलीधर म्हासती-भाटांत हातांत खोरें घेवन माडां-आळीं करतालो. मातसो आसर पडिल्लो. गेल्ले चार-पांच दीस पावसान नेट धरिल्ल्यान भाटांत पांय दिवप जालें नासलें. आयज कोण जाणा, सकाळ सावन पावसाचे नांव नासलें. हीच वेळ बरी आसा, अशें येवजून तो खोरें घेवन भाटांत आयिल्लो. ह्या दिसाडेन आळीं धरल्यार धग - उदकान आळीं वर्सभर घट्ट उरतात. ते भायर श्रावणा उपरांतचो पावस माडां-झाडांक सदांच बरो! उदक आळ्यांत अडकून उरता. झाडांकय ह्या वेळारूच माती लावची पडटा. नातर मुळां उक्ती पडटात.

मुरलीधरागेरचें म्हासती - भाट म्हणटा तें व्हड! तळ्या कडल्यान दोगरां देंगण मेरेन पातळिल्ले! वाड-वडिलांनी हाडांचीं-काडी करुन वाडयिल्ले! ह्या भाटात कितें ना, आनी कितें आसां! माड, माडी, आंबो, फणस, चींच, अटामो, भिमल, करमळ, पोपाय, शिताफळ, मावळींग, तोरींग, चुन्नां, भिरंड, लिंबू, कोडलींब, करबेल ते भायर अटलांव, चिरपूट, मिरीं, नागेली, सुरण, अनरस बी! हें सगळें दोळे भरून चोयल्यारूच तान-भूक न्हिवता! हांगा वावर करुंक एक वेगळीच खोस मुरलीधराक भोगताली.

दोंगरार खंय नेणो गेल्लो मक्तासूर गंगाधर दोंगर देंवन देंगणा बांदा वेल्यान घरा वतालो. मुरलीधराक आळीं करता तें चोयन, ताणें म्हणलें, ''मुरली, कितें रे?'' तूं शिकिल्लो, येदी व्हडली डिग्री घेयिल्लो चेडो! तुवें आनी हातांत खोरें घेवप? लाय मरे चार मानाय आनी करून घे आळीं.

''कित्याक? डिग्री घेयिल्ल्यांक पोट नासता गंगाधरबाब?'' मुरलीधरान हांसत हांसत म्हणलें.

मक्तासूर गंगाधर हाचेर कांय उलयलो ना. आयकलो ना आयकलो अशें करुन तसोच मुखार गेलो.

लोकांची हीं मानसीकता चोयन, मुरलीधराक हांसचें काय रडचें कळनासलें.

ताका दिसतालें, कित्याक आमच्या लोकांची ही मानसीकता अशी? कित्याक वयलेवयर येवजितात? विचारांक खोलाय ना कित्याक? खंयचेय गजालीचें मर्म समजून घेवप ना! तर्कशुध्द येवजुवप ना! एकल्यान तकली हालयली काय, सगळ्यांनी तकल्यो हालोवप!

तो हायस्कुलांत शिकतना, आर.एन्. नायक सर ताका, ताचे वांगड्यांक सदाच सांगताले, ''तुमी शिकतात. दिसानदीस बुदवंत जातात. सारासार विचार करचेली तांक तुमी हाडून घेवूंक जाय. तुमचे येवजुवप तर्कशुध्द आसूंक जाय! तुमी कुड्डेपणान कितेंच स्विकारूंक

जायना! जाणटे सांगतात, म्हूण 'हय' म्हणप न्ही! तातूंतलें खरें-फट जाणून घेवंक जाय!''

मुरलीधरान नेणटेपणा सावन असले तर्कशुध्द विचार करिनासतना, मर्म जाणून घेनासतना भौसान कुड्डेपणान आपणायिल्ल्यो जायत्यो गजाली अणभवल्यात, आनी तो तेय पिरायेंत खंती जाला! तिडकला!

मुरलीधर धावेक आसतना, दिवाळे दिसांनी तेचो एक फावट 'आकाश कंदील' जळिल्लो...

दिवाळे दिसांनी गांवचीं सगळीं भुरगीं दारा मुखार आकाश - कंदील लायतालीं. तर -तरेचे आकाश - कंदील आसताले. 'चार हाट्यांचे', 'स हाट्यांचे', 'आठ हाट्यांचे', 'बारां हाट्यांचे'.

गांवचीं भुरगीं रानांत वचून कोंडे घेवन येतालीं. तांची तासून बारीक बारीक जाय तितले लांबायेच्यो काडयो करतालीं आनी मागीर त्यो सुतांनी बांदून, आपल्याक जाय तशे आकाश-कंदील करतालीं.

शाळा हरेक वर्सा भुरग्यां पासत 'आकाश-कंदील सर्त' घडोवन हाडटाली. शाळेंतलीं भोवतेक भुरगीं सर्तींत वांटो घेतालीं.

एके तरेचो आकाश-कंदील उत्सवच! मुरलीधरान आकाश-कंदील जाळिल्ल्या वर्सा 'स हाट्यांचो' आकाश-कंदील केल्लो. हाट्यांक निळी फुली लायिल्ली. वेलें आनी पोंदांतलें आंग तांबडे फुलयेन मढयिल्लें. वेले आनी पोंदचे पटयेक पाचवे खोटे लायिल्ले. सगळ्या कोपऱ्यांनी पोंतार रंगरंगयाळीं फुलां करून दसयिल्लीं. खुरांक हळडुव्यो शेपट्यो लायिल्ल्यो जाल्यार विंगड - विंगड फुल्यांची जोड लिपोवंक धव्या रंगाचे कातरे करुन चिकटयिल्ले.

कांय जाण आकाश-कंदील दारा पावळेंत तांगयताले, जाल्यार कांय जाण ऊंच माडार!

माडार चडून वयर 'माकडी' बांदताले. ते माकडेंतल्यान दोरी घालून, दोरयेन आकाश-कंदील वयर चडयताले. हेर दिसा तो आकाश-कंदील सकयल देंवोवन तातूंत दवरिल्ले पणटेंत तेल-वात घालून, वात पेटोवन, पर्थून माडार चडयताले. हें अशें सुमार दीस

चालू आसतालें.

मुरलीधरान त्या वर्सा आकाश-कंदील माडार चडयिल्लो. उमाशे दिसा राती कडेन कितें जालें, कोण जाणा? घडये वाऱ्यान आकाश-कंदील हाल्लो, आनी तेल सांडून वाती-उजो थंय लागलो वा आनीक कितें जालें? वट्ट आकाश-कंदील जळ्ळो. हें मात खरें!

गांवांत एक रूढ आसली, कोणालोय आकाश-कंदील जळ्ळ्यार, ताणें येता त्या फुडल्या तीन वर्सा मेरेन, आकाश-कंदील लावंक जायना!

मुरलीधराली आकाश -कंदील लावची उमेद पुराय भागूंक नासली. दिवाळे दिसा लायिल्लो आकाश-कंदील भुरगीं कार्तिक-पुनव मेरेन लायतालीं.

मुरलीधरान आईक म्हणलें, ''आई, हांव आकाश-कंदील पर्थून करतां आनी लायतां.'' आईन फाफुडलेशें करुन म्हटलें, ''शेऽ! कितें रे? आतां तीन वर्सां मेरेन ना!'' ''पूण कित्याक?'' म्हूण विचारल्यार ''म्हाका खबर ना, कित्याक म्हूण! पूण लायनात,... इतलेंच जाणा हांव!''

मागीर मुरलीधरान कारण समजून घेवंक आनीक काय जणांक विचारलें, पूण कोणेंच जाप दिवंक ना! खोदून विचारल्यार ''बरें जायना!'' इतलेंच म्हणलें.

नायकसर तांकां अंत्रक म्हूण त्या वर्सा दिवाळेक घरा वचूंक नासले. मुरलीधरान येवजिलें, सराक विचारूंया, विचारतकीर नायक सरान म्हणलें, ''हेतूंत कांयच अर्थ ना! तथ्य ना!'' उपरांत सरान ताका बरें करुन पटोवन सांगलें, ''चोय, हो दंडक जर आसा जाल्यार, जण एकलो आकाश-कंदील लायतना काळजी घेतलो. कारण आकाश-कंदील पेटप, हें भोव लुकसाणकारक थारूं येता. तो उजो आनीक खंयूय लागूं येता!''

''आतां हांव कितें करूं सर?''

''तुका आकाश-कंदील लावची उमेद आसा?''

“हय!”

“आकाश-कंदील पेटूंक कित्याक दिवूंनये, हाचे फाटलें कारण मतींत दवरतलो?”

“हय सर!”

“तुवें आकाश-कंदील लावंक हरकत ना! पूण म्हगेली आनीक एक गजाल आयकतलो?”

“हय सर!”

“हाचेर बरो ऽ विचार कर! ही एक रूढ म्हूण कुडुेपणान आपणायनासतना, एक सामाजीक ख्यास्त म्हूण आपणायली जाल्यार?... तशें केल्यार मनीस निश्काळजी पणान आकाश-कंदील लावपाचो वावर करचो ना! आपलो आकाश-कंदील जळ्ळ्यार फुडलीं तीन वर्सां आपल्याक आकाश-कंदील लावचेलो आनंद घेवंक मेळचो ना, हे भिरांतेन तो सादूरतेन वावर करतलो!”

सरान अशें सांगतकीर मुरलीधरान हाचेर येवजिल्लें आनी आकाश-कंदील लावचो विचार सोडून दिल्लो. फुडलीं तीन वर्सां मेरेन ताणें आकाश-कंदील लावंक नासलो.

मुरलीधर मॅट्रीक शिकतना घडिल्ली आनी एक गजाल मुरलीधराक याद जाता...

मॅट्रीकेचे परिक्षेचो फॉर्म भरूंक वचूंक म्हूण मुरलीधर शाळेचो युनिफॉर्म (निळी चेड्डी आनी धवो शर्ट) घालून, परिक्षेच्या फॉर्माचे पयशे बी घेवन भायर सरिल्लो. आंगण बलांटून वाटे वेल्या रुमडारुखा कडेन पाविल्लो. इतल्यांत वाड्या वेल्या यशवंतागेरचें ‘काळें माजर’ ताचे मुखाल्ल्यान आड गेलें.

आई सोप्यार बसून सुपांत तांदुळ वासुडटाली. तिणें माजर आड गेल्लें ज्युस्त चोयलें. “थोप! थोप! मुरली, थोप पुता! फुडें वचूं नाका!” तिणें म्हणलें.

“कित्याक?” मुरलीधरान फाटल्यान फिरुन विचारलें.

“बऱ्या कामाक भायर सरतना, काळें माजर आड वचनये! यो!

भितर यो! हातार इल्लें गोड दवरतां. खा आनी वच.''

मुरलीधरान ही गजाल जायते फावटी आयकल्ली. ''मांजर आड गेल्यार कितें जाता?''

''गेल्ले कडेन काम सारखें जायना!''

''कोणें सांगिल्लें?''

''सांगूंक जाय कित्याक? सगळ्यांक खबर आसली गजाल ही! तूं नकळो?''

''म्हाका खबर आसल्यार, पर्थून सांगता कित्याक?''

''तुमका नेणट्यांक याद करीत रावची पडटा. भौशीक रुढी विसरूंक फावनात!''

''अशेंऽ?'' मुरलीधरान हांसत हांसत म्हटलें, ''..तशें आसल्यार एक काम करूंया. अणभव घेवन चवया आयज!'' अशें म्हणत तो फुडें सरलो.

''अरे, तुगेलीं शाणेपणां नाकात! सांगिल्लें आयक!'' आई फाटल्यान आडुताली.

तो रावलो नासलोच! ताका सरान सांगिल्ली याद जाल्ली. जाणटे सांगतात म्हूण कुड्डेपणान 'हय' म्हणूंक जायना. तर्कशुध्द येवजूंक जाय!

मुरलीधर परिक्षेचो फॉर्म भरुन येयिल्लो.

''हांव फॉर्म भरुन येयलों गे! कसलीच आडखळ येयली ना! सगळें वेवस्थीत जालें!'' ताणें आईक मुजरत सांगिल्लें.

''तूं मरे चड शाणो जाला! अजून परिक्षा जावन निकाल लागचो आसा!''

''तेंवुय चोया!'' ताणें शांतपणान हांसत म्हणिल्लें. मुरलीधर मॅट्रीक परिक्षेंत फस्ट क्लासांत पास जाल्लो.

मुरलीधराक 'ही' घट्ट याद आसली. ताणें हांसत हांसत याद करुन दीत म्हणलें, ''आई, ते ऽ न्ना तें माजर आड गेल्लें, तेचे ते काय वायट परिणाम जावंक ना मुगे!''

आईन सट् करुन म्हणलें, "ना कितें म्हणटा तूं! तूं आनिकय बऱ्या मार्कांनी पास जावचो नाशिल्लो खंयच्या वेल्यान?"

मुरलीधरान हांसत कपलार हात मारून घेयिल्लो.

ताणें हो अणभव मुजरत आपल्या इश्ट-वांगड्यांक सांगिल्लो. तेंवूय हांस हांस हाशिल्ले.

मुरलीधराचे इश्ट आनी वांगडी सुर्यकांत, मारुती, विजय, जनार्दन, रामकृष्ण, अशोक हेवूय मुरलीधरा भाशेनच नायक सराचे विचार आयकून प्रभावीत जाल्ले. तेवूय मुरलीधरा भशेनच वागताले.

हरशीं हे सगळे चड-उण्या फरकान एकेच पिरायेचे आसले. वांगडा ल्हानाचे व्हड जाल्ले. गिल्ली-दांडो, आपा-लिपा, कबड्डी, गड्ड्यान, वांगडा खेळिल्ले. हायस्कुला कडल्या उक्त्या मळार वचून वांगडा पतंग सोडयिल्ले. पुरसा मठा कडल्या वडा-रुखाच्या पारंब्यांक वांगडाच झोके घेयिल्ले. आंबराईंत वचून हातांत गुंडे घेवन वांगडाच आंबे पाडिल्ले. आनी शाळा-कॉलेजींनीय वांगडाच गेल्ले. ते सगळे हायस्कुला शिकतना आर.एन्. नायकसर तांचे सगळ्यांत चड मोगाचे मास्तर आसले. नायकसर तांचे कडेन इश्टागतीन रावताले, देखून हे सगळे नायकसराल्या बिराडार वचूंकय अनमननासले. नायकसर तांकां घरचेच कशे दिस.

नायकसरान सांगिल्लें हरेक विचार तांचे पासत प्रमाण आसले. ते परमाणें वागचेले येत्न करताले ते!

मुरलीधरा परमाणें तेवूय सगळे ते पिरायेंतय घरांतल्या कुड्ड्या विचारांचेर, स्रध्देचेर बडी मारचेलो येत्न करताले. ताचेर इश्ट-वांगड्यां मर्दीं भासाभास करताले.

आर.एन्.नायक सरांक जी कुड्डे विचार, कुड्ड्यो रुढी, आनी कुड्डे परंपरेची काळजातल्यान तिडक आसली, तीच तिडक ह्या इश्ट-वांगड्यां मर्दीं उतरुन येयिल्ली.

मॅट्रीके आसतनाच! एक दीस मारुती आनी मुरलीधर, मारुतीगेरच्या सोप्यार बसून गणितां सोडयताले. मारुतीगेरच्या, घरामुखा वेल्या

आंब्या झाडार, एक देवकावळो येवन बसलो आनी काँव काँव करत आडूंक लागलो. मारुतीली आई कुर्शीतल्या सोप्यार बसून अटाम्या सोलांतल्यो बियो काडटाली. कावळो आडुवचो चोयन तिणें म्हटलें, ''कावळो आडुता. कोण सोयरो येता काय आमगेर? म्हगेलो भाव येता काय?''

मुरलीधरान मनांत म्हणलें, ''कितली खुळचट कल्पना ही!''

इतल्यांत मारुतीन आवयल्या तोंडातलीं उतरां सोपता थंय आसा, सट्करुन म्हटलें, ''कावळ्या, कावळ्या, मामा येता जाल्यार उडून वच! नातर बुडून मर!''

मारुतील्या ह्या उतरांनी मुरलीधराक हांसचें काय रडचें कळ्ळें ना. ताणें हांसत हांसत म्हणलें, ''मारुती, तूंच बुडून मेल्यार बरो आसलो!''

''कित्याक म्हणटा तूं?''

''तुजे विचार बुडल्यात, तुजी सारासार विचार करची बुद्द बुडल्या, म्हणटकीर, तुवेंय बुडप बरें!''

''हांव समजूं ना!''

''तुगेले आईन म्हटले, बरें आसा! ह्यो असल्यो समजुती, असले विचार, आमच्या सगळ्यांच्याच घरांत आसात! पूण आमी इश्ट सगळे नायकसराल्या विचारांचीं मनशां! विसरलो?... म्हाका सांग, तो कावळो तुगेल्या मामाक वळखता? तो मॅसेंजर बी? काय पारखी सगळ्यो गजाली जाणा आसलो!''

मारुतीक आपली चूक होलमल्ली.

''सॉरी! सॉरी!'' ताणें हांसत म्हणिल्लें.

एक फावट मुरलीधरालो वांगडी विजय हागेली आत्या, बाळंतपणाक येयिल्ली. तिका बाबू जाल्लो. बरो गुटगुटीत आनी गोरो आसलो. ती द्रिश्ट लागनये म्हूण बाबूक कपलार, गालांक, काळ्या काजळाचे तिबे लायताली.

''हे तिबे कित्याक लायता गो आत्ये, आनी तेवूय काळे?''

''बाबूक नदर लागनये म्हूण! काळ्या रंगान नदर लागना. ख ऽ र नदरेन चोयतल्याची नदर काळो रंग ओडून घेता!''

''भुरग्याकच कित्याक, न्हवऱ्याक लेगीत काळो तिबो गालाक लायतात!'' विजयाले आईन म्हटलें.

''केन्ना?''

''तुवें केन्ना चोवू ना? न्हवरो आपल्या घरच्या माटवांतल्यान भायर सरतना, करवली न्हवऱ्याल्या गालाक काळो तिबो लायता. आनी न्हवरो व्हंकलेगेरच्या माटवांत भितर रिगतना, तोच तिबो करवली तुवाल्यान पुसता''

''माटवांतल्यान भायर सरतना लावप आनी माटवांत भितर घुसतना पुसप, हें अशें कित्याक?''

''भायर वार-सुत्रांली नदर लागता! माटवांत वार-सुत्रां आसनात!''

''वार-सुत्रां म्हटल्यार?''

''वायट शक्ती! भुता - खेतां बी!''

हाचेर विजय खो खो करुन हांसलो. नायकसरान तांका बेस - बरें पटोवन सांगिल्लें, भुतां-खेतां म्हण्टात ती मनशांली संकल्पना! तातूंत कांयच अर्थ ना!

''हांसता कित्याक रे?'' आईन ताणशेवन विचारलें.

''आगे, वायट शक्त, भुतां-खेतां बी तशें काय नासता! पिशेपणां हीं सगळीं तुमचीं!''

''कोणें सांगलें तुमकां हें?''

''सरान!''

''कोण सर?''

''आर. एन्. नायक सर!''

''तुगेल्या सराक कळटा 'माती'!''

विजयाक मारली भिरभिरी! ''तुमकां कळटा माती! आमगेलो सर कितलें शिकला जाणा? बी.एस्.सी. आनी चड! तुमी कितलें शिकल्यांत? माती? सर गणीत, सायन्स, काय बरो शिकयता

जाणा!'' विजयाचो नायकसराचेर हिसपा भायर मोग आसलो.

विजय तेदवार आठवे आसलो. मुरलीधराल्या इश्ट-वांगड्यामदीं हो सगळ्यांत नेणटो आसलो.

''नदर लागप म्हटल्यार कितें? तुमी सांगा चोया!'' विजयान खोदून विचारलें.

''नदर लागप म्हटल्यार, कांयजणांली नदर ख ऽ र आसता! त्या लोकांक खंयचीय वस्त वा गजाल अजापाची दिसल्यार पुरो! जालेंच घट्टण त्या वस्तूंचें! फातराचे फातर फुटल्यात नदरेन!''

''व्वा!'' विजयान फकाणांनशी टाळी वाजयली. ''नदरेन फातर फुट्टात जाल्यार, सुरींग कित्याक घालूक जाय?''

''तूं फकांणार व्हरनाका विजू!'' आईन बजावन म्हटलें. ''म्हगेल्या नेणटेपणांत, म्हजे आवयन एक गजाल सांगिल्ली, तिगेल्या कुळारा खय एक बायल आसली धनवंते म्हण! लोक तिका दोळे फुटकी धनवंते म्हूणच वळखताले. तिगेली नदर खय खऽर आसली.''

मागीर विजयाले आईन ते बायलेली गजाल सांगली...

भौसाक धनवंत्याल्या ह्या गुणांचो भोव बरो अणभव आसलो. देखून भौस आपली खंयचीय बरी वस्त तिचे साकून लिपोवन दवरतालो.

एक फावट ते दोळे फुटके धनवंतेन एके अस्तुरेक म्हटलें, ''तुगेले केंस कितले बरेऽ काळ्ळे आनी लांब गो! चोवंक बरेऽ दिसतात!''

जालें! हेर दिसा साकून तिचे केंस गळूंक लागले. वर्सा भितर गळून, तकलेचो खड्डो दिसूंक लागलो.

''मगेर तिगेले पुराय केंस गेले काय पर्थून येयले, नडणी किल्लतल्या वरी?''

''म्हाका खबर ना!'' आई चाळवली. ''फकाणां करूं नाका! सांगिल्लें तितलेंच आयक!''

फुडें आईन सांगिल्ल्यो गजाली विजयाक भोवच मजेशीर दिसल्यो.

एक दीस खय, धनवंत्यान कोणाली तरी दुदया-आळीं चोयली.

वालीक बरो मोठ्ठो शिरां-शिरांचो एक पाचवोच गांवठी दुदी लांबतालो. धनवंत्यान इतलेंच म्हणिल्लें खय, ''व्वा! बरो दुदी लागला मुगो वालीक!'' आनी मागीर कितें जावंयेत? दुदी घोऽ करून तुटून पडलो सकयल.

एक फावट खय कोणाली तरी बांय खणटाले. खणटां खणटां खय येद्दें व्हडलें झपंतर अशें तळप मेळ्ळें. खण्णी मुखार वचना जाली. खणटल्याचेर मोठो पेच! इतल्यान धनवंते थंय पावली. तिणें बागवोन चोयलें आनी म्हटलें मात, ''बाबा! केदे व्हडलें रे तळप हें!'' तळप खट्ट करुन फुटून दोन कुडके! येद्दी व्हडली मदल्यान वेर गेल्ली.

विजयान हांसत हांसत पर्थून विचारलें, ''आई, तुगेल्या आवयल्या कुळारा फातरा तळपा म्हण्टात ती शिल्लक उरल्यांत, काय गेलीं गे सगळीं फुटून?''

''विजू, तूं फकाणा करूं नाका हां!''

''आई, म्हाका सांग गे, आज्जेक फट मारचेली संवय बी आसली?''

विजुली आई खुबळिल्ली.

विजयान हड्ड्यार हात मारून सांगलें, ''हें कशेंच शक्य ना! नदर लागता म्हणटा, ती गजाल सामकी फट!'' मागीर ताणें आत्याक म्हणलें, ''आत्या, तूं ह्या असल्या गजालींचेर मात्तूय विस्वास दवरूं नाका. पूस ते काळे तिबे बाबुल्या तोंडावेले! तो घश्टून घश्टून पुराय तोंडभर करून घेता!

आत्या हांसून ओगी राविल्ली.

पूण विजय ओगी रावंक नासलो. बाबू कडेन कोण ना अशें चोयन, ताणेंच बाबुल्या तोंडावेले तिबे कपड्यान पुसोन उडयिल्ले.

आत्यान येवन चोयल्यार, बाबुल्या तोंडावेलें तिबे गायब! तिणें पर्थून लायले.

आत्ये ना अशें चोयन, हाणें पर्थून पुसोन उडयले.

आत्ये लायताली. हो पुसतालो.

निमाणे कडेन ही गजाल आईक कळ्ळी. आईन दिली चार थापटां पोल्यार, फाटीर विजयाच्या! मागीर रावलो विजय ओगी!

त्या दिसा सांजचें शाळे कडल्या पिंपळापेडार बसुन मुरलीधर, सुर्यकांत, मारुती, जनार्दन , अशोक आनी विजय गजाली मारताले. तेन्ना विजयान ही पुराय गजाल आपल्या इश्ट-वांगड्यांक सांगली.

विजयान आपली गजाल सांगतकीर, जनार्दनान आपल्या घरांत घडिल्ली एक खबर सांगली...

जनार्दनाली म्हाल-म्हातारी आज्जी जेवूंक बशिल्ली तेन्ना एकाद्रो घरांतलो मनीस जेवतां-जेवतां मदीच शिंकल्यार म्हणटाली, ''जेयतना अशें शिंकनये! अन्नाचो अपमान तो! अन्न-पुर्णा देवती रागार जाता! अश्या वेळार, तिगेली चूक मागूंक जाय! मागीर तीन फावटी उश्ट्या बोट धर्तरेक लावन, तें परतें जिबेक लावंक जाय!... आनी म्हणूंक जाय, 'धर्तरी पिकूं, पोट भरूं!' अशें करप म्हटल्यार, तिगेली धूळ खावनच आमी जियेतात, ही भावना!''

घरांतलीं सगळीं जेयतना शिंक येयल्यार, अशें करतालीं. एक दीस अशेंच जेयतना 'आक छींऽ!' करुन जनार्दनाक शिंक येयली. आज्जेन रोखडेंच म्हणलें, ''पुता, अन्नपुर्णा देवतेची माफी मागून, धर्तरी पिकूं पोट भरूं म्हूण!''

जनार्दन उसळ्ळो. आदींच ताचे तकलेंत असल्या खुळचट विचारा बद्दल तिडक तयार जाल्ली. आज्जेल्या ह्या उलोवण्यान तातूंत तेल पडिल्लें. ताणें तिडकेन म्हटलें, ''कोणें सांगलें, अन्नपुर्णा देवती रागार जाता म्हूण? धर्तरी पिकूंक जाय जाल्यार, कमरा कांटो मोडटा मेरेन घोळूंक जाय! भुंयेक फावो तें बियाणें घालूंक जाय! जाय तितलें सारें मारूंक जाय! तरच धर्तरी पिकता! अशें, धर्तरी पिकूं, पोट भरूं! म्हटलें म्हूण पिकना! उरफाटें, उश्ट्या हाताचें बोट जमनीक लायल्यार, जमनीवेले जंतू बोटार चडून पोटांत वयतले!''

तो तशेतरेन उसळिल्लो चोयन, आजी ताका चोयतच उरली. जनार्दनाले आवयन जनार्दनाक तापोवन विचारलें, ''असो तव्यार

घायिल्ल्या सांसवां वरी' उसळटा कोणाचेर तूं? सारखें सांगूंक कळना? आदी जाण्ट्या -नेणट्यांकडेन कशें वागूंक जाय, हें शीक! मागीर शाणेंशास्त्रां सांग तुगेलीं!''

''आमी आमगेल्या जाण्टेल्यांनी सांगलां तेंच करत येयल्यात! तुमचे भशेन शाणे जावंक नात आमी!... आनी आमी तुमचीं इतलीं पुस्तकांय शिकूंक नात! आमका जें खबर आसा, तेंच आमी तुमकां सांगतात. आयकात ना तर सोडून दिया! जण एकल्यालीं कर्मां, जण एकल्या कडेन!''

बापायल्या ह्या उतरां उपरांत जनार्दन कांयच उलोवंक गेलो नासलो.

शिकचो विशय येतकीर, अशोकान आनीक एक खबर सांगली...

अशोकाच्या वाड्यावेली जाणटी शेंवतू आज्जी, कितेंय उलयतना मर्दीच कोणेंय 'आंक् छीऽ!' करून शिंकल्यार, ''सत्य खरें'' म्हणटाली. तें उलोवप मगेर खरें आसूं, नातर फट आसूं!

एक दीस अशोकान तिका विचारलें, ''आज्जे, तूं उलयतना कोणूय शिंकल्यार 'सत्य खरें!' म्हणटा. आनी तें उलोवप फट आसल्यार?

शेंवतू आज्जेन हाचेर म्हटलें, ''एकाद्री गजाल उलयतना शींक येवप, हेचोच अर्थ तें खरें!''

''हें खंयचें शास्त्र?''

शेवंतू आज्जी म्हणटात ती हरशींच शार तोंडाची बायल! उलोवंक आयकुपी न्हू. आपलेंच खरें म्हणपी, हेकेखोर! ती अशोकान तशें विचारतकीर ताणशेली, ''चुतडा, खंयचें शास्त्र काय म्हूण विचारता? फाटल्या तेपासावन चलत येयिल्लें शास्त्र!''

हाचेर अशोक ओग्गी रावलो.

आनी एक दीस मजाच जाली...

शेंवतू आज्जी पांडुबाबाली बायल. जाण्टो पांडुबाब म्हणटात तो थंड सभावाचो हें पुराय गांव जाणा आसलो. चड उलोवपी न्ही. कोणाल्या केस्तावां, किजिलां वचपी न्हू. आपूण भला, आपलें

काम भला! जाताच जाल्यार कोणाल्याय उपकारा पडपी मनीस! आख्ख्या "आडगांवांत" पांडुबाबाक व्हड मान आनी आदर! पांडुबाबान उलयले उपरांत फुडें आनीक कोण उलोवंक वचना. जाणवय फाटल्यान ताच्याच उतराक चड किम्मत!

आनी ह्या असल्या जाणट्या मनशाक बेब्दो नरशींव, सोरो पियेवन तर्रर जावन येयला आनी पांडुबाबाल्या दारा मुखार तुळशीमांडे कडेन उबो रावन गाळींचो शिंवर करता.

"हो पांडुबाब, दिसता मावूल, घालता पावूल! असोऽ दिसता म्हूण, तेचेर मात्तूय विस्वास दवरनाकात, हांव सांगतां! ओगी, साळसूद रावता, हेचो अर्थ कितें? आपूण बरोऽ म्हूण घेवंक भौसा कडल्यान! गोड खावचें पिशें हें! भौसाक शेंडी लायता नाल्लाची!"

नरशींव सोऱ्यानेटार घोवाक खेपतां ते चोयन, सामकी तिडकेन फुरफुरत शेवतु आज्यी थंयच सामाकारा उबी आसली. नरशीव उलयतना ती 'आंक् छीऽ!" करुन शिंकली.

बेबद्या नरशिंवान हिणें शिंकिल्ले ज्युस्त आयकलें. म्हणूंक लागलो, "सत्य खरें! फट उलयना हांव! तेगेलीच बायल शिंकली! सवायशीण शिंकली! भरिल्ल्या कुंकमाची सवायशीण आवय!"

शेवतु आज्येल्या घरा शेजरा अशोकालें घर! अशोक दनपारा पेज जेवन उबाळाचे दीस आशिल्ल्यान आंगणांत - चुडटां माटवांत आराम खुर्चेर बशिल्लो. ताणें नरशिंवार्ली उलवणी ज्युस्त आयकर्ली. ताका हांसूंक आयलें. तो 'खुक्क' करून हांसलो.

अशोकान हांशिल्लें शेंवतू आज्जेन चोयलें. हरशींच तिचे तकलेंत उजो पेटिल्लो, अशोकाच्या हांसण्यान तातूंत तेल पडलें. ती खुबळ्ळी. म्हणूंक लागली, "बरोऽ हांसता मरे! त्या म्हाल-म्हाताऱ्याक हो न्ही नस्तें उलयता, तें आयकून हांसूंक येता रे तुका?"

"ना आज्जें, हांव हांसतां तें वेगळ्या कारणान! तुवेंच म्हणिल्लें न्ही गे एक फावट, उलोवण्यांत खरेंपण आसल्यारूच कोणय शिंकता म्हूण! नरशींवबाब उलयलो आनी तूं शिंकली. आतां नरशिंव बाबान

उलयिल्लें खरें म्हूण जालें ना!''

हाचेर शेंवतु आज्जेक कितें उलोवचें म्हूण कळलें ना!

तिणें बेठेच गणमणिल्ल्यावरी केले आनी मागीर अशोकाक थंयच सोडून, नरशिंवाल्या तोंडाक लागली...

अशोकाची ही गजाल आयकून पेडार बशिल्लें कडेन मुरलीधर, जनार्दन, सुर्यकांत, विजय बी खो-खो करुन हांशिल्ले...

... मुरलीधराक चड खंत भोगताली ती ताच्या आवयच्या अनसुयाच्या आंगांत शिरंतरांनी घोळपी खुळचट विचार चोयन!

व्हीर वयर करुन, सान्न उबी दवरल्यार अपशकून! तीन फावटी 'थुमेकाल!' म्हणूंक जाय! उंबऱ्यार रावन शिंकल्यार नाकार उदक फाफडूंक जाय!... दाव्या हातान उसणे पयशे दिल्यार ते परत मेळनात!... सान्न-सूप आनी शेंदरी चुकून एकठांय दवरल्यार अवचिन्न! (मनीस मरता तेन्ना, मड्या फाटल्यान ह्यो तीनय वस्तू एकठांय करून वांगडा उडयतात) राती कडेन दिवो पेटयले नंतर, भायल्या मनशाक घरांतलें मीठ दिल्यार घरांतली लक्ष्मी वयता!... घराच्या आशिकुशीक घुघूम रडल्यार अपशकून!... घरांतलें सुणें लांब सूर लावन भोकूंक लागल्यार अवचिन्न!... आवय-बापूय जिते आशिल्ल्यान तकली तासून घेवंनये!... पांय सोडून बशिल्याचे पांय दांगाळून वचनये!...

एक आनीक दोन न्हय, अशे जायते खुळचट विचार! ह्या असल्या विचारानी, स्रद्धांनी, आनी कुड्ड्या भावार्ताक लागुनच हिणें जित्या घोवाक म्हारू केलो! ताका घरांत घेवंक ना! ताका काळजार फातर दवरून सगळें सगळें सोडून दिगंतरा वचचें पडलें!

आयज सवायशीण आसूनय रांड म्हूण जियेता.

मुरलीधरान तिका एक फावटी समजोन सांगिल्लें, ''आई, बाबा मरूंक ना! तेगेल्या कुडींत म्हारू रिगला म्हणपी ह्या लोकाले तकलेंत कुड्ड्या विचारांचे, कुड्ड्या स्रध्देचे म्हारू रिगल्यात! ते सगळे म्हारू हेंगेल्या तकलेंतल्यान भायर धांवडावपी एकाद्रो मांत्रीक जाय!... हांव

सांगतां, तें आयक, तूं कुकूम लाय! फुलां माळ! मंगळसुत्र घाल!''

अनसुयान म्हणिल्लें, ''तूं म्हणटा म्हूण, म्हज्यान तशें करुंक जावचें ना!''

''कित्याक?''

''जावचें ना रे! ''

''चल, धर! तुजे कोतान मेलो तो! तरी लेगीत तुगेल्या मना-काळजांत तो जितो आसा काय ना? जी अस्तुरी आपल्या घोवाचेर काळजा सावन मोग करता, ते अस्तुरे पासत तिचो घोव मरच ना! सदांकाळ जितो आसता! मागीर मना-काळजांतल्यान मरूंक नाशिल्ल्या घोवान बांदिल्लें मंगळ-सुत्र काडूंक जाय कित्याक?''

''तूं म्हणटा, तशें नासता तें! रुढी परमाणें एक फावट घोवालें मडें मसणटीर व्हेलें, म्हणटकीर, बायलांक आंगार सिरंगार दवरून घेवचो अधिकार ना!''

''म्हटल्यार आमी दिल्ली जायरात वाचून बाबा येयिल्लो जाल्यार, तूं तेका स्विकारची नासली?''

हाचेर अनसुया ओग्गी राविल्ली.



जाणटें सांगतात ते परमाणें, ह्या 'आडगांवांत' म्हालवाड्या वेलो.' 'मदे वाड्यावेलो,' आनी 'कडेवाड्यावेलो' भौस मूळ ह्या वाठारांतलो! मुरलीधराचो घराबो, हो ह्या गांवच्या मूळ घराब्या पैकी एक मुखेल घराबो! तांणीच ह्या वाठारांत सुर्वेक खुटी मारून मठी उबी केल्ली. देखून ह्या गांवची 'खुंटी-आवयची, जोगण घालून गांवभर शिमेर चोरु वारवचो मान तांकां आसलो. हेर सगळ्या वाड्या वेल्या भौसान उपरांत येवन राबितो केल्लो. कोण म्हणटात, काय मूळ गोंयकार! पोर्तुगिजांनी बाटाबाटी सुरू केल्ली, तेदेवार लोक आपलो धर्म सांबाळूंक, दिका मेळटा ते वाटेन आपली साठली-पोटली गुठलावन धावुंक लागिल्ले, तातूंतलेच हे कांय जाण! कांय जाण दक्षीण महाराष्ट्रांतल्या कोंकणांतले! ताचें कारण, कांय जणालें 'कुलदेव' गोयांत आसात. जाल्यार कांय

जाणाले कोंकणांत! कितेंय आसूं, 'दुधगंगा' न्हंयचे देगेवेल्या, ह्या सैम सोबीत, पाचव्याचार वाठारान तांची नदर ओडून घेयली. दोंगराच्या कंवडाळ्यांतलो हो शितळ वाठार तांकां मानवलो. भूंय मांसाळ आसली. कशेक उत्तम आसली. पावसात वयले वयर 'बीं' फाफुडल्यार लेगीत घसघशीत किल्लोन येतलें आसलें. ही पिकाळ भूंय सांसणाची आपली पोटां भरतली, हें येवजून त्या भौसांनी हांगाच वस्ती केल्ली. हिंगासल्ल्या मूळ भौसांत ते भरसले. तांचे वांगडा एक मत्तान आनी एक चित्तान रावूंक लागले. तांणी हिंगासल्ली भूंय आपल्या घामांनी भिजयली. रटें दण्णोन गोटे पिकयले! हिंगा सल्ल्या भौसा वांगडा रोटी-बेटी वेव्हार आरंबले आनी अशेतरेन हो 'आडगांव' उबो जालो.

उदेंते वटेन दोंगरांचे कवंडाळें! दोंगराच्या मुळसांतल्यान गांवा वटेन पातळिल्लें रान! रानसोपता थंयसून सुरू जाल्लो शेतांकेर! शेतांच्या कडाकडांनी वसयिल्ले वाडे! पुराय गांवभर वचत थंय शेतांकेर आनी झाडां-पेडांनी वेंगायिल्ले गांवकारा सकट बारां वांगड्याले मेज्जून बावीस वाडे दिश्टी पडटाले. हरेक वाड्यार अटंबाचे, आंब्याचे, भिंडाचे, चिंचेचे, फणसाचे व्हडले व्हडले रूख! माड-माडयांचें तर सांगुंकच नाका! हरेक घरा-मुखार, नातर फाटल्यान, एक खोप आसलीच! जळोव, शेणी बी भरून दवरूंक, उदक तापोवन न्हावूंक! पायणीनी आनी पांयवाटांनी हे वाडे एकामेकांक जोडिल्ले आसले. एकामेकां वांगडा मोगाचे, आपुलकीचें नातें सांगताले.

गांवचे आग्नेयेक 'कळसा दोंगर' आसलो. देवळाच्या कळसा परमाणें हाचो शेंडो, म्हूण हाका भौस 'कळसा दोंगर' म्हणटाले. ह्या 'कळसा दोंगरा' वेल्यान एक वझरो खळखळ करीत खुळ खुळो वाजयिल्ल्या वरी व्हांवत येवन देवी आवयल्या देवळा फाटल्यान वचून फुडें दुधगंगा न्हंयेक मेळटा. हाका 'खुळखुळ्या वझरो' म्हणटात.

खुळखुळ्या वझऱ्यादेगेर एक पिपळा पेड आसा. तें पेड 'खुळखुळ्या ब्रम्ह्यालें' पेड! ह्या पेडार एक घुमटीकशी ब्रम्ह्याली मठी आसा. 'खुळखुळ्या ब्रम्ह्याक' भौस कित्याक 'खुळखुळ्या ब्रम्हो'

म्हणटात, हे मात कोणच सारखें सांगना. कोण म्हणटात, खुळखुळ्या वझऱ्यादेगेर आसा म्हण, 'खुळखुळ्या ब्रम्हो' म्हणटात. कोण म्हणटात राती कडेन दरेक सोमारा सुवारेक येतना, तो खुळखुळ्या दांडो वाजयत येता, म्हण खुळखुळ्या ब्रम्हो! ह्या ब्रम्ह्याक चैत्राच्या पयल्या सोमारा जोगण दिवप जाता. हरेक सोमारा जानवें, पान-विडो बी दिवन 'जाणवय' तागेली पुजा करता.

'कळसा दोंगरां' मुळसांत 'देवी आवयले देऊळ' आसा. पोन्ने बांदणेचें! व्हड आनी पकदस्त! वांव वांव वेंगेचे खांबे! शिश्या लाकडाच्यो मोट-मोट्यो पाटयो! देवळाक जोडूनच मुखार ल्हानसोच सभामंटप आसा. सभामंटपा भोंवतणी लोखणाच्यो सरवळ्यो! पुराय देऊळ शिमीट, चुनो आनी काव घालून गिलांव केल्लें. देवळाचें छप्पर मंगळुरी नळ्यांचें आनी ताचेर एक रुप्या रंगाचो कळस! देवळा मुखार एक तळी! ही 'देवी आवय' आख्ख्या गांवाली ग्राम-देवता! दसऱ्या-दिसा हे 'देवीआवयलो' उत्सव जाता. दसऱ्या पयलीं नवरात्र पुजयतात. आनी धाव्या दिसा, देवीआवयक कुकडां-बोकडांची मान-मानतीक दिवन जात्रा सोपयतात. उपरांत हांगां कार्तीकेक एक 'दिवजां जात्रा' जाता. दर दिसाचो पुजा-पाठ करचेलो अधिकार 'जाणवयक'!

तळ्या बांदार ग्राम-पुरसाली मठी आसा. 'देवीआवय' परमाणें ह्या 'पुरसालीय' 'जाणवय' कडल्यान नित्य-पुजा जाता. हो ग्राम-पुरीस म्हालवाड्यावेल्या, मदेवाड्यावेल्या आनी कडेवाड्यावेल्या लोकांलो 'कुलदेव'!

जाणवयचें कुटूंब मूळ ह्या गांवच्या भौसालें मिराशी! पुराय देव-धर्माचो भार तांचेर! मिराशी जाल्ल्यान गांवांतले पयल्या विड्याचे मानकरी! भौशीक शुभ-कार्य खंयचेंय आसूं, पयलो विडो जाणवयक! लग्न थारलें नंतर गोड-कातली ताच्या हातांनी जावूंक जाय! शेतांची बियाचण ताचे हातान! कापणे वेळार पयली मुठय ताणें करप! मळणे वेळार फोवावाडी ताणें घालप! एक उप्परकी माळयेचें घर आशिल्लें,

भाट-बेंस, भूंय आशिल्लें गिरेस्त कुटूंब. हें कुटूंब भोव बुदवंत! शिवराक! सोवळें - ओवळें पाळपी! ह्या कुटूंबांतल्या म्हाल-गड्यार गांवच्या 'जाणवयलो भार' येता. देखून जाणवयचो भार येवपी कुटूंब म्हूण ह्या कुटूंबाकच जाणवय अशें नांव पडलें! 'जाणवयचो' भार फकत वर्सा दोन फावटी जात्रें वेळार येता आनी भौसाक जाणवायो दिवन संथता.

'जाणवयलो' भार येवपी मनशाक एका भाशेन देवी सामर्थ्य आसता, असो भौसालो परंपरेन चलत आयिल्लो भावार्त! देखून भौसाचेर कसलेंय कश्ट, संकश्ट येयल्यार तो जाणवय म्हऱ्यांत येता. जाणवय गुलां फिरोवन गडें-फाडें करुन चोयता. उपाय सांगता. देवी आवय कडेन, पुरसा कडेन संकश्ट पयस करुंक गाराणें घालता. देवा कडली प्रासाद-पाकळी दिता. कोणाकय द्रिश्टीचो, द्रिश्टोळाचो बादिकार आसल्यार काडटा. कोणाचेरुय म्हारूं बसल्यार धांवडायता. भौसालो एकाद्रो रासवळ प्रस्न आसल्यार देवी आवय मुखार पुडी घालून कौल घेता.

'जाणवयलें कुटूंब' येवजून, मापून उलोवपी, तकली थंड दवरपी आनी हेरांक बुद्द दिवपी आसलें. धूर्त आनी मतलबीय तितलेंच! ह्या आख्ख्या कुटुंबांत फाटलो फुडलो विचार करिनासतना आड-मुठी वागपी म्हणटात तो, फकत एकटो राम जाणवयलो पूत - शंकर जाणवय आसलो.

आयज गांव पुर्विल्लो 'आडगांव' उरूंक नासलो. तो सुमार बदलिल्लो. गांवांत 'हायस्कूल' जाल्लें. 'प्रायमरी हेल्थसेंटर' जाल्लें. पोस्ट ऑफिसाचे सब-ब्रेंच जाल्ले. हमरस्त्याक जोडिल्लो तांबडो रस्तो आता डांबराचो जाल्लो. गांवांत दिसाक दोन फावटी तांबड्या रंगाच्यो सरकारी 'एस्.टी. बसी' येताल्यो. रस्त्याच्या आशी-कुशीक तीन-चार पसरेय जाल्ले. एक गाडो चलतालो. आदलीं साबार जणांली गांवठी नळ्यांची घरां आतां सरसकट मंगळुरी नळ्यांची जाल्लीं. गांवांत एक-दोन मोटार सायकली बी दिश्टी पडटाल्यो.

तशीच उरिल्ली ती, 'मायंगिणी दोंगरावेल्यान' व्हांवत येवन, अस्तंते

वटेन नाच्च जाल्ली दुधगंगा न्हंय! तसोच उरिल्लो तो 'जळीनासा' फातर! (जळीनासाक वचकून रावचेली भौसाली भिरांतय तशीच उरिल्ली) तसोच उरिल्लो तो 'कळसा दोंगर'! 'कळसा दोंगरावेल्यान' 'खुळखुळ्या वझरो' तसोच व्हांवतालो! 'खुळखुळ्या ब्रम्ह्याकय' भौस तसोच पुजतालो! देवी आवयक हरेक वर्सा तशींच कुकडां-बोकडांची मानतीक मेळटाली! 'खुटीआवय' मुखार तशेंच कुकड मारप जातालें! कुड्डे विचार, कुड्ड्यो स्रध्दा, कुड्ड्यो रुढी अजून मेरेन तश्योच आसल्यो!... आनी 'जाणवयवेलो' भौसालो भावार्तय तसोच आसलो!

आयज गांवांतलीं भुरगीं शिकूंक लागिल्लीं.

कांयजाण 'दोड्डुपेठेंत', 'वायंगिणी', 'कारवारा' बी वचून कॉलेज शिकिल्लीं. कांय जाण शिकतालीं. तातूंतले कांय जाण 'मार्क्स' आनी 'सर्टिफिकेट्साचे' धनी आसले. जाल्यार कांय जाण खरें शिक्षण जाणपी आसले.

मुरलीधराक आभिमान आसलो. स्वताचो, आपले इश्टवांगडी-सुर्यकांत, मारुती, जनार्दन, विजय, अशोक, रामकृष्ण, हांचो! हे खऱ्या अर्थान शिकिल्ले. आपल्या शिक्षणाचो स्वताक आनी समाजाक उपेग जावचो, ह्या उद्देशान ते इंगळे कशे पेटिल्ले. तांणी सगळ्यांनी थारयिल्लें, गांवा साठीं कितें तरी करचें!

एक दीस शाळेंकडल्या पिंपळा पेडार हे सगळे वांगडी गांवांतल्या कुड्ड्या विचारांचेर उलयत बशिल्ले. तेन्ना मुरलीधरान म्हणलें, ''आमी सगळ्यांनी संघटीतपणान आतां वावर करूंक जाय! आनी ते पासत आमकां एक संघटणा उबी करची पडटली.''

मुरलीधराचो हो विचार सगळ्यांक मानवलो. विजयान तर सट करून संघटणेचें नांवय सुचयलें, 'आदर्श युवक संघटणा!' हें नांवय सगळ्यांक मानवलें.

हांणी मागीर हो विचार गांवांतल्यां आनीकय जायत्या समविचारी तरनाट्यांक सांगलो. कांय जणांनी मनार घेयलो. कांय जणांनी कान-

मनार घेवंक ना.

मनार घेयिल्ल्या तरनाट्यां मदी चिंचेवाडचो सदा, नयावाड्यावेलो संदीप, काजुवाडचो मोहन, सुर्यकांताली धाकटी भयण शोभा, मारुतीली धाकटी भयण मंगला, विजयाली जवळी भयण जया, अशोकाली बापोल भयण रमा, जनार्दनाली धाकटी भयण सुमतीबी आसलीं.

संघटणा उबीं करचीं, हे सगळ्यांल्या एकमतान थारतकीर, मुरलीधर, सुर्यकांत, अशोक, विजय, मारुती, जनार्दन आनी रामकृष्ण वायंगिणी वचून 'आदर्श युवक संघटणा' रजिस्टर करून येयले. संघटणेचो अध्यक्ष मुरलीधर, उपाध्यक्ष - सुर्यकांत, सचीव - विजय, जोड सचीव - मारुती, खजीनदार - अशोक आनी वांगडीं - जनार्दन आनी रामकृष्ण!

संघटणा रजिस्टर जाल्ल्या हेर दिसा, मुरलीधरान पयली बसकां आपयली. मुरलीधराल्या घराचे माळयेंर वांगड्यांक बसूंक ताडपत्री सोडयिल्ली. सुर्वेचे बसकेक मुरलीधर, सुर्यकांत, अशोक, मारुती, जनार्दन, विजय, रामकृष्ण, सदा, संदीप, मोहन, शोभा, मंगला, जया, रमा आनी सुमती हीं इतलींच हजर आसलीं.

संघटणेचो अध्यक्ष ह्या नात्यान वांगड्यां मुखार केल्ल्या भाशणांत मुरलीधरान सांगलें, ''आमी सगळे सुशिक्षीत! फकत नांवा पुरते, सर्टिफिकेटां पुरते न्हू! आमचे मुखार, गांवांतल्यो कुड्ड्यो स्त्रध्दा, कुड्ड्यो रुढी, कुड्डे विचार, इतलेंच पयस करचेले प्रस्न नात! आमकां आमगेलो गांव सगळ्या अर्थानी आनी सगळ्या आंगांनी सुदारचो आसा! समाज-मन सुमारा भायर कमकुवत आनी अशक्त जालां! ते घट्टमुट्ट आनी सशक्त करूंक जाय!

सुमार लोकांनी म्हणिल्लें, हांवें आयकलां, 'हीं भुरगीं शिकनासलीं बरीं आसलीं. हीं भुरगीं शिकतात आनी बेकार रावतात! मागीर शिकूंक कित्याक जाय?'

हें सारखें न्हू! अशें म्हणटल्यांक शिक्षणाचो उद्देश समजलो ना!

ह्या संवसारांत बेकार कोणच उरूंक शकना! ह्या संवसारातल्या हरेक जिवाक, ताचो आपलो असो एक वावर आसता! बेकार आसता, तें मेल्ले मडें! जो स्वताक बेकार दवरतां, तो मेल्ल्या मड्या भशेनच! ह्या संवसारांत वावर करपा पासत जायतें पडिल्लें आसा! आनी तरी लेगीत कोणेंय बेकार रावप म्हटल्यार, धान्या राशीर कुकड हीण!... आनी आमी तर ह्या 'आडगांवची' मनशां! बेकार कशीच रावंक शकनात! आमगेल्या वय-वडलांची शेतां-भाटां आसात. शिक्षणाचो उपेग करून आमच्यांनी तो वावर आनिकय बरे भशेन करूं येता.''

उपरांत, 'आदर्श युवक संघटणेचो' उद्देश वांगड्या मुखार दवरतना ताणें हेंवूय सांगिल्लें, ''आमी गांवांतल्या अडिल्ल्या-अडचल्ल्यांक मदत करूंक सगळ्यांत फुडें आसूंक जाय! आमगेली संघटणा ह्या गांवांत आसतना, भौसांतल्या कोणाकच आपूण एकलो आसां, आपल्याक फाटबळाक कोण ना, अशें दिसूंक फावना! 'आदर्श युवक संघटणा' भौसा पासत देव आसतली!''

आनी मागीर मुरलीधरान संघटणेचो मुखेल उद्देश मांडिल्लो. ''गांवचो भौस कसो कुड्डे स्रध्देच्या, रुढीच्या, परंपरेच्या घुस्पागोंदळांत घुस्पून कसो कुड्डो जावन वावुरता, हें आमी चोयतात! भौसाक शाणो करचेलें काम आमगेलें आसतलें!''

मागीर मुरलीधरान बरोवन हाडिल्ली एक कविता वाचून दाखयली...

*वाट चुकिल्लें*
*सवण्यांचें भिरें*
*दक्षीण दिकेन*
*भिरभिरता.*
*तें एक सवणें*
*मदीच वाट बदलता*
*उदेंतेक वयता.*

*हांव पळयतां*
*सुमार तेपान*
*भिऱ्यांचें भिरें*
*ताचे फाटल्यान*

*हांवूय मागीर*
*तें सवणें*
*जातां*
*पाखां पातळायतां...*

बशिल्ल्या सगळ्या वांगड्यांनी कविता आयकून टाळयांचो शिंवर केलो.

मुरलीधरान वांगड्यां कडेन मागलें, ''आमी जण एकल्यांनी तीं उदेंतेक वचचेलीं संवणीं जावचीं पडटलीं. आमी तसो स्वता भितरच सोपूत घेवचो पडटलो.''

सुर्वेक संघटणेची थापणूक जाल्ली, तेन्ना ते थोडेशेच आसले. एक - दोन म्हयन्यां भितर आनिकय कांय तरनाटे भितर सरले.

संघटणेची थापणूक जाल्ल्या काय दिसां भितर गांवभर फो फो जालें. नाराणालो चेडो - मुरलीधराल्या मुखेलपणा खाला गांवच्या काय तरनाट्यांनी एक पंगड बांदला. ते आतां वयवडिलांनी घालून दिल्ले रुढी-परंपरेचे नेम मोडटले! देवा-धर्माक खोंटायतले! अस्पृश्यांक देवळांत घेतले! हाफूड-भशट मानचे नात! गांवांत सुदारणा हाडटले.

ही बातमी सगळ्यांत पयलीं बाबग्यान वचून जाणवयगेर दिली.

राम जाणवयन खुर्चेर बशिल्ले कडेन कपलाक मिरयो घालत म्हटलें, ''भूत येवनेत पडलात सगळीं! दुर्बुद्दी! आनी काय न्ही! अशें जाल्यार, गांवाक भायल्या वाऱ्याचो उजो लागतलो! गांव लयाक पावतलो!''

राम जाणवयलो पूत शंकर घरा कुशितल्या गोठ्यांत गायचे दूध

काडूंक गेल्लो. हातांत दुधाचें बास्केट घेवन भितर सरतालो. ही बातमी आयकून पुरुसभर उसळ्ळो. म्हणूंक लागलो ''देड शाण्यांलो पंगड आनी कांय न्हू! कमर मोडून उडोवंक जाय, एक एकल्याचें! उरों हांथरुणार पडून! रुढीक, परंपरेक हात लावप म्हटल्यार? गांवचे रासवळ नेम-नियम मोडीत काडपी हे कोण?''

संघटणेच्या विचारांक बोटांर मेजपा इतले लोक सोडले जाल्यार, भोवतेक विरोध करपीच आसले. सगळे रुढी-परंपरेक दसून रावपी, नवो विचार कान-मनार घेवंक तयार नाशिल्लेच आसले. मुखेलपणान राम जाणवय, ताचो पूत शंकर. खरपणीं बाबगो, सैरोब, म्हाल-म्हातारो पुंडलीक बाब, पांडुबाब, मक्तासूर गंगाधर, गुणो, पुरसो हेच आसले. नवो विचार हांकां सदांच उस्तुऱ्यां वयतालो. पूण हाचो 'आदर्श युवक संघटणेर' कसलोच परिणाम जायनासलो. सगळे आपल्या मताक दसून आसले.

'आदर्श युवक संघटणेन' सगळ्यात पयलें काम हातांत घेतले, तें अस्तुरेच्या 'म्हयन्याचे पाळये' बद्दलचे भौसांतले गैरसमज पयस करचेले.

मुरलीधराक याद आसा, तो नेणटो आसतना, ताची आई हरेक म्हयन्याक तीन दीस कुशीक बसताली. विचारल्यार सांगताली, ''म्हाका कावळ्यान आफुडलां! मागीर तिका कोणेंच आफडूंक फावोनासलें. ती राती कडेन भायर ओसरेर न्हिदताली. आपलें हांथरुण कोणें आफुडनये अशें करुन वेगळें दवरताली. दिसाची मागीलदारा भायल्यान बसून रावताली. तिका रांदचे कुडींत, मदलेकुडींत, देवाकुडींत बी वचूंक मेळनासलें. तेन्ना घरातलें पुराय रांदप आजी करताली. आईन जेवप सुदीक भायर बसून, तेंवूय कुशीक दवरिल्ल्या ताटांत. उदक, च्याव पिवचो पेलो वेगळो.

ताची फकत आईच न्ही, तर वाड्यावेल्यो हेर अस्तुऱ्यो, चेडवां बी अशींच कुशीक बसतालीं.

मुरलीधराक खूब फावटी प्रस्न पडटालो, हे कावळे बायलांकच

कित्याक आफुडटात? दादल्यांक कित्याक ना? ताणें एक दीस आईक विचारलें, आईन म्हणलें,. ''तशेंच तें! तुका कळना तें ! तूं चवकशी करूं नाका तेची! '' आनी आईलें उतर मानून तो फुडें चवकशी करचे भानगडेंत पडूंक नासलो.

एक दीस मुरलीधरान चुकून आईल्या कुशीक दवरिल्ल्या हांथरुणाक आफुडलें. भश्ट बायलांच्या हांथरुणाक आफुडनये हें तो जाणा आशिल्ल्यान ताणें आवयक सांगलें. आईन म्हटलें, ''आरे देवा! काड कपडे आंगावेले! आनी भिजय उदकांत! आंगावेले कपडे भिजोवन न्हाता मेरेन मदले कुडींत, देवा कुडींत, रांदचे कुडींत वचूं नाका! कोणाक आफुड नाका! वळणेर सुकोवंक घाल्ल्या कपड्यांक चुकून हात बोट लागत!'' आईन बजावन सांगलें.

मुरलीधरान मागीर फाटले खोपींत वचून न्हाणे उजो केलो. भाणांतलें उदक बरेंऽ तापयले. एका बकेटांत शेळें उदक बांयतल्यान हाडून कोण चोयना अशें पळोवन आंगावेले एक्कान एक कपडे काडून तातूंत भिजयले. मगेर भाणांतलें गरम उदक न्हायन, तुवालो कमराक येडोवन घरांत येयलो.

तशीच दोनेक वर्सां उपरांतची गजाल...

ताचें शिलाताई तेन्ना वायंगिणी शिकतालें. दिवाळेच्या सुटयेंत घरा येयिल्लें. ताकाय सकाळीं सकाळींच कावळो आफुडलो. मुरलीधर हें नकळो आसलो. ताणें हांथरुणा वेल्यान उठून भायर येयिल्लोच ''शिलाताई ऽ ऽ !'' करून शिलाताईले फाटीर एक धुमको घायलो. ''अरे, आफुडलो म्हाका'' म्हणत शिलाताईन बोवाळ घालो. ''कित्याक?'' म्हूण विचारतकीर शिलाताईन सांगलें. मुरलीधर मागीर शिलाताईचेर तापलो. ताणें विचारलें, ''सक्काळी उठिल्लेंच कित्याक कर्माक भायर गेल्लें तुज्या? हें मदान मस्त कावळे आफुडटात म्हूण नकळ तूं?''

मुरलीधराक तशे तरेन तापूंक कारण आसलें. हेर दिसा नरक चतुर्दशी आसली. गांवभर दिवाळेचो उत्सव आनी गडगड! दारांत

'बळी-देव' पुजोवप, 'आकाश-कंदील' लावप, असल्या उमेदीच्या वावरांत आतां शिलाताईन वांटो कसो घेवप?... तीन दीस आई भशेन कुशीक बसचें पडले ना?

एक दीस मुरलीधराक आनीक एक प्रस्न पडिल्लो. आईक हरेक म्हयन्याक कावळो आफुडटा, तो देव-कावळो, काय म्हार-कावळो? काय खंयच्याय कावळ्यान आफुडल्यार कुशीक बसचें पडटा? तेन्ना ताका दिशिल्लें, भोवतेक म्हारकावळो आसुंये! देव-कावळ्याक मान आसता. वय-वडिलांल्या स्राद्धाक, म्हाळाक बी ताका 'वाडी' दितात! म्हार-कावळ्याक बाबड्याक खंय दितात? उरफाटें म्हार कावळो दारांत येवन आड्डल्यार "हो आनी अवचिन्न कित्याक येवन आड्डता रे" म्हूण ताका आमुडटात. आनी देव-कावळो आड्डल्यार, "कोण सोयरो येता काय?" म्हणटात. ताणें मागीर रावूं नजो जावन आईक विचारलें, आईन दोळे मोट्ठे करुन तापयत म्हणलें, "तुका एक फावट सांगल्यार कळना रे, तुका नाका ती चवकशी म्हण?"

तो ओगी रावलो.

मुरलीधराक हातूंतली खरी गजाल कळिल्ली, तो धावेक आसतना! ही एक सैमीक गजाल! तेन्ना ताणें चिंतिल्लें, हातूंत आनी कसलो भश्टाकार? निवळ रावलें म्हणटकीर जालें! कित्याक देवा म्हऱ्यांत वचनये? कित्याक घरांत, रांदचे कुडींत वचनये? कित्याक हेरांक आफुडनये?... आसुंये जाणटेल्यांनी खंयच्याय कारणान हो नेम घालून दिल्लो! आयज विज्ञान खूब फुडें पावलां! मनशाक कितें कात समजता! कित्याक ही हेंगाडीपणां?

तेन्नाच ताणें हें तकलेंत घेयिल्लें.

मुरलीधरान एक दीस शोभा, रमा, जया, सुमती आनी मंगलाक आपोवन तांचे वांगडा एक मिटींग घेयली. तांचे म्हयन्याचे पाळये बद्दलचो प्रस्न तांचे मुखार दवरलो. घडये तांकांय हो प्रस्न सतयतालो. सगळ्यांनी एका हुंकारात सम्मती दिली. इतलेंच न्ही, तर तांणी ह्या वावरा पासत फुडाकार घेवचें उतरय दिलें.

हेर दिसा मुरलीधर सुर्यकांता घेवन गांवच्या 'प्रायमरी हेल्थ सेंटरांत' गेलो. 'हेल्थ सेंटर' म्हटल्यार फकत दोन पेण्यावेलें दोन कुडीचें मंगळुरी नळ्यांचे घर कशें आसलें. भायले कुडींत दोतोर आनी नर्स बसतालीं. आनी भितरली कूड पेशंटांक तपासची! भायले कुडींत, कपाटांत कसल्यो कसल्यो वखदाच्यो बाटल्यो आसल्यो. 'हेल्थ सेंटरांत' भितर रिगतकीर पुराय वखदाचोच वास येतालो.

दोतोर सावंत मेजा फाटल्या खुर्चेर धवो कोट घालून बशिल्लो. दोळ्यांर वोक्ल आसलें. कितें तरी बरयतालो. मेजार तेथेस्कॉप, प्रेसांव तपासचे बी. पी. एप्रेटस् बी आसले. कुशीक मोटवी मचंग आंगाची नर्स धवी साडी न्हेसून एके खुर्चेत ओग्गी बसून आसली. ह्या दोगांय बगर थंय तिसरो कोण नासलो.

मुरलीधराक आनी सुर्यकांताक चोयन, दोतोरान कित्याक येयल्या काय म्हूण विचारलें. मुरलीधरान येयिल्ल्याचें कारण सांगून दोतोराक विनयलें, "दोतोर, तुमी हे गजाली पासत म्हायती दिवंक येवश्यात?"

दोतोरान म्हटलें, "चोयात, म्हाका येवंक आनंदच आसा! पूण, ह्या विशयार उलोवंक एकाद्री बायल दोतोर आसप बरें! 'वायंगिर्णीतले' 'सरकारी आस्पत्रेंत' डॉ. सुमन सहस्त्रबुध्दे म्हूण एक लेडी डॉक्टर आसा. तुमी तिका वचून मेळात. जाय जाल्यार म्हजें नांव सांगात. ती येतली हाची खातरी हांव दितां! बरी ऽ मनीस ती!"

दोतोर सावंतान अशें सांगना फुडें मुरलीधर आनी सुर्यकांत हेर दिसा सक्काळीं उठून, एस्.टी.बसीर 'वायंगिणी' येयले. बसस्टेंडाकडल्यान दोन उल्याच्या अंतरार 'सरकारी आस्पत्र' आसली. दोगूय चलत आस्पत्रेंत येयले. ओ.पी.डी.च्या भायर एका लाकडी बेंचीर धवे कपडे घालून एकटो बसून आसलो. तो आस्पत्रेंतलो एक नोकर म्हूण ताचे कपडेच सांगताले. मुरलीधरान ताका विचारलें, "अरे, डॉ. सुमन सहस्त्रबुध्दे खंय मेळटली?"

"डॉक्टर वार्डांत गेल्या. जाली, येवची जाली! साडे धांक ओ. पी.डी. सुरु जाता. हिंगाच मेळटली. हिंगाच रावात. बसा. बसा!"

दोगूय ते बँचीर बसून रावले.

एक धायेक मिनटांनी धवो कोट घाल्ली गळ्यांत तेथोस्कोप घाल्ली डॉ. सुमन येयली.

"हीचोय, येयली."

"एक्सक्यूज मी!"

"एस्!"

"हांव मुरलीधर आनी हो सुर्यकांत. आमी मुजरत तुमकां मेळूंक येयल्या. डॉ. रमेश सावंतान धाडलां आमकां."

"सांगा!"

मुरलीधरान थोडक्यांत येयिल्ल्याचें प्रयोजन सांगलें.

"व्हाय नॉट! शुअर! म्हाका असले गजाली पासत येवंक खोशी जातली. हांव येतांच!

"केन्ना 'ऑफ्' आसता दोतोर तुमका?"

"बुधवारा!"

"येता त्या बुधवारा येवंक शकतलीं?"

"येवया!"

"थ्यँक्यू डॉक्टर!"

"माय प्लेजर!"

"दोतोर तुमी येतले कशे? आनी टायम्?"

"म्हजी कार आसा. फकत तुमी एक काम करा. हमरस्त्यार येवन मातशे रावात. हांव एक फावट पावलां थंय! तरी सुदीक! आनी वेळ साडे-धांची दवरा. ज्युस्त धांक पावतां हांव!"

"डॉक्टर, तुमकां वाटेरच आडावन विचारलें म्हण सॉरी!"

"आसूं रे! निमाणेंकडेन आमी मनशांच न्ही!" दोतोर भोव आपलेपणान उलयली.

दोगूय दीस थारोवन येयिल्ले. आतां बाकी वावर ताकतिकेन करप गरजेचें आसलें.

नोव्हेंबराच्या पयले पंद्रशींतले दीस आसले.

शाळेंतल्या भुरग्यांक सुटी आसली.

शेतांतलो कापणेचो वावर सोपिल्लो. जण एकल्याल्या खळार धाना-घुडयो दाळिल्ल्यो आसल्यो. मळणेक अजून सुमार तेप आसलो.

'आदर्श युवक संघटणेंतल्या' हरेक वांगड्यान गांवांतल्या घरां घरांनी भोवन, म्हयन्याची पाळी येतल्या सगळ्या आंकवार चेडवांक आनी बायलांक आपोवणें दिल्लें. ह्या पासत चड वावर केलो तो शोभा, मंगला, रमा, सुमती आनी जयान!

संघटणेंतल्या सगळ्या तरनाट्यांनी रानांत वचून कोंडे मारून हाडले. ग्रामपंचायते मुखार जात्रे-नाटकाक घालतल्यावरी सुरी लाकडाच्यो मेड्यो पुरुन, वयर कोंडे चडोवन, ताचेर मल्ला घालून लांबचो लांब माटोव उबो केलो. वायंगिणी वचून पत्र्या खुर्च्यो भाड्यान हाडल्यो.

कार्यावळी दिसा अपेक्षे इतल्यो खुर्च्यो भरू नासल्यो. सगळ्यो मेळून लागीं लागीं शंभरेक खुर्च्यो भरिल्ल्यो.

कांय जणीं मुजरत येवंक नासल्यो, जाल्यार कांय जणींक ह्या विशयाचें व्हडलेशें म्हत्व दिसूंक नासलें आनी कांय जणी म्हयन्याची पाळी सुरू आसा म्हूण येवंक नासलीं. येयिल्ले तेन्ना कोणेंय आफुडल्यार?

दोतोराची वाट चोयत सुर्यकांत हमरस्त्यार वचून राविल्लो. दोतोर उतरा परमाणें वेळार पावली. दोतोर माटवांत पावली तेन्ना ज्युस्त सव्वा धा जाल्लीं. ग्रामपंचायतेच्या ऑफिसांत च्या ची वेवस्था केल्ली. च्या बी पिवन ज्युस्त साडे धा वरांर सभेक सुरवात केली.

माटवांत सभे मुखार एक मेज, मेजा फाटल्यान दोन खुर्च्यो मांडिल्ल्यो. एका खुर्चेर दोतोर सुमन आनी दुसरे खुर्चेर शोभा बसलें.

जयान आपल्या बागांत फुलिल्ले गुलाब आनी हेर सोबेचीं फुलां, पानां बी घालून एक सोबीत तुरो केल्लो. तो शोभान दोतोर सुमनाक ओंपलो आनी तिचें स्वागत केलें. मागीर जयान तिगेली सभेक वळख करून दिली.

तिशेक वर्सांची, एक शिवडी आंगलोटाची, गोरी, घारश्या दोळ्यांची, लांब फाती घायिल्ली, मध्यम उंचायेची दोतोर सुमन सगळ्यांली नदर ओडून घेताली.

शोभान तिका उलोवची विनंती करतकीर, ती उलोवंक उबी रावली. मागीर शोभा वचून कुशीक आड दवरिल्ल्या बांकड्यार हेर इश्टिणी वांगडां बसलें.

दोतोर सुमनान उलोवंक सुरवात केली.

''हे सभेक हजर आशिल्ल्या म्हज्या तमाम भगिनींनो, तुमकां म्हजो माये-मोगाचो नमस्कार.

हांव आयज जें सांगतलें, तें सगळें तुमी घट्ट मतींत दवरतलीं अशी सुर्वेकच आस्त बाळगितां.

चड करुन बारा ते चवदा वर्साचें चली यौवनावस्थेंत प्रवेश करता. हे अवस्थेंत तागेले कुडींत, मनांत, सुमार इतलो बदल जाता.''

तिणें येतना एक गुठलायिल्लो तक्तो आनी एक पॉयंटर हाडिल्लो. तो तक्तो सोडोवन तिणें ती उबी आशिल्ली थंयच, माटवाचे एका मेडये-कोक्याक तांगयलो. त्या तक्त्यार 'द फिमेल रिप्रॉडक्टीव सिस्टम, अशें वयर बरयिल्लें आसलें. आनी अस्तुरेल्या प्रजोत्पादन करचेल्या भितरल्या आंगांची आकृती दाखयिल्ली.

हातात पॉयंटर घेवन तिणें सांगलें, ''फकत कुडींत, मनांतच न्ही, तर तिच्या गुप्त आंगांतय सुमार इतलो बदल जाता.''

इतल्यांत शाळेंत वचपी एक चली भुरगें 'खु-खु-खु' करुन हांसलें. तें हांसतकीर, आशिकुशीच्यो चलयोय हांसल्यो. कांय बायलांनी तोंडार पदर घेयलो.

हें चोयन, दोतोर सुमन खिणभर ओगी रावली. मागीर तिणें सांगलें, ''हातूंत हांसपा सारखें, लजपा सारखें कांयच ना! हें सगळें सैमीक! आमी हें वेवस्थीत, बरे भशेन समजून घेवंक जाय!''

मागीर विशयाकडेन येत, पॉयंटरान तक्त्यावेलीं आंगां दाखयत सांगलें, ''हे पिरायेंत बीज कोशांतल्यान 'बिजांड' तयार जावंक

सुरवात जाता. तें 'बिजांड' 'बीज वाहिनेंतल्यान' प्रवास करत गर्भाशयात येवंक लागता...

हरेक म्हयन्याक गर्भाशयाच्या आवरणार एक नरम अशी 'गादी' पातळटां. जाका लागून, येवचेल्या 'बिजांडाचें' संगोपन करूंक ताकतलें. आतां बीज कोशांतल्यान भायर सरिल्ल्या 'बिजांडा' कडेन पुरशाल्या शुक्राणुचो संबंध येवन तें फलद्रूप जाल्यार, गर्भ जल्माक येवंक शकता!... जर 'बिजांड' जायत्या कारणांनी फलद्रूप जावुंना जाल्यार, तें 'बिजांड' मरता. आनी गर्भाशयाक सुचना मेळटा, गर्भापासत तयार जाल्ली पुराय योजना फुकट गेल्या... हाचे उपरांत गर्भाशयांत पातळिल्ले नरम गादयेचें आवरण स्त्रावांच्या रुपान भायर सरुंक सुरू जाता.... आनी ह्याच भायर सरतल्या स्त्रावाक 'रजोस्त्राव' म्हणटात.''

मागीर कुशीक बाकड्यार बशिल्ल्या शोभा, मंगला, जया कडेन चोयत तिणें म्हणलें, ''इस्ट्रोजन आनी प्रोजेस्टेरॉन ह्या स्त्री हार्मोन्साचो परिणाम 'रजोस्त्राव' स्थितीचेर जाता!''

विशय फुडें व्हरत तिणें सांगलें...

''ही म्हयन्याची पाळी सादारण बारा ते चवदा वर्सां पिरायेर सुरु जाल्ली, पंचेचाळीस ते पन्नास वर्सां पिराये मेरेन चलता. कांय जाणांक मातशें उसराय सुरू जाता, तें अनुवंशीक म्हटल्यार, बडिचें आसता! ही पाळी तीन ते स दीस मेरेन चलता. समान्यतायेन चार-पांच दिसच अशें म्हणूं येता! पूण, कांय जणांक स-सात दिसय जाता! भिवचेली गरज ना, तशें जाता जाल्यार! सामान्यतायेन आदले पाळयेच्या अठ्ठावीस ते तीस दिसां उपरांत फुडली पाळी येता.''

दोतोर सुमनालें उलोवप आतां बायलो, चेडवां कान दिवन आयकतालीं. मदीच काय बायलो कुणुकुणू करुन तांचे मदींच उलोवंक लागल्यो. दोतोरान हें चोयलें आनी विचारलें, ''कितें जालें? तुमी तुमचे मदीच उलयतात अशीं! कोणाकय, कितेंय विचारचेलें आसा?''

विश्रामाबायल सुंदरे उठली. ''पाळी चुकता, ताचें कारण कितें?''

''गुड्! बरो प्रस्न!'' दोतोरान म्हणलें. ''गर्भधारणा जाल्यार पाळी चुकता, हें तुमी सगळेच जाणात!''

सगळ्यांनी तकल्यो हालयल्यो. शाळेंत वयतल्या चलींभुरग्यांनीय! मागीर एकामेकांक चोयन दांत काडून हांसलींय.

''ते भायर गर्भाशयाचो रोग जाल्यार पाळी चुकता! अती ऽ मानसीक तणावाक लागून चुकता! पौश्टीक खुराक मेळना जाल्यार चुकता!... अशीं जायतीं कारणां आसात. अशे वेळार दोतोराक वचून विचारप बरें! दोतोर वेवस्थीत तपासून कारण सांगतलो आनी उपायबी सांगतलो. ओगी रावं नजो! चड करून चली-भुरगीं सांगूंक लजतात. तशी लज धरचेली गरज ना! हे सगळें सैमीक, अशें हांवें सुर्वेकच सांगलां.''

कुशीक बाकड्यार बशिल्ल्या जयान हात वयर केलो. ''दोतोर, म्हगेलो एक प्रस्न आसा.''

''विचार''.

''पाळये वेळार पोटांत दुखता. सोसूं नजो इतलें दुखता. हेचेर तुमी कितें सांगतले?''

''गुड् क्वेश्चन! हें हांव तुमका सांगचेलेंच आसलें. पाळयेच्या वेळार कांय जणीक एके तरेची पिडा सोसची पडटा. कांय जणीक पाळयेच्या कांय दिसां आदीं, पायांर एके तरेची सूज कशी दिसता. कांय जणींक चड स्त्राव जाता. कांय जणींक कमी स्त्राव जाता. अशें कमी, जास्त स्त्राव जाता जाल्यार, दोतोराक विचारप बरें! चली-भुरग्यांक चड करुन पाळी सुरु जाले उपरांत एक दोन वर्सां पोट दुखची पिडा सोसची पडटा. पिराय वाडटा तशी कांय बायलांक ही पीडा उणी जायत वता. लग्न बी जातकीर, ही पिडा उरना! आनी तरी लेगीत उरली जाल्यार, स्त्री-रोग तज्ञ दोतोरालो सल्लो घेवप केन्नाय बरो!''

''दोतोर, हेचेर उपाय कितें?'' जयान पर्थून विचारलें.

“हाचेर उपाय म्हटल्यार, ही पिडा पयस करचेली वखदां! तेचपरी, पौश्टीक खुराक! व्यायाम!... आतां हांव तुमकां कांय उपाय सांगतां, बरेऽ करुन आयकात...

पयलो उपाय, ‘रिलेक्सेशन!’ म्हटल्यार, फावो तो आराम! प्राणायम करप! लांब स्वास घेवप... सोडप!

दुसरो उपाय, चलप - ‘वॉकींग’! जोरान चलप! सायकलींग करप! जोगींग करप!

एक मात मतींत दवरां, व्यायाम करचे आदी आनी व्यायामा उपरांत भरपूर उदक पिवंक विसरनये!

तिसरो उपाय, पौश्टीक आहार! भरपूर सॅलड कोशिंबीर खावची सवंय दवरात. कारण तातूंत तंतुमय पदार्थ, विटामीन जीवनसत्वां आनी खनीजां योग्य प्रमाणांत मेळटात. तळिल्ले पदार्थ चड खावंनये. जेवणा उपरांत मिठाई बी खावची परस फळां खायात. धंय तुमचे खावडेंतलो एक घटक आसूंक जाय! तुमकां धंय करूंक हांगा दूध भरपूर आसा. ताचो फायदो घेयात.

आनी हाचे वांगडाच दिसाक अर्दवर चलचो व्यायाम बरो! हाचेन शक्त मेळटा.

इतलें केल्यार ही पिडा उरची ना.

आनी तरीय वचुंना जाल्यार, दोतोराक मेळून सल्लो घेवप बरो!”

इतलें उलोवन दोतोर थांबली. तिणें वांगडा आपली उदकाची बाटली बॅगेंत घालून हाडिल्ली. तिणें बॅग उगडली. कांचेची उदका बाटली भायर काडली. उगडली. दोन घोट उदक पिली - पर्थून गुड्डी लायन बाटली टेबलार दवरली. आनी मुखार उलोवंक लागली...

“आतां हांव जें तुमकां सांगतली, तें भोव म्हत्वाचे. सगळ्यांनी बरेंऽ करून आयकुचें आनी मतींत घट्ट दवरचें.

म्हयन्याचे पाळये वेळार कुडीचें स्वास्थ म्हत्वाचें! ना जाल्यार प्रजोत्पादन सुवातेंतल्या अवयवांनी रोगबाधा, हिंवळाणी येवप, खाज पडप, असल्यो गजालीं उप्रासूं येतात.

देखून करप कितें?

अशा वेळार दिसांतल्यान दोन फावटी न्हावप! आनी धगांत कडकडीत सुकयिल्ले सफाय सुती कपडे, अंतवस्त्रां बी न्हेसप! तीं दिसान दीस बदलूंक जाय! नायलॉन अंतवस्त्रां ना!

अंतरभाग उदकान साफ दवरात. तो निवळ करतना साबूण, ॲण्टीसेप्टीक बी वापरप ना!

पॅडांचो उपेग करप, वा निवळ कपड्यांचो उपेग करप, ही तुमची पसंद! पूण, स्त्राव कितल्यां प्रमाणांत जाता, त्या प्रमाणें तीं बदलप गरजेचें!

कपडो जर आसत, तर धुयतना लायिल्ल्या साबणाचो इल्लोय अंश कपड्यांक आसूंक फावना! निवळ धुवूंक जाय! आनी तो कपडो धगांत सुकोवंक जाय! जेका लागून कपड्यार रोग जंतू उरचे नात! तेंच परी, हे कपडें तीन म्हयने मेरेनच वापरचे! हे कपडे नरम, पातळ आसप सामके बरें!

जर तुमी पॅडां वापरतात, तर पॅकेटाचेर दिल्ल्यां सुचनां प्रमाणें तीं वापरुंक जाय! आनी सादारण चार ते स वरांनी तीं बदलूंक जाय! नातर, हिंवळाणी येतल्यो, जंतु संसर्ग जातलो!''

इतलें सांगून ती थांबली.

शोभान हात वयर केलो.

''विचार!'' दोतोरान म्हणलें.

''दोतोर, म्हयन्याचे पाळये वेळार आमकां कुशीक बसयतात. आमी कोणाक आफडूंक जायना! रांदचे कुडींत, देवघरांत बी वचूंक जायना! आमकां भश्टकार जाल्ल्यो म्हणटात आनी अस्पृश्य करुन दवरतात. हेतूंत कितलें तथ्य आसा? हें सारखें?''

''म्हाका तर हातूंत कांयच तथ्य दिसना. ही एक सैमीक गजाल! पाळये वेळार निवळ उरप म्हत्वाचें! हे वेळार हेरांक आफुडल्यार कितें जाता? शाळेंत, कॉलेजींनी वचपी चलयो शाळेंत, कॉलेजींत हेरांक आफुडनात? बशींनी बी प्रवास करतना तीं वेगळीं खंय

बसतलीं? आमचे सारख्या रोजेक वयतल्यां बायलांनी कितें करप? कोण दितलो हरेक म्हयन्याक चार-चार दीस सुटी?''

''आमकां हिंगा पाळये वेळार ह्यो सगळ्यो गजाली पाळच्योच पडटात! आनी तेंवूय मनांत नासतना! जाणटेले ना जाल्यार ओगी रावतात? देव-धर्म खायलो तुमी म्हणटात''. रमान भोव खेदान सांगलें.

''दोतोर, तुमचे कडेन बी असलें हें पाळटात?''

सुंदऱ्यान मदीच विचारलें.

''तूं म्हूण नाका जाल्लेंच विचारतां मुगो'' साईनाथा बायल विद्यान तिका खोंटान धुकलत म्हटलें.

दोतोर सुमन हांसली.

''तशें हे असले प्रकार थोडे-भोव फरकान सगळेकडेन पाळटात म्हटल्यार, अतिताय जावची ना! हांव स्वता पाळना! पूण, आमचीं जाणटेलीं बी आमकां देवाकुडींत बी वचूंक दिनासलीं... तांचे लागी विज्ञान निश्ठा नासली न्ही! आमी आतां शिकल्यांत, सुदारल्यांत! आमकां वैज्ञानीक दिश्टीकोण मेळ्ळा. आतां आमी पिश्या भशेन वागपांत अर्थ ना! मगेर, शिकिल्ल्याचो उपेग कितें जालो? तुमी हांगा म्हूण पाळटात! शारांनी हे कशें पाळटलें? थंयचें जिणें वेगळे आसता!''

शोभान पर्थून हात वयर केलो.

''सांग!''

''देव-धर्माचो आनी हेचो संबंध कितें?''

''कांयच ना! देव ही मनशाची भावना, संकल्पना! धर्म हो मनशान आपणायिल्लो वागचेलो, जियेवचेलो मार्ग! आनी म्हयन्याची पाळी ही सैमीक गजाल!... आमी शिकिल्ल्यांनी खंयच्या गजालींचो मेळ खंय लावप?''

''दोतोर, तुमी सांगतात तें आमकां मानवता. एके वटेन रुढीन घालून दिल्लो हो न्ही नस्तो नेम, दंडक! आनी दुसरे वटेन मुखार

सरूंक लागिल्लो हो संवसार! आमी मदेकांत चिड्डुतात! अशें वेळार करप कितें आमी?'' शोभान विचारलें. ताच्या उतरांनी पुरोगामी येवजणेची धार झळकताली.

दोतोरान स्पश्टपणान सांगलें, ''तुमी वैज्ञानीक दिश्टीकोण आपणायात आनी मतीक मानवता तेंच करात! हो आमचो बायलांचो वैयक्तीक प्रस्न! हो आमचो आमीच सोडयचेलो! आमच्या खाजगी गजालींचे अशें प्रदर्शन करचेलो अधिकार हेरांक कोणें दिलो?''

दोतोरालीं उतरां आयकना फुडें शोभान, जयान आनी रमान ताळयो वाजयल्यो. तांच्यो आयकून हेरांनीय वाजयल्यो.

दोतोरान विचारलें, ''आनीक कोणालेय प्रस्न उरल्यात?'' कोणेंच हात उखलूंक ना.

दोतोरान म्हणलें, ''म्हाका खूब बरेंऽ दिसलें. तुमी ही कार्यावळ घडोवन हाडली ती! ह्या असल्या कार्यावळींची आयज गरज आसा!... तुमी म्हाका हांगा येवन, तुमचे मर्दी कांयखीण भासा-भास करची संद दिली. काळजासावन हांव तुमचें बरें मागतां! धन्यवाद!''

सगळ्यांनी ताळयो वाजयल्यो आनी दोतोर बसली.

दोतोर बसले उपरांत शोभा उठलें.

''आतां हांव तुमकां हिंगा एकठांय जाल्ल्या सगळ्या बायलांक आनी चेडवांक विचारतां. आमी आतां सगळ्यांनी कितें करचें अशें दिसता तुमकां?''

सगळे ओग्गी! फकत एकामेकालीं तोंडां चोवंक लागलीं. मागीर जयवंता बायल आनंद्यान ल्हवूच ललिता कडेन म्हणलें, ''तसो जाण्टेल्यांनी घालून दिल्लो नेम सोडूंक जाता, कोणें कितलेंय सांगलें म्हूण? कान-दोळें फुटनात आमगेले?''

''आमकां बायलांक हरकत ना गे! पूण, ह्या आंकवार चेडवांक ह्या जमान्यांत बरेंऽ दिसना तें! आतां म्हगेल्या भावालें चेडूं खंय रावता 'वायंगिणींत'?'' ललितान सांगलें.

''म्हगेल्याय कुळारा 'वायंगिणींत' म्हगेल्या खंयच्याच भावालीं

चेडवां भायर रावनात. आमगेले शोभा आतां थंयच रावन कॉलेज करता. तें थंय रावता? हिंगा येयल्यारच रावप तें!'' गोविंदाबायल शकुंतलान म्हणलें.

''तुमी तुमचे मर्दी उलयनाकात! म्हगेल्या प्रस्नाक जाप दियात!'' शोभान आपल्या उतरांचेर जोर दीत म्हणलें. हरशींय शोभाल्या उतरांत एक तडफ आसताली. एक जोर आसतालो. आशिल्लेंय तशेंच तें आवय भशेन लांब-रूंद! ताच्या दोळ्यांत भावा भशेन एक तेज आसलें. त्या मानान जया, रमा, मंगला, सुमती ही मध्यम उंचायेचीं आनी मध्यम बांध्याचीं.

सगळीं ओग्गी.

''हांव आतां आंकवार चेडवांक विचारतां, तुमी सांगात!''

कांय चेडवांनी आपले आवयल्या तोंडा कडेन चोयलें. जाल्यार, कांय चेडवानी उबे रावन ''ना! ना! हेचे उपरांत ना!'' म्हूण स्पश्टच सांगलें.

''आमगेलीय तीच इत्सा आसा!'' शोभान ठामपणान सांगलें.

जया उठलें.

''आयज साकून आमी आंकवार चेडवां कुशीक बसचेलीं ना! सारखें?''

''हय!'' सगळ्या आंकवार चेडवांनी सूर लायलो.

''मतींत दवरात, आमचेर चेपण येतलें!'' शोभान सांगलें, ''करतलीं कितें तेन्ना?''

सगळीं ओग्गी.

''येयल्यार कान -मनार घेवप ना!''

ते सभेंत सगळ्या बायलांचें जरी एकमत नासलें, तरी सगळ्या आंकवार चेडवांचें एक मत जाल्लें.

दोतोर सुमनाले जयान निमाणेकडेन उपकार मानले, आनी सभा सोपयली.

आंकवार चेडवांनी घेयिल्लो हो निर्णय गांवभर भायल्या वाऱ्या

भशेन पातळ्ळो.

खरपणी बाबग्याक कळना फुडें ही बातमी घेवन तो सगळ्यांत पयली पांडुबाबागेर येयलो. बाबगो मोटवो, हड्ड्याक पोक पडिल्लो, पोटा कोचको भायर येयिल्लो, गोरो, दोळे भितर गेल्लो आनी बुरश्या कातिचो आसलो. ताच्या हातार, पांयांर कसलीं तरी शिबां आसलीं. एक नंबर चाडयाळो. हाचे ताका आनी ताचे हाका करपी. जिबेर तीळ टिकनासलो.

तो पांडुबाबागेर पावलो तेन्ना, पुंडलीकबाब थंय येयिल्लो आसलो. दोगूय आंगणांत, माटवा पोंदा आराम खुर्चेर बसून उलयताले. आनी शेंवतू आजी मुखारच जमनीर बसून काथ्याचो सूंभ पिळून दोरी करताली.

ही बातमी आयकना फुडें ती ताणशेली ''व्हरचो भोग येयला तेंचेर! देव धर्म भश्टयतलीं खय तीं?''

''आतां चड शिकल्यांत न्हू तीं! जावचेलेंच! जावचेलेंच हें! शिक्षणाचो परिणाम हो! जावूं कितें जाता तें! आतां आमगेलें धा सरले, पांच उरले! सोळा मणांतलीं पंदरां मणां पावलीं मसणटीर ! तेगेल्या कर्मान तीं मरतलीं!'' खोकलेची उबळ चिड्डीत पुंडलीक बाब उलयलो. आनी मगेर गळ्याच्यो शिरो ताणटा मेरेन खोक् खोक् खोकलो. उपरांत हाक थू करुन बशिल्लेकडच्यानच बचकभर मेरे भायर थुंकलो.

''देडशाणेपणा!'' पांडुबाबान थंडसाणेन म्हटलें.

बाबगो थंयसून 'जाणवयगेर' येयलो. राम जाणवय भायर माटवांत खुर्चेर बसून पानांक चुनो लायतालो. ''यो बाबग्या!''

बाबगो जाणवय मुखार थंयच कांबळ उडोवन बसलो, आनी पुराय बातमी सांगली.

''होळो येयला तेंचेर! देव-धर्म भश्टयतलीं! गांवांत शुध्देचार उरचो ना!'' इतलें उलोवन बाबग्या कडेन चोयन ताणें म्हणलें, ''आवय-बापूय विचारनात तेंका? काय तेणींय सोडलां सगळें?''

“हे सगळें करतां तो नाराणालो मुरलीधर! आनी कोणच न्हू! तोच सगळ्यांक छूऽ लायतां!”

“तो शाणो समजता स्वताक! बापूय नाराण सादो आसलो. आनी आजो मुरलीधर तर भांगर मनीस! हो असो कसो जालो काय म्हणटां?”

“मावळ्याली बड येयल्या!... पयर चोयलो ना, कसो म्हजेर घुरघुरोन येतालो तो, हांवें तेगेल्या भाच्याक देडशाणो म्हणलें म्हूण!”

“अनंत मरे? तो तसलोच! अनंतालोय बापूय बरो ऽ मनीस आसलो. हांवें उलयिल्लें हरेक उतर कोंदल्यानी झिकतालो चोय! एक सुदीक उतर हारी उडयनासलो. भोव भावार्ती मनीस!”

“आतां तेंकां करप कितें?”

“कोणाक म्हण्टा तूं?”

“हीं आंकवार चेडवां...”

“तूं आनी हांव किते करतले बाबग्या? तेंकांच कळूक जाय तें! जण एकटो आपल्या कर्मान मरता! आतां हेचे उपरांत, हें जालें... तें जालें, म्हूण येवं म्हजेकडेन! सांगतां सारखो!”

बाबगो मागीर थंय रावलो ना. “हांव चल्लों. ही बातमी तुमगेल्या कानार घालया म्हण मुजरत येयिल्लों.” अशें म्हणत आपली कांबळ उखलून तो चलूंक लागलो.

वतना वाटेर वडामुळांत ताका बेब्दो नरशींव मेळ्ळो. पिवन तर्र आसलो. तोंड तांबडे जाल्लें. मुखार उबो रावतकीर घम्म करुन सोऱ्याचो वास येयलो.

पिवन पिवन नरशींव खोको जाल्लो. हात-पांय सुकून बडी जाल्ले. पोले भितर गेल्ल्यान पोल्याचीं हाडां वयर सरिल्लीं. दोळे फोणांत गेल्ले. तकलेवेले केंस पुराय पिकिल्ले. ताका चोयल्यार दिसतालें, हो खंयच्याय खिणाक हांथरुण धरत आनी मरून वचत!

नरशिंवान बाबग्याक चोयन दोनूय हात जोडून कोपरा कडल्यान नमस्कार केलो. “नमस्कार! बाबगोबाब, नमस्कार! देव बरें करु!”

"तुकाय नमस्कार!"

"बाबगोबाब, तुका एक सांगूं? रागार जायनाका हां! केन्नाच सांगूं ना! आतां सांगतां! सांगू मरे?"

"सांग! सांग! बेगीन! वयतां हांव!"

"तुका सगळे जाण खरपणीं बाबगो म्हण्टात, जाणां तूं?"

"जाणां!"

एका तेंपार बाबग्याक दाव्या हातार कसलें तरी कातीचें दुयेंस जाल्लें. पितांवा भाशेन चट्टे चट्टे पडिल्ले. तेन्ना ताका तो हात कुचकुचतालो आनी पर्थून पर्थून खाजवचो पडटालो. हें ताचें दुयेंस सुमार तेप उरलें. म्हाळगो बाब तेन्ना कसलें कसलें झाडा पाल्याचें वखद करतालो. कसलीं कसलीं मुळां झरोवन लायतालो. पूण गूण पडनासलो. सुमार इतल्या वखदां उपरांत ल्हवू ल्हवू हात सुमार जालो. पूण पुरायेन न्ही! शियां दिसांनी बी तें दुयेंस ताजे जातालें. परत वखद घेवचें पडटालें. खाजोवणी पर्थून सुरू जाताली. निमाणेकडेन ताका 'दोड्डु पेठयेंतल्या' सरकारी आस्पत्रेतल्या दोतोरान पुराय निवळायलो. पूण तेन्ना बाबग्याक 'खरपणी बाबगो' म्हूण पडिल्लें नांव तशेंच उरिल्लें. आनी बाबग्यानय संवय पडटकीर, ल्हव-ल्हव तें स्विकारिल्लें.

बाबग्यान विशय बदलीत म्हणलें, "अरे, तूं हिंगा खंय? देवा वाटेन बी येवूं ना मरे?"

"शे ऽ ! हांव आडवाटेन येयलां. हांव आनी सोरो पिवन देवा वाटेन येतां? शीऽ ! केन्ना ना! हांव नकळो रे? हांव कितें देवाक खावूंक उठलां रे? देव आमगेलो मरे तो! बरम्हो...!"

"सांगूंक जायना! आयज गांवांत लोक देव धर्माक खावूंकच उठल्यात!"

"हयऽऽ...! कोण रे?"

"गांवांतलीं आंकवार चेडवां!"

"अशेंऽ? कितें म्हणटा रे तूं!"

"आतां हेचे उपरांत गांवांतलीं आंकवार चेडवां भश्टी जातली

तेन्ना, भायर बसची ना खंय!''

''हयेंऽऽ! कोणें सांगलें?''

''आख्ख्या गांवांत धाक पडल्या! तें गोविंदालें चेडू शोभा, 'वांयगिणी' मावळ्यागेर रावन शिकतां चोय, तें... तेंच मुखेली! तेंच हेरांक छूऽ लायता!... आनी तेका छूऽ लायता तो नाराणालो मुरलीधर!''

''अशेंऽ? दोगालेंय कितें सूत ना मरे?''

''तें म्हाका खबर ना!''

''हयेंऽऽ! खबर ना?

मागीर एकदम याद जाल्ल्यावरी बेबद्या नरशिंवान म्हणलें, ''एक काम कर! म्हाका चार रुपया दी!''

''कित्याक रे?''

''वचून इलें गुट्ट करतां, आनी हेका बरोऽ उजरायतां! दी! दी!''

''तू मरे, हेरांकडल्यान पयशे मागून पिवनच मरतलो!''

''छेऽ! छेऽ! हांव मरचो ना! पांडुबाबा भशेन जाणटेलो खोको जावन मरतलों हांव!... ये, बाबगो बाब, आतां पांडुबाबाक पिराय कितली जातली रे?''

''जातली णव्वदां वयर पांच!''

''हयेऽऽ! शाबास! वालोर हां! खरोच वालोर! अजुनय कसो आसा चोय म रे! सुकिल्लो वांसो कसो! कट्टी घेवन बरगिल्यार, कट्टीभर मांस मेळचें ना! पूण, झंड जगलें बरें! सारखें न्हू?... चल, दी चार रुपया!''

''मरू तूं!'' अशें म्हणत बंडये खिशांतल्यान बाबग्यान चार रुपया काडून दिले.

''देव बरें करु!'' म्हणत नरशींव शेवटलो थंयसून. एक मिनीटय मागीर थंय रावूं ना!

वेळ पडटना सुमार, नरशींव पिवन तर्र जावन, गोविंदाल्या दारांत येवन खेपूंक लागलो...

"...ही गोविंदाली शोभली... दिसता मावूल, घालतां पावूल! तुका हें सांगिल्लें कोणें? तीन दीस भायर बसल्यार आंगा कुडको वयतलो तुमच्या?... देव-धर्म अशें तरेन भश्टल्यार, तुका किडें पडचे नात? कोण काडटलो मगेर तें किडें? शीऽ! बुचबुचीत किडे काडूक जातात?"

शोभा एकटेंच वासरेर मेजाकडेन बसून बरयतालें. सुर्वेक ताका कितेंच समजलें ना! ही आनी नड ह्या वेळार हिंगा कित्याक रे? अशें मनात म्हणत तें ओग्गी बरयत रावलें.

मागीर आपलें नांव घेयिल्लें आयकना फुडें, ताणें कान शेळयलें. चोयल्यार हो ताकाच गाळी संवता.

शोभा सोमतें बरोवचें थंयच दवरुन भायर येयलें. "कितें रे, कितें जालें तुका?" ताणें नरशिंवाच्या मुखार येवन विचारलें.

"म्हाका कितें जालें काय विचारता? तुगेली तकली घुंवल्या ती जाग्यार हाड! मद मारलां तुमकां सगळ्यांक!"

हीं उतरां आयकनाफुडें शोभाक 'शीट् शीट् शीट्' जालें. ताचें रगत उसळ्ळें. ताणें फुरसद चोवंक ना, जाणटो-नेणटो म्हण चोयनासतना, नरशिंवाल्या शर्टा-कॉलरा धरलें. "आतां उलय! उलय आतां!" आनी शोभान ताका नेटान धुकळ्ळो. तो सोमतोच वचून आंगणा मेरेर पडलो.

खिणांतच नरशिंवालो सोरो देंवलो. पडिल्ले कडल्यान म्हणटा, "बाय, जाणट्यांक अशें धुकळनयें बाय!"

"वच! शेवटीय हांगासल्ल्यान!"

"शेंऽऽ! हांव रावतां?" नरशिंवान धडपडत उठत म्हणलें, "हो चोय गे ऽ ऽ लों!" आनी तो गेलो.

हेर दिसा संघटणेची बसका आसली. तेदवेळार शोभान ही गजाल सगळ्यांक सांगली. सगळें हांस हांस हांसले.

मुरलीधरान अध्यक्ष ह्या नात्यान, आनी हेर वांगड्यांनीय सभेचो उद्देश सफळ केल्ले पासत शोभाक, रमाक, जयाक, सुमतीक, मंगलाक

बी परबीं दिलीं. ही कार्यावळ त्या दिसा फकत चेडवांनीच चलयिल्ली. चेडे मुजरत मुखार वचूंक नासले.

''नरशिंवाक बुध्द शिकयली म्हूण तुका स्पेशल परबीं!'' जयान शोभाक फकाणान हांसत हांसत म्हणलें.

''आतां आमकां अशेंच घट्ट रावचें पडटले! हाचे उपरांत जायते शींव, वाघ आंगार येतले. तयार रावूंक जाय!''

''येतले, आनी नरशिंवा भशेनच शेपडी घालून वयतले.''

हाचेर सगळें हांसले.

संघटणेन हातांत घेयिल्लें पयलेंच कार्य सफळ जाल्लें. गांवांतलीं भोवतेक आंकवार चेडवां म्हयन्याचे पाळये वेळार भायर कुशीक बसची बंद जाल्लीं. तांकां घरातल्यान भायल्यान सगळे कडल्यान चेपण येतालें, शीऽ... थूऽ... जातालें! तांणी सगळ्यांनी कसोच हट्ट सोडुंना! 'जाता तें जाता! चोया!'' अशें येवजून तीं रावलीं. संघटणेंतले वांगडीय तांचे मनोधैर्य वाडयत रावले... निमाणे कडेन भोकतलें भोक भोक भोकले आनी मागीर कूं...कूं ..कूंय करत ओगी पडले.

तशेंच कांय दिसांनी मुरलीघरान आपूण ह्यान फुडें 'खुंटी आवयली जोगण' घालचों ना अशें जाहीर केलें. ही गजाल ताणें मक्तासूर गंगाधरा कडेन सांगून धाडिल्ली. मक्तासूर गंगाधर मुजरत ताका इबुण्णेचे दीस लागीं येयल्यात म्हण 'खुंटी आवयली जोगण' केन्ना घालता? म्हूण विचारुंक येयिल्लो. मुरलीधराचो हो विचार आयकून तो चकासूर जाल्लो. हें असलें आनी कोणें केन्ना येवजुनासलें. 'खुंटी आवयली जोगण' घालना म्हटल्यार कितें? हें कसलें खूळ? गंगाधरान मुरलीधराक भोव समजोन सांगचो येत्न केलो. पूण, मुरलीधर आयकुंकच तयार नासलो. गंगाधर तोंड येद्देशेंच करुन गेल्लो.

येदोवेळ भितरल्यान मुरलीधराली आनी गंगाधराली भासाभास अनसुया आयकताली, गंगाधर भायर सरून वयतकीर, ती मदलेकूडीतल्यान ओसरेर येयली. मुरलीधर बशिल्ल्या खुर्चे

कुशीतल्या खुर्चेर बसली आनी तिणें विचारलें, "मुरली, कितें उलयतां तूं? जोगण कित्याक घालचो ना?"

"म्हाका घालचे दिसना!"

"दुर्बुद्दी येयल्या तुका?"

"तशेंच समज!" इतले उलोवन तो उठलो आनी भायर सरुन गेलो.

अनसुया बाबडी चिंतत रावली. 'हें अशें एकेक नाकजाल्लें करता हो, आनी लोक काडयेन गू घालतात म्हगेल्या तोंडांत! कोणाक म्हूण, कशे कशे तरेन जाप दिवं हांव? आनी ती चंडाळ चौकडी बी हेचे फाटल्यान! तेंगेले आवय-बापूय म्हणटात. हो तेंका खुबळायता! चारी वटेन आयकून घेवचें पडटा! तकली कणकणटा चिंतून! फुटचीच बाकी उरल्या! फुटल्यार तरी बरी जाता आसली! कायमचें सुटिल्लें कटकटींतल्यान! एक न्ही आनी दोन न्ही! कितें -कितें म्हूण भोगचें हांवें!'

मुरलीधर घरांतल्यान भायर सरून सुर्यकांतागेर येयलो. ताका आपूण 'जोगण घालचों ना' म्हूण गंगाधराक सांगलें, तें सुर्यकांताक कळीत करचे आसलें. पूण, घरांत येतकीर, ताका कळ्ळें, सुर्यकांत भायर सरून गेला.

गोवींद घरांत आसलो. खुर्चेर बशिल्लो. मुरलीधर सुर्यकांत ना म्हूण कळटकीर, परत वचूंक फिरिल्लो, ताणें आडायलो. "मुरली, वचूं नाका! यो बस! म्हाका तुजेलागी उलोवंक जाय!" ताणें म्हणलें.

"कितें गोवींद काका?" मुरलीधरान मुखावेल्या खुर्चेर बसत विचारलें.

"मत्तासुर गंगाधर मुजरत म्हाका सांगूंक म्हूण येयिल्लो. आत्तां तू येवच्या दोन मिनटां पयली गेला. बसुंकय ना तो! उब्या उब्यान सांगून गेलां..."

"कितें?"

"तूं 'जोगण' कित्याक घालचो ना?"

''गोवींदकाका, 'जोगण' कित्याक घालप हें म्हाका सांग!''

''अरे, ही आमगेली परंपरा! पुर्वजान घालून दिल्लो नेम! 'खुंटी आवयली जोगण' घायले बगर, आमच्यांनी शेतांचो वावर सुरू करुंक जायना!''

''कित्याक करुंक जायना?''

''आमगेल्यां पुर्वजांनी खुंट्यो मारून मठयो जोडिल्ल्यो. तेन्ना मानतीक म्हण 'खुंटीआवयक' कुकडाचो बळी दिवन, पूर्वजान भूंय कसूंक सुरवात केल्ली. 'जोगण' चुकना आमका!''

''हांव चुकयतां! चुकना कशी चोया!''

''तुगेलो हो निर्णय म्हाका मात्तूय मानवलो ना! चोय, पर्थुन येवजीय! हें अशें जावूंक फावना! 'जोगण' ती!''

''इतलेंच मरे? येतां हांव!'' अशें म्हणून मुरलीधर थंयसून उठलो.

मुरलीधरालो पूर्वज गांवच्या मूळ भौसालो बुदवंत! तागेल्याच हातान पयली 'जोगण' घालप जाल्ली. आनी तेन्नासान 'जोगण' घालचेलो मान मुरलीधराल्या घराब्याचो जाल्लो.

कार्तीक म्हयन्यांत ही 'जोगण' घालप जाताली. ही 'जोगण' घातले बगर शेतांची इबुण्णी करुंक मेळनासली.

गेल्ल्या वर्सा 'जोगण' घालतना मुरलीधराले तकलेंत एक वेगळीच येवजण उदेल्ली. आनी तेन्ना पयलेच फावट ताच्या काळजांत एके तरेची गुन्यांवकारी भावना किल्लोन येयिल्ली... हें कितें? आनी कित्याक?

हरेक वर्सा परमाणें मुरलीधरान गेल्ल्या वर्साकय 'जोगण' घाल्ली. तळ्याबांदार, पुरसामठा कुशीक, खोऱ्यान नडणी तासून सुवात सफाय केल्ली. मागील दारांतल्या कवथ्याचें एक चुडत कोयतेन हांडून हाडिल्लें. ताचो पिडो कापून, मुंड हात लांबायेचे, वयर दोन सकयल दोन कात्रे घालून, तोकांचे चार खुंटे केल्ले. कात्र्यांर दवरुक, पिड्याचेच वयर दोन आनी सकयल दोन अश्यो चार काडयो केल्ल्यो. काडयांर आडव्यो दवरुंक, वयर दोन सकयल दोन अश्यो चार पिड्याच्योच फळयो केल्ल्यो.

मानतिके पासत घरांत पोशिल्लो तांबड्या-काळ्या पाखांचो, व्हड शेंकऱ्याचो एक कोंबो आदले दीसच माटवा खांब्याक बांदून दवरिल्लो.

म्हारवाड्यार वचून म्हार ढोंगाक 'आपोवण्याचो विडो' दिवन येयिल्लो. येतनाच म्हार देवूकडल्यान, एक नवी येळ्याची वल्ली, चोरु व्हरुंक म्हूण हाडिल्ली.

'जोगण दिसा' मुरलीधरान वाड्यावेल्या रामकृष्णाक आनी मारुतीक सांगाता आपयिल्लो. वल्लेत शिजयिल्लो चोरु, व्हिळो, कोंबो, कोयती, नाल्ल, पुजेंसामान बी घेवन वचूंक!

'जोगण' तिनसांजची घालची आसताली. चोरु एक फावट वारवयले उपरांत, गांवच्या भौसान शीम हुपून खंयच भायर वचूंक जायना, ना शिमेभायल्यान भितर येवची कोणाक मेकळीक!

म्हणटकीर, मुरलीधर वेळ सरकतकीर, न्हायन-धुंयन, सोवळें न्हेसून, गंध-फूल-पिंजर-तेलांत भिजयिल्ली वात - पुजेचे सामान बी घेवन, रामकृष्णाक आनी मारुतीक वांगडां घेवन भायर सरिल्लो.

मुखार काळो सावळो, रापेल्ल्या आंगाचो, मोटवो ढोंगा धोलकें वाजयत, जाल्यार फाटल्यान हे तिगूय चलत तळ्या बांदार येयिल्ले.

नडणी काडून सफाय केल्ले सुवातेर, चार कडेन चार चौक आकारांत, मुंडहात लांबायेचे पिड्या-खुंटे उबे तोपून, ताचेर सकयले वटेन कात्र्यांत दोन काडयो आनी वयले वटेन कात्र्यांत दोन काडयो ज्युस्त बसोवन, माणकुलो माटोव केल्लो. मागीर सकयल्या दोनूय काडयांर आनी वेल्या दोनूय काडयांर अळंग आडवी पिड्याची फळी दवरुन चोरु दवरुंक तळ केल्ले.

जोगणेचो 'खुंटये माटोव' तयार जातकीर, मुरलीधरान 'खुंटये माटवाक' गंध लायलें. पिंजर लायली. ताचेर फूल दवरलें. नाल्ल फोडून, वळ्यांच्यो शिन्न्यो काडून, 'खुंटी-आवयक' ताचो नेवेद्य दाखयलो. आडव्या दवरिल्ल्या फळ्यांचेर, सकयल इल्लो, वयर इल्लो सुरय तांदळांचो शिजोवन केल्लो चोरू दवरलो. हातांत कोंबो

घेयलो, विळो घेयलो.

कोंब्याक आतां व्हिळो लायता थंय आसा,... 'ही येवजण' तकलेंत येयिल्ली.

हें काम जेन्ना ताचो बाबा करतालो, तेन्ना ताका मुजरत वांगडा घेवन वयतालो.

ताचो बाबा कर कर करुन कोंब्याची गोमटी कातरतना, ताका आपलेंच काळीज कातरतल्यावरी जातालें. तो तेन्ना ताचे दोळे गच्च धांपून घेतालो. कोंब्यान 'कोंऽ कें ऽ केंक्!' केल्लो आवाज ताच्यान आयकूंक नजो जातालो. गोमटी कातरतकीर 'खुंटये-माटवार' रगताचो अभिशेक करुन, कोंब्याचें धड बाबा कुशीक उडयतालो. तें धड मागीर तेच स्थितीत थंय थै थै नाचतालें. ताचें रगत जळीं-मळीं उसळटालें.

ताचो बाबा परागंदा जाले उपरांत, ही पाळी ताचेर येयिल्ली. तोंड धांपून जायजकत करचें पडिल्लें.

आयज सुमार वर्सां तो करत येयिल्लो. एकेतरेचें धर्मसंकश्टच! ताचें सात्वीक मन ताका कोचायतालें. ताचें पावल फाटी हाडटालें!... आनी गेल्ल्या वर्सा 'तो विचार' त्या दिसा मनांत धुमकेतू कसो उदेल्लो. एके वटेन परंपरा-रूढ जाल्यार, दुसरे वटेन सात्वीक मन आनी सारासार विचार करचेली बुध्द हांचे मदीं झुंज चलिल्लें.

तसो नेणटेपणा सावन तो बारीक बारीक कुड्ड्या स्रद्धेचेर बडी मारत येयिल्लो... हें कोण नकळो? तरी लेगीत परंपरेच्या चाकांत घुस्पून, असले रुढीचे, बेडयेंत शिरकोन पडिल्लो.

'खुंटीआवयली जोगण' ही बारीक - सारीक रूढ न्ही! परंपरेन चलत येयिल्ली, भौशीक जिणेंत चरमेल्ली रूढ! तिची दावां खूब-खूब खोल रुजिल्लीं! एका धपक्यात तीं हुमटोन काडप कशेंच जावचें नासलें! हीं असलीं दावां कुदळ घेवन खणून काडचीं पडटात!

तेन्ना कोंबो हातांत घेवन तो खीणभर येवजीत राविल्लो... मारुतीन विचारिल्लें, ''ओग्गी कितें येवजितां? कातर मु रे कोंबो!'' तेन्ना ताणें

येवजिल्लें, आयज 'जोगण' घालूंक येयलां. तकलेंत येवजण येयली म्हण, तशें एकदमच करुंक जावचें ना तें! इतलीं वर्सां घायली 'जोगण', ह्या वर्साकय घालुया! फुडल्या वर्सा चिंतुया हेचेर!

... आनी जड हातांनी ताणें फुडलें कार्य सुरु केल्लें. कोंब्या गोमटेक पर्थून व्हिळो लायिल्लो. कोंब्यान 'कोंऽक्' केल्लें. ताका बेठेंच दिशिल्लें, कोंबो काकुटेन 'नाका रे' म्हणटा! मन घट्ट करुन ताणें कोंब्याची गोमटी कातरली... चिर्रर करून रगत उसळ्ळें, ताच्या उकत्या आंगार, 'खुंटये माटवार', पुजे सामानार, सगळे कडेन! मागीर ताणें कोंब्याच्या धडांतलें गळटें रगत थोडें खुंटे माटवावेल्या, वेले फळयेत दवरिल्ल्या, थोडें सकयले फळयेंत दवरिल्ल्या चोरवांत घालें. तें धड तशेंच कुशीक उडयलें. तें थंयच थै थै करुन नाचूंक लागलें, ताचे कुडींतलो जीव पुरायेन वचूंक नासलो. मुरलीधराच्यान ते तळमळें पळोवंक नजो जाले. ताणें दोळे खीणभर धांपून घेयले. कितें हें अर्थहीण!... मागीर ताणें कोंब्याची गोमटी घेवन, चोचींत तेला-वात पेटोवन घातली. आनी गोमटेन 'खुंटी-आवयची' आरत उंवाळ्ळी.

हे इतलें करता मेरेन मुरलीधर घामाघूम जाल्लो. गळ्या कडल्यान, हड्ड्या वेल्यान घामाच्यो पावळ्यो गळूंक लागिल्ल्यो. अस्तंतेक सूर्य केऽन्ना धारे सकयल गेल्लो. आता धर्तरी काळोख पांगरुंक लागिल्ली.

मुरलीधरान चोरू आशिल्ली 'वल्ली' उखल्ली, आनी तो चोरू वारवोंक सुटलो.

फुडें ढोंगा धोलकें वाजयत वयतालो 'ढम्म... ढम्म्! ढम् ढम् ढम्म! ढम्म! ढम् ढम् ढम्म!' आनी फाटल्यान आडगांवच्या शिमे शिमे वेल्यान मुरलीधर 'वल्लेतलो चोरू' हातान वारयत वयतालो.

तळ्या बांदावेल्या 'पुरसा मठाक' भोवतण मारून म्हाल वाड्या भायल्यान काजूवाडो, चिंचेवाडो बलांटून ते दोगूय 'दुधगंगा' न्हंये देगेर येयले. न्हंयदेगेवेल्या काळ्या उब्बो पुरुन आशिल्ल्या 'जळीनासां फातराक' थंयच्याच एका 'कासाळे झाडाचें' पान तुटोवन, ताचेर

इल्लो ‘चोरू’ दवरुन ओपलो. थंयसून सकयले केरांत कडमारुखाक भोवतण मारून, गुळट, चाफ्या केर, तारीवाडो, सुक्रूवाडो, नायकावाडो, केळ्यांवाडो, बी बलांटून वयल्या केरांत येयले. वयल्या केरांतल्यान सकयले आडयेंत येयले. थंय नयावाडो, मागीर थंयचो व्हाळ साकोव बलांटून म्हार वाड्या कडेन येयले. थंयसून ‘देवचारा तळयेक’ भोवतण मारून शाळेकडल्या उक्त्या मळार येयले. थंयसून रानां कुशीतल्यान फुडें वचून वेलोवाडो बलांटून जांबळीकेरांत येयले. थंयसून मदेवाडो, कडे वाडो बलांटून, ‘कळसा दोंगरा’ कुशींतल्यान पुराय वाठार भोवन, ते दोगूय खुळखुळ्या वझऱ्या कडेन येयले. मागीर सकयल्या वाड्याक भोंवतण मारून, ते पर्थून ‘पुरसा मठा’ कडेन येयले. ‘खुंटी-आवयले’ सुवातेर येवन, थंयचें पुजेचें सामान, कापिल्लो कोंबो, व्हिळो, नाल्लांवळीं, कोयती बी उबारून फाटल्यान चोयनासतना चौगय घरा पर्थले.

घरा पर्थतना, मुरलीधर नित्सेव करुनच येयिल्लो. हीच खेप निमणी!

... हे घडयेकय ताचे तकलेंत तेंच घुंवतालें.

ताका याद जाता, नेणटो आसतना मुळावे शाळेंत तो एक पाठ शिकिल्लो. ‘संत गाडगे बाबा’ त्या पाठाचें नांव! त्या पाठात ‘गाडगे बाबाचे’ विचार सांगिल्ले. ‘गाडगेबाबाल्या’ विचारा परमाणें, देवाच्या नांवान जित्या जिवांचो ‘बळी’ दिवप समा न्हयच! हें बंद जावूंक जाय! ते म्हणटाले,

“असो कसो तुमचो देव ऽ ?

घेता दुसऱ्याचो जीव ऽ !”

मुरलीधरान येवजिलें, हे विचार फकत पाठांतल्यान शिकपा पुरतेंच आसतात? काय जिणेंत हे विचार हाडचेले आसतात!

तो नेणटो आसतना, राती न्हिदिल्ले कडेन खाक्यांत घेवन ताची आज्जी काणी सांगताली, ‘राकेस मनशांक धरताले, आनी तेंगेल्यां देवामुखार बळी दिताले”

आयकून कितेंशेंच जातालें! आंग शिरशिरतालें! राकेसां वांगडा

तांच्या देवाचोय तिरस्कार दिसतालो. येवजण येताली, कसलो देव हांचो? नरबळी मागतात? तेंच आनी तसलेच विचार हे घडयेकय ताचे तकलेंत येताले.

मनशाक देव समजलो ना, म्हणचेलो विचार खूब फावटी ताचे तकलेंत येयिल्लो. आनी ल्हव-ल्हव तो विचार ताच्या मनां-काळजांत दावां-मुळां धरूंक लागिल्लो.

नेणटो आसतना, तो चुकनासतना देवांक हात जोडटालो. देवापासत सकाळीं उठून दालयेंत घरा मुखाल्ल्या झाडांचीं फुलां खुंटून हाडटालो. वेळ पडटकीर देवाक पांय पडून देवा मुखार कासाळी वाजोवन भजन म्हणटालो. आयज ताणें हें सगळें सोडून दिल्लें. हातूंत ताका तथ्य काय दिसना आसलें. फकत परंपरेन चलत येयिल्ली कांय देवकार्यां ताच्या हातांतल्यान जातालीं. तिंवूय करप चुकना म्हूण! आतां ताणें तिवूय करप ना अशें थारयिल्लें.

जातूंत तथ्य दिसना, जें मनाक पटना, बद्दीचे साणीर घासूनय जाचो कस लागना, तें करपच ना!

'खुंटी-आवय' मुखार कोंबो कातरप ना, हो विचार ताणें बसका आपोवन, आपल्या इश्ट-वांगड्यां मुखार मांडिल्लो. सुर्यकांतान, शोभान, रमान, विजयान, जयान, मारुतीन, रामकृष्णान, जनार्दनान, मंगलान, सुमतीन हाचेर जायती भासा-भास केल्ली.

मारुतीलो विचार आसलो, ''हरशींय खावूक म्हण लोक कुकडां मारतातच! देवाच्या नांवान कापल्यार कितें जाता?''

''म्हाकाय तशेंच दिसता! फाटल्या तेंपार, भौस कितेंय आपूण खावचे पयलीं, 'तें' तो देवाक ओंपतालो!... तेच संकल्पनेंतल्यान येयिल्लो हो प्रकार! तो आतां 'विधी' जाला! 'बळी'चो प्रकार थारला!'' रामकृष्णान म्हणिल्लें.

मुरलीधरान हाचेर आपले विचार मांडिल्ले, ''... आयज हे गजालीची गरज आसा?''

सगळे ओग्गी

''तुमी येवजियात! आमी सगळे नव्या विचाराचे, येवजणेचे धनी! संवसार खूब फुडें पावला, आनीकय फुडें सरता! आमचींय पावलां तशींच फुडें सरुंक जाय!''

''मुरली सांगतां तें सारखें!'' विजयाचें मत जाल्लें.

''आतां आमी 'खुंटी-आवयचे जोगणेचोच' विचार केल्यार, गरज आसा जोगणेची?''

सगळे ओग्गी.

''हांव तुमचे भशेन देवाक मानिना! पूण, तुमी मानतात, हें हांव जाणां! तुमगेल्यां भावनेची हांव कदर करतां! 'खुंटी आवयक' हांव ह्या खिणाक तुमचे पासत 'देवी' मानतां! 'देवी' ही अस्तुरी माता! म्हणटकीर, स्नेहाचो, करुणेचो, माया-ममतेचो दर्या! ती फकत मनशांलीच आवय? जनावरां, सवणीं, जीवजंतू तिका लागनात? आनी ती जर सगळ्या प्राणिमात्रांली आवय, जाल्यार 'कोंब्यालो बळी' कित्याक मागता? तिका 'बळी' जायच जाल्यार, ती राकेसाली, राकेसी-वृत्ती, विचारांची 'बळी' मागतली.

सगळ्यांक हे पटिल्लें, आनी देखून तांणी हयकारी तकली हालयिल्ली.

''हांव सांगता म्हणच तुमी तकली हालयनाकात. तुमका कितें दिसता, तें सांगा! सगळ्यांल्या विचार मंथनांतल्यान निर्णय भायर सरूंक जाय! निर्णय तर्कशुध्द आसूंक जाय! विज्ञानीक दिश्टीकोणांतल्यान आसूंक जाय!''

सगळ्या वांगड्यांनी हाचेर सुमार इतले येवजिलें, विचार मांडले आनी निमाणें कडेन मुरलीधराचो विचार सगळ्यांक पटलो.

मुरलीधरालो स्वताचो निर्णय थारिल्लोच, आतां वांगड्याचोय हयकार मेळटकीर, ताचें नैतीक बळगें दोबराद जाल्लें. आतां गांवार गांव पडल्यारय तो फाटीं सरचो नासलो. तो हेंवूय जाणां आसलो, ताच्या ह्या निर्णयान घरातले आनी भायले दोनूय कडलें वातावरण तापचें आसलें. मोन्याक तोंड सुटचेलें आसले. कांबळी फट्याक दांत फुटचेले आसले.

आनी जालेंय तशेंच!

हो निर्णय आईक कळना फुडें आई सुर्वेक बेजारली, तिडकली. मागीर रडली, कुंवली, जेवलीना!

आवयले तळमळे तो चोयतालो. तिचें मनाचें न्हिन्नळप ताका जाणवतालें. पूण, तो बावलो ना, बागवलो ना! फाटीचो कणो तसोच ताठ दवरून रावलो.

मुरलीधराचें मन घडये फिरत, घडये तो 'जोगण' घालत, हे आशेन भौसान आनीक थोडे दीस वाट चोयली. पूण, ताचें मन कशेंच फिरना जालें. निमाणे कडेन मक्तासूर गंगाधर, दिगंबर, वखदळी सैरोब, मेळून राम जाणवय म्हऱ्यान येयले. राम जाणवय, ताचो पूत शंकर वासरेर खुर्चेर बसून उलयताले. मुखार एका स्टुलार गुणो बशिल्लो. हांकां चोयन तांणी "या! या!" म्हूण भितर आपयले. दरवाजाचे दावे वटेचे सरवळे तेकोवन दवरिल्ल्या लाकडी बाकड्यार बसूंक सांगले.

"कित्याक येयिल्ले?"

गंगाधर बाबान पुराय गजाल सांगली.

"... कळिल्लें म्हाका बाबग्या कडल्यान! नाराणालो चेडो देडशाणो हें हांव जाणां! तेका दुर्बुध्दी येयल्यात म्हण मात पयलेच फावट कळ्ळें! परंपरेन घालून दिल्लो नेम हो! कोणाच्यान तसो तो बदलूंक जावचो ना!"

"आतां आमी करप कितें?"

गुणो एकदम मस्तकांत रगत चडिल्ल्यावरी उसळ्ळो. "घालना म्हटल्यार? हात-पांय बांदुन 'जोगण' घालून घेवया! चोया, कशें घालना तो!"

सैराबान म्हणलें, "कोण बांदतलो हात-पांय? तूं बांदता? उरफाटें, तेगेलो माम अनंत आनी तो तुगेलेच हांत-पांय बांदून, तुकाच ना करुंक आसात!"

सैरोबाल्या उलोवण्यार शंकर जाणवय तिडकलो, "ते कितें ना करतले? कुकडां पील? तेंका ना करुंक जायना आमच्यान? तेच्यान

एक कुकडां पील कापूंक जायना!''

''तें जालें रे!''

''तुमी नाकाजाल्ल्या विशयार भासा भास करूं नाकात! विशयार येया! आमगेलो विशय आसा, तो 'जोगण' घालचेलो! आतां तो घालना म्हणटा, म्हणटकीर फुडें कितें? हाचेर उलयात.'' गंगाधरान सांगले.

''आयकात!'' राम जाणवयन म्हणलें, ''कार्तीक म्हयनो सोपूंक चार दीस आसा मेरेन वाट चोया. मागीर एक गांवठणाली बसका आपया. गंगाधरा, तूं देवळाचो मक्तासूर म्हणटकीर, तुवेंच मुखार सरुंक जाय! त्या देडशाण्याकय आपया. तेचे कडल्यान उतर घेया. तो घालना म्हटल्यार, हो मान कोणाक दिवचो, हें बसकेंत थारावया. मागीर देवी आवय कडेन पुडी घालून तिगेली मान्यता घेयल्यार जाली!... आनी हेर उपाय ना!''

''हें अशेंच करप बरें गंगाधर! त्या देडशाण्याक तकलेर चडोवन घेवचे परस, हेंच बरें! आनी आनीक तेचें मन फिरोवंक वचनाकात तुमी!'' शंकर जाणवयन एक फोडणी मारली.

राम जाणवय कडल्यान जाणवाय मेळटकीर गंगाधर, सैरोब, दिगंबर उठून गेले. तांणी कार्तीक म्हयनो सोपूंक चार दीस आसा मेरेन वाट चोयली. मागीर मक्तासूर ह्या नात्यान एक दीस गंगाधरान गांवठणांली देवीआवयल्या देवळांत बसका आपयली. मुरलीधराकय मुजरत आपयलो.

मुरलीधरान ना ते नाच्च म्हूण सांगलें.

मुरलीधरान ना म्हणटकीर, गांवठणांतल्या पांडुबाबान गंगाधराचें नांव सुचयलें. कोणेंच विरोध करिनासतना 'गांवठणान' एक मतान 'तें' मानून घेयलें.

'देवी आवयलो' कौल घेवंक राम जाणवयक पुडी घालूंक लायली.

जाणवयन पुजेच्या तांबयांत उदक हाडून, तातूंत धव्या दसणीची पाकळी बांदिल्ली एक, आनी तांबड्या दसणीची एक अश्यो दोन

शेनवताच्यो पुडयो बांदुन उदकांत बुडयल्यो. बरेऽ करून उदकांत फिरयल्यो. आनी मगेर 'देवी आवय' कडेन गाराणे घालत म्हणलें, ''हे देवी आवो,...''

''हय देवी!''

''तूं अंतर्यामी, तूं सगळें जाणां!''

''हय देवी!''

''खुटयेची, ब्रह्म्याली, पुरसाली तुका साथ!''

''हय देवी!''

''गांवठणान एक मत्तान, एक चित्तान, हेय फुडल्या जोगणे पासत आपलो मनीस थारयला!''

''हय देवी!''

''तुगेली मान्यता आसल्यार धवी पाकळी दाखववची!''

''हय देवी!''

मगेर राम जाणवयन तांबयांत हात घालून एक पुडी भायर काडली. सोडयली. चोयल्यार 'धवी पाकळी'!

राम जाणवयन जाहीर केलें, ''तुमगेल्या सगळ्यांल्या एकमतान आनी 'देवी आवयल्या' कौलान हेचे फुडें गंगाधर - ह्या देवळाचो मक्तासूर 'खुंटी आवयली' जोगण घालतलो.''

हे सगळें जाता मेरेन, मुरलीधर थंय रावलो. मगेर तो घरा पर्थलो.

गांवठण बसकेंत थारिल्ल्या परमाणें गंगाधरान 'जोगण' घायली.

मुरलीघरान मात 'जोगण' घालचे आदींच इबुण्णेक सुरवात केल्ली. ताणें आपले परीन आपलो नित्सेव हालोवंक नासलो. पूण, भौसालें मत परिवर्तन करूंक मात ताका ताकलें नासलें. हाचेर कितें तरी उपाय करूंक जाय, ताणें येवजिल्लें! भौसालें मत परिवर्तन हेंच म्हत्वाचें आसलें!

'आदर्श-युवक संघटणेचे' बसके वेळार, ताणें वांगड्यां मुखार हो प्रस्न मांडिल्लो. फकत आपूण जोगोवणी थांबोवन उपेग ना! गांवान ही प्रथा थांबोवंक जाय!

वांगड्यांनी हाचेर भौसांत जागृती घडोवन हाडचे पासत हात-पांय हालोवचो नित्सेवय केल्लो.

मुरलीधर आपल्या वांगड्यांक आपलो विचार पटोवंक शकतालो. पूण आपले आवयक पटोवप ताका जमूंक नासलें.

अनसुया मुरलीधराल्या ह्या निर्णयान सामकी बेजारिल्ली. पुरायच थतर-वितर जाल्ली. हरशींच मुरलीधराली देव-धर्माचे बाबतींत आशिल्ली अनास्था चोयन ती बेजारताली, हें तर व्हडलें पावल!

मुरलीधरान येवजिल्लें, दोन दीस बेजारतली. मागीर जाग्यार येतली! घेतली समजून पुताक! आवय इतली पुताक समजून घेवपी दुसरो कोण आसा संवसारांत?... आनी असलो ताप सोसची संवय आसप वायट न्हू! आनिकय जायते ताप, फुडारांत तिका सोसचे पडटले!... असले ताप सोसचे परस, तिचें मत परिवर्तन करप, तिचें मन तयार करप, हें केन्नाय बरें, अशें येवजून मुरलीधरान तिका जायते फावटी सगळे तरेन सांगून चोयिल्लें. पूण, तिचे संस्कार इतले खऽर आसले, तिका समजावप म्हटल्यार उमथ्या कळशार उदक!

... आनी इतलें आसूनय,... आवयले अस्वस्थ मानसिकतेची पुराय जाण आसूनय, मुरलीधरान आनीक एक निर्णय घेयलो.

मार्गशीर्शाचे पुनवेक जावपी, तांच्या घराब्यांतली एक आराध्य दैवत म्हासतीचो उत्सव सासणाचो बंद करचो ताणें थारयलो.

ही म्हासती, ताच्या घराब्यांतल्या, 'खुंटी आवयची' पयली 'जोगण' घालचो अधिकार दिल्ल्या बुदवंताली घरकान्न! तिच्या कुळारच्या घराब्यांत खंय आदल्यो सात सती आसल्यो. ही त्या सातय सतींली परम भक्त! तिचे सदांच त्या सतींकडेन मागप आसलें, आपूण अयावपणान मरूं! कपलाक कपलभर कुकूम, माथ्यार माथेंभर फुलां, हातांत कांकणां, आंगार णववारी नवें कापड, सवायशीण बायलांनी भरिल्ल्यो हुटीं घेवनच आपूण वयतली! पूण, जालें उरफाटें! तिचो घोव तिचे आर्दी भायर पडलो. तिणें थारायलें, आपूण अयावपणान वचचें! आपूण कुळारच्या सात सतीं भशेन घोवाली तकली मांडयेर

घेवन, अग्निच्या सुवादीन जावचें! तिणें आपली इत्सा घरच्यांक सांगली. आनी इत्से परमाणें घोवाक लासूंक केल्ल्या, सोळां मण धड्यार, अयावपणाचो पुराय शिरंगार आंगार चडोवन, घोवाल्या मड्याचें मस्तक आपले मांडयेर घेवन बसली. पुतान अग्नी दितकीर, ते पेटतल्या ज्वाळेंतल्यान खंय एक सुस्कारो सोडिल्लो आवाज सुदीक कोणें आयकूंक ना.

ती सती मुरलीधराल्या घराब्या पुरतीच दैवत जावन उरूं ना, जाल्यार पुराय आडगांवची दैवत थारिल्ली. तिचो उत्सव हो मुरलीधराल्या घरापुरतोच मर्यादीत उरूंक नासलो, तर गांवचो उत्सव थारिल्लो. तिगेली याद म्हण, ती सती गेल्ली तो दीस - मार्गशिर्शातली पुनव' सतील्या उत्सवाचो दीस थारलो.

जे सुवातेर 'ती' सती गेल्ली, ते सुवातेर एक हातभर उंचायेचो 'हाता फातर' आसा. तिगेली याद म्हण ही 'सतीली शिळा' उबी केल्ली. ज्या भाटान ही 'सतीली शिळा' आसा. त्या भाटाक म्हासती भाट म्हणटात.

भौसाले घट्ट मत आसलें, भावार्त आसलो, ही सती तुर्त पावता! देखून घोव दुयेंत आसल्यार, बायलां रोखडीच सांगणी करतालीं, ''म्हगेलो घोव बरो जाल्यार, म्हासती, तुका हुट दितां!'' आनी घोव बरो जातकीर, उत्सवा दिसा ती 'सांगणी' पावयताले. फकत 'सांगणी' म्हणच न्ही, तर हरशींय ह्या दिसा, अयाव बायलां खण, फुलां, काकणां, काजळ-कुकूम घालून हूट तयार करतात आनी ती शिळेंमुखार विटांनी तयार केल्ल्या चौक खणींतल्यां उज्यांत ओंपतात.

कितलींशीच वर्सां हो भावार्त आनी सतीचो उत्सव सुरु आसलो. आनी हो उत्सव करचेलो अधिकार फकत त्या सतील्या घराब्य ांतल्याकच आसा!

उत्सव म्हटल्यार तरी कितें?

त्या दिसा सकाळीं उठले उपरांत, कांयच खायनासतना निरहार पोटार, न्हायन धुंयन, शिळे मुखार आशिल्ल्या चौक खणींत चिता

दाळची पडटा. ही चिता म्हटल्यार, फकत शास्त्रा पुरत्यो, लाकडाच्यो चार-पांच कापट्यो आड उदार एकार एक दाळून दवरतात.

उपरांत शिळेक शेळें उदकाचें न्हाण घालचें आसता.

न्हाण घायले उपरांत, घरांतली सवायशीण शिळेक कुकूम - फूल करता. खण-कापड ओपता. तांदूळ-नाल्लाची हूट ओंपता. आनी 'म्हजें अयावपण अखंड दवर' म्हूण सांगणी करता.

मगेर गांवांतल्यो एकेक सवायशिणी फुडें येवन अशेच तरेन आप-आपली 'हूट' ओंपतात. मानतीक दितात.

गांवांतल्यो सगळ्यो 'हुटी' ओंपून जातकर, शिंगेली 'थूं...थूं... थूं...थूं...' करून शिंगा फुकतां. शिंगाचो उग्र आवाज पुराय वाठार भर घुमता. थंय एकठाय जाल्ल्यो सगळ्यो सवायशीण बायलो, दादले भावार्तान हात जोडटात. मगेर मात बायलो थंय रावनात. त्यो आप-आपल्या घरा वयतात. मगेर सतील्या घराब्यांतलो म्हालगडो मुखार येता आनी मुखावेल्या खणींतली चिता पेटयता. ते चितेर, गांवांतल्या अयाव बायलांनी ओपिल्ल्यो सगळ्यो 'हुटी' एका फाटल्यान एक ओंपतात. शिंगेली नेटान शिंग फुंकता. आनी उपरांत थंय एकठांय जाल्ले सगळे दादले, ते चितेक हात जोडून एक प्रदक्षिणा काडटात. आनी चितेक नमस्कार करून फाटीं चोयनासतना घरा पर्थतात. सगळे गेल्ले फाटल्यान, सतील्या घराब्यांतलो म्हालगडोय प्रदक्षिणा घालून घरा येता.

मुरलीधरान चितिल्लें, हो उत्सव कित्याक म्हूण करप? हेतूंतल्यान कसली प्रेरणा घेवप? हो आयजच्या दिश्टीकोणांतल्यान अस्तुरेन केल्लो आत्मघात! तिका घडये आपले जिणेचें मोल समजू नासलें. आपलो घोव हीच आपली जीण! घोवा बगर जियेवप, म्हटल्यार जितें आसून मेल्ल्यावरीच! ते जिणेंक अर्थ ना! कुडीचे समर्पण होच जिणेचो अर्थ अशें कितें तरी तिका दिसतालें. तो एकातरेन आपल्या अयावपणाचो, पतिव्रता पणाचो, सहजिणेचो तिणें तिचे परीन घेयिल्लो समारोप आसलो. तिगेल्या संस्कारा परमाणें, तिच्या

दिश्टीकोणांतल्यान घडये तें सारखें आशिल्लें. पूण, मनशाल्या जिणेचें मोल थारयतना, आयज ही गजाल सार्थ समर्पणाची थारना!... हो उत्सव देखून, एक न्ही नस्तो भावार्त समाजांत पातळायता! आनी आमी असल्या गजालींचो उदो उदो करप? ही गजाल एक गोड, पावन याद म्हण जतनावप? तेचो उत्सव मनोवप?

मुरलीधराल्या मतीक हें कशेंच मानवना आसलें, पटना आसलें.

ताणें आईक म्हणलें, ''आई, हांव अंदु 'सतीचो उत्सव' करचों ना!''

आयकना फुडें आईलें रगत मस्तकाक मारले. ती एकदम उसळ्ळी. ''कितें रे? तुगेली तकली फिरल्या? सारखो आसां मरे तूं? कितें चल्लां तुगेलें हें? कितें चल्लां?'' आई सोप्यार बसून सोण्णां काथो तोण्यान बडयताली. तोणों उखलून तिणें म्हणलें, ''घालूं एक फाटीर?''

तो आईचे कुशीकच सोप्यार बशिल्लो. आईन वयर उखलिल्लो तोणो आपल्या हातान सकयल घेत ताणें हांसत हांसत म्हणलें, ''तकली फिरिल्ली आसूं येता! कारण, हांव आतां, तुमी चिंततात तेचे उलट चिंतूंक लागलां!''

''गांवांतल्यां अयाव बायलांचो भावार्त आसा तिचेर! नवीन लग्न जाल्ल्यो व्हंकलो त्या दिसा मुजरत येवन, पांयां पडून तिगेलो आशिर्वाद मागतात!''

''दिता ती आशिर्वाद?''

''दिनासतनाच मागतात?''

''तुवें मागुंना केन्नाय?''

''कितें उलयतां रे? आशिर्वाद मागनासतनाच रावतात अयाव बायला?''

''हांव जाणां, हरेक वर्सा सतील्या घराब्यांतली सवायशीण ह्या नात्यान सुर्वेची 'हूट' तूं भरताली. हांवें चोयला, कितल्याशाच फावटीं, तिका होरायताना, तुगेल्या दोळ्यांत दुकां उबीं जाल्यात. हांव जाणां, तुगेलो तिचे बद्दलचो भावार्त व्हड! खरें म्हटल्यार, तिगेलो तुका

आशीर्वाद आसूंकच जाय आसलो! .... आनी आशिर्वाद आशिल्लो जाल्यार, तुजेर ही परिस्थिती कित्याक?''

''तो म्हगेलो कर्म भोग! गेल्ल्या जल्मांत केल्ली पातकां, केल्ल्या कर्माचें फळ!'' ''गेल्लो जल्म बी म्हणटा, ती फट खबर! जल्म एकूच! आमी गेल्ल्या जल्मात केल्ल्यां कर्माचे फळ, ह्या जल्मात कित्याक? गेल्ल्या जल्मातच मेळूंक जाय आसलें! खंयच्याय कर्माचें फळ दितना,त्या कर्माची याद दिवनच, तें फळ दिवंक जाय न्हू! नातर कशें खरें मानप?''

''तूं कितें उलयता, तें म्हाका समजना! पटना!''

''समजुचें ना! आनी पटचेंय ना! कित्याक तर तूं विचारच करना! आनी विचार केल्यारय, सारासार, तुर्कशुध्द विचार करना!''

मगेर मुरलीधरान आपूण तो उत्सव कित्याक मनयना, हें सोडोवन सांगले. आनी म्हणलें, ''सती वचप हो कायद्यान गुन्हो! एका तेंपार लॉर्ड विलियम् बेंटिंकान सतीची चाल कायद्यान बंद केल्ली. आनी असल्या क्रूर चाली-रितीचें उदात्तीकरण म्हगेल्या मतीक कशेंच मानवना!''

आनी इतलें सांगूनय मुरलीधराले आईक-अनसुयाक पटलें नासलें.

ती दीस भर फडफडत रावली.

मुरलीधर 'सतीचो उत्सव' करचो ना, ही गजाल गांवभर पातळ्ळी.

गांवची बायलां खुबळ्ळीं.

कांयजणींनी मुरलीधराक स्राप घायले, ''मरूं तो! दुर्बुध्दी येतात तेका एकेक!''

''बापूय मेलो, तेचे बदला हो मरूं जाय आसलो! हो मरून, बापूय उरल्यार, अनसुयाक दुसरो चेडो जावन, येदोमेरेन व्हड जाता आसलो!''

''एक न्ही दोन! धा बायलांनी धा तोंडांनी धा तरेन उलयलें''.

सुंदऱ्यान मुजरत येवन विचारलें, ''अरे मुरली, हें कितें चलयलां तुवें? जागृत दैवत म रे तें! तुगेले वय-वडील सतीक मान-मानतीक

दीत येयल्यांत. पुराय गांवच्यो सवायशिणी 'सतीर' भावार्त दाग्रयत येयल्यात आनी तुकाच ही नश्टी बुध्द कित्याक रे?''

मुरलीधर घरा मुखावेल्या बांयच्या कुशितल्या निरपणसा रुखाचें कोक्यान निरपणस काडटालो. सकयल पडिल्लो एक निरपणस उखलून सुंदऱ्या मुखार धरत ताणें फकाणांनी हांसत हांसत म्हणले, ''हो घे एक निरपणस! घरां व्हर आनी सुंगटा गाळणें घालून शाक करुन खा!... मागीर कळटलें तुका हांव उत्सव कित्याक करिना तो!''

''नाका म्हाका तुगेलो निरपणस! तूंच खा!''अशें म्हणत ती फणफणत गेली.

मगेर ही गजाल राम जाणवयल्या कानार घालुंया म्हूण विश्रामा बायल सुंदरे, शंकरा बायल उमा, सदानंदा बायल धनवंत्ये, जयवंता बायल आनंदें, शिवानंदा बायल ललिता पंगड बांदुनच जाणवय गेर गेलीं.

राम जाणवय तेन्नाच देवळांतल्यान पुजा सोपोवन पर्थतालो. अजून घरांतय घुसूंक नासलो आंगणांतच पाविल्लो. हांकां सगळ्यांक चोयन ताणें थयच उबो रावन विचारले, ''कित्याक येयिल्लीं सगळीं?''

सुंदऱ्यान पुराय गजाल सांगली.

राम जाणवयन म्हणलें, ''हो उत्सव तेंगेलो खाजगी! तेंगेल्या घराब्यातलो! आतां भौसांतल्यो अयाव बायलो 'सतीक' भावार्त ओंपत येयल्यांत इतलेंच! हरशी, भौसाली त्या उत्सावा कडेन कसलीच नाळ जोडिल्ली ना!''

आयकून, बायलो तोंड येद्देशेंच करून पर्थल्यो.

निमाणे मेरेन, मुरलीधरान 'सतीचो उत्सव' मनयलो ना!

गांवच्यो बायलो ताका खेपत रावल्यो! तो कानार केंस काडत रावलो!

शोभा शेनवारां 'वायंगिणींतल्यान' घरा येतालें. पायणींत अटमारुखा कडेन सुंदऱ्याक तें मेळ्ळें. सुंदऱ्यान शोभाक म्हणलें, ''अगो, त्या मुरलीन अंदू 'सतीचो उत्सव' मनोवंक ना! कित्याक

मनोवंक ना, म्हण विचारा मुगो!''

मुरलीधरान ही गजाल आदीच आपल्या इश्ट-वांगड्यांल्या कानार घाल्ली. तांचें मत घेयिल्ले. देखून शोभान वोगोत करिनासतना जाप दिली, ''बरें जालें! गरज ना तेची आयज! कित्याक करप ती?''

हाचेर ती ओग्गी पडली. सोंडेर बोंडो पडिल्ल्यावरी तोंड करून थंयसून मुखार गेली.

त्याच वर्सा भाद्रपद म्हयन्यांतली 'चवथ' मुरलीधर करचो ना, हेची शेर्त गांठ अनसुयान मारिल्ली. 'चवथ' लागी येता तशी तिणें एक दीस मुरलीधराक वितारलें. तो वासरेर खुर्चेर पुस्तक वाचत बशिल्लो. ''मुरली, अंदू 'चवथ' तरी करतलो मरे? पुजतलो गणपती?''

मुरलीधरान स्पश्टपणान सांगलें ''ना!''

''कारण?''

''देवाल्या देव-कार्यापासत वाड्यावेल्यां, सोयऱ्यांतल्या बायलांक पांया पडून हाडून, तांचे कडल्यान देव-कार्य करून घेवप हें म्हाका मानवना! तें भायर तुमगेलो देव! ताचे अस्तित्व हांव मानिना, हेंवूय तूं जाणां! आनी तूं जर देवाचें अस्तित्व मानता जाल्यार, देवाक कशें कळुंना, आमगेर तुजे बगर दुसरी सवायशीण ना, हीं असलीं कामां करुंक? इतले दीस तुगेल्या समाधाना पासत केलें हांवें! आतां हांव करचोंच ना! पुजचों ना गणपती!'' हेंका कितलेंय समजयल्यार, उमथ्या कळशार उदकच! रेंवेर मुतप आनी हेका सांगप समा! हेचे तकलेंत थारचेंच ना तें! अशें येवजून अनसुया भितर गेली.

ह्या असल्या धार्मिक कार्यांत, परंपरेन घालून दिल्ल्या न्ही नस्त्या रुढींत, मुरलीधराक आतां बिल्कुलच रस उरुंक नासलो. हरेक गजाल तो विज्ञानीक दिश्टीकोणांतल्यान पारखितालो. बुध्दीचे साणीर झरोवन झरोवन ताची कस लायतालो. आर. एन्. नायक सरालीं उतरां ताका पर्थून पर्थून याद जातालीं. सरान म्हणिल्लें, ''जाणट्यांनी सांगलें म्हूण खंयचीय गजाल कुड्डेपणान 'हय' म्हणूंक जायना! तर्कशुध्द येवजूंक जाय!''

तो नेणटो आसतना ताच्या जित्या बापायचें स्राध्द ताणें मुर्वेक वाडिल्लें. तो णववेंत आसतना, जेन्ना नायक सरान ताका ताचो बापूय जितो आसा म्हूण, पटोवन सांगलें, तेन्ना सावन ताणें स्राध्द करचें सोडून दिल्लें. ताणें आईक आनी आज्जेक त्या वयातय स्पश्ट पणान सांगिल्लें, ''हांव बाबाचें स्राध्द कसोच वाडचों ना! म्हगेलो बापूय खंयतरी जितो आसा!''

आज्जेन म्हणिल्लें, ''बापायचें स्राध्द वाडना जाल्यार, आज्यालें स्राध्द आमकां वाडचें पडटलें!''

''बापूय जितो आसल्यार, हांव आज्यालें स्राध्द कसो करतलों गे? तो अधिकार बाबाचो!''

''तूं तशें म्हणटा जाल्यार, कोणाकय पांय पडून उमाशेक कावळ्यां वाडी तरी घालून घेय नाका?''

तेन्ना मुद्दाम जाय म्हूण ताणें आज्जेक विचारिल्लें, ''आज्जे म्हाका सांग गे, हांव जल्माक येयिल्लों तेन्ना तूं, 'म्हगेलो घोव जल्माक येयलो... घोव जल्माक येयलो' म्हूण सगळ्यांक सांगताली खय मुगे!''

''हय तर! म्हूणच तुका आज्यालें नांव दवरलां न्हू!''

''मागीर म्हगेल्या जल्मा उपरांत तागेल्या नांवान पींड दिताले कित्याक? स्राध्द कित्याक वाडटाली? तो आत्मो म्हजे भितर आसलो न्हू गे? वाडचेंच आसल्यार बरें बरें रांदून म्हाकाच वाडचें न्हू?''

आज्जेक हाचेर कितें सांगचे म्हूण कळूंक नासलें. ती ओगी राविल्ली.

''ओगी कित्याक? सांग मगे...''

''तुजे कडेन आमच्यांनी उलोवंक नजो! देवानच तुका बरी बुद्द दिल्यार पुरो! आनी कितें सांगतलें?'' इतलें उलोवन आज्जी कमरार हात घेवन थंयसून गेल्ली.

मुरलीधराच्या ह्या असल्या वागण्यान अनसुया सुमारा भायर

गळसणिल्ली. कोणेंतरी आपले हांत पांय तोडून आपूण अपंगूळ जाल्लेवरी तिका दिसताले.

पूत परंपरेच्या, समाज रुढीच्या नेमांभायर वचून वागता आनी लोक धा तोंडांनी उलयतात.

कांय जाण तर तोंड फोडून विचारताले, "अगो अनसुया, तुवें पुताक देख म्हणटात, ती दिवंकच ना गो? असो कसो तो?"

"गांवां शिवायच सुधारणा?"

हाचेर अनसुया कितें जाप दितली?

आतां अनसुयान घरा भायर चड वचचेंय सोडून दिल्लें. गेल्ले गेल्ले कडेन सगळ्यांनी मुरलीधराचोच विशय उस्तून काडप! ना म्हटल्यार केन्ना केन्ना गोविंदागेर वचून, शकुंतलाकडेन उलयत बसताली. शकुंतलालीं दोगाय भुरगीं मुरलीधरालीं इश्ट-वांगडी आशिल्ल्यान, थंय असलें विशय येनासले. तरी लेगीत, शकुंतलान एक दीस अनसुया कडेन म्हटलेंच, "गांवांतल्यो सगळ्यो बायलो म्हणटात, मुरलीधरच तांगेल्या भुरग्यांक न्ही नस्तें शिकयतां! खुबळायता!"

अनसुयान ही गजाल आपल्या पुताक सांगिल्ली. मुरलीधराचेर हाचो कांयच परिणाम जावंक नासलो. तो असल्यो गजाली कान-मनांर घेयच नासलो.



मुरलीधराक रोजी मेळ्ळी आनी ताका सूऽ जालें. ताणें पांच म्हयन्यां आदीं 'वायंगिणी' वचून, सरकारी शिक्षकाचे रोजे पासत मुलाखत दिल्ली.

योगायोग म्हटल्यार, ताची नेमणुक ज्यूस्त तांच्याच गांवच्या 'गव्हर्नमेंट हायस्कुलात' शिक्षक म्हूण जाल्ली. हाका योगायोग म्हणचे परस मुरलीधरान केल्ले विनवणेचो हो यथायोग्य परिणाम आसलो.

ताची मुलाखत 'एज्युकेशन - ऑफिसांत' जेन्ना जाल्ली, त्या वेळार शिक्षणाधिकाऱ्यान ताका विचारिल्लें, "तुजी खंयच्याय खेड्यांत नेमणूक केल्यार, तूं वचूंक तयार आसतलो?"

तेन्ना ताणें सांगिल्लें, ''सर, म्हजी खंयूय वचचेली तयारी आसा! पूण, तुमचे म्हायती पासत सांगतां, म्हगेलो गांव तसो चोयल्यार, एक खेडेंच! आनी आमगेल्या गांवच्या शाळेंतले 'बंडीकेरी सर' मुखाल्ल्या वर्सा रिटायर जातात. बंडीकेरी सर 'मॅथ्स्' आनी 'सायन्स' विशयांचे शिक्षक! देखून आमगेल्या गांवचे शाळेंत म्हगेली नेमणूक जाल्यार खोशी जातली सर! ते भायर, हांव त्याच शाळेचो माजी विद्यार्थी! गांव म्हगेलोच आशिल्ल्यान, थंयच्या भुरग्यांली मानसिकता हांव जाणां! तेंगेली फाटभूंय हांव जाणां! आनी तुमी जाणात सर, ह्यो गजालीं शिक्षका खातीर भोव म्हत्वाच्यो!'' हाचेर शिक्षणाधिकाऱ्यान आनी थंय बशिल्ल्या हेरांनय तकली हालयिल्ली. शिक्षणाधिकाऱ्यान मुरलीधराल्या गांवचे नांव बरोवन घेयिल्लें.

गांवांतल्या शाळेंत नेमणूक जाल्ल्यान, मुरलीधराक चड फायदो जातलो, गांवच्या भुरग्यांली मानसिकता ताका जाय तशी बदलूंक मेळटली, हाची जाण ताका आसली. इतलेंच न्ही, तर शाळेचो मास्तर जाल्ल्यान, भुरग्यां वांगडां पालकांकय आपलो करुन घेवप सोपें जातले आसलें. ताणें सुरु केल्ल्या कार्या पासत, हें एक जमेचें आंग आसलें.

तो नेमणूक पत्र घेवन शाळेंत येयलो. हेडमास्तर आपल्या ऑफिसात बशिल्ले आसले. ''मे आय कम् इन् सर?''

''कम् इन् ! कम् इन् !''

मुरलीधर भितर येयलो.

' 'प्लीज सीट् डाउन्!''

मुरलीधर हेड्मास्तरा मुखावेल्या खुर्चेर बसलो. मुरलीधराच्या शेजरा खुर्चेर आर्धीच एक गोरी, एकशिवडी आंगलोटाची, निळी साडी न्हेशिल्ली, सादारण तेवीस चोवीस वर्सां पिरायेची तरनाटी बशिल्ली आसली.

''कित्याक येयिल्लो?''

मुरलीधरान नेमणूक पत्र सरा कडेन दीत म्हटलें, ''म्हजी हिंगा

नेमणूक जाल्या!''

''ओह, माय गॉड!'' हेडमास्तर चकासूर! तांच्या तोंडार खोशयेचे भाव उदेले. तांणी उठून मुरलीधराक हात मेळयत अभिनंदन केलें. ''म्हाका भोव खोस जाली! आय अम् व्हेरी हॅपी!''हेडमास्तरा पासत ही भोव खोशयेची गजाल आसली.

अभिनंदन स्विकारुक उठिल्ल्या मुरलीधराक ''बस'' म्हूण सांगत तांणी म्हटलें, ''ही चोय, ही हे शाळेची तुजे भशेनच नवी नेमणूक जाल्ली बाई! तूं जाणां आसतलोच, आमगेल्या शाळेंत इंग्लीश शिकवपी हेगडे मास्तराची 'कारवारा' बदली जाल्या. ताच्या जाग्यार ही! हिचें नांव मेरी! मेरी डिसुझा! फ्रॉम दांडेली!''

''हॅलो!'' म्हणत मेरी हांसलें. हरशींय मेरी सोबीत दिसऽ. हांसतना ताच्या पोल्यार सोबीत खळयो पडल्यो, आनी तें आनीकय सोबीत दिसलें.

''हॅलो!''

''आनी हो मुरलीधर नायक-गांवकार! लोकल् बॉय!''

सरान नेमणूक पत्र बरे करून चोयलें आनी म्हटलें, ''हो गणीत आनी सायन्स शिकयतलो.''

सरान मस्टर रोलार मेरी वांगडा मुरलीधराचेंय नांव बरयलें आनी दोगांयची नेमणूक पत्रां मुखाल्ल्या मेजावेल्या एके फायलीत लावन दवरल्यो.

''बाय द वे, तूं म्हणटाले न्हू, तुका ह्या गांवात राबित्याची वेवस्था चोवक जाय म्हूण?''

''हय सर!''

''हो तुजी वेवस्था करुंक शकतां! व्हेरी हेल्पफुल बॉय!''

हेडमास्तर मुरलीधराक बेसबरे वळखताले. हेडमास्तराची हे शाळेंत नवीन बदली जाल्ली, तेन्ना ते मुरलीधराल्या घराचे पडवेंत कांय दीस राविल्ले. मुरलीधरान तेन्ना तांचे कडल्यान भाडें सुदीक घेवंक नासलें.

''चोयता मु रे एकाद्रें घर?''

“माय प्लेजर सर! व्हाय नॉट?”

मुरलीधरान तशें म्हणटकीर, मेरीक जीव येयिल्ल्या भशेन जालो. ह्या अटंग्या रानांतल्या गांवांत इतलें पयस यो वच करप ताका कशेंच शक्य नासलें. ते भायर ताणें हेडमास्तरा कडेन चौकशी केल्ली तेन्ना कळ्ळें, हिंगा सगळे हिंदु! ख्रिश्चन कोण ना!

“बरें! या दोगांय! मुरलीधर, चोय तेगेली वेवस्था मातशी! कशें करुन करच!”

“बरें सर, डोन्ट वरी!”

दोगांय भायर येयलीं.

मुरलीधरान बरेंऽ करून मेरीक चोयलें. मेरी ऊंच आसले. सोबीत बांध्याचें आसलें. कोणालीय सट्ट करून नदर ओडून घेवपा सारखें आसलें.

मेरीनय मुरलीधराक बरो करून नियाळलो. ऊंच, गोरो, कोंगऱ्या केंसाचो, मनगटान, भुजांन घट्ट-मुट्ट मुरलीधर, तरनाटो चेडो-भुरगो म्हण सोबऽ सारखो दिसलो.

मुरलीधरान मेरीक म्हणलें, “तूं आतां वच! हांव चवकशी करतां! तूं फाल्या येतलें न्ही?”

“हय तर!”

“तेन्ना सांगतां तुका!”

“मेळटलें न्हू रे म्हाका बिराड?” मेरीन दुबावान विचारलें.

“हय! खंय ना जाल्यार, आमगेर पडवेंत राव!”

“ओह! शुअर! माय प्लेजर! आवडटलें म्हाकां!”

मेरी वचूंक गेलें उपरांत मुरलीधरान मेरी पासत पुराय गांव माड्डयलो. खरें म्हटल्यार, ताका आपल्या घराचे पडवेंतच मेरीक दवरून घेवचें आसलें. मागीर ताणें चितिल्लें, नाका! निमाणे कडेन एक तरनाटी! ते भायर वांगडा शिकयतली! म्हणटकीर भौसाक आनी तोंड फुटचें नाका! म्हगेलें बरें आसा! त्या चेडवालें नांव वायट जावंक फावना! पूण, मेरीक रावंक बिराड दिवंक कोण तयार जालो ना!

भौस कित्याक ताका भाड्यान रावंक घर दिनात, हें कळनासतना रावचे इतलो मुरलीधर पिसो नासलो.

कांय जणांनी "भाड्यान घर मेळटलें?" म्हणटकीर, रोखडेंच "हय" म्हणिल्लें. मागीर मेरीली जात-पात कळटकीर, रोखडेंच उतर बदलिल्लें.

मुरलीधरान मगेर चड चिंतूंक ना! हेर दिसा मेरीक ताणें सांगलें, "तूं येतना तुजें बिराडा सामान घेवन यो. म्हज्या घराचे पडवेंत राव!"

मुरलीधराली आई मुरलीधराल्या ह्या निर्णयार मात्तूय खुश नासली. तोंड वाकडें करुनच तिणें हयकार दिल्लो. तेंवूय खूब पारार्थले उपरांत!

घरांत रावंक येयले उपरांत अनसुयान मेरीली बारीक चवकशी केल्ली.

मेरीक बापूय नासलो. आवय आसली. एक व्हड भयण आसली. भयणीलें काजार जाल्ले. तिका होन्नावरा दिल्लें. भयणीलो घोव बोटीर आसतालो.

मेरीलो बापूय खंय हीं दोगांय नेणटी आसतनाच भायर पडिल्लो. 'मांयन' तांगेल्या मशिनाचेर लोकाले कपडें शिवन, हांकां दोगांकूय ल्हानाची व्हड केल्लीं. शिक्षण दिल्लें.

मेरीन म्हणिल्लें खय, "मांय, तूं म्हुज्या बराबर यो! आतां आनी तूं त्रास काण्णाका!"

हाचेर मांयन म्हटलें खय, "नाका गो सायबिणी, फाल्यां तूं काजार जावोन घोवा बगलेन वयतोलें. तेन्ना म्हाका कोण चोयतलो? म्हगे हें अशेंच चलों दी!"

आनी म्हत्वाचें म्हटल्यार, तागेलें 'दांडेलींत' इल्लें घर आसलें. इल्लिशी सुवात घेवन, घोवान ते मुस्तींत खय तें बांदिल्लें. आपल्या घोवाल्या कश्टांचे तें घर, म्हूण 'मांय'क त्या घराचेर भोव मोग आसलो. थंय मनीस रावना जाल्यार, घर पिड्यार जातलें आनी भाड्यान दिल्यार, आपल्याक जाय तेन्ना भाडेकाराक ऊठ म्हणूंक जायना! नाकाच ती कट कट! बसूंक दिल्ली मणय येवन, तकलेर हादळ्ळ्यार बेजार! अशें

येवजून, तिणें थंयच रावचें पसंद केल्लें.

मेरीलो सभाव मवाळ आनी म्होवाळ आसलो. ताणें रोखडेंच शाळेतल्यां भुरग्यांक आपलें करून घेयिल्लें.

शिकयतालें खूब बरें!

भुरगीं घरां वचून 'मेरी टिचरी'ली तोंड भरून तोखणाय करतालीं. उठ्ठना बसतना तिची व्हडविकाय सांगतालीं.

मुरलीधराकय मेरीलो सभाव भोव मानवतालो. आनी अनसुयाकय!

अनसुया सुर्वेक तांचे कडेन तोंड काळें ऽ करून वागली. पूण, मेरील्या गोड सभावान तिचेरय जैत जोडलें.

एक दीस मेरी सोप्यार बसून देठो शिनतालें. अनसुयाक सदाच दिसं ऽ हें गायचें, घर दुकराचे मांस बी आपल्या गांवा गेल्लें तेन्ना हाडून खायना मूं? एक वेळ घर दुकोर खायलो म्हूण व्हड ना! गांय-मांस खावंक जायना! गांय आमगेली देव! तेत्तीस कोटी देव आसतात तिगेल्या पोटांत!

तिणें ल्हवूच कुशीक वचून बसत विचारलें, ''बाय, तूं घर दुकोर खाता?''

''कित्याक इचारता तूं आई?'' मेरीन हांसत म्हटलें.

''हिंगा खायनाका हा बाय! गाय तर आमगेली पवित्र माता तूं जाणां!''

''तूं भिये नाका! हें कोंकण्यालें घोर हांव जाणां!'' मेरीन हांसत हांसत म्हटलें.

मगेर अनसुयान ल्हवूच म्हणिल्लें, ''रागार जावं नाका हां बाय, तूं रान-दुकर खावंक हरकत ना! आमी रान-दुकर खातात! हिंगा मुगो, लोक चोरून कासाक बी वयतात, तेन्ना दितात इली कोस्टी! तेन्ना तुका दितां हांव! म्हाका एकल्याक कितलें जाय? हो आमगेलो बाब काय खायना!''

''तो खायना? कित्याक?''

''तो बाय शिवराक! नुस्तें लेगीत खायना!''

मेरीक अजाप! ताणें आपलें मोठेले दोळे आनीकय मोठे करत म्हटलें, ''अेशेंऽ ? देवा सायबा!''

''तूं रावता ते पडवेंत, एक मास्तर रावतालो. तुजे भशेन सभावान भांगर आसलो. म्हगेलो व्हडलो पुतच कसो रावतालो हिंगा! मुरलीलो मास्तर तो! मुरलीक 'तो' म्हटल्यार जालो! देव तेगेलो! तो मास्तर शिवराक आसलो. तेचें चोयन मुरलीय शिवराक जालो!''

हेर दिसा मुरलीधराक आनी मेरीक दोगांकय शाळेंत 'सेकंड पिरियेड' ऑफ आसलो. दोगांय कुशी-कुशीक स्टाफरुमांत बशिल्लीं. मेरीन ल्हवूच मुरलीधराक म्हणलें, ''आई टोल्ड मी दॅट यु आर अ व्हेजिटेरिअन!''

''हय तर!... आनी म्हजे वांगडां संवसारांतल्यां हेरांनीय 'शिवराक' जावचें अशें म्हाका दिसता!'' ''कित्याक?''

''लीव्ह अण्ड लेट् लीव्ह! जगा आनी हेरांकूय जगूंक दियात! ह्या मताचो हांव! मेरी, म्हजें स्पश्ट मत, तुमी नुस्त्यांक, सवण्यांक, जनावरांक जगूंक दियात न्ही! तांकांय तांचें जिणें आसता! कित्याक मारतात तांकां!''

''पूण, एक जीव दुसऱ्या जिवा खायन जियेता न्हु! कितें म्हुण्टात न्हु रे जिवो... जिवो....''

''जिवो जिवस्य जिवनम!''

''व्हय तेंच! व्हडलें नुस्तें धाकल्या नुस्त्यांक खायेन जियेता! वाग दुसऱ्या सावजा खायन रावोना? सर्व्हायवल् ऑफ् द फिटेस्ट!'' मुरलीधरान गंभीरतायेन म्हणलें, ''ह्या सर्व्हायवल् ऑफ द फिटेस्ट तत्वानच संवसाराची धुळधाण जावंक लागल्या! फकत एकामेकांक खावन जियेवचेलें! मनशान जियेवचेलें आसता तर्कशुध्द आनी उपकाराक जिणें! वाग मांसाहारी, सैमानच ताका तसो केला! नुस्तें, सवणे, हेर जनावरां तांका सैमान घालून दिल्ल्या नेमा परमाणेंच आहार घेतात! मनशाले कुडीची रचना शाकाहाराक चड मानवता! तशें आसा जाल्यार, त्या निरपराधी जिवांक कित्याक सतवचे?

जिबेचे लाड करुंक?''

आनी मगेर ताणें उठून कपाटा कडेन वचून आपली लॉकर उगडली. तातूंतल्यान 'शाकाहार' नांवाचें एक पुस्तक सोदून काडलें. ''हे घे, वाच!'' म्हणत मेरीक दिलें. ''हेतूंत शाकाहाराचे म्हत्व सांगलां!''

मुरलीधरान सांगलें म्हूण मेरीन तें पुस्तक वाचलें.

पूण, मेरी शिवराक जावंक ना! सदाच 'पों पों' करुन येवपी डब्याचें नुस्तें सगळ्यांत आदी वचून घेतालें. कोणेंय दुधगंगा न्हयेचें गरोवन, वा रापून हाडिल्लें नुस्तें हुडी पडून घेताले. नुस्त्या पासत कितलेय पयशे मोडूंक तयार आसतालें.

विचारल्यार म्हणप आसलें, ''नुस्त्या बोगोर म्हुगे ताळ्या सकल उंडी केश्शी देंवोच ना!'' मेरीचो हात भोव सुग्रण आसलो. पडवेंत भितर रांदिल्लो घम घम घरभर पातळटालो. मुखार आंगणात पावतालो.

अशेंच एक दीस. शेतांतल्यान हुमटून हाडिल्लें उडदां-ताळें आंगणात सुकोवंक घाल्लें आसलें. धगांत सुकून ते बरें कडकडीत जाल्ले. उडदांचे काय शेंगां आपशेंच फुटून उडीद आंगणभर जाल्लें. आतांच हें बडोवप सारखें, अशें येवजून मुरलीधर मरकलान डब्ब - डब्ब करुन उडदा ताळें बडयतालो. मदेंच घम्म करुन कितें तरी बरेऽ रांदिल्ल्याचो वास येयलो. मगेर घम घम सुरू जालो. मुरलीधराक समजलें, हो घम घम मेरीले पडवेंतल्यानच भायर सरला.

''कितें रांदलां गो ऽ ऽ? ओ ऽ मेरी, मेरी ऽ ...'' मुरलीधरान ऊंच आवाजान सादयलें.

''कितें?'' म्हणत मेरी रोखडेंच भायर येयले. जशें काय तें मुरलीधराले सादयेक रावतालें. ताचे हातांत 'कालचीप' आसलें. घडये तें कितें तरी तळशितालें.

''कितें रांदला काय विचारतां!'' मुरलीधरान हातांतलो मरकल उबो धरून म्हटलें.

''इलें हाणण दिवं?''

''हांव खावचो ना तुगेल्या हाताचें!''

“कित्याक? हांव किरिस्तांव म्हूण?”

मेरीलीं उतरां आयकून मुरलीधराक कच्च जालें. अरे ऽ ! कित्याक खायना म्हटलें हांवें नकळटां? म्हजे भितरले नेणटेपणा साकून जायत येयिल्ले संस्कार उलयले ना मू हें?

मागीर जाणीव पुर्वक आपलीं उतरां बदलीत मुरलीधरान म्हटले, “तूं किरिस्तांव म्हूण न्हू गो! तुजें रांदप नुस्त्याचें बी न्हू, म्हूण! शिवराक रांदल्यार दी!”

“बरें!” अशें म्हणत तें भितर गेलें.

सुमार वेळान पुराय उडदां ताळें बडोवन जातकीर, हुश्श! करत घामाघूम जाल्लो मुरलीधर मरकल सोप्याक तेकोवन सोप्यार बसलो. तेन्ना मेरी एके स्टिलाचे बशयेंत बरी ऽ बटाट्याची भाजी वयर एक बशी धांपून घेवन येयलें.

“थ्यँक्यू!” म्हणत मुरलीधरान ती बशी घेयली आनी उठून भितर घरांत येयलो. आई आडवळेर सोय कातताली. “ही चोय, मेरीन भाजी दिल्या! बरो घमघमीत वास येता!” अशें म्हणत ताणें ती ‘भाजी’ शिजोवन कुशीक काडून दवरिल्ले पेजे मडकेर दवरली.

“अरे देवा, कर्मा म्हज्या!” आईन कपलार हात मारून घेयलो.

“कितें जालें?”

“अरे पाप्या, तेगेल्या हातचें तुवें घरांत हाडलां? देव-धर्माचें घर न्हू हें?”

मुरलीधर हाचेर कांय उलयलो ना! मोठ्यान उलयल्यार तेवटेन मेरील्या कानार वयतलें आसलें. मुरलीधरान भाजी उखल्ली आनी बशी उगडून मजा घेवन खाली. “बरी ऽ रांदल्या!”

“देवा सायबा ऽ ! तुवें आनी कांयच दवरूंक ना! कितें करचें म्हूणच कळना म्हाका!” अशें म्हणत ती उठली आनी पेजेमडकी उखलून व्हरुन, फाटल्या माडां आळ्यांत उमथी केली.

एक दीस शिवानंदा बायल-मोटवेली ललिता मुजरत विचारुंक येयिल्ल्यावरी, तिनसांजचें अशी अनसुया सरीं येयली. अनसुया रांदचे

कुडींत मागील दारा कडेन उजवाडांत बसून तांदूळ सरी करताली. ललिता येयली आनी थंयच वणटीक तेंकोवन दवरिल्ली 'मणय' घेवन बसली.

सुर्वेक आयलें पयलें उलयली आनी मगेर विशयाकच हात घालून म्हणूंक लागली, "अगे, तुमी साप्पच सोडलां गे? देव-धर्माच्या घरांत, तुमी कोणाक दवरून घेयल्या?"

"तें पडवेंत रावता न्हू! पडवी भायल्यान न्हू ती?"

"पडवी भायल्यान कशी गे? घरा तेकून काडिल्ली पडवी भायल्यान जाता?"

"जायना कित्याक? पडवेचें दार भायले वटेन न्हू? घरांतल्यान ना न्हू तें!"

"तें तुगेल्या मनाचें समाधान! तोवूय घराचोच भाग! ताचे परस तुमी तेका घरांतच कित्याक दवरून घेवुंना? येदे व्हडलें घर! हरशींय दोनच मनशां रावतात तुमी!"

मुरलीधरागेरच्चें घर बरें ऽ व्हड आसलें. उप्परकी माळयेचें! भायल्यान ओसरी आनी ओसरेक तेकून अस्तंतेक मुरलीधराली खोली. मदली कूड. मदले कुडीक उदेंते वटेन व्हांवरी आनी अस्तंते वटेन अनसुयाली कूड. फाटल्यान रांदची कूड आनी तातूंतच उदेंते वटेन घरा तेंकून ही पडवी काडिल्ली. मुरलीधराल्याच म्हूण न्ही, तर गांवांतल्या भोवतेक व्हड घरांनी असल्यो पडव्यो आसताल्यो. ती एक गांवची तराच आसली. आनी चड करून ह्यो पडव्यो भाड्यांनी दिल्ल्यो आसताल्यो. मास्तरांक, नातर नर्सीक, नातर पंचायतेंतल्या एकाद्र्या कर्मचाऱ्याक!

अनसुयाक ललिताक कितें सांगचें म्हण कळलें ना! ती भितरल्यान याण जाली. आपली हार मानून घेत तिणें म्हणलें, "म्हगेलें कांयच चलना गो ललिता, पुतान केल्लो दरबार! हांव कितें करूं? नाक धाडावूं तेचे मुखार? आतां तेंच एक उरलां!"

अनसुया हरशीं मेरीक खूब बरी करताली. एक बऱ्या सभावाचे

भुरगें म्हूण! गांवच्या शाळेंतली एक बरी बाई म्हण! आनी हें मेरीय जाणां आसलें.

मेरीच्या खूऽब लागीं येवंक, ताच्या हातांबोटांचे घेवंक, घरांतलीं मातये आयदनां दिवंक, ताका ओसरे भितर मदले कुडींत, रांदचे कुडींत घेवंक आई अनमनता! फाटी-फुडें करता! हें मेरीकय जाणवतालें.

मेरी केन्ना-केन्ना येवजितालें, चोय! आईक हांव मानवतां! म्हाका आई मानवतां! तरी लेगीत आई म्हुकोडे चड बगलेन येना! तिका वयर सकल जाता! हें अेशें ऽ कित्यां? कोण दोत्ता आमका अेशे एकांमेका साकून पोयस? जात-धोर्म? धोर्मानी मनशांक बगलेन हाडूंक जाय! सोगलीं मनीस कुळी एक न्हू? हें कित्याक सजमोना हेंका?

मेरी हेंच एक दीस मुरलीधरा कडेन उलयलें.

मुरलीधराक मेरीले विचार भोव मानवले.

सुमार वेळ दोगांनीय ह्या विशयार चर्चा केली. धर्माचो अर्थ कितें? उद्देश कितें? ताचें स्वरुप कितें? आनी आयज धर्माक खंयचें रूप मेळ्ळां? मनीस-कुळेल्या उध्दारा पासत उदयाक येयिल्लें हे धर्म आयज मनीस कुळेल्या नाशाक कशें कारण थारूं येतात, हाचेर दोगांलेंय एक मत आशिल्लें चोयन, मुरलीधरान थारयलें, हेगेले विचार, मतां आमचे कडेन जुळटात! हेकाय संघटणेची वांगडी करची!

मुरलीधरान मेरीक वांगडी करचे पासतचो विचार संघटणेच्या एके बसके वेळार सगळ्या वांगड्यां मुखार दवरलो. तांचीं मतां घेवन, मगेर मेरीक विचारलें. मेरीन व्हडा खोशयेन वांगडी जावचेलें मान्य केलें.

मेरी 'आदर्श युवक संघटणेची' वांगडी जातकीर, संघटणेच्या कार्याक आनीकय नेट येयिल्लो.

मेरी कडेन नवे वांगडी कशें करप? कामांची वाटणी कशी करप? पयशे कशे उबे करप? ह्या सगळ्या गजालींचें बेस्बरेंऽ गिन्यान

आसलें.

मुरलीधरागेरच्या माळयेर जाल्ले, मेरील्या पयले बसकेंतच मेरीन आपलें विचार मांडले, ''जण एकल्यान एक नेयो वांगडी करचो! म्हणटोकोच एक-दोन वर्सां भितर गांवचे सोगले तोरनाटें संघटणेचे वांगडी म्हुणोन मेवतलें. आनी अेशें जाल्यार, संघटणेचे विचार सोगल्या घोरा पावतलें. मुखार हेच तोरनाटे घोरचे मुकेल कुटूंब चलोवपी जातोले. म्हण्टकोच, कुड्ड्यो स्रध्दा गांवांतल्यान आपूणच पोयस जातल्यो! पूण एक ... तेका वांगडी कोरचे पोयले, संघटणेचो उद्देश, कार्य, सजमोन सांगप गोरजेचे! संवसार खूंय पावला... गिन्यानान आयज केदी व्हडली उदरगत केल्या... आनी हेचो विचार कोत्तना, आमी आमगेलो समाज खूंय आहा, आमकां बरो फुडार जाय जाल्यार कितें कोरोप, हें शिकोवंक जाय!''

''सारखें टिचरीलें!'' शोभान म्हणिल्लें. शोभा मेरीचे कुशीकच बशिल्लें.

मेरीन फुडें म्हणिल्लें, ''जण एका वाड्यावेल्या तोरनाट्यांली, तेंगेली अेशी एक संघटणा आसोंक जाय!... अ स्मॉल ग्रूप! तेंगेले काम तेंगेल्या वाड्या वयल्या लोकालें 'ब्रेनवॉश' करचेलें! सजमलें न्हू!''

''व्हय तर! बोरे भाशेन सोजमोलें!'' विजयान मेरीली भास उलयत म्हणलें.

मेरी सकट सगळे हांसले.

''म्हत्वाचें म्हटल्यार, 'हेल्प'! आमी 'हेल्पफूल' आसोंक जाय! खंय किदेय जावं, आमी सोगल्यांनी पोयले थिंगा पावों जाय! तेंका दिसोंक जाय, हीं कितेंय जाल्यार कोरोंक भायर सोरलेलीं भुरगीं! तुमकां पटना जाल्यार सांगा हां!''

''शेऽ ! शेऽ! सामकें पट्टा!'' सुर्यकांतान सांगलें. ''सांगा, उलया तुमी!''

''संघटणेच्या कामापासत पोयशे जाय, हें सोगलेंच जाणां! तेचो

हुसको करची गरज ना! वुई कॅन् इझिली कलेक्ट देम्!'' अशें सांगून, मेरीन तांगेल्या इंगर्जेच्या फेस्ता वेळार, 'हाऊजी,' 'पयसुल्ल्यान रिंगा उडोवन मेजावेल्यो वस्ती फारोवप,' 'इल्लेशाच रिंगान कोल्ड्रींकाची बाटली गरोवप,' 'चेंडू मारून एकार एक दाळिल्ले लाकडां ठोकळे उडोवप,' बी असले खेळ खेळोवन तीं कशें पयशें एकठांय करतालीं, तें विस्तारान सांगलें.

हाचेर मुरलीधरान म्हणलें, ''आमगेल्या हिंगां जात्रेक 'गडगडो' म्हूण हेच भाशेचो पयशांचो खेळ खेळटात. एके तरेचो जुगारच तो! आमी तोच बंद करचेल्या तयारेंत आसात. आनी तूं आमका हे नवे जुगार सांगता मुगो!''

सगळे हांसले.

''आतां हेचेर तुमी चिंतात! म्हुगेलें सांगचेलें काम! वेदर इट इज टुबी एक्सेप्टेड ऑर नॉट, इज् लेफ्ट टु यू!''

''टिचर, आय् लायक्ड युअर आयडियास!'' शोभान म्हटलें.

''आय् टू!''

''आय् टू!''

सगळ्या वांगड्यांनी मेरील्यो सगळ्यो सुचोवण्यो उखलून धरल्यो.

मुरलीधराक खूब दिसांनी एक दीस मेरी कडल्यानच कळ्ळें, मेरी दांडेलींत तांच्या महिला मंडळाची अध्यक्षा म्हूण!

मेरीलो आनी मुरलीधरालो वैचारीक पावंडो एक आसलो देखून दोगांलेंय जुळटालें बरें! शाळेंत लेगीत तांचे नातें आनी वावर देख घेवपा सारखो आसलो.

भुरग्यांल्यां सर्वांगीण विकासा पासत कितें कितें करूं येता, तितलेंय ती दोगाय करताली आनी वांगडाच कुड्ड्यो स्रध्दा, रुढी, परंपरेचें फटकिरेंपण भुरग्यांक समजोन सांगताली. भुरग्यांल्या मनांत असल्या गजालीं पासत तिडक उत्पन्न करताली. जे आर.एन्.नायक सरान केल्लें, तेंच मुरलीधर करतालो. आर.एन्.नायक सरांचे दायज तो मुखार व्हरतालो.

मुरलीधर आनी मेरी सदाच शाळेंतल्या भुरग्यांत वावुरतालीं देखून तीं दोगांय भुरग्यांली आवडीचीं थारिल्लीं. आनी भुरग्यांक लागून पालक तांकां मान दिताले.

भुरग्यांक 'गणित' आनी 'सायन्स' विशय सदांच जड वयताले. देखून मुरलीधर भुरग्यां पासत ह्या दोनूय विशयांचे ज्यादा वर्ग घेतालो. आयतारा सुदीक तो काय शिकूंक दड्ड्या आशिल्ल्यां भुरग्यांक आपयतालो, आनी वर्ग उगडून बसतालो.

मेरी बी तशेंच करतालें. गांवांतल्या भुरग्यालें. 'इंग्लीश' सुमारा भायर कच्चें आसलें. देखून ताकाय बरेंच चड काम करचें पडटालें. भुरग्यांलो दर्जो वाडोवप गरजेचें आसले. एस्.एस्. एल्. सी. भुरग्यांलो रिजल्ट बरो लावप गरजेचें आसलें. आनी देखून तें दर आयतारा शाळेंत शिकयतालें.

एक दीस अनसुयान मेरीक विचारलें, ''बाय, तूंवय आयतारां कित्याक वयता? एक दीस तरी सुशेग घे! बायल भुरगें तूं! तुका शाळेचें करचें पडटां आनी घरचेंय करचें पडटा!''

हाचेर मेरीन जाप दिल्ली, ''आई, हांव आयतारा दांडेलींत इगर्जे त वयतालें. हिंगां इगर्ज ना. हें भुरग्यांक शिकोवप हीच जेजुली सेवा अेशें हांव सजमतां!''

मेरीन ही आईक दिल्ली जाप, मुरलीधरान मुजरत शाळेंत वचून हेड्मास्तराक, शिक्षकांक आनी प्यूनांक लेगीत सांगिल्ली. काय पालकांकय सांगिल्ली.

''ओह्! व्हाय डु यु टेल् ऑल् दीज् थिंग्स् टू देम?'' मेरीन म्हणिल्लें.

''आय् वॉन्ट टु क्रियेट युवर स्पेशल इमेज इन देअर माईण्डस्!''

मेरी खूब बेजार येयल्यार, केन्ना केन्ना 'दुधगंगा' न्हंयेचे देगेर वचून बसतालें. पुस्तकां, रेडियो नातर ही 'दुधगंगा' न्हय! हांचे बगर मनरिजवणेचें हेर साधन ताचे कडेन नासलें.

मुरलीधर आनी मेरी एक दीस सांजची शाळां सुटले उपरांत,

वांगडा घरां पर्थतालीं. मेरीन म्हणलें, ‘‘म्हाका आयज न्हंये देगेर वचोन निवांत वारो खायत बसोक जाय!’’

मुरलीधरान हांसत हांसत फकाणान म्हटलें,

‘‘बसूंक हरकत ना, ‘जळीनास’ आसां थंय! तुका थंय एकटें चोयन, बुडोवन बी मारत तो!’’

मेरीक तो कितें म्हणटा, तें कळ्ळें ना. ताचो चेरो गंभीर जालो. ‘‘कितें? ‘जळीनास’ म्हणल्यार?’’ ‘‘तूं पुराय न्हंयें देग भोवुना?’’ ‘‘ना!’’ ‘‘... आतां ‘जळीनास’ म्हटल्यार कितें म्हुण सांगू तुका म्हगेलीं कर्मा? आयक कान दिवन, ‘जळीनास’ म्हटल्यार, एके तरेचो देंवचार! हेचे आदीं दोग जणांक बुडोवन मारलां तेणें!’’ केन्नातरी फाटले पिळगेंत ‘म्हादू’ म्हूण एकल्याक! आनी दुसरो बेबदो नरसिंवालो भाव सदाशीव! तोवूय बेबदोच आसलो! ... आतां तिसरें तूं जायत! गेल्यार थंय जतनायेन राव, ‘नास’ तो!’’ मुरलीधरान फकाणान म्हटलें.

‘‘खोरें रे?’’

‘‘तूं आनी विचारता? तूं असले ‘नास’ ‘देंवचार’ बी मानता?’’

‘‘आतां तूं सांगोता न्हू रे!’’

‘‘सांजच्या मागीर या आमी थंय सांगतां तुका काणी!’’

मुरलीधरान सांगलें. थारिल्या परमाणें सांजेच्या पांचां सुमार दोगांय ‘दुधगंगा’ न्हयें देगेर येयलीं. ‘मायणां तोंडार’ येवन उबी रावलीं.

‘‘हें मायणां तोंड’! सुकते वेळार तुका हिंगा चोयल्यार समजता! हिंगा चिकलां-मायण! पांय भितर मायणांत रिगल्यार वयर येवप कुस्तार! आतां भरती येतां!’’ पयस न्हंयेंत पाग्यालो एक तोळको दिश्टी पडटालो. थीर! घडये पाग्यान थंय ‘जाळ’ उडयिल्ली. न्हंये देगेर उबे राविल्ले कडेन, अस्तंते वटेन येवपी शितळ वारो मेरील्या गुलाबी साडयेचो पालव जाग्यार रावूं दिना आसलो. ताका तो सांबाळप कठीण जातालो. वारो एके तरेचो खेळच ताचे लागीं खेळटा अशें दिसतालें, एकेक फावट तर ताच्या आंगाची रेखिवता दाखयत,

ताच्या हड्‌ड्याची उभारी दाखयत, साडी चाप्प आंगाक दसयतालो.

मेरीन चाप्प उगोवन लांब सडक केंसाची फाती घायिल्ली. तरी लेगीत तकलेर सुटिल्ले केंस भुरु भुरु उडटाले. काय सुटून तोंडार येताले. ते कुशीक काडूंक ताका नाकाशिवा जातालें.

एका हातान पदर सांबाळप, एका हातान तोंडार येतात ते केंस कुशीन काडप, ही एके तरेची मेरीक कसरतच जाताली.

मुरलीधराक हें चोयन हांसूक येयलें. ताणें म्हणलें, ''हो व्यायाम करूंकच तूं हिंगा येता?''

मेरीक ताच्या उतरांतली फकाणां समजली. ताणें म्हणलें, ''खूब नेटाचो न्हू वारो हिंगा?''

''थंऽय...'' बोटान दाखयत मुरलीधरान सांगलें,. ''जळीनासा' फातरा कडेन तर सामकोच नेटान वारो येता. 'वाऱ्यातोंडच' म्हणटात तेका!... यो, दाखयतां!'' अशें म्हणत, तो मेरीक घेवन पाग्याल्यां तीन घरांचो 'तारीवाडो' बलांटून चलत चलत 'जळीनासा' फातरा कडेन येयलो.

खऱ्यांनीच थंय वारो 'सों ऽ' करत नेटान व्हांवतालो. एकाद्रो थंय सत्री फुलोवन रावल्यार सत्रे सकट उडून वयतलो.

''व्हय हिंगा वारो नेटाचो!''

मुरलीधरान मेरीक याद करून दीत म्हटलें, ''व्हदळ हांवें तुका सांगिल्लें याद आसा?''

''हां! ती बुडान माल्लेली गजाल न्हू!''

''हय! होच तो 'जळीनास'!'' मुरलीधरान नासा फातरा कडेन बोट दाखोवन सांगलें.

''हो ऽ ?'' त्या उब्या पुरिल्ल्या काळ्या फातरा कडेन मेरी कांय खीण पळयत रावलें.

''हिंगा हे सुवातेर, 'न्हंय' हेर कडे परस चड अगगड आसा. हिंगां उदकाचो थाव लागना. हिंगा वाऱ्याचो नेट सोसूं नजो इतलो! जर, एकाद्रो चुकून लेगीत तोल वचून हिंगासल्ल्यान पडलो जाल्यार,

तो पर्थून वयर येवप भोव कठीण!... देखून घडये वय वडलांनी, जाण्टेल्यांनी, ही अपघाताची सुवात म्हूण, हिंगां 'जळीनासा फातर' उबो केल्लो! 'जळ' म्हटल्यार उदक! 'नास' म्हटल्यार नाश! हे सुवाते वेल्यान जळांत पडून तुमचो नाश जावचेली शक्यता चड! असो कितें तरी संकेत तांणी आमकां दिला! 'नास' हे संकल्पनेक लोक भियेतात! म्हणटकीर, लोक हे सुवातेर येवंक भियेतात आनी अपघाताची शक्यता उणी जाता!... अर्थात हो म्हगेलो तर्क हां!''

''ज्युस्त तुगेलें! तशेंच आसोंक जाय!''

''आतां 'ही ऽ'' काणी आयक, म्हगेल्या नेणटेपणांत घडिल्ली ही गजाल!... तूं तो बेबदो नरशींव जाणां?''

''तो बेबदो! हय जाणां!''

''तेगेलो एक भाव सदाशीव म्हण आसलो. तोवूय असोच बेबदो आसलो. पिवप आनी तर्रर जावन येवप! चलतना हेचे पांय जाग्यार पडप ना. तेचें घर सकयल्या वाड्यार! सकयल्या वाड्यार वचूंक जाय जाल्यार, ब्रम्ह्या कडच्या वाटेन वचूंक जाय! आनी ब्रम्ह्या कडल्या वाटेन वचूंक जाय जाल्यार, तो 'सोरो' पियेल्लो आसूंक जायना! म्हणटकीर, ही चोय...'' मुरलीधरान एके वाटे कडेन बोट दाखयत म्हणलें, ''ही जी बारीकशी अशीर वाट गेल्या, तिवूय सकयल्या वाड्यार फाटलें वटेन गेल्या. अशीर आशिल्ल्यान कोण चडसो हे वाटे वेल्यान वचना! हे असले बेबदे राती कडेन पियेवन येतना, हे वाटेन वयतात. 'नासा' कडेन हे असलें बंधन ना. म्हाका दिसता, तो सदाशीव सोऱ्या नेटार हिंगा येवन कितें सर्कस केली आनी तोल वचून सोमतो उदकात पडलो. मेलो बुडून!''

''ज्युस्त तुगेलें! तेशेंच आसोकं जाय!''

''हेर दिसा सदाशीव घरा पर्थलो ना, म्हूण पुराय सोदा सोद केली. चोयल्यार, हेगेलें मडें हिंगा हुबता! जालें! सगळ्यांली म्हणणी, तेका जळीनासानच बुडयलो! ... मगेर, खरें खोटें चोवंक 'जाणवय'कडेन गेले. 'जाणवयन' गुलां घुवंडावन सांगलें, 'जळी नासानच' बुडयला!''

मेरीन मदेंच विचारलें, ''गुलां घुवंडावप म्हटल्यार?''

''गुलां तुवें चोयल्यात मुगो? काऊरिस्! वन्स दे वर युज्ड एज मनी इन् इस्ट आफ्रिका ॲण्ड एशिया!''

''या! या! आय् नो!''

''ती गुलां मेजार नातर मणयेर बी दवरप. वेल्यान मंत्र म्हणत हात घुंवडावप. मगेर तेतूंतली कांय गुलां कुशीक काडप. कुशीक काडिल्लीं गुलां गड्यांनी आसात, काय फाड्यांनी आसात, तीं चोवप! गडे आसल्यार अशें, आनी फाडें आसल्यार तशें!.... अशें तरेन येवजून करप तें!''

''आय् सी...!''

''... त्या सदाशिवा आर्दी आनीक एकटो थंय बुडून मेल्लो. तेका खय जळीनासान बुडयलो! खूऽ ब फाटीं तें! सुमार इतल्या पिळग्यांफाटली गजाल! तेचें नांव म्हादू आसलें. तोवूय ह्या सदाशिवाल्याच वंशावळींतलो! तोवूय बेबदोच आसलो. देवाक बी मानिनासलो खय!''

''सोगलेच बेबदे?''

''हय! घडये बेबद्यालीच वंशावळ ती!''

मेरी खू खू खू करुन हांसलें.

''... हां! म्हणटकर, तुका व्हदळ सांगूक सोदतालो तें हेंच! ही सुवात अपघाताची! हिंगां सांबाळून वावरुक जाय!''

''थ्यँक्यू!''

आतां सुर्या धारे सकयल गेल्लो. वातावरणांत एके तरेचो शेळावसो पातळिल्लो.

दोगांय चलत चलत न्हंयेदेगेन फुडें येयलीं. न्हंये देगेवेल्यां शेतांत चरमां काडपी कांय बायलां तांकां उबीं रावन तेळटालीं.

मुरलीधरान थंयसूनच शेकानशेक पातळिल्ल्या त्या शेतांकेरां कडेन बोट दाखोवन सांगलें, ''तीं बायलां काम करतात, तो पुराय शेतांकेर आमगेलो. सो कॉल्ड सकयल्या जातींतल्या लोकांक खंडणे लेकान

भागाक दिल्यात तीं शेतां!''

''मुरली, तुमगेर शेतां-भाटां खूब आसात न्हू?''

''हूं! तुमगेर नात?''

''आमगेले दांडेलींत इलेंशें घोर आनी आशिकुशीक इल्लिशी सुवात, इतलेंच तें! थिंगा कारवारा आहा म्हणटात! पूण,आमी वोसनात थिंगा. म्हुगेलो पाय ते सोडूनच हिंगा 'दांडेली' येयललो. पेपर मिल्लांत काम कोत्तालो. हिंगा रावलो.''

तशीच तीं दोगाय आनीक फुडें येयलीं. मर्दीच मेरीन विचारलें, ''मुरली, हे न्हंयेक 'दुधगंगा' कित्याक म्हणटात रे?''

''ही न्हय 'मांयगिणी दोंगरा' वेल्यान येयल्या. 'मांयगिणीच्या' मुळसांत ही धायेक मिटर उंचाये वेल्यान घोगो जावन उडी घेता. एक दीस व्हरुन दाखयतां! ती उडी घेतना दुदा बाशेन धवी फुल्ल दिसतां. देखून 'दुधगंगा'!''

तो मेरीक घेवन तसोच फुडें कळसा दोंगरा मुळसांत येयलो. 'खुळखुळ्या वझरो' दाखयलो.

आतां धर्तरी काळोख पांगुरूंक लागिल्ली. रातकिडे 'किर्रर' करुंक लागिल्ले.

इतलें चलता मेरेन मेरीले पांय दुखूंक लागिल्ले. मेरीन म्हटलें, ''मुरली, मातशें बसुंया मुरे! पांय दुकोतात!''

''हें चोय, हिंगां 'देवी आवयल्या देवळांत ' बसुंया!''

हाचेर रोखडेंच मेरीन म्हणलें, ''नाका रे बाबा! देवळांत नाका! हिंगाचे लोक खू ऽ ब 'ऑर्थडॉक्स'!''

''लोकांक भियेनाका तूं! यो!''

तें 'नाका नाका' म्हणटना सुदीक मुरलीधर मेरीक घेवन देवळा कडेन येयलोच.

दोगांय देवळाच्या दरवट्या कडेन पाविल्लीं.

भितर देवळांत, गर्भकुडयेंत, लामण दिव्याच्या उजवाडांत, देवी आवयल्या मुर्ती मुखार राम जाणवय आनी ताचो पूत शंकर जाणवय

रातचे पुजेची तयारी करताले. शंकराली नदर ज्यूस्त हांचेर गेली.

"अरे! हो देडशाणो किरिस्तांव बाईक घेवन देवळांत येयला!"

तशें म्हणटकीर, राम जाणवयन चोयलो. "हय मरे!"

"हांव धांवडायतां तिका!" अशें म्हणत शंकर गर्भकुडयेंतल्यान भायर सरतालो, ताका राम जाणवयन आडयलो. "हांव चोयन घेतां तें!" अशें म्हणत तो भायर येयलो. कितेंय जाल्यार गांवच्या शाळेंतली बाई! ताच्या घराब्यांतलीं कांय भुरगीं तिचे कडेन शिकतालीं. एका शिक्षिके कडेन कशें वागप हाचें भान राम जाणवयक आसलें. शंकराक तें नासलें. शंकर म्हणटात तो हुरमुटो, अविचारी! ताचे विचार हेच सर्वस्रेश्ठ विचार अशें मानपी!

"बाई, थांबा! थांबा!" राम जाणवयन मेरीक दरवट्यातच थांबयलें!

हरशींय देवळात पांय दवरुंक अनमनतले मेरीन आयकना फुडें पावल उखलूंक ना.

राम जाणवय मेरी मुखार येयलो. "चोयात बाई, आमी आमगेल्या परंपरे नुसार हेर धर्माच्या लोकांक देवळांत घेयनात!"

"कित्याक? कित्याक घेयनात?" मुरलीधरान रोखडेंच विचारलें.

"आमगेल्या देवाकडेन चलना तें!"

"आमगेल्या देवाकडेन? आनी तेंगेलो देव कोण? आनी देव आसात कितले?"

"तेहत्तीस कोटी देव आसात! आयकलें ना केन्नाय?" राम जाणवयन मुजरत हेडयिल्ल्यावरी सांगलें.

"तुमी देव-धर्माचे बरे ऽ जाणकार हें हांव जाणां! म्हूणच तुमी 'जाणवय' ह्या गांवचे! म्हाका फकत एकूच कोटी देवांची नावां सांगशात?"

मुरलीधराच्या उतरांनी शंकर जाणवय तिडकेलो. म्हणूंक लागलो, "तूं चड शाणो हें हांव जाणा! तुगेलीं शाणेपणां हिंगा नाकात!"

"हांव शाणो, काय पिसो, हें हांव नकळो! तें काळ थारयतलो!

पूण, हांव एक जाणां, हेरांक पिशे करुन पोट भरचेलो वावर हांव करिना! म्हगेल्या सोबीत गांवाक लागिल्ल्यो किडी म्हाका नश्टोवच्यो आसात! आनी होच म्हगेलो वावर चल्ला!'' मागीर मेरीकडेन चोयन, मुरलीधरान म्हटलें, ''चल मेरी, यो तूं भितर! कोण तुका आडयतां, हांव चोयतां!''

''नो! नो! आय एम् गोईंग बॅक!'' मेरीन काडून दवरिल्ली जोतीं पर्थून पांयांत घालीं आनी तें वचूंक लागलें. मेरीलें तोंड बावन येद्देशेंच जाल्लें! तेका तें मनाक खूब लागिल्लें.

मुरलीधरय मेरी फाटल्यान येयलो.

''मेरी, सॉरी हां!''

''इट्स ओके!''

''हांव जाणां, तुका वायट दिसलें!''

''वायट दिसलें रे! तेच बराबर तेची काकुट दिसली. तेका देव सजमलो ना हेची!''

''तुका काकूट दिसता! म्हाका तिडक मारता!''

वयतां वयतां मेरीन सांगलें, ''व्हेन् वुई वर किड्स , वुई युज्ड टू सिंग अ प्रेयर इन् अवर प्रायमरी स्कूल...''

''हूं... खंयची?''

मेरीन कांय खीण प्रेयर याद केली पूण उतरां तोंडार येना जालीं... ''म्हुकोडेन तीं उतरां तेशीं ऽ याद जायनात पूण, तेचो मिनींग येसो आसलो... ईश्वर, अल्ला, ईसा, बुध्द, अहुरा बी सगळे तूंच! गिरिजा घरांत तूंच आहा! मंदिरांत तुकाच देखलो. मसजिदेतूंय तुकाच चोयलो! ''मुरली, असल्यो प्रेयरी मुरे, ह्या 'जाणवयक' शिकोंक जाय!''

''फकत तेकाच न्हू! खूब जाणांक शिकोवंक जाय! आमी शिकोवया तेंकां असल्यो प्रार्थना एक दीस!'' मुरलीधरान म्हटलें, ''मेरी, तूं जाणां?''

''कितें?''

''हांव 'दोड्डपेठेंत' शिकतना, थंय हांवें पळयिल्ल्यो गजाली सांगतां. थंय मुगो, शिलाताई रावतां, त्याच वाठारांत एक 'महामायेचें' देवूळ आसा आनी त्या देवळाच्या वाठारांत कांय किरिस्तांवांलीं घरां आसात. ते किरिस्तांव महामायेक भोव मानतात. इतलेंच न्हू, थंयच्या इगर्जेंत हिंदू लोक जेजु मुखार, सायबीण मांय मुखार मेणवात्यो लायतात. हेच्याय फुडें आयक, थंय एक पिराचो दर्गो आसा. त्या दर्ग्यार हिंदू लोक चादर चडयतात. फकत हिंगाच उरफाटें चोयता हांव!''

''हांवय हिंगा ऽ चोयतां!''

वाटेर पायणी कडेन नयावाड्यावेलो सदानंद मेळ्ळो. ''खंय गेल्लो मुरली, बाईक घेवन? ताणें खोचून शें विचारलें. सदानंद हो शंकर जाणवयलो सांगाती! शंकरान ऊठ म्हटल्यार उठपी! आनी बस म्हटल्यार बसपी!

''देवी आवयल्या देवळांत!'' मुरलीधरान मुजरत म्हटलें.

''देवी आवयल्या देवळांत?''

आंगाक विजेचो झटको लागिल्ल्यावरी ताणें म्हटलें. ताच्यो भुंवयो अजापान वयर चडिल्ल्यो.

''हय! कित्याक?'' मुरलीधरान सदानंदाच्या चेऱ्यावेले भाव नियाळत म्हणलें. आनी मागीर मुमुरखोच हांसत तो मेरी वांगडा चलूंक लागलो...



आयतार दिसा घडलें तें! मुरलीधर न्हायन धुयन, च्या बी पिवन, साडे णवांक सुमार, आंगार मुस्तायकी लकोवन, 'वायंगिणी' वचून येवया म्हण, भायर सरता थंय आसा, मारुती धांवत धांवत येयलो. चड्डी आनी बुशकोटारच आसलो.

''मुरली, एक वायट खबर!''

''कितें रे?''

''तुजो मामा रे! अनंत मामा भायर पडलो!''

आयकून मुरलीधराक हड्ड्यार लाथ मारिल्ल्या भशेन जालें.

“केन्ना आनी कसो?”

“आताक म्हणटात! आयज आत्तां रे! दुकाना कडेन तागेल्या! हांव थंयसूनच येयलां!”

मदले कुडीत अनसुया सान्न मारताली. तिच्या कानार हें अर्दकुटें पडलें. ती बेगोबेगीन भायर येयली. “कितें जालें रे?”

“मामा! अनंत मामा!”

अनसुयान पुराय आयकलें बी ना! “कितें जालें म्हज्या भावाक? देवा! कितें जालें रे? करत थंयच फतकल मारून बसली. इकळाप करुंक लागली. इतलें म्हणटासर पडवेंतल्यान मेरी, हेवटेन मारुतीली आई आनी भयण मंगला धांवत धांवत येयलीं. मारुती ही गजाल आपल्या घरा कडेन वचून सांगून येयिल्लो. तो सकाळी, दोड्डपेठयेंतल्यान येयिल्ल्या आपले मावसभयणीक परत वचूंक, बसीर बसोवंक म्हण गेल्लो. तेन्नाच ताका ही गजाल कळिल्ली. आनी तो फुरसद करिनासतना सांगूंक येयिल्लो.

मुरलीधरान म्हणलें, “मावशे, मंगला, मेरी, तुमी आईक थातारा! हांव वयतां थंय!... आनी मागीर घेवन येया तिका सकयल्या वाड्यार!”

मुरलीधर मारुतील्या आईक मावशीच म्हणटालो. ती मुरलीधराल्या आईली वाड्यावेली दायजी भयण!

“मारुती, या आमी!” अशें म्हणत मुरलीधर मारुतीक घेवन, मारुतील्याच सायकलीर अनंतमामाल्या दुकानाकडेन येयलो.

अनंतमामालें हमरस्त्याक जोडून, गांवांत भितर रिगिल्ल्या मार्गा कुशीक, इल्लेंशेंच मंगळुरी नळ्यांचें पेण्यावेले दोन पाख्यांचें दुकान आसलें. तातूंत तो स्टेशनरी वस्ती विकतालो.

सकाळीं णवांक तो सदचेवरी दुकाना कडेन पाविल्लो. दुकान उगडटा थंय आसा, हाका कितें तरी जालें. हड्ड्याक धरुन थंयच बसलो.

कुशीकच नयावाड्यावेल्या रमाकांत बाबालो गाडो! तोवूय तेन्नाच

येयिल्लो. ताणें हेका ज्यूस्त चोयलो. ''अनंतबाब, कितें जालें? '' म्हूण फुडें येतां थंय आसा, अनंत थंयच लवंडलो. हां ना, हुं ना!

रमाकांतान बेगीन बेगीन आपल्या गाड्यावेली एक सोडा बाटली 'फुस्स्' करून उक्ती केली. अनंताचे तकलेर रकयली. दोळ्यांक इलें सोडाउदक लायलें. इल्लें तोंडांत रकोवया म्हटल्यार, हो खंय पिता? ताणें दोळें घुवंडायिल्ले.

इतलें म्हणटासर, आशिकुर्शीतलो लोक थंय एकठांय जाल्लो. 'हेल्थसेंटरार' दोतोर णवा पावताले. दोतोर पावला काय चोवया म्हणटासर तेन्नाच दोतोर आपली फियाट कार घेवन थंय पावलो. लोकांक एकठांय जाल्ले चोयन दोतोरान कार थांबयली. भायर देंवन अनंताक चोयल्यार, अनंताली नाडी थांबल्या. दोतोरान सांगलें, तो मेलो.

मुरलीधर मारुती वांगडा थंय पाविल्लो तेन्ना, अनंतालें मडें लोकांनी थंयसून हालोवची तयारी केल्ली. बैलगाडिकार धर्मप्पाक आपोवंक धाडिल्लो.

धर्मप्पा बैलगाडी घेवन येतकर, अनंतालें मडें बैलगाडयेर घालून घरा हडलें. मडें पावचे आदींच ताच्या मर्णाची खबर घरा पाविल्ली.

घरभर बोबो आनी हुयेली!

मुरलीधराल्या मामाक अनंताक मुरलीधर म्हटल्यार, म्होवाचें मावळींग आसलें. भाचो नेणटो आसतना धरुन आतां मेरेन ताणें भाच्याली भोव अर्थ अपुरबाय केल्ली. आपल्या व्हडले भयणिलो पूत म्हूण ताणें मुरलीधराक जिवा भाशेन सांबाळिल्लो. भयणीलो घोव तशे तरेन परागंदा जातकर मुरलीधराक बापूय ना अशें दिसूंक फावना, हाची जतनाय घेयिल्ली.

अनंत सदांच मुरलीधरा फाटल्यान सावळीकसो आसतालो. भाच्यालो ताका व्हड अभिमान! भाच्यालें गुणगान तो मेळत ताचे कडेन करतालो. आपलो भाचो तकलेन शिटूक आनी बुदवंत हाची ताका जाण आसली. देखून भाचो सांगता तेंच खरेलें, अशें ताचें मत

आसलें.

भाच्यान खंयचीय गजाल 'मामा, ही नाका!' म्हटल्यार मामा आनी ती गजाल करूंक वचच नासलो. फुडें पावल घातल्यारूय फाटीं घेतालो.

मुरलीधराल्या हरेक कार्यांत मामाली दोळे धांपून साथ आसताली. हरशीं अनंत म्हणटात तो सभावना सादोच आसलो. कोणेंय कितेंय सांगल्यार, ताका खरें दिसतालें.

आपलो बाबा मरुंक ना! तो जितो आसा! म्हूण मुरलीधरान अनंताक एक दीस समजोन सांगिल्लें. तेन्ना तर तो चवताळिल्लो. आत्तां वचून म्हाळग्याक आनी राम जाणवयक जितो मारता म्हूण उठिल्लो. मागीर ताका कसो तरी शांत करता मेरेन मुरलीधराक नाकाशिवा जाल्लें. आनी त्या दिसा सावन राम जाणवयचेर ताचो इल्लोय भावार्त उरूंक नासलो.

भाच्याक कोणेंय कितेंय म्हणिल्लें ताका खपनासलें.

असोच एक दीस, खरपणी बाबग्यान एक फावट 'तुगेलो भाचो देडशाणो तो!' म्हणटकीर, फाटलें फुडलें येवजिनासतना, तो बाबग्याल्या आंगार धांवन गेल्लो.

अनंत चड पिरायेचो नासलो. पन्नाशीय जावंक नासली. आशिल्लो मात, आंगा पांगान ऊंच-रूंद! मुरलीधराल्या बापाय भशेनच! सावळो. रापिल्ल्या आंगाचो! ताका अशें जातलें, म्हूण ताणें केन्नाच चितूंक नासलें.

ना म्हटल्यार, दोन-चार दिसां फाटीं मुरलीधर मामागेर गेल्लो तेन्ना, ताका मामयेन सांगिल्ले, ''तुजो मामा मर्दी मर्दी लवंड मारिल्ले भशेन जाता, जीव हुबिल्ल्यावरी जाता, म्हणटा!'' ''तशें आसल्यार दोतोराक दाखवया तेका!'' अशें मुरलीधरान म्हणिल्लें.

इतले बेगीन हें अशें जातलें म्हूण मुरलीधरान सपनांत लेगीत येवजूंक नासलें.

अनंतमामाक दोग चेडवां आसलीं. दोगांय 'वायंगिणी गल्स

हॉस्टेलात' रावन शिकतालीं. एकलें बी.ए. फायनल इयरांत आसलें आनी दुसरें बी.ए.च्या दुसऱ्या वर्सांत आसलें. तो दीस आयतार आशिल्ल्यान दोगांय घरा येयिल्लीं आसलीं.

अनंताली घरकान्न 'पुन्नी पेठेंतली'! थंय रकाद धाडलो. 'दोड्डपेठेंत' शिलागेर रकाद धाडिल्लो, पूण, शिलाक येवप कशेंच शक्य नासलें, हाची जाण मुरलीधराक आसली. शिलालो घोव सुमार दीस जाल्ले, बरोच नासलो.

अनंताक पूत नासलो.

आतां क्रियाकर्म कोणें करचें असो प्रस्न आसलो.

अनंताक दोग बापोल भाव आसले. तातूंतलो एकलो सोमण्णा... पिसो! आनी दुसरो रत्नाकर! तागेली बायल त्याच दिसा भायर बसली. बायल भश्टी आसल्यार, घोवान कसलेंच धार्मिक कार्य करूंक जायना अशी लोक-रूढ आसली. आतां लोकरुढीक बगल कशी दितलो. म्हूण रत्नाकर तयार जायना जालो. आतां मोठो पेच आसलो.

मुरलीधरान अनंताल्या व्हडल्या चेडवाक सुकांतीक सांगलें, "सुकांती, तूंच कर!"

थंय कुशीकच सदानंद आसलो. ताणें म्हटलें, "हो नाका जाल्लें कितें सांगता? आमगेल्या गांवांत आयजवेर चेडूं मसणटीर गेल्लो प्रकार कोणें चवूंक ना!" सदानंदा कुशीक उबो आशिल्ल्या वखदळी सैरोबान रोखडेंच म्हटलें, "चेडवां आनी क्रियाकर्म करतात रे?"

मुरलीधराक मारली भिरभिरी! ताणें म्हटलें, "तुमी फकत तळ्यांतले बेबे जावन आसात! मातशे दोळे उक्ते करुन चोयात संवसारा कडेन! आयज चेडवां आवय-बापायलें क्रियाकर्म करतात."

"परंपरेत हें बसता?" थंयच उबो आशिल्ल्या शंकर जाणवयन तोंड घायलें.

थंय एकठांय जाल्ल्या कांयजणांनी 'बरोबर!' ह्या अर्थान तकली हालयली. सगळ्यांत आर्दी खरपणी बाबग्यान! मागीर बाबग्यान

सांगलें, “परंपरेत बसना जाल्लें कांयच करूंक जायना हां!”

मुरलीधरान रोखडेंच म्हटलें, “तुगेले परंपरेचे पडलां कोणाक?”

हाचेर शंकर जाणवयलें मस्तक शिटशिटलें. सोसूं नजो जावन, म्हणूंक लागलो “हो मरे, हो गांव लयाक पावयतलो! आतांच सांगून दवरतां!”

आर्दीच मामा गेल्ल्याचें दुख्ख, तातूंत क्रियाकर्माचो पेच आनी वेल्यान हें परंपरेचें तुणतुणें मुरलीधराक सोसलें ना. ताणें शंकर जाणवयक खर आवाजांत म्हटले, “तूं मातसो ओगी रावतलो? काय तुज्या तोंडाक चिकट पट्टी लावूं?”

मुरलीधराले इश्ट-वांगडी खास करून संघटणेंतले सगळें थंय एकठांय जाल्ले. नासली थंय जया, शोभा, रमा, जनार्दन आनी रामकृष्ण!

मुरलीधरान तशें म्हणटकीर, सगळीं खो खो करुन हांसलीं.

शंकर जाणवय याण जालो. तो भितरल्यान थळपेलो. हातांच्यो मुठी घट्ट आवळून तो सोसून रावलो. खिणभर ताका दिशिल्लें, झुडोन वचचें आनी गळो धरून आंवुळचो! ताणें दांत-ओठ चिड्डीत मनांत म्हटलें, दाखयतां तुका एक दीस! मेळ एकच्चीत एकलो! घालतां तुगेले तकलेर फातर! मगेर थंय एकठांय जाल्ल्या सगळ्यांक चोयत ताणें सांगलें, “तुमीच सांगा, आमी धर्म जाणटल्यांनी ओगी रावप? फाल्यां स्मशान शुध्देचारा दीस हात घालतना, हें चेडू तकली तासून घेतलें?”

“सारखें हां! सारखें!” बाबग्यान तकली हालयत म्हणलें. बाकिच्या थंय एकठांय जाल्ल्या कांय जणांनीय तकली हालयली.

मुरलीधरान म्हणलें, “अरे, ये, तकली कित्याक तासून घेवंक जाय?”

“तूं नकळो! रूढ ती! परंपरेचो एक वांटो!” शंकरान आवाज चडयत म्हणलें.

“पूण कित्याक? उद्देश कितें ताचो?”

''हय! उद्देश सांग, आमी मान्य करतात!''

सुर्यकांतान मुरलीधराक तेंको दीत म्हटलें.

हाचेर मुरलीधरान म्हटलें, ''तेका खबर आसल्यार, तो सांगतलो मरे?''

संघटणेंतले सगळे वांगडी खो खो करुन पर्थून हांसले.

शंकर जाणवयच्यान आतां सोसूं जालें ना. ताची तकली तिडकेन सणसणूंक लागिल्ली. आंगाक उजो पेटिल्लो. शंकराचो चेरो याण आनी तिडक ह्या दोनूय तरांच्या मिस्तूर भावनेन कसोसोच जाल्लो. ''शेऽ! हिंगा कोणें रावचें रे? मनशाल्या उतरांक हिंगा किंमत ना! बाबग्या, या!'' अशें म्हणत थंयसून तो तुरतुरीत गेलो. फाटल्यान कांबळ खांदार घालून बाबगोय गेलो.

ते दोगूय वयतकीर, गुणो, दिगंबर, वखदळी सैरोब तांचे मर्दींच कितें तरी गणमणलेशें करूंक लागले.

''हें सारखें न्हू!''

''मर्णाक येयिल्ल्या मनशांक अशें याण करतात?''

बेबदो नरशींव थंयच मेरेर बशिल्लो आसलो. ताणें बशिल्ले कडच्यान म्हटलें, ''ये, हांव सांगतां तें आयकात! कोण वयता तो वचूं हां! कोण गेलो म्हूण मडें लासचें उरता? कुल्यार मारल्यार दांत झडटात रे?''

''सुकांती, चल फुडें सर!'' मुरलीधरान सुकांतीक हाताक धरून फुडें हाडलें.

सुकांती हरशींय 'आदर्श युवक संघटणेचें' वांगडी आसलें. मुरलीधराल्याच विचारांचें! नव्या विचारांचे पुजारी! तें अजिबात अनमननासतना दोळे पुसोन मुखार येयलें. तें अस्वस्थ आसलें तें फकत बापायच्या अचकीत मर्णान!

''गोवींदकाका, येशोकाका, तुमी फुडें येयात.''

इतलो वेळ ओग्गी आयकत उबो आशिल्लो गुणो मुखार येयलो. ''अरे, हो असलो प्रकार हे आदी आमगेल्या गांवांत घडलो ना. हेचेर

मातशें येवजियात! राम जाणवयलो सल्लो घेवप बरो!''

सुर्यकांतान मुरलीधराल्या तोंडा कडेन चोयलें. मुरलीधरान म्हटलें, ''कांय गरज ना!... सुकांती, सर फुडें!''

मागीर थंय येयिल्ल्या 'आदर्श युवक संघटणेंतल्या' सगळ्या वांगड्यांनी मुरलीधराली म्हणणी उखलून धरली.

मुरलीधरान थंय एकठांय जाल्ल्या सगळ्यांक म्हटलें, ''चोयात, आवय-बापायल्या मड्याचो विलोव लावचो अधिकार भुरग्यालो! तो मागीर फकत चेड्याकच कित्याक? चेडवाक कित्याक ना?''

आर्दीच मुरलीधराल्या इश्ट वांगड्यांलो आवाज थंय वरचड जाल्लो. म्हणटकर, मुरलीधराल्या ह्या उतरांर कोण कांयच उलयलो ना. फकत कितें चल्लां, ते चोयत रावले.

गोविंदान आनी येशान ओसरेर 'दर्भार' दवरिल्लें मडें उखलून हाडून पावळेंत मणयेर बसयलें.

''अनंताले बायलेक हाडात...'' कोणेंतरी म्हटलें.

''नाका! गरज ना! कितें शास्त्र करचें आसा, तें मड्याकच करात!'' मुरलीधरान रोखडेंच सांगलें.

मुरलीधराक याद आसा, तागेले आईक मड्या वांगडा बसोवन, शेळे उदकाचें न्हाण घालतना, तिगेलीं काकणां फोडटना, कुकूम पुसतना, मंगळसुत्र तुटयतना, ताका कितें भोगिल्लें तें! ताणें मना कडेन थारयलें, असलीं अवचिन्नपणां आनी नाकात!

मुरलीधरान सांगलें, ''हें चोयात, आदल्या तेंपार हें सगळें चलतालें. घोव जिणेंत येतकीर, सौभाग्य शिरंगार अस्तुरेल्या आंगार चडटालो. आनी घोव मरतकीर, तोच शिरंगार ह्या असल्या दुश्ट पद्धतीन काडप जातालो!... आयज हें बरेंऽ दिसना! तिका जर आपलो शिरंगार काडचो असो दिसल्यार, तीच आपल्या हातांनी शिरंगार काडून घेतली!''

हाचेरय कोण कांय उलयलो ना. ते कितें करतात, तें करु! आमकां नाका! अशें येवजून कांय जाण ओगी रावले.

''जाणवय' जालो मरे हो व्हडलो!'' गुण्यान ल्हवूच सैरोबाक म्हटलें.

''हय मरे!'' सैरोबान हांसत म्हटलें.

गोविंदान फाटले बांयचें शेळें उदक बिंदल्यान काडून हाडून सुकांती कडेन दिलें. सुकांतीन त्या शेळ्या उदकान मड्याक न्हाण घालें. मागीर कोणेंतरी बागांतल्यां फुलांची केल्ली माळ हाडून, सुकांतील्या हातांत दिली. सुकांतीन ती माळ मड्याच्या गळ्यांत घाली. मगेर तें मडें गोविंदान आनी येशान उखलून वाश्यांनी आनी कामटान बांदून केल्ले किरवडेर दवरलें. मड्यार धवो कपडो घालो. दोरयेन मडें किरवडेक बांदलें आनी मागीर दायज्यांनी 'राम राम' म्हणत किरवड उखल्ली.

मुरलीधरान उज्या मडकी दवरिल्लो तिखटो उखलून सुकांतील्या हातांत दिलो.

निमाणे कडेन मसणटीर सुकांतील्याच हातांनी मड्याक अग्नी दिलो.

मामालें दुख्ख अजून सोपचेंच आसलें...

एक दीस मुरलीधर पयलो तास सोपून वर्गांतल्यान भायर येवन स्टाफरुमांत वयतालो. शाळेंतलो शिपाय बसता त्या बांकार बसून शिलाताईगेरच्या आंगडींत काम करपी बाबू मुरलीधराची वाट चोयतालो. ''अरे! तूं हिंगा? '' मुरलीधर ताका शाळेंत चोयन अजापलो.

''मुजरत तुकाच मेळ म्हूण सांगिल्लें बायन!''

बाबू शिलागेरच्या आंगडींत गेल्लीं पंचवीस वर्सां सावन प्रामाणीकपणान काम करतालो. पिरायेच्या पंदरा वर्सांर खंय तो काम करुंक लागिल्लो. चाळीसेक वर्सां पिरायेचो काळो सावळो, घट्टमुट्ट आंगलोटाचो बाबू, शिलागेरच्या घरांतलोच एक जावन गेल्लो. ''ही चोय, चीट दिल्या...'' म्हणत ताणें शर्टा खिश्यांतल्यान एक चीट काडून मुरलीधराकडेन दिली.

मुरलीधरान चीट उगडल्यार चिटयेंत बोटभरच मजकूर आसलो.

मोगाळ मुरली,

आशिर्वाद.

तूं जाणां, भावोजी बरो ना! ताची भलायकी हुसको करपा सारखी आसा. म्हाका भिरांत दिसूंक लागल्या. तुजे लागी उलोवंक जाय! जाता तितले बेगीन यो!

बरें मागून,

तुजी भयण,

शिला.

हरशी लांब लांब चीट बरोवपी शिलाताईन बोटभर चिट बरयिल्ली. तातूंत आईलोय उल्लेख ना. शेर्त ताचें मन थाऱ्यार ना!

''साप्प बरो ना रे भावोजी?''

बाबून ''हय!'' म्हूण तकली हालयली.

गेल्ल्या दोन-तीन म्हयन्यां फाटीं मुरलीधराक भावोजी 'आडगांवां' येयिल्लो तेन्ना धवो धवो पिकंडेल्लोसो दिशिल्लो. मुरलीधरान भावोजीक म्हणिल्लें, ''भावोजी, तुगेली भलायकी बरी आसा मुरे?''

''हय रे! म्हाका आनीक कितें जाता?'' भावोजीन जाप दिल्ली.

चोयल्यार, तशेंच काय दिसांनी भावोजीक जोर येवंक लागलो.

''बऱ्या दोतोराक दाखयलें मुरे?''

''हय तर! दोतोर वेर्णेकर म्हणटात तो हातगुणाचो दोतोर! कितलीं वर्सां जालीं तेंगेलो दोतोर तोच न्हू! तरीसुदीक दोतोरान धायेक दीस वखद केल्लें. जोर देंवनाच जातकीर मगेर रगत तपासूंक लायलें. रगताचे रिपोर्ट चोयन दोतोरान एक चीट दिवन के. एम्. सी. क धाडलो. बाय वांगडां हांव गेल्लों. थंय हुबळींत कें.एम्.सीं.त स्पश्टच सांगलें.''

''कितें सांगलें?''

''रगताचो कांक्र म्हूण!''

''कितें ऽ! '' मुरलीधराक कच्च जालें. पांयांपोंदची भूंय

हालिल्ल्यावरी जाली. दोळ्यां मुखार काळोख येयिल्ल्यावरी दिसलो. मुरलीधराक कितें उलोवचें म्हूण कळ्ळें ना ''या!'' अशें म्हणत, तो बाबूक घेवन, थेट मुख्याध्यापका कडेन गेलो. मुख्याध्यापक आपल्या ऑफिसांत आसलो. तांकां पुराय गजाल सांगली, आनी म्हणलें, ''हांव आतांच वयतां दोड्डुपेठेंत हेचे वांगडा, आनी चोयतां, फुडें कितें करचें तें!'' मुख्याध्यापक विठ्ठल हिचकडान खिणाचोय कळाव करिनासतना रोखडेंच ''वच तूं!'' म्हटलें.

''आतां आमी घरा या! आईक वयतां म्हूण सांगू नाका?'' मुख्याध्यापकाल्या ऑफिसांतल्यान भायर येतकीर मुरलीधरान सांगलें.

''आईक निखालूस कळोवं नाका म्हटलां!''

मुरलीधरान येवजून म्हटले, ''एक काम करुंया! तूं येयिल्लो म्हूण तिका सांगचें नाका! हांवच कसलें तरी काम जावन शाळेंतल्यान भायले भायर 'दोड्डुपेठेंत' गेलो म्हूण सांगून धाडुंया!''

''तूं हिंगा राव, हां!'' म्हण बाबूक सांगून मुरलीधर थेट स्टाफरुमांत मेरीकडेन येयलो. मेरीक पुराय गजाल सांगली. मेरीय बाबडें आयकून कांचवेलें. आईक कितें सांगचें हें मेरीक सांगून, मुरलीधर बाबू वांगडा भायले भायर 'दोड्डुपेठेंत' येयलो.

मुरलीधर 'दोड्डुपेठेत' शिलागेर पाविल्लो, तेन्ना शिला दारांत उबें आसलें, जशेंकाय तें मुरलीधराचीच वाट चोयतालें. मुरलीधराक चोयन शिलाक जीव येयिल्ल्यावरी जालो.

शिलाल्या तोंडार निखालूस नुरा नासली. तें पुरायच गळसणिल्ल्यावरी, फांफशिल्ल्यावरी जाल्लें.

''कसो आसा गो भावोजी?'' मुरलीधरान विचारचें म्हूण विचारलें.

''आसा!'' शिलान जाप दिली. पूण त्या 'आसां'त मात्तूय जीव नासलो.

''खंय आसा?''

''कुडींत!''

भावोजीली कूड वासरेक लागूनच आसली. तो सोमतो कुडींत

येयलो. भावोजी पलंगार उदारो न्हिदिल्लो. लांब-रूंद, भरिल्ल्या आंगाचो तो! भागून झोळीकसो जाल्लो. येद्दे व्हडलें खाड वाडिल्लें.

"भावोजी!"

भावोजीन मुरलीधराक चोयलें. भावोजीचे दोनूय दोळे खिणांतच दुकांनी भरले. दोळ्यांच्या कोनशांतल्यान दुकां गळूंक लागलीं.

भावोजी आपल्याक कसलें दुयेंस जालां, म्हणचेलें जाणां आसलो. तो एकदमच मोनो जाल्लो. फकत पट पट करून दुकां गळयतालो.

मुरलीधराच्यान भावोजीली अवतिकाय चोवूंक जाली ना!

आईक कळल्यार आई कपल बडोवन घेतली. आदींच ती भावाल्या मर्णान दुखखी आसा.

मुरलीधरान थंयचेच एक स्टूल ओडून घेयलें आनी ताचेर बसत म्हटलें, "भावोजी आमी मुंबय 'टाटा हॉस्पिटलांत' या! थंय क्रांकाचेर बरी ऽ ट्रीटमेंट जाता!"

शिला थंयच कुशीक उबें आसलें. ताच्याय दोळ्यांतल्यान दुकां गळटालीं, पोल्यार देंवतालीं आनी तें पदरान परतें परतें पुसतालें. मुरलीधराल्या उलोवण्यार ताणेंय हयकारत तकली हालयली.

"नाका!" भावोजीन जड आवाजांत म्हटलें. "आय् नो, आय् विल् नॉट सर्व्हायव्ह!"

"कितेंच सांगिल्लें आयकना! सगळी आशा सोडून बसला!" शिला.

मुरलीधराक हड्ड्यांत आनिकय धस्स जालें. तकलेर कोणेंतरी मणाचें ओजें हाडून धाडयिल्ल्यावरी खिणभर ताका दिसलें. दोळ्या मुखार काळोख येयलो. तकली गिरगिल्ल्यावरी जाली. म्हजी ही स्थिती जाल्यार, कळिल्लें तेन्ना शिलाताईची स्थिती कितें जाल्ली आसतली?

ऐन पिरायेंतली भयण म्हगेली! भयणीलो फुडार चिंतून तो कांचवेलो. आतां कितें जातलें हागेलें? हरशींच ताका घरांतलीं सारखी वागणूक दिनात!

तशें चोयल्यार, शिला लग्ना उपरांत तशें सुखी अशें उरलेंच नासलें.

घर बरें ऽ मेळिल्लें.

घोव भांगरा सारखो मेळिल्लो.

शिलालो घोव लग्नावेळार कसो दिसतालो! शिलाक ज्युस्त सोब सारखो!

शिला आपले आवय भशेन ऊंच, आंगांपांगान भरिल्लें, गोरें, सोबीत दिस ऽ. घोव ताका सोब ऽ सारखो आसलो. ताचे भशेनच ऊंच, आंगापांगान भरिल्लो, गोरो, मोठ्ठ्या मिशांचो! तकलेर केंस फाटलेवटेन वळयतालो. बरे बरे कपडे घालतालो. तांची येणावळय तशी बरी आसली. 'दोड्डपेठेंत' तांगेली घरा मुखारच भुसारी आंगड आसली.

पूण, लग्न जावन इतलीं ऽ वर्सां जाल्लीं. तरीय भुरगें नासलें. दोतोर, वैज, सगळें जाल्लें. दोतोराले तपासणेंत घोवाक आनी बायलेक कसलोंच दोश नासलो.

शिलालो घोव हो आवय-बापायलो एकलोच पूत ! दोग भयणींलो मोगाचो भाव!

लग्न जाल्लें तेन्ना सुर्वेक दोगांय नणंदो भावजेक म्हणटा ते खांदार घेवूं, काय तकलेर घेवूं करतालीं. मांय बी तशीच आसली. सून म्हटल्यार जाली! सुनेन थारयिल्लो दीस आनी सुनेन थारयिल्लो म्हूर्त! सुनेल्यां उतरा भायर वचपच नासलें.

पूण, जशीं जशीं वर्सां फाटीं सरुंक लागलीं, तशीं तशीं हाका भुरगे जायना म्हूण सगळ्यांलीं तोंडां वांकडी जावंक लागलीं.

घोव मात बायलेक भोव बरो करतालो. काय उणें पडूंक दिना आसलो. उरफाटें, घरचीं आपले घरकान्नीक चोयन तोंडां वांकडी करतात म्हूण खंती जातालो. तो घरकान्नीक खूब फावटीं म्हणटालो खय, ''तीं तशीं वागतात म्हूण, तूं वायट दिसून घेवं नाका! भुरगें जातलें आमकां! आनी जायना जाल्यारय खंती जावची गरज ना! भुरगें जालें म्हूणच मनीस उध्दारता म्हूण ना!''

एक फावट तर शिलाक भोव पाड अणभव येयिल्लो. तागेले व्हडले

नणंदेलें लग्न हांगेल्या लग्ना आदीं जाल्लें. आनी तांका दोग चेडे आसले.

धाकले नणंदेलें लग्न मात शिलाल्या लग्ना उपरांत तीन वर्सांनी जाल्लें. पूण ताका तीन वर्सां जालीं तरी भुरगें जावंक नासलें. चवथे वर्सा वथरोन वथरोन, दोतोर -वैज करून निमाणेंकडेन चेडो जालो.

नणंदेन शिलाक आपल्या पुताल्या बारशाक आपोवं ना! आतां नणंदेन आपोवं ना म्हण, वचनासतना रावूं जाता? घडये चुकून आपोवचें उरलें आसतलें, अशें येवजून तें घोवा घेवन गेलें नणंदेगेर'कारवारा'!

शिलाक दारांत चोयनाका, नणंदेलें तोंड काळें जालें. ''यो व्हने!'' म्हूण सुदीक नणंदेन म्हणूं ना. बाबडी जाणटी मांय ''या! या!'' करत मुखार येयली.

शिलान व्हेल्ल्यो वस्ती आंगलें, टोपी, मोचे, खुळखुळो बी हातान अशी ऽऽ नाका जाल्ली वस्त कुशीक काडटल्या भशेन काडली. शिलाले नदरेंत ही गजाल येनासतना रावूंक नासली. शिला भुरग्याक घेवंक मुखार गेल्यार, ''नाका व्हने, आतांच रडटालो थांबला! पर्थून आनी रडूंक लागत! ''अशें म्हणत तिका आडयली.

तशेंच थोड्या वेळान नणंदेली नणंद येयली. तिका मात, ''हो चोय, भाचो तुगेलो घे!'' म्हण तिचे लागीं पुताक दिलो.

शिलाक खूब म्हटल्यार खूब वायट दिसलें.

इतल्यान सोपूंक नासलें!

बारशाचो नामकरण सुवाळो चलतालो. भुरग्याक पाळण्यांत घालून जातकीर, थंय येयिल्ल्या एकेक बायलेन वचून, भुरग्याल्या तोंडांत साखर घालून, 'कुर्र' केलें. शिलाबी उठलें. हरशी नणंदेन शिलाक खंयच्याच विधी वेळार मुखार आपोवंक नासलें. शिला भुरग्याल्या तोंडांत साखर घालून 'कुर्र' करुंया म्हण मुखार सरता थंय आसा, शिलाली नणंद एकदम मुखार येयली. म्हणूंक लागली, ''व्हने, तूं साखर घालूं नाका, आसूं!''

हें आयकून शिलाक कोणेंतरी ठप्प करुन तोंडार मारिल्ल्या भशेन जालें. आपूण वांझ म्हूण हें आपल्याक आडयता म्हणपाचें मतींत येवन, तें थंयसून ल्हवूच कडसरलें. तें खूब याण जाल्लें. ताचो चेरो बाविल्ल्या आंब्या भशेन जाल्लो. तें मोरयेंत गेलें आनी मोरयेचें दार घट्ट लायन खूब रडलें. हमसून हमसून रडलें.

ताचे उपरांत मात तें केन्नाच धाकटे नणंदेगेर वचूंक ना.

भुरगें नाशिल्ली वांझ बायल म्हूण शिलाताई हे असले भोग भोगताले आनी आतां तर आनीक एक भोग फुड्यांत वाडून दवरिल्लो.

हें सगळें येवजून मुरलीधराली तकली फुटूंक पाविल्ली. ताका खिणभर दिसलेंय, फट्ट करून आपली तकली फुटून वचतय घडये!

सदांच हांसकुऱ्या तोंडाचें शिलाताई, इल्ल्या इल्ल्या फकाणांचेर खो खो करुन हांसपी शिलाताई आतां मोनें, घुमकें जाल्लें. तोंडार इल्लीय नुरा उरूंक नासली.

दोन-तीन म्हयन्यां आर्दी कुळारा येयिल्लें तेन्ना कितलें मेकळेपणान हांसतालें, वागतालें! खळखळत व्हांवतल्या 'खुळखुळ्या वझऱ्याभशेन' हांसप, वागप ताचें! तेंच आतां 'देंवचारा तळ्यातल्या' स्तब्द उदकावरी ओग्गी जाल्लें. आपलें भितरच कडटालें, आट्टालें, रडटालें!

घोवय दुकां गळयत ओग्गी आनी बायलय दुकां गळयत ओग्गी! घरांत एके तरेची मसणथंडाय! मुरलीधराच्यान हें सगळें सोसूं नजो आसलें. पूण, तें सोंसचे पडिल्लें.

एक दीस स्टॉफरुमांत मुरलीधर, मेरी आनी इतिहास -भुगोल शिकोवपी धुरी सर बशिल्ले आसले. तिगांकय चौथो तास रिकामो आसलो.

मुरलीधरान आपले भयणिलो हुसको मेरी आनी धुरी सराकडेन उक्तो केलो.

''कळ्ळें न्हू धुरी सर, मेरी, म्हजे भयणिची गत माटोव नाशिल्ले वाली भशेन जातली!''

"कित्याक म्हणटां तूं?"

"फाल्यां ताच्या घोवाक चड उणें जाल्यार..." मुरलीधराच्यान फुडलीं उतरां सारख्या ऽ शब्दांनी सांगूंक जालीं नात.

मेरीन म्हटलें, "तूं हुसको कन्नाका रे मुरली! कितेंय उपाय सोदोन काडया! जेन्ना एक वाट बोंद जाता, तेन्ना दुसरी वाट उकती जातोली...!"

"सारखें!" धुरीसरान मुरलीधराल्या भुजार थातारणारो हात दवरत म्हटलें.

आतां मेरीच्या उतरांनी मुरलीधराचे तकलेंत एक वेगळोच उजवाड पडिल्लो. खिणभर तो त्या विचारांत घुस्पलो. आनी दुसऱ्याच खिणाक ताच्या चेऱ्यार एक आगळोच हांसो उदेलो. मगेर आपले भितरच तो मुमुरखो हांसलो.

मुरलीधर आपलें मन, काळीज पुरायपणान उक्ते करतालो तो फकत दोगां लागीं. एक मेरी आनी दुसरो धुरी सर!

धुरीसर मुरलीधरा परस चौदा वर्सांनी व्हड आसलो. तरी लेगीत दोगांयली इश्टागत खूब घट्ट आसली. तांगेलीं मतां एक आसलीं. विचार आनी आचार जुस्त जुळटाले.

धुरीसरालीय अशीच एक काळजाक चिमटो घेवपी काणी आसली...

धुरीसराली पयली नेमणूक 'कारवारच्या गव्हर्नमेंट हायस्कुलांत' जाल्ली. तिवूय पिरायेच्या तेवीस वर्सांर!

धुरीसर ज्या वर्सा रोजेक लागिल्ले, त्याच वर्सा मॅट्रीकेच्या वर्गांत सविता वायंगणकर म्हूण एक चेडूं शिकताले. काळें-सावळें, मद्यम उंचायेचें, आंगलोट रेखीव आनी दिसूंक भोवच सोबीत!

धुरीसराक पयलें नदरेंत चेडूं मानवलें.

चेडूं नेण्टे आसलें. पंदरा-सोळां वर्सांचें! अजून कायद्यान सज्ञान न्ही! धुरीसरान आपली भावना चिड्डून दवरली.

सविता शिकूंक हुशार आसलें.

धुरीसर मॅट्रीक वर्गाक 'सोशल स्टडीज' शिकयताले. 'हिस्टरी आनी जिओग्राफी' दोनय!

सविताक 'हिस्ट्री' चड मानवताली. 'जिओग्राफी' निखालूस आवडनासली. पूण धुरीसराली शिकोवचेली पध्दत इतली बरी आसली, सविताक इतिहासा वांगडा भुगोलय आवडूंक लागलो. आनी मजा म्हटल्यार, हरशीं हरेक परिक्षेत ताका इतिहासात चड 'मार्क्स' मेळटाले, आतां भुगोलांतय चड गूण मेळूंक लागिल्ले.

फुडें वचून सवितान आपलें 'ग्रेज्यूएशन्' 'हिस्ट्री आनी जिओग्राफी' घेवनच पुराय केल्लें.

धुरीसरान ताका हायस्कुलांत आसता मेरेन, आपल्याक तूं आवडटा बी तसलें कांय सांगूंक नासलें. एके वटेन ताका दिसतालें, हें सारखें न्हू! निमाणेकडेन तें आपलें विद्यर्थिनी! आपलेच विद्यार्थिनीक 'ते' नदरेन चोवप सारखें? मगेर धुरीसरान येवजिलें, आपूण ताचेर वायट नदर खंय दवरतां? आपूण ताका वायट भावनेन पळयत नाच्च! तें खंयतरी नकळटां काळजांत रिगलां. काळजाचे खोलायेंतल्यान आवडूंक लागलां. 'लव्ह एट् फस्ट सायट' म्हणटात तें हेंच काय?

धुरीसरान आयजवेर जायत्यो चलयो पळयिल्ल्यो. पूण कोणेंच सराली नदर हे तरेन ओडून घेवंक नासली. सराच्या नकळटां सराल्या काळजांत सवितान एक अखंड सुवात करून घेतिल्ली.

सविता मॅट्रीक पास जावन 'आर्टस् अॅण्ड सायन्स' कॉलेजींत वचूंक लागलें.

'गव्हनमेंट हायस्कूल' आनी सवितालें 'आर्टस अॅण्ड सायन्स' कॉलेज लागीं लागीं पुरायच शंभर-देडशीं मिटरांच्या अंतरार आसलीं. तशीं धुरीसर आनी सविता वाटेर, लायब्ररींत बी पर्थून पर्थून मेळटालीं. पूण धुरीसरान सविता कडेन केन्नाच आपलो मोग उक्तो करूंक नासलो.

एक दीस अशींच लायब्ररींत मेळ्ळीं. सविता लायब्ररींत पुस्तक वाचत बशिल्लें. धुरीसर वचून ताचे मुखावेल्या खुर्चेर बसले.

सविताली सरांचेर नदर पडना फुडें सवितान म्हटलें, ''हॅलो सर!''

''हाय! तुका मातशें डिस्टर्ब करतां! जाता न्हू?''

''ओके सर! शुअर!''

''सविता, सुमार दीस जाले, हांव तुका एक गजाल सांगूंक सोदतां. पूण सांगप जायना! आयज तूं मेळ्ळा. तुका वेळ आसा जाल्यार, सांगन म्हणटां!''

धुरीसर घडये हें येवजुनच आसले, आतां आनी चड वेळ वाट चोवप ना! हेरान फातर मारचे आदींच आपूण आंबो पाडिल्लो बरो!

आनी आयज सरान ज्युस्त संद सादिल्ली. सोमतो विशयाक हात घाल्लो.

''वेळ आसा सर, सांगा!''

''म्हाका सांग, कोणाचेरूय मोग करप ही चूक?''

''ना सर!''

''तूं करता कोणाचेरूय मोग ?''

''शी ऽ ! ना सर! अजून मेरेन ना!'' सवितान फाफुडिल्ल्या भशेन सांगलें.

''हांव करतां!''

''कोणाचेर सर?'' सविताचे चेऱ्यार उमळशीक झळकली.

''तुजेर!''

''आं ऽ? कितें ऽ?'' विजेचो शॉक लागिल्ल्यावरी जावन, ताच्या तोंडांतल्यान उतरां भायर सरिल्लीं.

''तुजेर मोग करतां हांव! तुका शाळेंत पयले फावट चोयल्लें, त्या दिसा सावन मोग करतां!''

सवितान वाचूक घेयिल्लें पुस्तक तोंडार धरुन आपलें तोंड लिपोवन घेयिल्लें. ताका घडये हें अपेक्षे भायलें आसलें. हो स्त्री सुलभ लजेचो खीण आसलो.

''विल यू मेरी मी?''

सुमार वेळान सवितान तोंडावेलें पुस्तक कुशीक काडले. ताचो

चेरो लजेन तांबडो जाल्लो.

ताणें म्हणलें, ''सर, म्हाका येवजूंक जाय! वेळ दियात!''

''कितलो वेळ?''

''एक आठवडो! ''

''आयज शुक्रार! म्हटल्यार फुडल्या शुक्रारा हिंगा, हेच सुवातेर, ह्याच वेळार सांजेच्या चार वरांर, हांव येतलों! जाता?''

''हय सर!''

धुरी सरान भीड-मुर्वत दवरिनासतना आपलो मोग उक्तो केल्लो.

ज्युस्त फुडल्या आठवड्यांत शुक्रार दिसा सवितान धुरीसराक लायब्ररींत मेळून हयकार दिल्लो.

दोगांय 'कारवारचीं' देखून एकामेकाल्यां घराब्यांक बेसबरी वळखतालीं.

दोगांय विंगड विंगड जातिचीं आसलीं. धुरीसर नुस्तेकार समाजाचो, जाल्यार सविता भंडारी समाजाचें आसलें.

दोगांयचो मोग सविताचें ग्रॅज्यूएशन पुराय जाता मेरेन चल्लो. लायब्ररींत, समुद्रावेळार, नातर सिनेमा हॉलांनी फुल्लो.

जेन्ना दोगांयनय आप-आपल्या घरांकडेन 'हें' सांगलें, तेन्ना दोनूय कडल्यान कडकडून विरोध जालो. दोनूय घराबे कशेच दोगांकूय स्विकारूंक तयार जालीं नात! जातीभायल्या लग्नाक तांगेली मान्यता कशीच नासली.

घरच्यांलो विरोध सोसून दोगांनीय लग्न केल्लें.

लग्न जाल्ल्या एका वर्सान धुरीसराक 'साईश' जालो. हो धुरीसरालो एकुलतो पूत!

धुरीसर, घरकान्न आनी तांचो चेडो इतलोच तांचो संवसार! धुरीसराक आनी ताच्या घरकान्नीक आवय बापायनय लागीं करूंक ना, आनी मांय-मांवानय लागी करूंक ना! पुताक साईशाक ना बापायलें घर, ना मावळ्यालें घर! इतलेंच न्ही, दोनूय वटेनच्या सोयऱ्यांलींय घरां नासलीं. जशें कितें, सगळ्यांनी मेळून एकवटीतपणान एका

निर्णयान हांकां कुशीत उडयचेलो निर्णय घेयिल्लो.

म्हत्वाचें म्हटल्यार, दोगांनीय हे गजालीचो आपले घरगिरेस्तीचेर परिणाम जावंक दिवंक नासलो. आपल्या इश्ट-वांगड्यांकच तांणी सोयरे केल्ले.

सराली घरकान्न सदांच सराक म्हण्टाली, ''हांव नोकरी करतां, खंयूय नोकरी मेळल्यार तितलोच घरगिरेस्तीक हातभार! आमका प्रसंग येयल्यार, पयशांची मदत करपी आपलो असो कोणूच ना! आप-अंतस्कान्न सगळीं तुटून गेल्यांत.''

सरान म्हणप आसलें, ''वायट कित्याक चिंतता तूं? म्हाका आयुश्य माग! हांव जोडटां न्हू! पुरो आमकां तिगांकय! तूं आनी कित्याक तरास काडूंक सोदता?''

पूण घरकान्न सवितान सरालें आयकलें ना. हिंगा थंय अर्जी उडयताली.

'युनिटी हायस्कुलांत एक शिक्षिका 'मेटरनिटी लिवेर' गेल्ली, थंय थोडे म्हयने सर्व्हिस मेळ्ळी.

ताच्या फुडल्या वर्सा 'शिवाजी हायस्कुलांत' अशीच एक मेटरनिटी लिव्ह वेकन्सी आसली. थंय थोडे म्हयने रोजी मेळ्ळी.

जालें! तितलेंच तें! फुडलीं दोन-तीन वर्सा मेरेन रोजेचो पत्तो ना! हांगा अर्जी धाडटा - थंय धाडटा! 'एम्प्लॉयमेंट ऑफिसांत' वचून चवकशी करता, पेपरांनी 'एडव्हरटीजमेंट्स' चोयता. नाच्च!

आतां बाबू चार वर्सांचो जाल्लो. बालवाडीत शिकतालो. ताका हाड-व्हर कर, घरगिरेस्ती चलय, हातूंत तिगेलो दीस वतालो. ती आपल्याक नोकरी मेळुना म्हूण बेजारताली.

धुरीसराक मात तिगेले नोकरेचें व्हडलेंशें पडून वचूंक नासलें. आतां 'ती' बेजारता म्हूण तितलेंच तांकां लागतालें.

उरफाटें धुरीसर म्हण्टाले, ''खरें सांगूं सविता, बायलांनी नोकरी तितलीच गरज आसल्यार करची! नातर करनयेच! आमी जेन्ना थकून घरा कडेन येतात, तेन्ना बायलेन प्रसन्न चेऱ्यान येवकार दिल्यारच

पुरो जाता! बायलांनी थंय नोकरे कडेन कश्ट घेवप, पर्थून घरां येवन वावर करप हो बायलांचेर अन्याय न्हू?''

घोवाल्या ह्या उतरांनी तिचें समाधान जायना आसलें. बेजारताली! केंवरें काडटाली.

आनी अचकीत एकदीस तें अद्रिश्ट कोसळलें...

साईशाक बालवाडीत पावोवन पर्थताली. 'गव्हर्नमेंट कॉलेजी' मुखार रस्तो वलांटून हे वटेन येतना, खंयच्यान नेणो अचकीत एक म्हस गडगड घालीत धांवत रस्त्यार येयली. म्हशीक भियेवन दचकून फाटीं सरली मात, फाटल्यान एके कारीन मोखलो. थंयच पडली. तकलेक सुमाराभायर मार बशिल्लो. कानांतोंडांतल्यान रगत व्हांवतालें. भुर्रर करुन लोक एकठांय जाले. ताबडतोब सरकारी आस्पत्रेंत व्हेली. आस्पत्रेंत दोन दीस उरली. थंय जायते प्रयत्न केले. तिसऱ्या दिसा गेली.

नाटक सोपचे आदींच अचकीत पड्डो पडचो तसो धुरीसरा कडल्यान, तिच्या साई कडल्यान काळान तिका व्हेल्लो. धुरीसरालो घर संवसार सोपयिल्लो. धुरीसराचेर मळब तुटून पडिल्लें. पांयां सकयली भूंय कंपीत जाल्ली. सर पुरायेन डळमळिल्ले, गळसणिल्ले. पूण सराल्या घरचीं वा सविताल्या घरचीं कोणूच सराली सात्वना करूंक येवंक नात, ना थातारुंक येवंक नात!

आपल्या चार वर्साच्या पुताक काळजा कडेन धरून धुरीसर ह्या संवसारांत एकटो एकटो जाल्लो.

जाती-कातीचे संस्कार मनशांचेर इतले ख ऽ र परिणाम करतात हेंवूय सराक पयलेंच फावट अणभवूक मेळिल्लें.

सराली घरकान्न भायर पडिल्ली, तेन्ना सर चौतीस - पस्तीस वर्सां पिरायेचें आसले.

सुमार जणानी धुरीसराक पर्थून लग्न करपाचो सल्लो दिल्लो. पूण सराक तो सल्लो मानवलो ना!

जेन्ना सरान आपली काणी मुरलीधराक सांगिल्ली. तेन्ना मुरलीधरानय

सराक होच सल्लो दिल्लो. धुरीसरान मुरलीधरालोय सल्लो न्हयकारिल्लो, तेन्ना मुरलीधरान सराक आपल्याक पाठ आशिल्ली एक इल्लिशीच कविता म्हणून दाखयिल्ली,

ही जीण
न्हंय चो प्रवाह
एक थेंबो
वाटो प्रवाहाचो
थेंब्याक
प्रवाहाचो नेट....

मुरलीधरान धुरीसराक उपरांत खूब खूब समजायिल्लें. सदांच समजयतालो आनी एकदीस धुरीसरान मुरलीधराक म्हणलें, ''मुरली, तूं म्हाका म्हगेली जीण प्रवाहांत हाडूंक सांगता. तें बरें आसां! पूण हांवें लग्न केल्यार, म्हगेल्या पुतालें जिणें कशें प्रवाह हीण जातलें जाणां तूं? सवती-मत्सराच्यो जायत्यो काणयो तुवें वाचल्यात, आयकल्यात आसतल्यो!''

हाचेर मुरलीधरान म्हणिल्लें, ''सर, सगळ्योच बायलो अश्यो नासतात! सवतिल्या पुताक आपल्या पोटांत पिकिल्ल्या पोरां परसय चड माये मोगान वाडयिल्ल्यो जायत्यो देखी आसात संवसारांत!''

मगेर सरान म्हणिल्लें, ''असली कोणूय मेळल्यार, मगेर चिंतुया...!''

सरालीं 'हीं उतरां' मुरलीधराले तकलेंत आसलीं... सांजेचे शाळा सुट्टकीर, मुरलीधर आनी मेरी घरा पर्थतालीं.

धुरीसराले जिणेची काणी सांगून मुरलीधरान मेरीक म्हणलें, ''शिलाताई पासत धुरीसराचो विचार केल्यार कसो?'' मेरीक मुरलीधरालीं उतरां सोसलीं ना. ताका कितेंशेंच दिसलें. ताणें म्हणलें, ''मुरली, वॉट आर यू थिंकींग? लेट् शिलाताईस हजबंड गेट् वेल् सू ऽ न!''

''मेरी, जें घडचेलें आसा तें चुकिल्लें ना, हें येवजूनच हांवें तुका सांगलां! हांवूय मनीसच! म्हाकाय भावनां आसात! म्हजेरय मळब

कोसळ्ळां!... हांव एके भयणीचो भाव! म्हजेर कांय जापसालदारकी बी आसात! हांवें हाचेर खूब चिंतलां! रात रातभर न्हीद सारखी पडना म्हाका! लेट् अस् बी मेंटली प्रिपेअर्ड अॅण्ड बी प्रेक्टीकल्! वुई आर एबसुल्टली हेल्पलेस्!''

''लेट् सी लेटर!''

मुरलीधराक येवजून दवरिल्ली आनीक एक गजाल मेरीक सांगूंक जाय आसली. पूण ती आतां सांगची नाका. ते पासत वेगळी सुवात, वेगळी वेळ आनी वेगळो मूड जाय! अशें येवजून, तो ओग्गी रावलो. मेरी वांगडा चलत...

मुरलीधराक बेस बरें जाणवल्लें, मेरी आपली एक बरी इश्टीण! हरेक कामांत साथी आनी सांगाती! दोगांचेय विचार एक सारखे! आचार एकसारखे! फरक इतलोच, दोगांल्योय देवा बद्दलच्यो संकल्पना वेगळ्यो आसल्यो. मेरी म्हणटालें, संवसारांत देव आसा आनी तो एकूच आसा! विंगड विंगड धर्मांचे लोक ताका विंगड विंगड रुपान चोयतात! जाल्यार, तो म्हणटालो, पुराय ब्रम्हांड, तातूंतल्यो बऱ्यो शक्ती, ब्रम्हांडातले गिरे-तारे, गिऱ्यावेलो सैम, मौसम, गिऱ्यावेले वट्ट जीव, हें सगळें आपल्या पासत 'देव'! ह्या सगळ्यां घटकांनी एकांमेकांच्या आदारान आपलें अस्तित्व सांबाळून दवरप हें 'सत्य'! जांकां अक्कल आसा तांणी ह्या सगळ्यां घटकां पासत आपुलकी दवरप ही 'भक्ती'!... हो इल्लोसोच मतभेद सोडल्यार दोगांयलें ज्युस्त जुळटालें. देखून मुरलीधरान पूर्ण येवजणेन थारयिल्लें, मेरीकच आपली जिणें सांगातीण करची!

आनी हरशींय तांकां दोगांकूय वांगडा शाळेंतल्यान येतना वतना चोवन, लोक तांचे मर्दी फुतफुततालो. दोगांय वांगडा पासयेक गेल्यार, शेतांत बागवोन काम करतलीं मनशां, हांका चोयना फुडें उठून दोळे ताणून चोयताली. ना म्हटल्यार, ताचे आंतरीक इत्सेक ह्या असल्या गजालिंचेंय बळगें मेळटाले.

घरा येतकीर, दोगांय वरांची वरां उलयत बशिल्लीं चोयन, आई

बी दुबावानशी पळयताली. तिका घडये दिसतालें जावये, कुळण्यांत कितेंय शिजना मूं? एक दीस तिणें म्हटलेंय, ''मुरली, पुता तूं एक चेडो आनी तें एक चेडूं, अशे तरेन चड उलयत बसनये! सोबना तें!'' हाचेर मुरलीधरान म्हणिल्लें, ''चड उलयत बसल्यार कितें जातां? बसून कुले झरतात? काय तोंड झरता? काय पळेयतल्यांचे दोळे फुट्टात?''

शिलाताई घरा येयिल्लें तेन्ना, ताणेंय अशेंच कितें तरी चोचरगट उलयिल्लें, ''मुरली, आयज जात-पात म्हणटात ती उणी जायत गेल्या! पूण धर्म म्हणटात तो सांबाळूंक जाय, पाळूंक जाय हां!'' मगेर ताणें ''कित्याक म्हण्टा तूं?'' अशें विचारल्यार, ''ना! अशेंच बेठेंच!'' म्हूण फाफुडलेंशें केल्लें.

आईनच शिलाताईचे कान फुकल्यात म्हणपाचें मुरलीधराल्या लक्षांत आयले बगर रावंक नासलें.

मुरलीधरान येवजिलें, फाल्यां मेरीक विचारुंया! आनी ताणें मेरीक म्हटलें, ''मेरी, फाल्यां आयतार! आमी दोगांय रानांत या पासयेक!''

''रानांत?'' मेरीन अजापानशें म्हटलें. हो आनीक रानांत पासयेक कित्याक आपयता? ताका खिणभर दिसलें. एका चेड्या वांगडा हांवें चेडवान ह्या अटंग्या रानांत भितर वचप सारखें?

''तूं रानांत घुस्पल्ल्या भशेन करता कित्याक? रानांतच पासयेक या म्हणटां हांव!''

''ना रे बाबा!''

''कित्याक ना?''

''शेऽ! दाट रान तुमगे तें ! भितोर गेल्यार, कोण खुंय गेलो, कांय कळचेंना! हायें आनी चेडवान चेड्या बराबर रानां वोचोप?''

मुरलीधरान तोंडार हात घेयलो. हाका म्हजेर पुराय विस्वास ना काय कितें? हरशीं मुरलीधरान ताका खूब फावटी पारखिल्लें, उलयतां उलयतां मुरलीधरान ताच्या भुजाक, हाताक हात लायल्यार तें आंग चोरतालें. फाटीर बी हात मारल्यार, आंग काडिल्लेवरी करताले. अचकीत पडवेंत भितर रिगल्यार, कच्च करुन आंग काडटालें.

मुरलीधराक खूब फावटी दिसतालें, आमची दोगांयची इतली इश्टागत आसूनय हें अशें कित्याक करता? काय बायलांचो सभावच तो?

"तुका कितें म्हणचेलें आसा?" मुरलीधरान विचारलें.

"कांय ना!" इतलेंच उलोवन मेरी ओगी रावलें.

"मेरी, हो हांव म्हजो इन्सल्ट असो समजतां! हांव एक बरो मनीस अशें दिसना तुका? हांव 'तसलो' बी म्हूण समजना मुगो तूं?"

"कोणें कोणाचेर इस्वास दोवोरप रे? भायल्यान सोगले बोरेच, साळसूद दिसोतात! वेळ येता तेदनाच तेंगें खोरेले रुपडें सामकारा येता!"

मुरलीधराक हें काळजाक लागलें, ताणें म्हटलें, "खऱ्यांनीच तुका म्हजेर विस्वास ना, तर तूं येवं नाका! सॉरी! हांव हेचे उपरांत तुका आपोवचों ना!"

मेरीक मागीर कितें दिसलें कोण जाणा, म्हणूक लागलें, "येतां रे हांव!"

"नाका! नाका! येनाकाच तूं!" मुरलीधराचें स्वत्व चाळवल्लें.

"ये ऽ ऽ, " मेरीन आपले मोठेले दोळें आनिकय मोठे करत मुरलीधराक चोयत म्हटलें, "मुरली, फकाणां केर्ली हांयेन!" मागीर मुरलीधराचो तांबडो जाल्लो चेरो चोयन ल्हवूच म्हणूंक लागलें, "आनी तुयें येनाका म्हुणल्यारय येतलेंच हांव!"

सांजेचे साडे-चारां सुमार मुरलीधर आनी मेरी रानांत वचूक भायर सरलीं. घरा फाटलो आकाडो बलांटून, पुरसामठ फाटी घालून पायणींतल्यान चलत सकयलो वाडो मेरेन आनी मगेर मुखार पांयवाटेन चलत पिंपळारुखाक भोवतड मारून रानां तोंडार येयलीं.

मेरी पयलेच फावट तांच्या रानांत येतालें. अटंगें रान तें! एक फावट भितर रिगले काय, कोण खंय गेलां म्हूण कळप भोव कुस्तार! हांगासल्ल्यो वाटो, दिका, खंय कितें-कात हें फकत ह्या 'आडगांवच्या' भौसाकूच कळचेलें. एक पाचवो झाडां पेडांचो चक्रव्यूह कसो!

मेरी मुरलीधराच्या फाटल्यान चलतालें. एका अशीरशा, झाडांझुडपाच्या खांद्या ताळयांनी धापून उडयिल्ले वाटेन ल्हव ल्हव पावलां मारतालें. इल्ल्या इल्ल्या झुडपांच्यो शिपाय कश्यो वाट आडवपी खांदयो, ताळयो हातांनी कुशीक काडच्यो पडटाल्यो.

मेरी पानां रंगाची पाचवी साडी न्हेशिल्लें आनी पाचवोच पोलको घाल्लो. मुरलीधरान म्हणलें, ''मेरी, तुवें मुजरत झाडा-पेडां वांगडा मॅचींग करुंक पाचवी साडी न्हेसल्या? कोणाचीय नदर पडल्यार सट्ट करुन कोण म्हण मतींत येवूं नये म्हूण?''

मेरी हांसलें. पूण त्या हांसण्यांत जीव नासलो. चोयवटेन गच्च रान चोयन मेरीक भिरांतशी दिशिल्ली. ''मुरली, आमी हिंगा सांडचे नाय बी मूं?''

''सांडल्यार सांडू गो!''

''शी ऽ! कितें उलयता रे तूं?''

मुरलीधरान मेरीक धैर्य दीत म्हणलें, ''तुवें भिवचेली मात्तूय गरज ना! हें पुराय रान म्हजे सवंकळीचें! हिंगाच ल्हानाचो व्हड जालां हांव!

''आतां खूंय म्हण व्हरतोलो तूं म्हाका?''

''दोंगरार!''

मेरीन आशिकुशीक नदर भोवंडायली. जळीं मळीं पावला कणकणी पिटकुळेचीं झाडां फुलिल्लीं. पिटकुळेचीं तांबडी तांबडी नकेत्रां कशीं माणकुलीं फुलां नदर ओडून घेतालीं. पिटकुळेचे कांय घोंस पिकून जार जाल्ले. मेरीक लुच्च जालें. ताणें थंयचोच एक घोंस तुटयलो आनी तोंडांत पिटकुळां उडयत तें मुरलीधरा फाटल्यान चलूंक लागलें.

थोडेशेंच, चार पावलां मुखार गेल्यार चोयवटेनी चिंवराय चिवरेल्ली. लागीचींच दोन तुटोवन ताणें तोंडांत घालीं. इतल्यांत ताका दिश्टी पडली पिकून काळीं जाल्ली काण्णां!

''मुरली, राव! म्हाका काण्णां आवडटाय! हीं चोय मुरे केशीं

पिकल्यां!''

मुरलीधरान थांबून फाटल्यान चोयन म्हटलें, ''खऱ्यांनीच तुका काण्णां आवडटात?

''व्हय तर!''

''तशें आसल्यार एक काम कर! हीं काण्णां तुका जल्मभर खावूंक मेळटलीं! तूं हिंगासल्ल्या एकाद्र्या तरनाट्या वांगडा काजार जा!''

हाचेर मेरीक कसलीच जाप दिवया अशें दिसूंक ना. ते ओगी रावलें.

मुरलीधरान वाटे वेल्यानच हात लांब करून चार-पांच काण्णां घोस तुटोवन दिले. ''हीं घे खा! आनिकय जाय जाल्यार सांग! वाटेर जायतीं मेळटलीं!'' अशें म्हणत तो फुडें चलूंक लागलो!

मातशें फुडें वतकर रानांतलीं झिली-झोपां मातशीं विस्कळ विस्कळ दिसलीं. जळीं मळीं गोरवाल्यां शेणांचे ताजे-सुके थापेय दिश्टी पडले. हें चोयन मेरीन विचारलें, ''गोरवां हिंगाय येताय रे?''

''हय तर! गोरवां येतात. मनशां येतात. आमगेल्या गांवचीं बायलां सोप कापूंक हिंगाच येतात!''

''सोप म्हुटल्यार?''

''आमगेली गायर चोयल्या मुगो तुवें?''

''व्हय तर!''

''तेतूंत ती ताज्या पानांची रास चोवूंक ना?''

''व्हय!''

''तेकाच सोप म्हणटात! तेतूंत शेण मिसळयलें, काय सारें तयार जातां. आनी तें सारें शेतांक उत्तम! हीं ल्हान ल्हान झाडां आसात न्हू! तेंचे पानां-ताळें कापून व्हरतात!''

''आईन पोयर झाबळ्यांत भोन्न हाडिल्लो तो हिंगासान न्हू?''

''हय! हय!''

''आनी आंगण करूंक तांबडी माती व्होरताय ती हिंगाची?''

''ती मातशी वेली! दोंगरावेली!''

“तेशे जाल्यार, हीं रानां, हे दोंगर तुमगे बरे इश्ट मुरे!”

“हय तर! आमगेलीं गोरवां चोरवाक हिंगा येतात. जळोव, माती, सोप हिंगासल्लो! गांवच्या भौसाक वखद विरसद म्हूण वखदां-मुळां, झाडपालो बी तो सैरोब हंयसूनच व्हरतां... ते भायर आंबे, काजू, बोरां, बिमलां, आंवाळे, करमलां, अटांबे, चुन्ना, चिंचो, सगळें! हीं रानां आनी हे दोंगर आमगेलें वरधन!”

इतल्यान कें ऽ कें ऽ कें ऽ करत एक तांबुडसो काळसो क्रिशणकावळो येयलो आनी लागींच्याच आंब्या खांदयेर बसलो. आपल्याच झेतांत कांय खीण बसलो आनी पर्थून पाखां पातळावन भुर्र करुन उडून गेलो. मेरी खीण भर त्या सवण्याक चोयत रावलें.

आशिकुशीक आंब्यांचीं, फणसांचीं, काजुंचीं, अटंब्यांचीं, आंवाळ्यांची, बिमलांची बी झाडां सोडलीं जाल्यार मेरीक एक्कूय झाड वळखूंक येनासलें. शेकानशेक पातळिल्लीं झिलीं-झोपां आनी तीं तरेकवार झाडां ताका पुरायेन अनवळखी आसलीं. विंगड विंगड जातीचीं झाडां-झोपां चोयन तें अजापलें.

“मुरली, कितके गिरेस्त रान रे हें! कसलीं कसलीं झाडां आनी वनस्पत न्हू? म्हाका वळखूंक लेगीत येयनात!”

“येनात? हें चोय...” मुरलीधरान बोट दाखयत सांगलें “हें धवेशें, कांटें कशें बोंगे बोंगे येयिल्लें झाड थेंपळाचें!”

“ताल्ल्या आंबटाक घालतात तीं थेपळां?”

“हय! वय!” मागीर हेर झाडां दाखयत ताणें सांगलें, “हें ‘काऱ्या’ झाड! हें ‘बिब्याचें’! हें ‘गाळयेचे’! अ ऽ तो ‘पांगरो’! ताचे कुशीक आसा तो ‘खरसंग’! होचोय, हो ‘बैलाडो’! तसोच तो फुडें चलत गेलो. “हो चय हो ‘नाणो’! आनी हेका वळखना गो तूं?” थंयच्याच एका रुखाक बोट दाखयत मुरलीधरान विचारलें. “ना रे!”मेरीन नेणट्या भुरग्यावरी नेणटेपणान सांगलें. “हो ‘अर्जुनाचो’! हो ऽ तो ‘अशोकाचो’! तो ऽ तो ऽ ‘गजरो’! मेरीन सांगलें, ‘गजरे चोयल्यात हांवें! नेणट्या भुरग्यांक मुंजीक गुंतून दवरतात!” आनी

मुखार वयतां वयतां मुरलीधरान आनीक काय झाडां कडेन बोट दाखयत सांगलें, "हो 'हुरो'! हो 'बिबटो'! हीं 'रंजणी' रोपां! हो चय, हो 'चांदाडो'! हे 'सुरंगीचे'! हो चोय हेका 'खुडगूज' म्हणटात. 'नाटां बी करतात हेचीं! ही ऽ ती 'किनळ'! हो 'साग'! हो 'सिसम'! आईन तुका न्हिदूक दिल्या ती खाट सिसमाची! अ ऽ तो 'भेडसो'! हो 'असणिचो, हाच्या लाकडान रथाचीं चाकां बी घडयतात! हें खैरीचें! आनी ती ऽ ती 'लिमतोड्याची'!

"वळख सोड! हेतुंतली भोवतेक नांवां हायेन आयकोंक नासलीं!"

इतल्यान खंयच्यान नेणो एक मोर कें ऽ कें ऽ करत येवन एका झाडार बसलो. "हो चोय, मोर!" मुरलीधरान बोट दाखयत म्हटलें. तो तकलेर तुरो आशिल्लो, निळ्या आंगाचो, पाचव्या-निळ्या-भांगरां रंगाच्या पिसाऱ्याचो मोर चोयन मेरी भुल्लुसलें. म्हणूक लागलें. " माय गॉड! व्होट अ ब्युटिफूल पिकोक!"

जेन्ना मुरलीधर मेरीक घेवन 'कळसा दोंगर' चडूंक लागलो, तेन्ना मेरीन म्हटलें, "कितको खुशालभरीत जाता न्हू जीव हिंगा?"

"दोंगरार वयर वतकीर चोय! जाणां मुगो मेरी, जेन्ना म्हजें मन उदास, सुन्न जाता, वा तकली पिकार जाता तेन्ना हांव हिंगा वयर एकटोच येवन बसतां! नातर, दुधगंगा न्हंयेदेगेर पासयेक वयतां!"

"आतां तुगे ऽ तोकली बेजार जाल्यां?"

"ना! उरफाटें एका नव्या विचारान उमेदी जालां! तोच विचार हांव तुका सांगतलो!"

"केसलो?"

"सांगतां! वयर या!"

"वोयरच सांगो ऽ जाय रे? हिंगा सांगो ऽ जायना?"

"ना! त्या प्रसन्न वातावरणांतच मना-काळजाक प्रसन्न करपी विशय सांगचेलो आसता!"

रानवाट चलून, दोंगर चडून संवय नाशिल्ल्यान मेरीक दोंगर चडटना मुरलीधरा परस चड खरस मारताली.

उलयतां उलयतां दोगांय खर्शेत दोंगरार पावलीं.

'कळसा दोंगरार' सामक्या तोंकार एक पिंपळा झाड आसलें. हेंऽ व्हडलें झाड! गच्च खांद्यानी आनी पानांनी सळसळटालें! खंयच्या काळा साकून हो पिंपळ उबो आसा कोण जाणा! 'आडगांवचो' पाऱ्हेदार कसो, 'आडगांवच्या' हर एक घडणुकांचो साक्षिदार जावन उबो आसलो. घडये ह्या झाडाक लागुनच, पयसुल्ल्यान ह्या दोंगराचें तोंक 'कळस' कशें दिसता! झाडा पोंदा एक आड-उदार फातरां तळप आसलें. मुरलीधरान म्हटलें, ''आमी बसुया हिंगा!''

दोगांय तळपार बसलीं.

वयर तळपार बशिल्ले कडेन अस्तंते वटेन येवपी झुमझुमीत शितळ वारें लागतालें आनी मना-काळजा सयत पुराय जिवाक सूऽ जातालें!

''सैमा सांगाता जियेवपा कितकें बोरें ऽ दिसोता न्हू? शारांत खूंय मेवता ओसले जिणें? येदोळ दोंगर माड्डुयतना, कितकी खुशालकाय भोगताली जाणां? झाडां-पेडांनी कावळ्यांलीं कांव-कांव, मोदेचे सवण्यां-सुकण्यांली चींव चींव! पुराय सैमाचें सोगलें संगीत भोल्लां ह्या वाठारांनी!''

मेरीन बशिल्ले कडच्यान पयस पयस नदर शेंवटिली. सरभोंवतणचो वाठार भोव सोबीत दिसऽ ! शेकानशेक पातळिल्लीं शेतां! चोय वटेन कितलेंशेच केर आनी हरेक केरांत मदी-मदीं झाडां-माडांच्या कवंडाळ्यांत ल्हान-व्हड वाडे!... सगळेंच हाताकडेन लागीं आशिल्ल्यावरी दिसतालें.

'कळसा दोंगराच्या' फाटल्या 'मांयंगिणी' दोंगरा वेल्यान व्हांवत येवन, सकयल पयस अस्तंते वटेन वचपी 'दुधगंगा' न्हंय! पयस वायव्वे दिकेन ल्हान-व्हड दोंगर! पयस पयस पातळून खंयतरी धारेक तेंकपी मळब! हें सगळें एकाद्र्या फिशाल चित्रकारान रंगयिल्लें हुबेहूब चित्र कशें दिसतालें.

मेरीक दिसलें, हें चित्र अशेंऽ गुठलावचें आनी व्हरुन वणटीक लावचें!

"कितक्या सोबीत वाठारांत जोल्मा येयला रे तूं?"

"तूं ह्या सोबीत वाठाराची सून कित्याक जायना?"

"व्हाट डु यू मीन?" मेरीन समजुना जावन विचारलें.

"मेरी, आय् प्रोपोस टू यू! विल् यू मॅरी मी मेरी?"

"ओह! नो!" मेरीक हें अचकीत आनी अपेक्षे भायलें आसलें. तरी लेगीत, ताच्या अंतरमनांतल्यान तो आवाज भायर सरिल्लो. "सॉरी! आय कान्ट!"

"व्हाय? मे आय् नो, व्हाय? हांव वेगळ्या धर्माचो म्हूण?"

"नो! नो! नॉट फॉर दॅट!"

"देन व्हाय?"

"आय डोन्ट वॉन्ट टू गेट मॅरीड!"

"बट व्हाय?"

"हांयेन चितलां हांव जावचें ना काजार!"

"... कितेंय कारण...?" "हूं!" "सांगना?" " उहूंऽ! ...नो!"

खीण भर मुरलीधर ओगी रावलो. ताका कितें उलोवचें म्हूण कळ्ळें ना! मागीर ताणें ल्हवूच विचारलें, "मेरी, तूं म्हाका आपलो इश्ट समजतां! हांवूय तुका इश्टीणच मानतां! म्हगेली खंयचीच गजाल हांव तुजे कडल्यान लिपोवन दवरना, हें तुंवय जाणां! कारण म्हगेलो तुजेर विस्वास आसा! तूं मात म्हजेर विस्वास दवरना! आनी देखून तूं म्हाका कित्याक लग्न जायना म्हणटा, हें सांगूक तयार ना! तुका सांगचें ना जाल्यार, सांगू नाका! हांव विचारचों ना!"

मेरी कांय खीण आपली तकली दोनूय हातांनी चिड्डून धरून ओग्गी रावलें. ताका मुरलीधराक कितें सांगचें आनी कशें सांगचें समजलें ना. मुरलीधर आपलो घट्ट इश्ट! आपल्या पोटांतली आनी काळजांतली गजाल आपल्याक सांगपी! आनी आपूण आपली कथा आनी व्यथा ताचे साकून लिपोवन दवरप?

"आयकता? आयक!"

... आनी मागीर मेरीन आपली पुराय गजाल सांगली.

मेरी आनी ताची भयण सामकीच नेणटीं आसतना, तांचो 'पाय' भायर पडिल्लो.

हरशींय ताचो 'पाय' गिरेस्त नासलोच! घरची परिस्थिती म्हटल्यार मोटवी चादर! तकले वेल्यान पांगरुन घेतल्यार पांय उक्तें पडटाले! कशेंतरी गुठलावन न्हिदचेलें! तातूंत 'तो' भायर पडिल्ल्यान, घर अन्नाक पातेशीर जालें.

मेरीली 'मांय' बाबडी करतली कितें? तिका शिवणकाम येतालें. घरांत 'माक्न' आशिल्लें. तिणें 'माक्नाचो' आदार घेयलो. मेळत ताका हात जोडून कामां मागून घेताली. ही परिस्थिती काळ दुस्मानाचेर लेगीत नाकासली. आनी अशावेळार तांकां मदत करूंक धांवन येयली तांगेली 'माशेन'! माशेनालो देर अंकल अँथनी बी हांकां भोव बरो करतालो. माशेनाक भुरगीं जावचे आदीच घोव मेल्लो. देखून ती भयणील्या दोगूय धुवांक आपल्योच धुवो मानताली. तांकां दोगांयक कितें जाय नाका, चोयताली. आनी आतां तर भयण आनी भयणील्यो धुवो आदारहीण जाल्ल्यो. मेरीले आवयली मिळकत म्हटल्यार, खेतें हागतलें कितें आनी शेणी थापतलें कितें? असली स्थिती! आनी हे परिस्थितींत मेरील्या आवयक मेळिल्लो भयणीलो आनी भयणील्या देरालो आदार, म्हटल्यार बुडटल्यांक बडयेचो आदार आसलो.

मेरीले व्हडले भयणीक मक्दालिनाक माशेन आनी अँथनी अंकल आपल्या घरा कुमठा व्हरतां म्हणटाली. माशेनान सांगिल्लें, आपूण ताका व्हरुन थंय शाळेंत घालतां. तें म्हगेलेंच चेडूं अशें समज! तुका तागेलो कसलोच हुस्को करची गरज ना! ताचें शिकप, ताचें काजार पुराय आपली जापसालदारकी! पूण मेरीले आवयन म्हटलें खय, ''नाका! आसों दी म्हुजे बराबर! कोंबे पिलां कोंबे बराबर आसोंक जाय!'' मेरीले आवयन आपल्या दोगांय धुवांक आपल्या वांगडां दवरुनच ल्हानाचीं व्हड केलीं. तरी सुदीक माशेनान आनी अँथनी अंकलान तांकां आपल्याच्यान जातां तितलें करचें सोडूं ना! दोगांयल्या 'बर्थ-डे' दिसा तांकां नवे कपडें, ते भायर तांगेले शाळेचो

पुराय खर्च अँथनी अंकलच करतालो. इतलेंच न्ही तर, दोगांकूय एकेक भांगराची सरपळी अँथनी अंकलान केल्ली.

दोगांय भयणींक माशेना परस अँथनी अंकल चड मानवतालो. तांकां दोगांकूय सुटी पडली, कीं रोखडोच अँथनी अंकल दांडेली येतालो. दोगांकय आपल्या वांगडा कुमठा व्हरतालो. आनी तिंवूय दोगांय अंकलाली वाट चोयत रावतालीं.

शाळेची 'पिकनिक्' आसूं वो टूर आसूं. कोणकोण येतले? म्हूण टिचरीन विचारल्यार, हीं दोगांय सगळ्यांत पयलीं हात वयर करतालीं. दोगांकय खातरी आसली, अँथनी अंकलाक कळल्यारच पुरो, रोखडेच पयशे घेवन हजर जातलो!

माशेन आनी अँथनी अंकल तांकां इतली ऽ माया, इतलो ऽ मोग दितालीं, ताका लागून मांय परस तांकां माशेन आनी अंकल चड लागीचीं दिसतालीं. एक दीस मेरील्या मांयन कित्याक तरी लागून उबगून म्हटलें, "तुमी दोगांय सांगलेलें आयकोनात. हरशींय हांव हे घर गिरेस्तीच्या ओज्यान चिड्डोलां! हांयेन वाजेवन खुंयी जीव दिल्यार कळटलो तुमकां मांयलो वालोर!" दोगांय तेन्ना म्हणूंक लागलीं खय, "कांय कळचें ना! अंकल आनी माशेन आमकां तुजे परस कितलींऽ बोरीं कोत्ताय! तीं दोगांय चोयतऽ आमकां!" माशेनाल्या आनी अँथनी अंकलाल्या मायेमोगाच्या आदारार, अशींच तीं दोगांय व्हड जालीं.

मक्दालीन मेरी परस चार वर्सांनी व्हड आसलें. शिकूंक व्हडलेंशें हुशार नासलें. मॅट्रीक परिक्षेक सतत चार फावटी 'फेल' जालें. निमाणें कडेन कशेतरी पास जालें. फुडें शिकताकाय म्हण विचारल्यार 'ना' म्हणूंक लागलें. म्हणटकीर, मांयन थारयलें, हाका काजार करुन दिवचें! मांय माशेना कडेन आनी अँथनी अंकला कडेन उलयली. अंकलान एक चेडो सोदलो. ऊंच, सोबीत, आंगां पांगान घटमुट्ट! होन्नावरचो! बोटीर कामाक आसतालो.

मक्दालिनाचें काजार जालां, तेन्ना मेरी मॅट्रिकेक आसलें. वर्साची

परिक्षा जाल्ली. रिजल्ट येवचेलो आसलो. एप्रिलाचे तीस तारखेर काजार जाल्लें तें! काजराचो पुराय पुराय खर्च अँथनी अंकलान केल्लो.

मक्दालिनालें काजार जाल्ल्या कांय दिसांनी गजाल ही! माया म्हयन्याची बारा तारीख मेरी जिणेंत केन्नाच विसरचें ना! कोणेंय विसर म्हटल्यारय विसरुंक ताकचें ना!

मक्दालीन काजार जावन घोवागेर गेल्लें.

येयिल्लीं सोयरीं आप आपल्या घरा गेल्लीं.

फाटल्यान काजराची जायती उस्तवारी काडची उरिल्ली. देखून मेरीले मांयन भयणीक म्हणलें, "आंतोनेत, तूं राव गो चार दीस. सोगलें जाग्यार घालूंक म्हाका आदार जातलो!" आनी माशेन रावली. पूण अँथनी अंकलाक रावप शक्य नासलें.

अंकलान म्हटलें, "हांव वोयतां! म्हुगे ऽ धंदो आहा! तो बोंद दोवोरूं जायना! दोवोरल्यार लुकसाण न्हू!"

"तूं रांदून जेयतलो?" म्हूण माशेनान विचारल्यार, म्हणूंक लागलो, "हांव मेरीक घेवन वयतां! तूं यो गो सुशेगाद चार दिसांनी! ते मेरेन मेरी रांदोन घालतोलें म्हाका! ना गो मेरी?"

थंयच उबें आशिल्ल्या मेरीन एका पांयार तयार जायत म्हटलें, "व्हय! हांव येतां अंकल!"

त्या दिसा मेरी आनी अंकल कुमठा येयलीं.

अंकलाचे कुमठा बसस्टँडा कडेन एक ल्हानशें बुकस्टॉल आसलें. तसो व्यापार वायट जायनासलो. खरें म्हटल्यार, अंकलाक तसो धंदो बी करुंक जाय बी म्हण गरज आसली? अशें जायते फावटी मेरीक दिसतालें. कित्याक तर अंकल फार्टी बोटीर आसलो. ताणें बऱ्यापैकीं जोड जोडून हाडिल्ली अशें मांय म्हणटाली! ते भायर तो काजारूय जावंक नासलो. देखून भुरगीं बाळां नासलीं. अँथनी अंकल काजार कित्याक जावूंक ना, हें मात मेरीक केन्नाच कळ्ळें ना! कितेंय आसूं, अंकल बारीक जायना कित्याक, आपलो धंदो करुन आसलो.

त्या दिसा अंकलान मेरीक म्हटलें, "मेरी, आज तुयेन घोरा रांदपा

नाका! खुंयी हॉटेलानी या!''

मेरीनय 'जायत' म्हण तकली हालयली.

सांजे संक तीं दोगांय कुमठा पाविल्लीं. म्हणटकीर, अंकलान थारयिल्लें, स्टॉल आनी आतां उगडचों ना! म्हणटकीर, अंकलान म्हटलें, ''मेरी, एक काम कोरया, आमी अेशींऽ भोवन येवया! घोरा बसून कोरतले कितें? भायले भायर जेयन येयल्यार जालीं!''

''हां अंकल!''

दोगांय अँथनी अंकलाल्या मोटार सायकलीर भायर सरलीं. अंकलान मेरीक 'अघनाशिनी' न्हंये देगेर हाडली. थंय कांय वेळ दोगांय बेठींच उबीं रावलीं. न्हंयेंत दोन-तीन व्हडीं भोंवतालीं. मेरी कांय वेळ त्या व्हड्यांक चोयत रावलें. एक तारयो उदकांत ताज घालून व्हडें धुकळटालो. जाल्यार, एका व्हड्यांत तारयो व्हल्लें घेवन व्हलयतालो. तें व्हडें तुरतुरीत फुडें सरतालें. पयस उदकांत एका व्हड्यार पागी न्हंयेंत जाळ उडोवन ओडटालो.

थंयसून दोगांय मगेर एक चक्कर मारून 'गर्ल्स हायस्कुला' कडेन येयलीं. थंयसून मगेर थेट भौशीक गार्डनांत येयलीं.

''हिंगा ऽ बशा आमी!'' अंकलान सांगलें.

दोगांय एका शिमिटाच्या बांकार बसलीं. थंयच मुखार भुरग्यांली खेळपाची 'घसरगुंडी' आसली. 'दडमदुडकी' आसली. 'झोपाळे' आसले. थंय भुरगीं आपल्याक जाय तो खेळ खेळटालीं. काय मनशां फाफसून फाफसून बशिल्लीं. मेरी आनी अंकल बशिल्ल्या कुशीतल्या बाकार एक तरनाटो आनी एक तरनाटीं सामकी दसून बशिल्लीं. तांचे भितरच फुतू फुतू करुन उलयतालीं. मदीच हांसतालीं. एकामेकांक फकाणानशीं थापटां मारून घेतालीं.

अंकलान मेरीक म्हटलें, ''चोय! बोरें भशेन चोय!''

मेरी हांसलें.

''तुगे ऽ बी अेसो 'बॉय फ्रेंड' आहा गो?''

''शीऽ!''

"शीऽ ? बॉय फ्रेंड आसोप वायट गो? आतां मक्दालिनाचेंच चोय, तेका घोव सोदोंक म्हाका केदो तरास भोगलो जाणां तूं? तेका बॉय फ्रेंड आहल्यार बोरें जावचेलें!"

"म्हगे ऽ पिराय कितकी अंकल? फोकोत सोळा!"

"धीस् इज द एज्! तूं जाणां? मुगेऽ मांयक पयले भुरगें सोळां वर्सार जल्मोल्लें. पंदरां वोर्सार खूंय तिगेऽ काजार जालोलें. आतां चेडवां तुमी पंचीस वोर्सा मेरेन काजार जायनात! म्हगे ऽ मांयक पंचीस वोर्सा मेरेन पांच भुरगीं जालोलीं. आतां मक्दालिनाचें चोय, ज्युस्त पिरायेर जालां!"

"हांव जायना रे बेगीन काजार! म्हाका खूऽब शिकों ऽ जाय! टिचर जावों जाय!"

"जा! जा! किदें जावो जाय तें जा! हो अँथनी अंकल आहा मेरेन भिरांत ना!"

"आय नो!" मेरीन लाडांत येवन म्हटलें. "यू आर माय स्वीट अंकल!" मेरीन अंकलाच्या गालाचो उमो घेत म्हणलें.

"जाणा मुगो मेरी, तूं म्हगेऽ एसो किस्स घेयन म्हाका त्रासां उडयता!"

"त्रासां?" मेरीन भुंवयो वयर केल्यो. ताका अंकलाल्या उतरांचो अर्थ समजु नासलो.

"त्रासां न्हु आनी! तुजे अेशे आंकवार चेडवान किस्स घेयलार, म्हगे ऽ कुडीर केसो परणाम जातां जाणा?"

मेरीक अंकलालें हें उलोवप बरेंऽ लागूंक नासलें. पूण अशें तरेचे उलवप अंकल खूब फावटी करतालो.

एक फावट अंकलाल्या गालाचो मेरीन असोच उमो घेयिल्लो. तेन्ना अंकलान मेरीक घट्ट धरून पर्थून मेरील्या गालाचो ख ऽ र उमो घेयिल्लो. तेन्ना अंकलालो स्पर्श मेरीक कसोसोच लागिल्लो. पूण मेरीन हे गजालीर चड केन्ना चितूंक नासलें. कारण अंकल ताचेर आनी मक्दालिनार मोगय तितलोच करतालो. तेंवूय अगदी नेण्टेपणा

साकून!

उलयतां उलयतां सांजेचीं साडे आठ केन्ना जालीं, तांकां कळलें नासलें. थंय गार्डनांत येयिल्लीं मनशां के ऽ न्ना घरा गेल्लीं. उरिल्लीं हीं फकत दोगांय!

अंकलान म्हटलें, ''मेरी, या मुगो आमी?''

''या!''

दोगांय उठून मोटार सायकली कडेन येयलीं. अंकलान मोटार सायकल सुरू केली. फाटल्यान मेरीक बसूंक सांगले आनी थेट एका 'बारा' कडेन येयलो. मोटार सायकल थांबोवन, ''तूं मातशें उतर आनी हिंगाच उबें राव! हांव पांच मिनटांनी येतां!'' अशें सांगून 'बारांत' घुसलो. थंयसून सांगिल्ल्या परमाणें पांच मिनटांनी भायर सरलो. येतना कागदांत बांदून ताणें एक बाटली हाडिल्ली. मोटार सायकलीच्या 'कॅरिअरांत' ती बाटली दवरुन पर्थून मोटर सायकल स्टार्ट मारली आनी मेरीक फाटल्यान बसोवन घेवन ''स्वाद हॉटेला' कडेन येयलो. येतना मेरीक उग्र सोऱ्याचो वास येतालो.

हॉटेलांत दोगांय स्पेशल रुमांत वचून बसलीं.

''मेरी, तूं कितें जेयतलें?''

''फिश्-करी रायस!''

''दोन नुस्त्या जेवण हाड रे!'' अंकलान 'ऑर्डर' दिली. आतां अकलाचो चेरो तांबुडसो जाल्लो. तो सोरो पियेला म्हणपाचें ज्युस्त कळटालें. वासय येतालो.

''अंकल, तूं सोरो पियेलो रे?''

''इलो सो गो!''

मेरी जाणां, अंकल सोरो पियेल्यार, सामकोच ताळतंत्र सोडटां. कित्या कितेंय आनी कशाकसोय उलोवंक लागता, वागूंक लागता. मुखार आशिल्ल्याक बुरशी गाळ घायली बगर उलयच ना! देखून माशेन केन्नाच ताका चड पियेवंक दिना. आनी माशेनान सांगल्यार तो आयकताय!

जेवण येनाफुडें ती दोगांय जेयलीं.

जेयन घरा पावलीं, तेन्ना रातचीं साडे णव-पावणे धा वरां जाल्लीं.

मुस्तायकी बदलून 'फ्रेश' बी जाता मेरेन रातचीं धा सव्वा धा जालीं.

''अंकल, हांव न्हिदो वयतां सामकें 'टायर्ड' जालां!''

''न्हीद! वच!''

मेरी 'बेडरुंमात' वचून खाटीर पडटा थंय आसा, ताका केन्ना न्हीद लागली कळ्ळेंच ना.

मध्यान राती उपरांत मेरीक अचकीत जाग येयली. दोळें उक्ते केल्यार कुडींत मंद उजवाड आनी सोऱ्याचो उग्र दर्प! कुशीक अंकल आड पडिल्लो. मेरीली 'मॅक्सी' पांया कडल्यान कमरा वयर पाविल्ली. ताचें गुप्त आंग पुराय उक्तें आसलें. अंकलालो हात ताच्या गुप्त आंगार भोंवतालो. मेरीन कच्च करुन आंग काडलें. ताचे आंग शिरशिरलें. ''अंकल, शीऽ! किदें कोत्ता तूं?'' अशें म्हणत ताणें उठून बसचो येत्न केलो. पूण अंकलान ताका तशेंच दपटून दवरलें. आनी ताच्या आंगार येयलो. अंकल पुराय उक्तो आसलो. आडदांड अंकल ताका किरमूंक लागलो.

''ओह! नो! सोड अंकल!''

अंकलान कांय एक आयकनासतना ताचो उमो घेयलो. सोऱ्याचो वास मेरीच्यान सोसूं नजो जालो. ताका ओकू येयिल्ल्या भशेन जालें. मेरीन आपले परीन प्रतिकार केलो. पूण ताचो कांयच उपेग जालो ना. कसली तरी नश्ट शक्त आंगात रिगिल्ल्यावरी, अंकलान मेरीचेर बळजबरी केल्ली.

सोसूं नजो असली कळ आनी वेदना! मना-कुडी सकट तें पुराय रगत बंबाळ जाल्लें. केन्नाच येवजूंक नासलें तें घडिल्लें. पुरायच सुन्न सुन्न, रितें रितें दिसूंक लागिल्लें. तें तशेंच उठून बसलें आनी व्हडा व्हडान हामेऱ्यांनी आनी हुमेऱ्यांनी रडूंक लागलें. मेरीले पुराय आंग आतां थरथरतालें.

मेरीक तशे तरेन रडचें चोयन, अंकलालो सोरो देंवलो आनी नेटय देंवलो. ताका कितें जालें कोण जाणां, तोवूय रडूंक लागलो. घडये ताका आपूण केल्ल्या कर्माचो पश्चात्ताप जाल्लो.

''सॉरी! आय् एम् सॉरी मेरी! तूं रडों नाका! हांयेन व्ह ऽ ड गुन्यांव केलां! सायबा बोगोस!''

अंकलान मेरीलो हात आपल्या हातांत घेवन म्हटलें, ''मेरी, म्हुजेर इस्वास दोवोर! हेचे फुडें हांव आनी अेशें केन्ना कोरचों ना! पाड नदरेन तुका चोवचों ना! प्रॉमीस!'' आनी तोवूय हुंडक्यांनी रडलो. ''मेरी, हांव तुगे ऽ पाय पिरायेचो हें केसो इसल्लों गो हांव? सॉरी! मेरी एक्स्क्यूज मी! तूं दिता ती ख्यास्त हांव घेतां! दी! दी! ख्यास्त दी! '' अशें म्हणत मेरीलो हात हातांत घेवन, ताणें त्याच हातान आपलें कपल बडोवन घेयलें.

अंकलाचो इकळाप चोवन, मेरी खीण भर आपलें दुख्ख विसरलें. ताका काळजांत कितेंशेंच जालें! ताणें म्हटलें, ''पूण अंकल हाउ डिड् इट् हेपन्?'' मेरीलें आंग अजुनय थरथरत आसलें. तें स्वताक थातारचेलो येत्न करतालें.

''म्हगे ऽ म्हाकाच खोबोर ना! आय् लॉस्ट माय् कंट्रोल! सैतान रिगलो म्हुगे ऽ आंगांत! सॉरी!'' तो रडूंक लागलो.

अंकलाक अशें करचें चोयन, मेरीय न्हिन्नळलें. ताका दिसलें, जालें तें पाड जालें! हातूंत चूक कोणाची? अंकलाची? सैमाची? पाड वेळेची? काय म्हजी? इतलो तेप अंकलान आपल्या पासत, आपल्या कुटुंबा पासत, आपल्या माशेना पासत केल्लें बरेपण, केल्लो त्याग, मेरीले नदरेसामकार येयलो. अंकलान आपले पुराय जिणेंत कमयिल्लो पुराय दुडू तो तांचे पासत खर्च करतालो, हाची पुराय जाण मेरीक आसली.

माशेनालो घोव तितीव, काजार जाल्ल्या हेर वर्साकच 'अॅक्सिडंटांत' गेल्लो. पूण आपल्या रांडाव भावजेक अंकलान नादार सोडूंक नासलो. जायते जाण ताका सांगताले, तूं काजार जा! तुजें तूं

चोय! पूण, ताणें तशें करिनासतना आपली भावज आनी भावजेले भयणीली घर गिरेस्ती चोयली.

रात भर मेरी आनी अंकल तशींच रडत एकामेकांक थातारत रावलीं.

ती रात तशीच गेली.

फुडें दिसय गेले.

म्हयनेय गेले.

वर्सांय गेली.

ताचे उपरांत, अंकलान मेरीक केन्नाच वांकड्या नदरेन चोवंक नासलें. उरफाटें, तो मेरीक चड बरो करतालो. आनी हे सगळे करतना, मेरीले नदरेक नदर दिवचे धाडस, केन्ना अंकलाक जालें नासलें. सदांच अंकलाले नदरेंत, एक गुन्यांवकारी भावना दिश्टी पडटाली.

मेरीन अंकलाक माफ केलें, पूण ही गजाल विसरलें ना, विसरुंक ताकलें ना!

फुडें अंकलान मेरीक शिकयलें. ग्रेज्यूएट केलें. उपरांत मेरीन बी.एड्. पासत 'कारवारा' 'कॉलेज ऑफ एज्युकेशन' हांगां एडमिशन घेयलें...

.. आनी हांगां टोनी मेरीले जिणेंत येयलो.

मेरीक याद जाता, बी.एड्.कॉलेजींतलो पयलो दीस! कॉलेजीची वेळ सकाळीं धा ते सांजचे पांच आसली. मेरी त्या दिसा णव-सव्वाणवांकच कॉलेजींत पाविल्लें. लायब्ररींत वचून बशिल्लें. अचकीत ताची नदर एका तरनाट्यार गेल्ली. फकत वचूंक नासली, तर ती ताचेर थीर जाल्ली.

तरनाटो ऊंच, गोरो आनी एकशिवडी आसलो. तकलेर कोंगरे केंस आनी काळ्ळी जाड भुंवयो! तोंड खाड-मिशयो तासून सुळसुळीत! लायब्ररींतल्या एका कॉर्नरांत दवरिल्ल्या, पेपर स्टँडा मुखार उबो रावन पेपर वाचतालो. आशिकुशीक आनीकय पेपर स्टँड आसले,

त्या तरनाट्या कुशींतल्या स्टँडा कडेन कोण नासलो. एकाद्र्या अदृश्य शक्तीन ओडून व्हेल्लेवरी, मेरी त्या स्टँडाकडेन गेलें आनी स्टँडार दवरिल्लो 'न्युजलींक' पेपर वाचूंक लागलें. तिरपे नदरेन चोयल्यार, तो तरनाटो 'डेक्कन न्यूज' वाचतालो. मेरीक कितें जालें, मेरीच नकळो, ''एक्सक्यूज मी'' मेरीन त्या तरनाट्याक उद्देशून म्हणलें.

''एस्!'' त्या तरनाट्यान मेरी कडेन चोवन म्हणलें.

''मे आय् हॅव देट् पेपर फॉर समटायम्?''

''शुअर!'' अशें म्हणत तो स्टँडा कडल्यान कुशीक सरलो.

''थँक्स्!'' म्हणत मेरी ताच्या स्टँडा कडेन गेलें. ''यू कॅन रीड देट 'न्यूजलींक' फॉर सम टायम्! आय नीड धीस् पेपर वोनली टू ग्लांस!''

''शुअर! शुअर!'' अशें म्हणत त्या तरनाट्यान 'न्यूज लींक' चाळूंक सुरवात केली.

मेरीन 'डेक्कन न्युज' वयले वयर चाळ्ळो आनी त्या तरनाट्याक म्हणलें, ''नाऊ यू कॅन कंटिन्यू...! थँक्यू! अॅण्ड सॉरी फॉर डिस्टरबन्स!''

''ओह् नो! नॉट एट् ऑल!'' अशें म्हणत तो पर्थून 'डेक्कन न्युज' पेपर-स्टँडा कडेन येयलो.

''बाय द वे व्हॉटस् युवर गुड नेम?'' मेरीन मुजरत विचारलें. खरें म्हटल्यार ताचे कडेन वळख करुन घेवप होच मेरीलो मुखेल हेत आसलो.

''टोनी! टोनी फॅर्नांडीस!''

''माय गॉड!'' नकळटा मेरील्या तोंडांतल्यान अजाप उक्ती करपी उतरां गळून पडिल्लीं. खंयतरी तो आपल्या बिरादरीचो हे भावनेन, आपली नाळ ताचे लागीं आदीच धर्म भावनेन जुळिल्ली आसां, हें येवजून तें उचांबळीत जाल्लें.

मेरील्या तोंडांतल्यान भायर सरिल्लीं ''माय गॉड!'' हीं उतरां आयकून टोनीन विचारलें, ''व्हॉट् हेपन्ड?''

मेरीन सुम्रतेर येत म्हटलें, ''नथींग! आय् अम्... मायसेल्फ मेरी! मेरी डिसुझा!'' मागीर हात मुखार करीत म्हटलें, ''ग्लॅड टू मीट यू!''

''ग्लॅड टू सी यू!'' टोनीन हात मेळयत म्हणलें.

जेन्ना कॉलेजींतले पयल्या दिसाचे 'वळखसत्र' सोपून वर्ग सुरु जाले, तेन्ना मेरीक आनी एक अजापाचो धक्को बसलो. मेरीले आनी टोनीले दोगांयलें 'सब्जेक्ट्स' सारखे आसलें. 'इंग्लीश आनी हिस्ट्री'!

टोनीलें इंग्लीशीचें गिन्यान आखांताचे आसलें. शेक्सपिअर ताणें पुराय वाचिल्लो. ते भायर संवसारांतल्या बऱ्या बऱ्या लेखकांल्या पुस्तकांचेर नदर मारिल्ली. एक दीस कॉलेजींतल्या सेमिनारात ताणें 'सोनेट' ह्या काव्यप्रकाराचेर केल्लें उलोवप मेरीले यादींत सासणाचें उरिल्लें. 'विलियम् ब्लेक आनी 'वर्डसवर्थ' हे दोग ताचे आवडिचे कवी आसले, तांचेर तो वरांची वरां उलयतालो.

'स्ट्रे लेसनां' वेळार ताका पयले फावट 'शिवाजी हायस्कुलांत' सातवे वर्गांत, 'वंडर हेड्' ह्या धड्यातलो पयलो युनीट शिकयतना मेरीन 'ऑब्जर्व' केल्लो आनी मेरी अजापिल्लें. पयलोच 'लेसन' जर हो इतलो ऽ बरे तरेन शिकयता जाल्यार फुडें फुडें कितलों बरो शिकयतलो! 'मेथड् टिचर' हेगडेन तर ताची तोंडभरून तोखणाय केल्ली. ताका पयल्याच 'लेसनाक' व्हेरीगुड रिमार्क मेळिल्लो.

टोनी भोव शांत आनी सरळमार्गी भुरगो आसलो. मेरीक स्वताकच समजलें ना, आपूण केन्ना ताच्या मोगान पडलें तें! टोनीच्या व्यक्तीमत्वान ताका पिशें केल्लें.

टोनीलें घर सदाशिवगडार, चर्चवाड्यार आसलें. तो सायकलीर कॉलेजीक येतालो. मेरीन एक दीस बेठेंच टोनीक म्हणलें, ''हायेन अजून 'गड' चोवूं ना! हायेन आयकलां, थिंगा व्हऽड किल्लो आहा म्हूण!'' ''तुका चोवूं जाय? व्हरतां एक दीस!'' टोनीन म्हणिल्लें.

आनी एक दीस खऱ्यानीच टोनी मेरीक सायकलीर फाटल्यान बसोवन गडार घेवन येयिल्लो. सायकल 'दुर्गम्मे देवळाच्या' सामकारा उबी करुन, दोगांय पायंडे चडून किल्ल्यार येयिल्लीं. त्या किल्ल्याचे

ते तुटिल्ले कडे, मुखावेली कमान, फुडें भितर वयतकीर ते तेळणी बुरूज, मेरीन दोळे भरून चोवन घेतिल्ले. एका तेपार हांगा इतिहास घडिल्लो. पूण आयज फकत त्या इतिहासाच्या यादीक जाग हाडपी, कांय अवशेश तितलेंच बाकी उरिल्ले चोयन, मेरीक कितेंशेंच जालें. ताका दिसलें, एका काळार हांगा गिरेस्तकाय नांदताली आनी आतां?

तेळणी बुरजा कडेन उबें रावन मेरीन चोयलें, मुखार अथांग दर्यो! खंय खंय म्हण पातळला हो? मनशाल्या मना सारकोच! ताका थाव ना! कितलीं अजापां, कितलीं गुपितां, कितलीं संपत्त हाच्या पोटांत आसा काय?

ते वटेन सोबीत 'कारवारचो वाठार'! तीं दर्यादेगेवेलीं सुरींचीं झाडां! सैमसोबीत, चित्रांतलो गांव कसो दिसपी, पलतडचो 'कोडिबाग'! पयस पयस नदर मारल्यार तो ताठ उबो 'हैदर घाट' आनी हय-न्हयशी 'बैतखोलची दर्यादेग' दिश्टी पडटाली.

दर्यांत सर्वकाळ, कदीम काळा साकून कारवार वाठाराक साथ दिवपी 'कुर्मगड, मदलींगड आनी अंजदीव' नदर ओडून घेताले.

किल्ल्याच्या सकयल लार्गींच, काळी न्हयेंत कांय तोळके व्हल्लयत, पागी वेल्या गांवां वटेन वचूंक वताले. जाल्यार खंय खंय शिपडिल्ल्यो बोटी पुराय 'काळी न्हंय' भर दिश्टी पडटाल्यो.

'काळी न्हंय' आनी 'दर्याचो' तो अप्रूप संगम चोयन, मेरीन टोनीक म्हटलें, "टोनी, ही सुवात कितकी सोबीत न्हू! आय् सी देम् लायक् टू लव्हर्स! काळी न्हंय आनी दर्यो! तो 'संगम' म्हुणलार तेंगेलो एकवोट! यू डोन्ट थींक सो?"

टोनीन हांसत म्हटलें, "हांव हे सुवाते कोडेन नेण्टेपणा सावन लार्गी आहां. जायत्या व्हड व्हड मनशांनी हे सुवाते विशी तूं म्हुणटां तेशेंच म्हणलें आहां. हिंगा न्हंय आनी दर्यो एकामेकांक वेंगेंत घेतात आनी सासणाचे मेळटाय! देखून घडये ह्या थळार, जायत्या जणांचो मोग फुललो आहा! आनी जायत्या जणांचे मोग हिंगा सोपिल्लेय आहात! हो 'संगम' फकत एक 'संगम' न्हू, जाल्यार जायत्या जणांल्या मोगाचो

गवाय जावन आहा!''

"तेका हांव म्हुगेल्याय मोगाचो गवाय करुंक सोदतां!'' मेरीन म्हटलें, आनी टोनील्या दोळ्यांत चोयलें.

"व्हॉट डु यू मीन्?''

"टोनी, यू डोन्ट अंडरस्टँड माय् फिलींग्स्?''

टोनी हांसलो. आनी मेरीले नदरेंक नदर दीत हांसत हांसत म्हणलें, "आय् अंडरस्टँड!''

"यू अंडरस्टँड नथींग!'' मेरीन वितरागान म्हटलें. "देन् टेल् मी, व्हॉट यू अंडरस्टँड?''

"आय अंडरस्टँड देट् यू लव्ह मी!'' टोनीन मेरीलो हात हातांत घेत म्हटलें.

आतां मेरीले खोशयेंक शीर मेर उरूंक नासली. मळब फकत दोन आंगळां उरिल्लें... खोशयेचो हुंवार येयिल्लो... पूण, दोगांनय त्या हुंवारांत स्वताक व्हांवन वचूंक केन्नाच दिलें नासलें.

एक दीस टोनी मेरीक घेवन, सदाशिवगडार आपल्या घरा गेल्लो. मांय आनी पाय दोगाय भांगर मनशां आसलीं. मेरीक मानवल्लीं. मांय घरगिरेस्ती चोयताली, जाल्यार पाय मेस्तकाम करतालो. घरचीं थोडीं शेतां आसलीं. घरा मुखार एक भाट आसलें. तातूंत नाल्लाचीं, सुपारेचीं माड-माडयो आसल्यो. आनी हींच, टोनीगेरच्या वर्सावळीचे उत्पन्न दिवपी कोनगीं आसलीं. ह्या इतल्याच वर्सुकी येणावळीच्या म्हालवजार मांय, पांय, टोनी आनी धाकट्यो दोगी भयणीं लिंडा आनी मेरी (टोनीले धाकटे भयणीलें नांवय मेरीच आसलें.) जियेतालीं.

टोनील्या घरच्यांनी मेरीक पसंद केल्लें.

मेरील्या घरच्यांनी टोनीक पसंद केल्लो.

शिकून पुराय जातकीर, दोगांक रोजी मेळ्ळीं काय रोखडेंच दोगांयनी काजार जावचें थारयिल्लें.

दोगांयच्या मोगाक कसलीच आडखळ नाशिल्ल्यान दोगाय

बिनधास्तपणान भोंवतालीं, वावुरतालीं आनी लागीं लागीं हें मोगा प्रकरण इश्ट-वांगड्यां मदी, कॉलेजींतल्या विद्यार्थां मदी आनी लेक्चररां मदींय फामाद जाल्लें.

मेरी खूब फावटी येवजितालें, काजार म्हणटा तें दोन मनांचें, दोन काळजांचें, दोन कुडींचें पुरायपणान एक जावचेलें आसतां! एकामेकांत भरसवचेलें आसतां! 'काळी न्हंय' आनी दर्याचो संगम जाता तसो! हिंगा गोड उदक आनी खारें उदक एक जाता, आनी मागीर मैल मैल पयस मेरेन, खंयचें गोड उदक आनी खंयचें खारें उदक म्हूण कळचेलो मार्ग नासता.

आमी अशे तरेन जर सम्मिलीत जावंक जाय, तर दोगांनय एकामेकां पासून कितेंच लिपोवंन दवरुंक फावना! दवरलें जाल्यार, तें काजार एक वेव्हार थारतलो! आनी काजार वेव्हार नासता! काजार काजार आसतां!

त्या दिसा तीं दोगांय भोवूंक कारवारच्या दर्या देगेर गेल्लीं. पयस पयस मेरेन पातळिल्ली दर्यादेग नेणट्या जाणट्यांनी भरिल्ली! कोण बेठीच पासय मारतालो, तर कोण दर्या वटेन तोंड करून ध्यानस्थ बशिल्लो. कांय जाण चोंब्या चोंब्यांनी जळीं मळीं बसून गजाली करतना दिश्टी पडटाले. 'चिल्ड्रन पार्कांत' भुरगीं खेळटालीं, आनी तांचे आवय-बापूय भुरग्यांचेर नदर दवरुन बशिल्लीं आसलीं.

मेरी आनी टोनी येवन, एके सुवातेर रेंवेंत फतकल मारून बसलीं.

शितळ वारो झुमझुमीत व्हांवतालो आनी मना-काळजाक, कुडीक, एके तरेची थंडाय दितालो.

दर्याचीं ल्हारां नेटान येवन, देगेर फुट्टालीं. तांचो घो ऽ घस्स् आवाज वातावरणांत एके तरेचें संगीत भरतालो.

पयस सुरींझाडांर कावळें कांव कांव करताले. एका झाडां वेल्यान दुसऱ्या झाडार नाचताले. कांय कावळें वाऱ्या वांगडा शेंडे धोलयतल्या झाडांशेंड्यार बसून,आपूणय धोलताले.

धारेर सुर्या दर्याक मेळूंक उचांबळीत जावन देवूंक लागिल्लो दिश्टी

पडटालो.

मेरीक याद जाता, तो म्हयनो डिसेंबराचो आसलो. दीस डिसेंबराचे आठ तारखेचो.

बशिल्ले कडेन मेरीन म्हटलें, ''टोनी, एक विचारूं?''

''विचार!''

''आमी दोगांय आता काजार जातोलीं''

''मागीर...?''

''आमगे दोगांय मर्दी काय लिपोन उरों नजो! नितळ मनां-काळजांनी आमी एकामकांची जावोप गरजेचें अेशें दिसोना तुका?''

''दिसोता.''

''तुगे हेचे पयलीं कोणाचेर मोग बी नासलो मु रे?''

''मेरी, तूं कितेंय उलयता? म्हगे ऽ हेरार मोग आहल्यार, हांव तुकोडेन मोग कोरतां आहल्लो?''

मागीर ताणें मेरीकय विचारलें, ''तुगे ऽ आहल्लो?''

''नासलो रे!... पूण...''

''पूण कितें?'' टोनीन दुबावान विचारलें.

म्हुगे जिवितांत एक गजाल घडलली. हांव मॅट्रीकेक आहल्लें तेन्ना. पिराय सोळा वर्सां आहल्ली...''

आनी उपरांत, मेरीन अंकलान आपल्या लागीं केल्ल्या वेव्हाराची, पुराय पुराय गजाल कांयच लिपोवन दवरिनासतना, उक्तेंपणान सांगिल्ली.

ती गजाल सांगतना, मेरील्या दोळ्यांतल्यान दुकां गळटालीं. तें सों सों करतच सांगतालें. तें पर्थून भुतकाळांत वचून, थतर वितर जाल्लें.

''ओह नो!'' टोनीन सोसूं नजो जावन म्हटलें. ''यु शुड्ड हेव टोल्ड मी धीस् लॉंग बॅक!''

हाचेर मेरी ओगी रावलें.

''ऑर यु शुड्ड नॉट हेव टोल्ड मी एव्हर!''

''सांगना जाल्यार ही गजाल म्हाका भितुल्ल्यान जोल्मभर खाता

आहल्ली!''

मागीर मात टोनी कांयच उलयलो ना. ओग्गी बसून रावलो. मेरी बी काय उलयलें ना.

उरिल्लो पुराय वेळ मोन्यांनी गेलो.

निमाणे कडेन सुमार वेळान मेरीन विचारलें, ''टोनी, आर यू हर्ट?''

''येस्स!'' तकली हालयत टोनीन सांगलें.

''या आमी!'' म्हणत टोनी उठलो.

मेरीय उठलें.

टोनीन मेरीक सायकलीर फाटल्यान कॅरिअरार बसोवन, 'बैतखोल' मेरी रावतालें त्या घरा सामकार हाडून सोडलें.

वाटेर दोगानींय एक उतर सुदीक उलयलें ना. घुम्म मोनीं रावलीं.

''बरें येतां! बाय!'' मेरीन टोनील्या दोळ्यांत चोयत म्हटलें. पूण टोनीन मेरीक चोयनासतनाच ''बाय!'' म्हटलें आनी सायकलीचें पेडल मारलें.

हेर दिसा कॉलेजींत, मेरीक चोवनय टोनी चोवूंनाशिल्ल्यावरी करुंक लागलो. नदर फिरोवंक लागलो. टाळाटाळ करपाक लागलो.

मेरील्या मतींत हें आयले बगर रावलें ना.

मेरी टोनीक आंगार पडून जाप करतालें. टोनी फकत हुं...हुं... हुं...इतलेंच करतालो. आदले तें मेकळेपणान उलोवप, हांसप, खिदळप, खंयचे खंय नाच्च जाल्लें.

सुमार धा-पंदरां दीस अशेच गेल्ले.

एक दीस तो लायब्ररींत बसून कितेंतरी वाचतालो तें चोयन, मेरी तेचे मुखार वचून बसलें.

''हाय!''

''हाय!''

''टोनी, किद्या ऽ जाप कन्ना रे? पोयस पोयस किद्यांऽ?''

''मेरी,...'' टोनीन मेरीले नदरेक नदर दीत म्हटलें. ताच्या नदरेंत

एक निर्धार दिश्टी पडटालो. ''लेट् मी बी फ्रँक! आय ट्रायड् टु कंट्रोल मायसेल्फ, बट् आय कूड नॉट! आय कान्ट टोलरेट देट् इंन्सीडंट यु टोल्ड् मी! आय एम् सॉरी! मेरी, प्लीज फरगेट मी! अँड इफ पॉसिबल् फर्गीव्ह मी!'' आनी इतले उलोवन तो उठून चलूंक लागलो.

एका खिणांत सगळें सोपिल्लें. नातें तुटिल्लें.

त्या दिसा सावन ती दोगांय एकामेकांक परकीं जालीं.

वर्स पासार जालें.

सेंड ऑफा दिसा सुदीक दोगांनय एकामेकांक 'बाय' म्हणूंक ना! ना विश करूंक ना!

एक्जामी जाल्यो!

रिजल्ट जालो!

दोगांय फर्स्टक्लासींनी पास जालीं!

दोगांय दोन दिकांनी गेलीं....

उपरांत दोगांनय एकामेकांची चवकशी केन्ना करूंक ना!

... आयज सुमार काळान, ह्यो कोडू गजालीं मुरलीधरा कडेन उक्त्यो करच्यो पडिल्ल्यो.

आनी हे घडयेरूय, मेरीलें आंग सांगतना थरथरतालें. दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवताली.

मुरलीधरान खिश्यांतल्यान हातरुमाल काडलो. ''घे, दोळें पूस!'' मेरीक दीत ताणें म्हटलें.

''आहा म्हुजे लागीं!''

''तो दोळें पुसोन पुसोन पुराय भिजलां. हेदोळ सावन दोळें पुसयत आसां तूं!''

मेरीन चोयलें, मुरलीधराल्याय दोळ्यांत दुकां एकठांय जाल्लीं.

''आय एम् सॉरी! मेरी, म्हजे पांयांन तुका त्यो पुराय गजाली पर्थून याद करच्यो पडल्यो. व्हेरी व्हेरी सॉरी!''

''इटस् ओके मुरली, यू आर माय फ्रेंड, ॲण्ड बेस्ट फ्रेंड! आय

शुड हेव टोल्ड यू धीस!''

''थँक्यू!''

मागीर कांय खीण ओग्गी रावन मेरीन विचारलें, ''मुरली, म्हजेर आगळीक जाली! सोसूं नजो येदें दुख्ख म्हाका भोगलें! तितलेंच दुख्ख टोनीन म्हाका पोयस केलें तेन्नाय भोगलें! एक फावट दिसललें, म्हगे ऽ जिणें अर्थ ना! 'सुसायड' कोरया!''

''सुसायड? आत्महत्या? व्हॉट नोनसेन्स! केदीं मुर्खपणा थारतलीं आसर्ली तीं! आत्महत्या कोणें करप जाणां? जे जिणेक भियेतात तांणी! पोक्री, भिजूड मनशां करतात आत्महत्या! खरें सांगू मेरी, म्हाका आत्महत्या करपी मनीस मानवनाच! आत्महत्येचो विचार मनांत हाडपी लेगीत मानवना! आत्महत्या करून मेल्ल्या मनशांर हांव नदर लेगीत घालना, इतलो म्हाका तिरस्कार ते गजालीचो!... खरें म्हटल्यार तुजे सारख्या सुशिक्षीत मनशान ह्या विचाराक विरोध करूंक जाय!''

''कोरोप कितें हायेन मगेर येशें असतना? इन् सच कण्डिशन? काजार जावोप?''

''ऑफकोर्स! इटस् युवर रायट्!''

''म्हुगे ऽ ही खोबोर आयकोन, कोण जातलो काजार?''

''हांव जातां!''

''व्होट्? यू?'' मेरीन चकासूर जावन म्हटलें. ताका अजाप दिशिल्लें. आगळीक जाल्ल्या चेडवाकडेन, आपखोशयेन लग्न जावपा इतल्या व्हड मनाचे चेडे ह्या संवसारांत ना अशें ताचें घट्ट मत जाल्लें.

''एस्! व्हाय नॉट!... आयक मेरी, तुगेल्या अंकलान तुजे कडेन जो वेव्हार केलो, हेतूंत तुजो कांयच दोश ना! तें तुजे इत्से भायलें आसलें! म्हणटकीर, ही गजाल मतींत घेवचेली न्हू! यू जस्ट फर्गेट दॅट् लायक अ बॅड ड्रीम! प्लीज फर्गेट!... आतां दुसरी गजाल आयक, तुजें काजार टोनी लागीं जावूं ना, हें चड बरें जालें! कित्याक जाणां?''

“कित्याक?”

“तो तुजो टोनी मर्द नासलो! तेच्यान ‘तें’ सोसूं जालेंना! आनी खरो मर्द दादलो ही असली फालतू गजाल मतींत घेयना!”

आयकून मेरील्या दोळ्यांत पर्थून दुकां एकठांय जालीं. खिणांतच दोळें भरले आनी ओतूंक लागले.

“मुरली, यू आर रिअली ग्रेट! देवान तुकोडेन केदे व्हड काळीज दिलां जाणां?”

मुरलीधरान हांसत म्हणलें, “जाणां! देखूनच सांगतां, तूं म्हजे लागीं काजार जा!” मागीर बोट दाखयत ताणें सांगलें, “हो चोय... तो ऽ तो ऽ अस्तंते वयतलो ‘सुर्या’, ती ऽ ती ‘दुधगंगा’ न्हंय, हो ‘कळसा दोंगर’, ह्या दोंगरा वेलीं हीं झाडां-पेडां, ह्या दोंगरा मुळसांतलें देवी आवयलें देवूळ, तो ‘जळीनासा फातर’ आनी हो पुराय शेकानशेक पातळिल्लो ‘आडगांव’, ह्या सगळ्यांले साक्षेन हांव मुरलीधर तुका हे घडयेक उतर दितां, तुगेली इत्सा आसा जाल्यार, तुजे लागींच काजार जातलों आनी जल्मभर, म्हजो निमाणो स्वास आसा मेरेन, तुका पयस करचों ना!... कुबूल?”

मेरीन आपल्या दोळ्यांतलीं दुकां पुसत हांसत म्हटलें, “कुबूल!”



गांवांत डोंबारी येयिल्ले.

गेल्ल्या चार-पांच वर्सां सावन, हरेक वर्सा मे म्हयन्यांत डोंबारी येताले. एक दोन दीस रावताले. आनी आपलो खेळ दाखोवन, चार पयशे गांठीक मारून वयताले.

खरें म्हटल्यार गांवचो भौस तांकां रावतालो. कारण भौसाकय तितलीच एक मनरिजवण जाताली.

दादले, बायलो मेळून धा-बारा जाण आसताले. सकयले आडयेंत ‘कळसा दोंगरा’ मुळसांत, ‘देवी आवयले देवळाच्या’ एके कुशीक उल्याच्या अंतरार तंबू उबे करून रावताले.

डोंबारी येयल्यात म्हूण कळटकीर, मुरलीधराक बशिल्ले कडेन दिसलें, हांचेर आनी कसलें बगलांट घालून, हे धर्मवीर आपलें काम सादून घेतले कोण जाणा!

हाचें कारण, हाचे आर्दी एक फावट अशें जाल्लें.

भौस जरी काळखांत आसलो तरी मुरलीधराले तकलेंत दुबावाची कीड तशीच हुळहुळत आसली आनी ताका खातरीय आसली, खोलायेन चवकशी केल्यार, ताचो दुबाव खरो थारतलोच! आनी हो दुबाव ताणें इश्ट-वांगड्यांल्याय कानार घायिल्लो.

ताजें जाल्लें अशें...

फाटल्या तेंपार दोन वर्सां सावन एक मडकमकार आपले घरकान्नी वांगडा गांवांत खेळ करुन दाखोवंक येतालो. वाड्या वाड्यार आपलो खेळ दाखयत भोंवतालो.

मडकमकाराल्या गळ्यांत अडकयिल्ल्या वाद्याचो 'रंव रंव रंव रंव डम् डम् डम् डम्' असो आवाज कानांर पडना फुडें वाड्यावेलीं एक्कान एक भुरगीं आशिल्लीं थंयसून धांवत येतालीं आनी मडकमकारांनी मांड घायिल्ल्या सुवातेर एकठांय जातालीं.

काळो. मानेर लांब केसांचो आंबाडो, कपलाक कुकूम हळद लायिल्लो, खाडां-मिशयांचो, काळी विटिल्ली पेंट आनी पेंटी वेल्यान रंगरंगयाळ्या पट्ट्ट्यांचो घेराव कमराक बांदिल्लो. पांयांक घुगरां. खांदार झोळयो. वयर पुराय उक्तो मडकमकार वाड्यावेलीं सगळीं मनशां थंय एकठाय जावची वाट चोयत आपलें वाद्य वाजयत रावतालो.

मडकमकाराल्या घरकान्नीले तकलेर तांबड्या रंगाची पेटी आसताली. ते पेटयेर भायल्या आंगांनी देवीलीं चित्रां आसतालीं. पेटयेर पातळिल्ल्या पाचव्या -तांबड्या कपड्यांत मडकमकारालें सवंग, चाबूक लिपयिल्लें आसतालें.

काळी, गोल आंगाची, पाचवी कापड साडी न्हेशिल्ली, खणाचो पोलको घायिल्ली, तकले वेल्यान पदर घेयिल्ली आनी कपलार हळद-

कुंकमाची आडवी मळवट भरिल्ली मडकमकाराची घरकान्न तकले वेली पेटी अळंग काडून मांडार दवरताली.

मगेर मडकमकार तासून सुळसुळीत केल्ल्यो, मूंड हात लांबायेच्यो बडयो आनी गळ्यांतलें वाद्य काडून घरकान्नी कडेन वाजोवंक दितालो.

उपरांत त्या वाद्याच्या रंव रंव रंव तालार, पेटयेंत लिपयिल्ले वोंवभर लांबायेचे, दोरयेन विणून केल्लें चाबूक घेवन, खुळ्ळ खुळ्ळ घुंगरां वाजयत मुखार येतालो. फटांयच् करुन एक वार हवेत करतालो. मागीर घे ऽ एका फाटल्यान एक अशे तीन फटांयच... फटांयच... फटांयच... करुन चाबकाचे फार आपल्या आंगां भोवतणें मारून घेतालो. ताच्या भुजांर चाबकाचे मार बसून बसून दादोडे कशे उदेल्ले वळ स्पश्ट दिश्टी पडटाले. कांय कडेन कातडी फुटून रगत निशेंतालें. तें चोयन दिसतालें, कित्याक घेता तो स्वताक मारून? कसली ख्यास्त भोगता? कोणाक खोस भोगता, कोणाक बरें ऽ दिसता ताका अशें मार खातना चोयन?

वाद्याच्या तालार तो तसोच पेटयेच्या फाटल्यान वयतालो आनी पर्थून तेच तरेचे फार स्वताक मारुन घेतालो.

मागीर चाबूक आशिल्लो थंय दवरून, पेटयेचीं माणकुलीं दारां-कवडां खोलून, पेटयेंतल्या तांबड्या गूंज रंगान रंगयिल्ल्या रुप्याचीं नेत्रां लायिल्ले, नाकांत नथ घातिल्ले 'शिरशम्मा देवी' मुखार मांडी घालून बसतालो.

"आयले घरचे मावशे, पयले घरचे मावशे सुपां हाडात... सुपां हाडात... म्हणत तो देवी मुखार गाराणें घालतालो.

"कल्याण कर गे शिरशम्मे..."

"हय देवी!"

"दुख्ख - दारीद्र दूर कर गे ऽ "

"हय देवी!"

"संकश्ट म्हामारी दूर कर गे ऽ"

"हय देवी!"

आनी मगेर मदेंच "सुपां हाडात मावशी ऽ सुपां हाडात!" म्हणत आरड मारतालो.

हरेक घरांतल्यान सवायशिणीं बायलो हातांत कुकमाचो करंड, फुलां आनी सुपां घेवन येताल्यो.

सुपांत मापभर तांदूळ, धायेक मिरसांगो, पांच-सात सोलां, इल्लीं कोथमीर, दोन हळडी कुडके, इल्लें मीठ बी आसतालें.

बायलो देवीक कुकूम लायतालीं, देवीक फुलां ओंपतालीं. आनी सुपां मुखार दवरतालीं.

मडकमकार सूप हातांत घेवन. सुपांतलें तांदूळ एके झोळयेंत आनी हेर सामान एके झोळयेंत उडयतालो. मागीर देवी मुखावेलें एक फूल आनी चिमटीभर हळद-कुंकमाचो फिटो देवीलो आशिर्वाद म्हण रित्या सुपात दवरत म्हणटालो, "कल्याण कर गे शिरशम्मे..."

"हय देवी!"

सगळीं सुपां घेवन जातकीर. तो घांट वाजयत उठ्ठालो.

आतां तांच्या वाद्याचो आवाज पर्थुन रंव रंव रंव रंव रंव रंव रंव रंव रंव डम् डम् डम् रंव रंव रंव रंव ... असो सुरू जातकीर, भुरग्यांक कळटालें, आतां तो तोंडार सवंग घालतलो आनी सगळ्यांक भेश्टायतलो. इतलो वेळ गाराण्याचें गीत गायतना, देवीलो प्रसाद-पाकळी घेवंक मुखार कवंडाळें केल्लीं भुरगीं धांवत फाटी सरतालीं आनी आपल्या घरच्यांल्या आलाशिऱ्याक वचून रावतालीं.

वाड्यावेलीं जाणटीं म्हणटालीं, मडकमकारान भेश्टयल्यार बरें! भुरग्यांनी भियेवन आंग काडल्यार, आंगार कसलीच नश्ट नड उरना! रोग-पिडा ना जाता!

मडकमकार मागीर देवी पेटयेर कपड्या कुडको पांगरुन दवरिल्लें तें सवंग तोंडार चडयतालो आनी वाद्याच्या तालार खुळ्ळ खुळ्ळ नाचत सवंगावेलो कपडो ल्हवूच काडटालो. ताचे येद्या व्हडल्या नाकाचें, मोठ्ठ्या मोठ्ठ्या दोळ्यांचें, जाड भुंवयो आशिल्लें, दातां सुळके

भायर येयिल्लें भयानक तोंडाचें सवंग चोयन, नेणटी भुरगीं 'हूऽऽ' करत आपल्या आवयांक दसतालीं.

मडकमकार मगेर नाचत नाचत लोकां मुखार येतालो. एकाद्र्या भुरग्याक तेळून 'हूंऽऽ' करत बोट दाखयतालो. आनी ''हंहुऽ!'' करुन आंगार येत भेश्टयतालो. भुरगें कच्च करुन आंग काडटालें. पर्थून नाचूंक लागतालो. अशें दोग-चार भुरग्यांक करुन जातकीर, तो नाचत नाचत देवी-पेटये कडेन वचून आपलो नाच थांबयतालो. सवंगार कपडो पांगरून, सवंग तोंडातल्यान काडून आशिल्ले सुवातेर दवरतालो.

अशे तरेन खेळ सोपोवन, देवीले पेटयेचें दार बंद करून पेटी उखलून, पर्थून घरकान्नीले तकलेर दितालो. दोनूय झोळयो खांद्यार मारून, घरकान्नी कडलें वाद्य घेवन, घरकान्नी वांगडा रंव रंव रंव रंव करत वाद्य वाजयत फुडल्या वाड्यार वयतालो.दर दिसाक ताचे आठ-धा वाडे जाताले. मेज्जून दोन दीस ती दोगांय त्या 'आडगांवांत' रावतालीं. 'म्हारवाड्या' कुशीक खुटे मारुन इल्लोसो तंबु उबो करतालीं. हेर कडेन तो रावूं शकनासलो. तो म्हार जातीचो आशिल्ल्यान भौस ताकां आपले बांयचें उदक वापरूंक दिना आसले.

असोच त्या वर्सा तो येयिल्लो. तेन्ना तो राती कडेन तंबू उबो करून राविल्लो.

हेर दिसा उठून आपलो तंबू गुठलावन, सक्काळीं नस्कार भायर सरून गेल्लो.

आनी त्याच दिसा आदले राती 'देवी आवयल्या देवळांत' चोरी जाल्ली. देवील्या आंगावेले कांय भांगरा दागिने कोणेतरी फारायिल्ले.

सकाळीं न्हायन-धुयन देवळात पुजा करुंक राम जाणवय येयल्यार, देवळाचें दार उक्तें आसलें. भितर वचून चोयल्यार, गर्भकुडीचें दार उक्तें! आनी देवील्या आंगावेलें भांगरा गाठलें, कंठहार, मोतयां माळ आनी कानांचीं कर्णफुलां ना जाल्यांत.

भायर येवन राम जाणवयन बोवाळ केलो. ''देवळांत चोरी

जाल्या! देवळांत चोरी जाल्या!''

जाणवयलो बोवाळ आयकून, आशिकुशींतले लोक भुर्रर करुन थंय एकठांय जाले.

बातमी वाऱ्या भशेन गांव भर पातळ्ळी.

वट्ट भौस देवळा कडेन येयलो.

देवळाच्या भायल्या दाराचें आनी गर्भकुडीचीं दोनय कडलीं कुलपां सुवातेर नासलीं. म्हणटकीर, चोरान कुलपांय वांगडा व्हेल्लीं!

हाचे आदीं देवळांत चोरी म्हणटात ती केन्नाच जावंक नासली. कोणें केली आसतली चोरी? भौसान जायते तर्क-वितर्क केले. तकल्यो खाजयल्यो.

गांवांतल्यां भौसालो गांवच्या देव-दैवतांचेर हिसपा भायर भावार्त आसलो. गांवांतलो फटिंगांतलो फटींग मनीस सुदीक, देऊळ चोरचेलें काम सपनांत लेगीत करचो नासलो.

कोणेंतरी भायल्यानच हें काम केलां! सगळ्यांलें एक मत जाल्लें.

भायलो म्हणटात तो गांवांत 'मडकमकार' येयिल्लो. ताणेंच आसूंक फावो! आनीक कोण चोरतलो? ते भायर तो सकाळीं गांवांत नासलो. म्हणटकीर, घडये रातोरात चोरी करून गेल्लो आसूंक जाय, असो भौसान तर्क केलो.

देवळाचो मक्तासूर गंगाधरान म्हटलें, ''देवी कडेन पुडी घालून चोवया!''

राम जाणवयन म्हटलें, ''पुडी कसो घालतलो? तो म्हार न्हू रे? ताणें देवीक हाफुडल्या. अशावेळार देवी कडेन पुडी घालनात! देवीलें तेज उणें जाल्लें आसता! गोकर्णांतल्यान भट हाडून आदीं होम घालून शुध्देचार करचो पडटलो देवळांत!... आनी मागीरच बाकी सगळें.!''

गांवच्या भौसान तकल्यो हालयल्यो.

''पोलिशेंत कागाळ करुंया 'वायंगिणी' वचून! गुण्यान सट्टकरून म्हटलें.

"मडकमकाराल्याच नांवान दिवया! तेणेंच ती!" जशें काय ताका चोरतना, आपूण दोळ्यांनी चोयिल्ल्यावरी बाबगो उलयलो!

"मडकमकारालें नांव खबर आसां तुका?"

"नांव कित्याक खबर आसूंक जाय? तेगेले रंग रूप सांगल्यार जालें! मडकमकार आसतात कितले? मेळ-मेळिल्ल्या मडकमकाराक धरुन विचारल्यार जालें!"

जाणवयन सांगलें, "बेठेच कित्या -कितेंय उलयनाकात! आमच्यांनी तशी कोणाचेरूय फिर्याद दिवंक जावची ना, खातरेन खबर नासतना!... हां आतां दुबाव उक्तो करुं जाता पोलिशे कडेन!"

"आतां आमी करुंया कितें जाणवयानो? ह्या वेळार तुमगेली जाणवाय जाय आमका!"

मक्तासूर गंगाधरान म्हटलें.

"चोय, आयजकाल कोणाक कसली बुद्द येत म्हूण सांगूं नजो! आमगेल्या गांवचो कोणूय न्हू म्हूण आमच्यांनी सांगूं जाता?"

सगळ्यांनी एकांमेकांर्ली तोंडां चोयलीं.

"समजा, कोणय आमगेलो आसत जाल्यार, तेणें सांज मेरेन आपली चूक कबूल करची! कारण आमी आमगेल्याच मनशाक पोलिशे सुवादीन करूंक मागनात! आयज मेरेन 'आडगांवच्या' इतिहासांत 'रामुल्याक मारिल्ली ती केंस' सोडल्यार खंयचेंच प्रकरण मागीर आमचे मदी कितलेंय मतभेद उरूं, कितलींय झगडींआवडी जावूं, पोलिशेत वचू ना! आमी 'गांवकी' आपोवनच प्रकरणां सोडयल्यांत. देखून इतले बेगीन पोलिशेंत वचचें नाका! जाय जाल्यार फाल्यां-परवां आनीक दोन दीस दिवया! आनी निमाणें कडेन कोणूच आपूण जावन मुखार येना जाल्यार, मागीर पोलिशेंत तक्रार करूंया!" राम जाणवयन सगळ्यां कडेन चोयत सांगलें.

ही जाणवाय सगळ्यांक मानवलीय.

पूण, कोणच आपूण म्हण मुखार येवूं ना!

चोरी जाल्ल्या तीन-चार दिसांनी, 'वायंगिणी' पोलीस स्टेशनार

वचून, मक्तासूर गंगाधरान तक्रार केली.

कागाळ रजिस्टर करुन घेयली.

पोलिसान देवळा कडेन येवन पंचनामो केलो. राम जाणवयली, मक्तासूर गंगाधराली जबानी घेयली. पूण निमाणें मेरेन चोर मेळूंक ना.

राम जाणवयन गोकर्णांतल्यान भट हाडून देवळांत शुध्देचाराचो होम घालून घेयलो.

देवळाचें काम पर्थून सुरळीत चालू जालें.

हेर वर्सा ज्युस्त मळणी बी सोपल्या उपरांत, पर्थून तोच मडकमकार आपले घरकान्नी वांगडा खुळ्ळ खुळ्ळ करत पांयांतले खुळखुळे वाजयत येतना, गाडेकार रमाकांतान चोयलो. ताणें चितलें, आयतो मेळ्ळो! हाका हांगाच दवरून घेवुंया. आतांच जावूं चवकशी! अशें येवजून फुरसत करिनासतना मडकमकाराक आपयलो.

''ये, इल्ली बा! (ये, हांगा यो!)

तीं बाबडी आयलीं.

''याके सावकारा?'' (कित्याक सावकारा?)

''सोल्प कॅलस वुन्टूं! इल्ली कुतकोळ्ळरी!'' (थोडें काम आसा हिंगा बसा!)

तीं दोगांय आज्ञाधारक बाळकां वरी तकले वेली पेटी, वाद्य, झोळी बी सकयल दवरुन थंयच कुशीक बसलीं. तांणी कसलें काम, कितें-कात कांयच विचारूंक ना! जशे काय गरीब मनशां लागीं पर्थून विचारपाक प्रश्नच नासतात!

नयावाड्या वेलो वामनालो कृष्ण थंयच उबो आसलो. ताका गाडेकार रमाकांतान सांगलें, ''बेगीन वच आनी जाणवयक रकाद दी! सांग ते मडकमकार पर्थून गांवांत येयल्यात. हांवें तेंकां बसोवन दवरलां म्हूण सांग.''

कृष्ण गेलो सायकल घेवन!

रकाद मेळना फुडें शंकर जाणवय सायकलीर जीव सोडून धांवत येयलो. पुरायेन सायकली वेल्यान देंवचोच आसा, म्हणूंक लागलो,

“चलूं लागा! पर्थून गांवांत पांय दवरू नाकात! मार पडटलो! होगू! होगू! होगू! इलींद वापस होगू!”

मडकमकार बाबडे “याके? याके?” (कित्याक?) करताले.

“याके बिके येनू इल्ला! होगू!” (कित्याक बित्याक काय ना! चला!) शंकरान तांकां धेंगसो घालो.

तांणी बाबड्यांनी सामान उखल्लें आनी येयिल्लीं तशीं पर्थलीं.

शंकर “होगू! होगू!” करत हरवळ गोरवांक धांवडायिल्ल्या वरी तांकां पयस मेरेन धावंडावन येयलो. येवन रमाकांताक म्हणलो, “तुवें रकाद धाडिल्लो बरो केलो. हेंकां गांवांत चोयल्यार भौस दवरता आसलो? हेंची मडीं उखलचीं पडटा आसलीं आमकां! मागीर गांवांचेर नश्टें संकश्ट! ते परस भायले भायर धांवडायिल्ले बरें जालें ना?”

“सारखें तुमगेलें!”

“देवी आवयन तुका बरी बुद्द दिली. तिका हें संकश्ट गांवार येयिल्लें नाका आसलें. हेंकां मारून उडयतकीर पोलीस केस बी जाल्यार आमगेलेच लोक त्रासांत पडटा आसले न्हू! आतां ह्या तेंपार कांयच पचोवंक जावचें ना! चोरी जावची जावन गेली! आतां आनी ती उस्तून कितें फायदो? बरोबर मु रे?”

“सारखें!”

“आनी ह्याच लोकांनी चोरी केल्ली बी म्हणूंक जायना! कोणूय रातोरात येवन, चोरी करुन गेल्ले नासले म्हूण सांगूंक जाता?”

“सारखे!”

मुरलीधर हे गजालीर येवजितालो, तेन्ना ताका खोलायेन दिसतालें, आकांताच्या धूर्तपणान शंकरान तांकां धांवडायिल्लें. तांका पोलिसांक आपोवन पुलिशेंत कित्याक दिवंक ना? आनी चोरी जाल्ली तेन्नाय थोटीं-पांगळीं कारणा दाखोवन जाणवयन कागाळ दोन दीस लांबयिल्ली. मडकमकारान चोरी केल्यार तो पर्थून गांवांत येनासलो.

भौसान सारासार विचार करून तर्कशुध्द येवजिलेंच ना! मुरलीधर,

सुर्यकांत हे तेन्ना धावेक शिकताले. हीं पंदरा - सोळां वर्सांची भुरगीं आसलीं.

एकवटीत हो मुरलीधराचो तर्क आसलो. हाका ठोस पुरावो मुरलीधराकडेन नासलो.

ताचे उपरांत मात मडकमकार गांवांत येवंक नासले.

येताले ते डोंबारी!

ह्या वर्सा डोंबारी येयल्यात म्हूण कळटकीर, चड करून नेण्ट्यां भुरग्यां मदीं खोशयेचें ल्हार पातळिल्लें. सुमार दीस जाल्ले, भुरग्यांक मनरिजवण म्हूण कांय नासले.

देवीआवयल्या देवळा कडल्या मळार डोंबाऱ्यानी आपलो मांड मांडिल्लो. एक काळी सावळी, पाचव्या रंगाची कापड-साडी न्हेशिल्ली, खणाची चोळी घातिल्ली, गोल आंगाची, मडकमकाराले घरकान्नी भशेन दिसपी बायल गळ्यांत ल्हानशेच धोलकें अडकोवन ढम् ढम् ढम् ढम् करून इल्लेशा काठयेन धोलकें बडयताली.

तिगेल्या धोलक्या आवाजान लोक थंय एकठांय जाताले. कवंडाळें करुन उबे रावताले. तातूंत नेणटी बाळकां आसलीं. तरनाटे आसले. आंकवार चेडवां आसलीं. दादले आसले. एक-दोन जाणटेय आसले. वयर मळब काळेंऽ जावन आसलें. शितळ वारे व्हांवताले. डोंबाऱ्यालो सुर्वेचो खेळ राजवा वेली कसरत आसली. विसेक मिटरांच्या अंतरार दोन तिकटे उबे केल्ले. दोनूय तिकट्या मदीं एक सुकोवंक घालची वळणी कशी एक राजू बांदिल्लो.

मळिल्लोसो धवो लेंगो आनी धवो सदरो घाल्लो, कमराक एक निळो शेलो बांदिल्लो, तकलेक एक मळिल्लो तुवालो योडयिल्लो, काळो सावळो डोंबारी मुखार येयलो.

थंयच एक बारा-तेरा वर्सांचें काळें सावळें चेडूं उबें आसलें. त्या पातलांगी चेडवान धोपरा मेरेन कापडसाडी-घट्ट कासोटो मारून न्हेशिल्ली. आंगांत खणाची चोळी घाल्ली. ताच्या हातांत एक लांब बांबू आसलो.

डोंबाऱ्यान थंय एकठांय जाल्ल्या जणएकल्याक हात जोडून म्हटलें, ‘‘छोटे छोटे बच्चे लोग, भाइयो, बहनो, माय-बाप, ये अपुनकी गुडियाँ, अपुनकी लडकी, अपुनका कलेजा का टुकडा, बहुत नाजुक कली, एक गाल पर थप्पड लगेगां तो दुसरा गाल लाल होगा! ये लडकी अब इस रस्सीपर चढेगी! यहाँ से वहाँ और फिर वहाँसे यहाँ रस्सीपर चलेगी! अपनकी जानकी पर्वाह किए बिना! सिर्फ आपके मनरंजन के लिए ! उसका पाँव टूट सकता है! कमर टूट सकती है! सिर फट सकता है! अपनी जान हथेली पर लेकर इस रस्सीपर चलेगी! भाइयो और बँहनो, माय-बाप, जानको तकलीफ देकर, हम बहुत सारे खेल दिखायेंगे। आपभी आपका दिल बडा करो। आपकी उदारता हमारा पेट है।’’

इतलें उलोवन ताणें त्या धाकट्या चेडवाक तिकट्यार चडयलें. ताच्या हातांत बांबू दिलो.

तें चेडूं हातांत बांबू घेवन, ल्हव ल्हव पावलां सरकयत, आपलो तोल सांबाळीत चलूंक लागलें. एकेक फावट राजू झोपाळो घेयिल्लेवरी हालतालो. दिसतालें, हें चेडूं आत्ता उडी घेतलें, घडे उडी घेतलें! पूण ना! सकयल ढम् ढम् करुन धोलकें वाजतालें आनी तें ज्युस्त आपलो तोल सांबाळीत बांबू आडवो हातांत घेवन चलतालें.

मुरलीधर, सुर्यकांत, शोभा आनी जया थंय कुशीक उबीं आसलीं. चोवन ताळयो वाजयतालीं. ते चेडवाले कसरतीची तोखणाय करताली. तांणी ताळयो वाजयतकीर, थंय उबीं आशिल्ली नेणटीं भुरगींय ताळयो वाजयतालीं. एकवटीत थंय ताळयांचो खिणां खिणांत शिंवर पडटालो.

त्या चेडवाक तशे तरेन चलचे चोवन, जयान शोभाक म्हटलें, ‘‘शोभा, कठीण कामाक तारेवेली कसरत कित्याक म्हणटात कळलें मुगो?’’

‘‘हय गो बाय!’’

निमाणेकडेन त्या चेडवान तें अंतर पुराय केलें.

पर्थुन टाळ्यांचो शिवर जालो.

इतल्यान सोपूक नासलें. तें चेडूं त्या पोतावेल्यान पर्थलें आनी पर्थुन हे वटेन येवक लागलें. ल्हव ल्हव करुन हे वटेनय तें पुराय अंतर चललें.

पर्थुन टाळ्यांचो शिवर जालो.

तें चेडूं सकयल देंवलें.

आतां पर्थुन तेच सुवातेर तें चेडूं आपल्या खांद्यार एक तीन-चार वर्सांचे काळें-सावळें माणकुलें शेंबडे भुरगें घेवन, तोल सांबाळत चडलें. त्या माणकुल्या भुरग्यान मळिल्लीशी चड्डी आनी बुशकोट घाल्लो. भुरग्यान आपले दोनूय पांय त्या चेडवाल्या गळ्यांभोवतणें घालून, दोनूय हातांनी त्या चेडवाली तकली घट्ट धरून दवरिल्ली.

सकयल ढम् ढम् ढम् ढम् ढम् करुन एकूच तालार धोलकें वाजतालें आनी वयर राजवार हातांत बांबू घेवन खांद्यावेल्या भुरग्या सकट आपलो तोल सांबाळून, तें चेडूं फिशालकायेन ल्हव ल्हव पावलां सरकतेर चलतालें.

शोभाक खिणभर दिसलें, हें ह्या धाकल्या भुरग्याक घेवन घोऽ करुन उडी घेयना मूं? कितें जातलें मगेर ह्या माणकुल्याचें आनी हाचें? पोटा खातीर कितें कितें करतात बाबडीं!

तातूंत चोयवटेन ताळयांचो शिंवर जातालो.

मुरलीधरान सुर्यकांताक म्हणलें, ''सुर्या, ह्या ताळयांच्या शिंवरान तेचें कॉन्सट्रेशन् मात्तूय हालना चोय!''

''हय मरे! वालोर!''

तें चेडूं पुराय अंतर फुडें फाटी चलून, त्या खांद्यावेल्या भुरग्याक घेवन सकयल देंवलें, तेन्ना पर्थून ताळयांचो शिंवर जालो.

तें चेडूं त्या माणकुल्या भुरग्याक घेवन कुशीक गेलें आनी ते सुवातेर, हातांत लोखणाचें एक रींग घेवन, एक पंदरां-सोळा वर्सांचो काळो-सावळो, म्हेळधवो लेंगो आनी सदरो घाल्लो भुरगो येयलो.

तें रींग त्या चेड्याल्या वट्ट हड्ड्याचे रुंदायेचें बी नासलें. पूण

ताणें तें रींग पांयांकडल्यान वयर कमरा मेरेन घेयलें आनी मागीर बसून, भितरल्यान त्या रिंगांतल्यान आपली तकली कशीबशी भायर काडली. मागीर ल्हवूच भितरल्यान आपले दोनूय हात ल्हवू ल्हवू सरकत भायर काडले. आतां तो पुरायच अडकल्लेवरी दिसतालो. हातूंतल्यान तो सारखो भायर सुट्टलो काय असोच उरतलो, अशें दिसता थंय आसा, ताणें पुराय आंग कशेंतरी रिंगांतल्यान मेकळें केलें.

जमिल्ल्यांनी ताळयांचो शिंवर केलो.

आतां थंय तसलेच कपडे घाल्लो, तसलोच काळो-सावळो पंदरा - सोळां वर्सांचो आनीक एक भुरगो येयलो.

दोगांनीय त्या लोखणा रिंगांत आप-आपली तकली घातली. ल्हवू ल्हवू ल्हवू ल्हवू तें रींग दोगांनूय सरकत सरकत सकयल हाडलें. दोगांनूय आप-आपलें आंग कशें आवळून घेयलें कोण जाणां! एका मनशाक तातूंतल्यान कसोतरी पासार जावूं येता, तेंवूय हातामापाचें कांकण हातांत चडयतले भशेन! पूण तातूंतल्यान दोगूय जणांनी पासार जावप भोव तरासाचें आसलें.

जयान म्हटलें, ''शोभा, नेण्टी आसतना कांकणाकार हुसेनचाचा आमगेल्या सायजीर्ची कांकणां घालतना,आमकां नाका शिवा जातालें आनी हे दोगूय हेतूंतल्यान कशे पासार जातले?''

''हय गो बाय!''

ढम् ढम् ढम् ढम् आवाजाचे फाटभुंयेर, त्या दोगांनूय ते रींग ल्हवू ल्हवू पांयांकडल्यान सकयल देंवयलें.

लोकांनी पर्थून ताळयांचो शिंवर केलो.

आतां लोका मुखार एक तीस-पस्तीस वर्सां पिरायेचो, काळोकुळकुळीत, घट्टमुट्ट आंगलोटाचो दादलो येयलो. ताणेंय तसोच म्हेळो धवो लेंगो आनी धवो सदरो घाल्लो. येतना ताणें एक येद्दो व्हडलो खाणके फातर हाडून लोका मुखार दवरिल्लो. ताणें म्हटलें, ''ये पत्थर देखो, कोई इसे हाथसे तोड सकता है क्या? अपुन

इसे तोडनेवाला है! देखिए...'' अशें म्हणत, ताणें एका इल्लेशे बाटलेंतल्यान कसलें तरी तेल मनगटार, हातार चोळ्ळें. मागीर हातान थप्प थप्प थप्प करून मारून तो फातर फोडलो.

पर्थून ताळयांचो शिंवर जालो.

मुरलीधरान म्हटलें, ''सुर्या, हातान फातर फोडूं जातां रे?''

''कितेंय ट्रीक आसूं येता!... घडये फोडिल्लोय आसत!''

मागीर आनीक एकलो येयलो. तसलेच कपडे घालून! घडये तांचें हें युनिफॉर्म आसुये! हो मनीस मात ऊंच आसलो. आनी हेरां इतलो काळो सावळो नासलो. हाच्या हातांत एक बल्ब आसलो. ताणें तो बल्ब थंयच पडिल्ल्या फातरार फोडलो आनी ताच्यो कवच्यो घेवन, कर कर करुन खायत खडीसाखर चाबून खाल्लेवरी तोंडांतच तांचो पिटो केलो. वेल्यान तांबयो भर उदक पिवन उदका सयत तो पिटो गिळ्ळो.

''देवा सायबा!'' कांय जणान तोंडार हात घेत म्हटलें.

''हें मरचें खबरी!''

त्या दादल्यान मगेर भुरग्यां कडेन चोयत, सांगलें,

''देखिए बच्चे लोग, आप ऐसा कभी मत करना! काँच खानेसे आपकी सेहत को हानी पहुँचेगी! ठीक है?''

तो गेलो आनी ते सुवातेर ते व्हदळचे दोगूय पंदरांसोळां वर्सां पिरायेचे चेडे येयले.

येतना दोगांनी एक लोखणाची लांब सळी हाडिल्ली. ती सळी दोगांनी एकामेकां मुखार तोंड करून उबे रावन आप आपल्या गळ्यांक लायली आनी फुडल्यान जोर दीत ती सळी बागवोंक लागले. दोगांलेंय गळे फुगून तट्टटले. दोळें तांबडे गूंज जाले. चोयतना दिसतालें, हांगेल्या गळ्यांच्यो शिरो खंयच्याय खिणात तटातट तुट्टल्यो. हांचे दोळें आत्ता रगत ओकतले. पूण तसें कांयच जावूं ना. दोगानय ती लोखणा सळी पुरायेन बागयली. दोनूय पोतां एकठाय हाडली.

पर्थून ताळयांचो शिंवर जालो.

डोंबाऱ्यान आपलो खेळ थांबयलो.

आतां तो दादलो हातांत एक ॲल्युमिनियमाची थाळी घेवन हरेका मुखार येवंक लागलो.

थंय एकठांय जाल्ल्यांनी कांय जाणांनी धा पयशे, कांय जाणांनी चार आणे, कांय जाणांनी आठ आणे घायले. जाल्यार नेणट्यां भुरग्यांनी पांच पांच पयशें सुदीक घाले.

खळ्ळ खळ्ळ करुन थाळी वाजयत तो सगळ्यां मुखार फिरतालो. अजून अर्द अदीक लोका मुखार पावचोय आसलो.

इतल्यांत मळबांत झिग्ग जालें. आनी मागीर कडकडम् असो मळब फुटिल्लेवरी कान फोडपी आवाज जालो.

व्हदळ सावन शेळाव मारतालो.

सकाळ सावनच मळब काळी घुंवटी घालून आसलें.

आतां वारे नेटान व्हावूं लागले.

मळबांतल्यन टप् टप् टप् टप् करुन थेंबे गळूंक लागले. ल्हवू ल्हवू शितोड सुरू जालो.

''पावस पडूं लागलो... पावस पडूं लागलो...''

आतां थंय एकठांय जाल्ले लोक फाफसले... लागीं घरां आशिल्ले घरा धांवले... पयस घरां आशिल्ल्यांन मेळटा थंय आलाशिरो घेयलो...

इतल्यान पर्थून झिग्ग् जालें. आनी पर्थून कडकडम्! आतां आख्खें मळब जिगळूं लागिल्लें. गुडगुडूम जातालें.

नेटाच्या वाऱ्या वांगडा झाडां-पेडां हालूंक लागिल्लीं. माड-माडयो सांवार येयिल्ल्यावर अर्शीऽ अर्शीऽ धोलतालीं. माड-माडयांचें धोलप चोयल्यार, घडये हीं आतां मोडून पडटलीं अशें दिसतालें आनी खऱ्यांनीच 'देवी आवयल्या देवळा' फाटलो उंचेलो 'बाणावली नाल्लां'' माड घो ऽ करून पडलो.

कांय जाण चोवूंक थंय धांवले.

मुरलीधर, सुर्यकांत, जया आनी शोभा धांवत धांवत देवीआवयल्या

देवळाच्या सभामंटपांत' वचून रावलीं.

तांचे वांगडा आनिकूय कांय जाण सभामंटपांत येयलीं.

आतां पावस नेट धरतलो हातूंत दुबाव नासलो.

मळबांत तर थैमान सुरू आसले. एके वटेन वाऱ्याचो सोसूंनजो इतलो नेट, दुसरे वटेन पावसाची टप् टप् आनी तातूंतच मळबांतलो गुडगुडूम. दिसतालें, आयजच आख्खो संवसार सोपचो ना मूं?

आनी ह्या बोवाळांत डोंबारीं बाबडीं सगळीं, थंय फाफसून पडिल्ल्या आपल्या वस्तुंची आवरा आवर करून, 'देवळाच्या' उल्ल्याच्या अंतरार आशिल्ल्या आपल्या तंबूंत धाविल्लीं.

वाऱ्याचो इतलो ऽ खर नेट आसलो, चोयल्यार तांगेल्या तंबूची धडगत बरी ऽ दिसनासली. तंबू फुग्यावरी फुगिल्लो. पुरायच हालतालो. व्हदळ त्या सळी बागयतल्यां भुरग्यांल्या गळ्यांची याद करुन दितालो. इतल्यांत वाऱ्याचो नेट आनिकय वाडलो आनी तंबू फुर्रर करुन मुळासकट हुमटून खंयचो खंय वचून पडलो.

डोंबारीं आनी तांचे सामान पुरायच उक्तें पडिल्लें.

तांणी हेवटेन तेवटेन चोयलें, खंयच आलाशिरो दिसनासलो. आसले लागसारा म्हणटात तें देऊळ! देवळांत व्हरुन दवरूंया अशें तांणी थारयलें. सगळ्या डोंबाऱ्यांनी ताकतिकेन आपल्याच्यान जाता तशें सामान उखल्लें. सामान तरी कसलें, एक म्हेळो डबो, चार पांच तटकर ताटल्यो, दोन तोप, एक तपलें, दोन-तीन कपड्यांच्यो झोळयो, दोन-तीन दाणगोट्याचो झोळयो, एक बालदी, एक बिंदूल, एक तांबयो, चार-पांच शेंदऱ्यो, जालें! ते भायर तांचे तें धोलकें, राजू, रिंगा बी आसलें. कशेतरी तांगयत तांगयत तांणी आपल्यो वस्तू देवळा कडेन हाडल्यो.

देवळाचो सभामंटप दोनशीं-अडेचशीं लोकांनी बसपा इतलो व्हड आसलो.

''आओ, आओ! सामान अंदर रखो!'' मुरलीधरान तांकां म्हटलें. तांकां बाबड्यांकय तितलेंच जाय आसलें. ते सगळें आप-

आपल्याकडले सामान घेवन भितर सभामंटपांत येयले. तें दवरून तातूंतलेच दोग-तीग जाण तंबु गुठलावन हाडूंक धांवले. ना म्हटल्यार, तीं सगळीं तशीं थोडीं भिजिल्लीं.

अजुनय शितोड चालू आसलो. पावसान नेट धरूंक नासलो.

शंकर जाणवय गर्भकुडींत आसलो.

गांवचीं मनशां सभामंटपात येयिल्लीं ताणें पळयिल्लीं. पूण, डोंबारी केन्ना येयले, हे ताका कळ्ळें ना! अचकीत ताची नदर डोंबाऱ्याचेर गेली आनी तो खुबळ्ळों.

''हेंका कोणें येवू दिलें भितर?'' म्हणत तो गर्भकुडींतल्यान धांवतच येयलो. ''चला! चला! भायर सरात!'' तो बोवाळ्ळो.

मुरलीधर मुखार येयलो.

''खंय भायर सरात? आनी कित्याक? हावें आपयलां तेंकां!''

''तूं शाणो म्हण सगळे जाणात!'' शंकराक आदींच मुरलीधराली तिडक आसली. आनी आतां अशें म्हणटकीर, तिडक मस्तकाक मारिल्ली!

''तूं तोंड सांबाळून उलय!'' मुरलीधरानय तिडकेनच उलयलें.

मुरलीधराक तिडक येयल्या म्हणपाचें मतींत येतकीर, सुर्यकांत, शोभा आनी जया मुखार येयलीं. खंयूय दोगूय हमरी तुमरीर येवन मारून-बडोवन घेयल्यार बेठोच बेजार न्ही! आनी शंकर जाणवय म्हणटा तो हुरमुटो, पुरायेन चितनासतना पावल उखलपी, हें तीं जाणां आसलीं. ते भायर तो मुरलीधरा भशेनच आंगां पांगान घट्टमुट्ट! दोगूय बैलावरी धिरयो घालूंक लागल्यार आटापतलो कोण?

''मुरली, बी पेशण्ट! '' शोभान म्हटलें.

''यस् मुरली'' जयानय सांगलें.

''तुमगेले 'एस् फेस्' मागीर! आदी तेंकां भायर धांवडयात! तीं देवळांत नाकात!'' शंकर जाणवयन ताणशेवन म्हटलें.

सुर्यकांतान मुखार येवन विचारलें, ''कित्याक नाकात?''

''खंयचे जाती-कातीचीं, खंयच्या धर्माचीं कोण जाणां! हिंदी

उलयतात! देवूळ भश्टतलें मरे! हेंवूय कळना तुमकां? शिकल्यात खंय मरे!''

''शिकल्यात म्हणच कळटा आमकां! तेंकां देवळांत घेयले म्हूण देऊळ भश्टना! '' सुर्यकांतान सांगलें.

जयान मुखार येत म्हणलें, ''आरे, तीं मनशां! आमचे भशेनच हाडां-मांसाची मनशां! जात-कात-धर्म आमी केला मनशांनी! देवान न्हू! देवाक सगळीं मनशां सारखींच!''

''तुमगेलीं तीं शाळेंतलीं शाणेपणां तुमी मागीर सांगा! हांव आमकां जाणट्यांनी घालून दिल्ल्या नेमा परमाणें वागतलों.''

सभामंटपांत कांय दादले, बायलो आसल्यो. तातूंत वामनालो कृष्ण, सकयल्या वाड्यावेलें मोगरें आसलें. तांकां शंकरान विचारलें, ''हांव सांगतां ते सारखें? म्हगेलें चुकल्यार सांगा म्हाका!''

''सारखें तुमचे जाणवय!'' कृष्णान म्हटलें.

''सारखें!'' मोगऱ्यानय तेंको दिलो.

मुरलीधर, सुर्यकांत, शोभा आनी जया हांकां चार जाणांक सोडून बाकी सगळ्यांनी शंकरालें म्हणणें उखलून धरलें.

''येऽऽ, चलात! भायर सरात!'' थंय आशिल्ल्या दादल्यांनी आनी बायलांनीय शंकराक साथ दीत डोंबऱ्यांक धांवडावंक सुरू केलें.

''ये ऽ वचनाकात! आप मत जाइए!'' मुरलीधरान नेट करून सांगलें. ''भगवान सबका है! तुम्हारा भी!''

डोंबारी बाबडे काचाबूल जावन हेगेल्या तेगेल्या तोंडा कडेन चोयत आसलें. तांकां कितें करचे म्हण कळनासलें. आतां भायर पावसानय नेट धरिल्लो. एक धारेन झडटालो. खंय वयतलीं आसलीं तीं? व्हदळ हड्डे मुखार करून फातर फोडूंक येयिल्लो तो घट्टमुट्ट आंगलोटाचो काळो दादलो, आतां भिजूड कसो तोंड येद्देशेच करुन हात जोडून उबो आसलो. तांणी सगळ्यांनीच हात जोडिल्ले. 'बारीश रुकने दो, हम जाएँगे!'' तातूंतल्याच एकल्यान म्हणलें.

तांची काकूट येवन शोभान म्हटलें, ''कृष्णबाब, मोगरे मावशे,

आयकात, निदान मनीसपण म्हणतरी, पावसा थोपता मेरेन थांबू दी! भायर पावस झडटां! खंय वयतलीं तीं सगळीं? तुमीच सांगा!''

''ते सगळें खरें गो तुगेले! न्ही म्हणना हांव! पूण आमगेलें देऊळ भश्टतलें, तेचे कितें?'' मोगऱ्यान म्हणलें.

''आतां ते सगळें येयले. सभामंटपात आसात ते! गर्भकुडयेंत वचू नात! आनी तुमगेलो सभामंटप जर भश्टता जाल्यार, आतां तो भश्टलो! म्हूण म्हणटात आमी, थोडोवेळ रावू दी तेंका! पावस थांबतकीर वयतलीं तीं!'' सुर्यकांतान बरेभशेन समजुन सांगले.

''तूं इतलीं शाणेपणां सांगतां जाल्यार तुमगेर घेवन वच मरे तेंकां!'' कृष्णान सांगलें.

''तूं सांगता ती माण्णी वायट ना! तूं म्हणटा तशें आमगेर घेवन वयतात आमी तेंकां! फकत पावस थांबू इतलेंच मागणें!'' सुर्यकांतान सांगलें.

मुरलीधराक सुर्यकांतान तशें नमळायेन तांचे लागीं बागवल्ले मानवलें ना. ताणें म्हणलें, ''सुर्या, तूं बेठोच कित्याक इतलो बागवता तेंचे मुखार? हें देवूळ कितें तेंगेल्या बाबालें? हें सगळ्यालें देवूळ! आमकांय अधिकार आसा हिंगा!''

सुर्यकांतान मुरलीधराल्या खांदार हात दवरीत समजवणेच्या सुरात म्हणलें, ''ते सारखें रे मुरली! पूण बेठोच कित्याक वाद नस्तो? बरे भशेन समजावन जाता जाल्यार बरेंच न्हू!''

''समजोवप कोणाक रे सुर्या? समजतल्यांक! हेंकां न्हू!''

मुरलीधरालीं हीं उतरां आयकून कृष्ण, मोगरें, जयराम बी खुबळ्ळीं!

''आमकां समजना जाल्यार समजना जावूं! कोणाक समजतां तेंकाच वचून तूं समजय!'' मोगरे तिडकेन उलयलें.

''स्वताक कोण समजता तो?''

''जाणवय समजता तो स्वताक! जाणवय!'' शंकर कुचिंद्रीपणान उलयलो.

आतां भायर पावस थांबिल्लो.

सुर्यकांतान येवजिलें, आतां हो वाद असोच वाडत वयतलो. ते परस हांकां सगळ्यांक घेवन गेल्लें बरें!

''मुरली, आतां वाद वाडोवचो ना आमी! आतां आमी हेंकां घेवन या! आमच्यो माळयो कशोय आसात! करूंया सोय तेंची! तेंकां नाजाल्यार, आमकां मनीसपण आसा! चल!'' मगेर ताणें डोंबाऱ्यांक म्हणलें, ''आइए, जायेंगे हमारे घर!''

सुर्यकांताली येवजण शोभाक आनी जयाक पटली.

जयान म्हटलें, ''मुरली, बी पेशन्ट! लेटस् गो! नो मोअर आर्ग्युमेंटस्!''

''आइए! आइए! हमारे साथ आइए!'' शोभान डोंबाऱ्याक सांगलें आनी ताणें तांगेलें धोलकें उखलून आपल्या गळ्यांत घालें.

जयान तांगेलीं लोखणाचीं रींगा घेयलीं.

मुरलीधरान आनी सुर्यकांतान तांगेल्यो एकेक झोळयो खांदाक मारल्यो. ''चलिए!'' तांकां म्हटलें.

डोंबारे बाबडे व्हडा कृतज्ञतेन आनी दिनवासान हांचे कडेन चोयताले. मागीर सगळ्यांनी आपलें सामान उखल्लें आनी हांच्या फाटल्यान चलूंक लागले.

वतना वाटेर जयान म्हणलें, ''व्हदळ हेंगेले खेळ चोयन, बरीं नेटान ताळयो मारतालीं. तेंगेले कलेची तुस्त तोखणाय करची म्हूण कळटा! प्रसंगार तेंची काकूट करची म्हूण कळना!''

''फकत ताळयोच मारल्यो कांय जणांनी! पयशें खंय घायल्यात? पावस येता म्हूण फाफसले सगळे!''

''सुर्या, आमगेलो गांव सुधारतलो केन्ना रे?'' मुरलीधरान उबगुनशें विचारलें.

त्या दिसा भायर पावसाचें वातावरण आशिल्ल्यान मुरलीधरान, सुर्यकांतान आनी जयान डोंबाऱ्याली सोय आप आपल्या घरचे माळयेर केली. आनी तांच्या पोटा पाणयाचेंय पळयलें.

हेर दिसा पर्थून मळब झग्ग धवें जाल्लें चोयन, डोंबारी बाबडें हांगेलें बरें मागून भायर सरले.

तांणी पर्थून आसा तसो तंबू उबो केलो.

इतल्यान सोपलां?

ही बातमी पुराय गांवभर फों फों जाली आनी भोवतेकांनी मुरलीधर, सुर्यकांत, शोभा आनी जया हांकां दुशणां दिलीं.

राम जाणवयल्या कानार तर ही बातमी शंकर जाणवयन रोखडीच पावयिल्ली. राम जाणवयन रोखडेंच, घराकडेन येयिल्लो आशिल्ल्या बाबग्याक सांगून मक्तासूर गंगाधराक आपोवंक धाडिल्लो.

मक्तासुर येतकीर पुराय गजाल सांगून राम जाणवयन म्हणिल्लें, "पळय मक्तासूर, ते खंयच्या धर्माचे, जातीचे आमी नकळ! देखून तूं तांचे म्हऱ्यांत वचून चवकशी कर! देवूळ भश्टोवंक फावना! देवीचो कोप जातलो!"

हेर दिसा मक्तासुर वामनाल्या कृष्णाक घेवन, त्या डोंबाऱ्या कडेन गेल्लो. तांगेलीं ते कोण-कात हाची वेवस्थीत चवकशी केल्ली. चवकशेंत मक्तासुराक समजल्लें ते सगळे हिंदूच! आयकून मक्तासुराक सुऽ जाल्लें. तांची जात मात मक्तासुराले मतींत वेवस्थीत वचूंक नाशिल्ली. कितेंय आसूं एक होम घालून घेवया. अशें येवजून मक्तासुर राम जाणवय कडेन आयिल्लो. पुराय गजाल आयकून राम जाणवयन मक्तासूर म्हणटा तसो एक होम घालून घेवचो सल्लो दिलो आनी ते नुसार मुजरत 'वायंगिणीतल्यान' लक्ष्मण भटाक आपोवन मक्तासुरान 'देवी आवयल्या देवळांत' एक  होम घालून घेयिल्लो.

मनीसपणाक लज करची शंकर जाणवयल्या हातान घडिल्ली ही पयली खेप नासली. मुरलीधराक याद आसा ते परमाणें हाचे आदीं दोन तीन खेपे ताणें अशेंच केल्लें.

मुरलीधर नेणटो आसतना एक फावट सुटयेंत सकयल्या वाड्यार मामागेर गेल्लो. जाणवयल्या घरा साकून मुरलीधराल्या मामालें घर पयस नासलें. एकूच वाडो तो! वाड्यावेलीं भुरगीं जाणवयल्या गोरवां

गोठ्या कडेन खेळटालीं आनी गोरवां गोठ्या मुखारच आंब्यारुखा मुळांत, एका विणिल्ल्या चुडटां मल्लार दोग काळे सावळें धवें म्हेळें जाल्लें धोतर न्हेशिल्ले, आनी धवेंच म्हेळें जाल्ले लांब हातांचे शर्ट घायिल्ले, तकलेक तुवालो गुठलायिल्ले, मध्यम पिरायेचे दादले बशिल्ले. आप-आपली भुकती सोडोवन हातांचे तायटार जोळा भाकरी आनी तातूंत कसली तरी भाजी घेवन खाताले.

हे दोगूय टाकी कार! दरेक वर्सा गांवांत येवन रगड्यांक टाकी घालून वचपी मनशां आसलीं.

तांकां हरेक वर्सां, वयतना गांवांतल्यो बायलो, फुडल्या वर्सा येयात हां म्हूण मुजरत सांगताल्यो. कारण मसालो वाटून वाटून रगडो गुळगुळीत जालो, काय ताचेर मसालो बेगीन गंद जायना. टाकी घायिल्ली उरल्यार, मसालो गंद बेगीनच करूंक बरें जाता. आनी रगड्याक म्हणटात ते, एक-दोन वर्सांनी टाकी घालूंकच जाय आसता. ते दोगूय वर्सनेमा परमाणें, ह्यावूय वर्सा येयिल्ले. येतना घेवन येयिल्ली भुक्ती खावूंक, आंब्याची सावळी चोयन, थंयच बसचें तांणी थारायलें. थंयच हाता कडेन विणिल्ल्या मल्लांची एक रास घायिल्ली आसली. वयलेंच एक मल्ल ओडून घेवन. ते दोगूय बशिल्ले. दोगानीय भाकऱ्यो सोपयल्यो आनी शेनवतां विडयो खिशांतल्यान काडून पेटयल्यो.

मुरलीधर आनी हेर सवंगडी थंय कुकुयेन खेळटाले. कोण गोठ्या फाटल्यान तर कोण तणां घुड्या फाटल्यान, जाल्यार कोण आंब्या रुखा फाटल्यान लिपतालो आनी दोगूय टाकीकार विडी फुकत हांगेलो खेळ मजा घेवन चोयताले.

तोंडातल्यो विडयो सोपतकीर, एका टाकीकारान मल्लां राशी वयलें आनी एक मल्ल ओडून घेयले आनी दोगूय दोन मल्लांर, थंयच सावळेंत आड पडले.

ते दोगूय आड पडटात थंय आसात, खंयच्यान नेणो, शंकर जाणवयन हांकां चोयले. हे दोगूय हांगां कित्याक न्हिदल्यात? अशें

येवजून तो मुखार येयलो. चोयल्यार, हे दोगाय मल्लार न्हिदल्यात! शंकर जाणवयक मारली भिरभिरी. तेन्ना आनी तो तरनाटो! आसतलो चोवीस पंचविसांतलो! तो आड्डुलो, ''ये, कोणाल्या बापायलीं मल्लां म्हूण, तुमी त्या मल्लांर न्हिदल्यात रे?''

हाची आरड आयकून ते बाबडे दोगूय कांचवेले. उठून बसले.

''सावकार, आमी फकत आड पडल्यात. हीं मल्लां वायट करचीं नात. तुमचीं मल्लां आसात तशीं राशीर दवरून वयतले आमी!'' तातूंतल्या एकट्यान सांगलें.

''कोणाक विचारून घेयलीं तुमी मल्लां हीं?''

''सावकार, विचारचें आनी कितें आसा? हे राशीर आसलीं. आमी घेवन काय वचनात न्हूं!'' दुसऱ्यान म्हटलें.

''तें कांय ना! उठा! उठां! आनी खंयूय वचून न्हिदा! उठा हिंगासल्ल्यान!''

ते दोगूय बाबडे उठून आपले मर्दीच गाळी संवतल्यावरी गणमणत आप-आपल्यो पोतयो घेवन वचूंक लागले.

''ये, खंय वयतात? तीं मल्लां कोण राशीर दवरतलो, तुमगेलो बापूय?''

त्या दोगानीय बाबड्यांनी मल्लां राशीर दवरलीं आनी गेले. मुरलीधर आनी हेर सवंगडी खेळ मर्दीच सोडून ही गजाल तुकुतुकू करून चोयताले. मुरलीधराक तेन्ना ते नेणट्या पिरायेचेर सुदीक होलमल्लें, कसलो मनीसपण नाशिल्लो मनीस हो! त्या मल्लांर न्हिदल्यार मल्लां झरता आसलीं, काय पाड पडटा आसलीं?

आनी एक असलेंच मनीसपणा भायलें तेचें कर्तूब मुरलीधराक याद जातां.

राम जाणवय आनी तांगेली घरकान्न काशीयात्रा करुन येयिल्ली. देखून तांणीं समराधन वाडिल्लें. गांवांतल्या दरेक घराक आमंत्रण दिल्लें. म्हारवाड्यार सुदीक!

समराधनाक घे ऽ लोक जाल्लो. जाणवयलें आमंत्रण म्हणटकीर

घरांतल्यांन एक-दोन मनशां येयिल्लींच.

पंगती फाटल्यान पंगत उठ्ठालीं.

जाणवयगेरचें व्हडलें आंगण तें! पुराय आंगण भर मल्लांचो माटोव घायिल्लो.

मुरलीधराक याद जाता, तेन्ना तो णवेंक आसलो. आर.एन नायक सर त्याच वर्सा शाळेंत नवें येयल्यात. आर.एन.नायक सरालो गणिताचो स्पेशल क्लास (आयतार दीस तो) चुकोवन तो आनी सुर्यकांत समराधनेक येयिल्ले. हेर दिसा सरान विचारिल्लें, ''गणित शिकप म्हत्वाचें काय समराधना जेवप म्हत्वाचें?'' हाचेर पांच-धा मिनटां सर उलयिल्लो. सराचें तें उलोवप आनी समराधन दोनूय गजाली मुरलीधर केन्नाच विसरचो नासलो.

त्याच वर्सा काय भिकमागे गांवांत येयिल्ले.

घरांघरांतल्यान भीक मागून हाडटाले आनी शाळे कडल्या उक्त्या मळार तीन फातर मांडून ताचेर जेवण करून जेवताले.

त्या दिसाच्या समराधनाची गजाल घडये तांकां कळिल्ली. एक धायेक भिकमागे माटवा कडेन उबे आसले. तातूंत दादले, बायलो, नेणटी भुरगीं सगळींच आसलीं.

गुण्यान तांकां चोयले.

माटवांत भितर कोणाक कितें जाय कितें नाका हाची वेवस्था स्वता शंकर जाणवय चोयतालो.

गुण्यान वचून शंकर जाणवयक भायर भिकमागे उबें आसात तांकां वाडूंक लाय म्हूण सांगलें.

शंकर जाणवयन सट्ट करून कितें म्हणंयेत? म्हणूंक लागलो, ''तेंकां कोणें आपयिल्ले? धांवडोवन घालात तेंकां!''

आनी गुणो तांकां धांवडावंक गेलोय!

राम जाणवयन ताका आडायलो. ''अरे, गुण्या थांब! आसूं दी ते! पुराय पंगती सोपले उपरांत, वाडल्यार जालें तेंकां!'' आनी गुणो थांबलो.

ना जाल्यार, त्या दिसा, तांकां थंयसून, शंकर जाणवयल्या उतरांर धांवडायताय आसले!

पूण तशें जालें ना!

पुराय पुराय सोयरे, लोक जेवन गेले नंतर भिकमाग्यांक माटवा भायर बसोवन वाडिल्लें.

जेविल्ले सुवातेर तांचे कडल्यान शेण काडून घेयिल्लें.

आनीक एक फावट अशेंच जाल्लें.

एक कुड्डो आनी ताची घरकान्न गांवांत भीक मागूंक येयिल्लीं. आशिल्लीं मध्यम पिरायेचीं! हरशीं दोगांय रंगान सावळी आसलीं. पूण धगांत भोवन भोवन रापेल्लीं आनी काळीं दिसतालीं. कुड्ड्याली घरकान्न भुजार एक झोळी मारुन मुखार चलताली. तिणें एक लांब कोंड्या बडयेंचें एक पोंत आपल्या हातात धरिल्लें, जाल्यार दुसरें पोंत धरून तो कुड्डो फाटल्यान चलतालो.

हरशीं त्या दादल्याचे उक्तें दोळें चोयल्यार, तो कुड्डो असो दिसच नासलो. दिसतालें, लोकांक फटोवंक तो कुड्डेपणाचें सवंग बी करना मूं?

ताणें एक म्हेळें धवें धोतर आनी धवो बुशकोट घाल्लो. हातांत एक व्हायोलीन कशें, वाजवचें एक तारी वाद्य आसलें. एका व्हड नाल्लाची वयले कट्टेची चीप कोरून निखळयिल्ली आनी वेल्यान पातळ कसलें तरी चामडें कशें चिकटायिल्लें. एक लाकडाची तंबुऱ्याचे लांब पट्टेवरी पट्टी ते कट्टेंतल्यान आरपार घुसोन तेचेर एक तंबोऱ्याचे तारे भशेन तार बसयिल्ली. आनी त्या वाद्याचे तारीर हातातल्या धोणून तो (धोणू व्हायोलिनाच्या बो सारखो आसलो.) रुं...रुं...रुं...रुं... असो आवाज काडटालो. आवाज कानाक बरोऽ लागतालो. ताचो ताळो तर खूबच गोड आसलो. तो गायतना आयकत रावचें अशें दिसतालें.

ताच्या गाण्यांत चिल्ल्या बाळाची काणी आसली.

हरेक घरांच्या दारांत वचून तो तें गायन गायतालो आनी तें

एकतारी वाद्य वाजयतालो.

कांय बायलो तेचें तें गायन आयकून दोळ्यांक पदर लायतालीं.

त्या कुड्ड्याचे घरकान्नीन सांगिल्लें ते परमाणें, तेंका खंय एक भुरगें जाल्लें. तेन्ना त्या भुरग्याक खेळोवंक हो कुड्डो तें गायन गायतालो. तें भुरगें मेलें. फुडें तांचेर परिस्थिती वायट येयली. अशेतरेन भीक मागची पाळी येयली. आतां ती दोगांय भीक मागत गांवां गांवांनी भोंवतालीं. आनी भीक मागतना, आपल्या भुरग्याक खेळयतना म्हणटालो, तेंच गायन तो गायतालो.

''आंधळ्या - कुड्ड्यांचे मायबाप भीक वाडा माय...भीक वाडा कुड्ड्याक...!'' अशें म्हणत तो वाद्य वाजयत गायन सुरु करतालो...

श्रियाळ राजा चांगुणा राणी
बाळ दोगांचो चिल्लया
मायी, सांगता काणी ।
जुं...जुं...जुं...जुं...जुंऽजु...
जुं...जुं...जुं...जुं...जुंऽजु...
श्री शंकराचो भक्त श्रियाळ
चांगुणा राणी आणी बाळ ।
जुं...जुं...जुं...जुं...जुंऽजु...
जुं...जुं...जुं...जुं...जुंऽजु...
शंकरा पुसता पार्वती माता
सत्वशील भक्त कोण गा ता?
जुं...जुं...जुं...जुं...जुंऽजु...
जुं...जुं...जुं...जुं...जुंऽजु...
'श्रीयाळ राजा' शंकर वदता
सत्वशील भक्त म्हजो गे ता ।
जुं...जुं...जुं...जुं...जुंऽजु...
जुं...जुं...जुं...जुं...जुंऽजु...
कैसा तव तो परम भक्त

प्रमाण मज दे भगवंत ।
जुं...जुं...जुं...जुं...जुंऽजु...
जुं...जुं...जुं...जुं...जुंऽजु...
श्रियाळ घेतले कठीण व्रत
इच्छा भोजन याचका दीत ।
जुं...जुं...जुं...जुं...जुंऽजु...
जुं...जुं...जुं...जुं...जुंऽजु...
याचक जाला शंकर भगवंत
इच्छा भोजन येयलो मागत ।
जुं...जुं...जुं...जुं...जुंऽजु...
जुं...जुं...जुं...जुं...जुंऽजु...
चिल्लयाचें मांस शिजोन
वाड म्हजें इच्छा भोजन ।
जुं...जुं...जुं...जुं...जुंऽजु...
जुं...जुं...जुं...जुं...जुंऽजु...
श्रियाळ कापला शीर बाळाचें
चांगुणा रांदता मांस पोराचें ।
जुं...जुं...जुं...जुं...जुंऽजु...
जुं...जुं...जुं...जुं...जुंऽजु...
याचका दिले इच्छा भोजन
प्रसन्न जाला शंकर भगवान ।
जुं...जुं...जुं...जुं...जुंऽजु...
जुं...जुं...जुं...जुं...जुंऽजु...
म्हणला माग दिवूं काय
म्हाका म्हजो पोर जाय ।
जुं...जुं...जुं...जुं...जुंऽजु...
जुं...जुं...जुं...जुं...जुंऽजु...
चिल्लया बाळ परत दिला

शंकर भगवंत अदृश्य जाला ।

जुं...जुं...जुं...जुं...जुंऽजु...

जुं...जुं...जुं...जुं...जुंऽजु...

ताचें हें काळीज हालवचें गायन आयकून, मुरलीधराल्या आईन तांकां फकत भीक म्हूण तांदुळच दिवंक नासले, जाल्यार ताच्या घरकान्नीली विटिल्ली पाचवी कापड साडी चोयन, तिची काकूट दिसून, तिका आपूण वापरिल्ली, पूण बरी अशी एक तांबुडशी साडी दिल्ली. तिणें बाबडेन "देव बरो ऽ करूं!" म्हण तोंडभर आशिर्वाद दिल्लो.

हें गायन आयकून ते पिरायेंतय मुरलीधरान चितिल्लें, कितली व्हडली देख दिता ही काणी! कसलोय कठीण प्रसंग येयलो म्हण मनशान आपलें 'सत्व' सोडूंक फावना!

भीक मागत मागत दोगाय भीकमार्गी सकयल्या वाड्यार येयलीं. थंयर्चीं सगळीं घरां जाता मेरेन वेळ माथ्यार पाविल्लो.

मागीर दोगांनी थारयलें, आतां भाकरी खावया. मातर आराम करुया आनी वेळ मोव जातकीर, चार घरां भीक मागून आपले वाटेक लागुया.

दोगांय थंयच एका आंब्यारुखा सावळेंत बसलीं. झोळयेंतल्यान आपली भुकती सोडोवन खायली. आनी विसव घेवया अशें चिंतून, लागीचेंच 'देवी आवयले देवूळ' चोयन देवळांत येयलीं.

सभामंटपाच्या शिमिटा भुंयेर, दोगांय आपली झोळी, दांडो, एकतारी थंयच दवरुन हातांचीच ऊशीं करुन आड पडलीं.

दोगांय आड पडून अर्दवरय जावूंना, खंयच्यान नेणो सपन पडिल्ल्यावरी शंकर जाणवय येयलो. तांकां सभामंटपांत चोयन आड्डलो, "ये ऽ हें देवूळ काय धर्मशाळा? काय तुमगेल्या बापायली मिरास?"

हागेली आरड आयकून दोगांय उठून बसलीं.

"काय जाला मा? काय जालां?"

"देवळांत झोपल्यान म्हण आरडतत"

"ये ऽ चला हिंगासल्ल्यान... उठा, चला!"

"वयतात मा वयतात!" म्हणत दोगांय बाबडीं उठलीं. आपली झोळी बी घेतली. "धर!" घोवाक घरकान्नीन दांड्याक धरुंक लायलीआनी दांड्याचें एक पोंत आपणें धरून, घोवाक घेवन भायर सरली...शंकर जाणवयची एकेक करणी येवजून मुरलीधराक आपणें वाचिल्ली एक कविता याद जाताली...

*बांदलें देवूळ*
*ताचे खातीर*
*जाचे लागीं*
*कितें ना!*

*दिली ना*
*सादी सुवात*
*जाचे लागीं*
*सावळी ना !*

*पंच खाद्य*
*दिलें ताका*
*जो केन्नाच*
*खायना !*

*दिवूंक ना*
*चार गोटे*
*जाचे लागीं*
*खावूंक ना !*



अनसुया आपले कुडींत जनेला म्हऱ्यांत बसून, आपल्यो पोन्न्यो साडयो एकार एक दाळून गोधडी शिंवताली.

मुरलीधर ल्हवूच आईले कुडींत येयलो. आईचे कुशीक जमनीर मांडी घालून बसलो.

मागीर विशयाक हात घालत ताणें म्हटलें, ''आई, एक विचारूं?''

''कितें?'' आईन शिंवता शिंवताच म्हटलें.

''आमी शिलाताईचें पर्थून लग्न केल्यार कशें?''

आईन तकली वयर करुन म्हटलें, ''सारखो आसा मरे तूं? रांड बायलेक लग्न करतात रे? आनी केल्यारय 'कापडा बायल' जायना तें? 'कापडा बायला' देव धर्मात नासतात आनी समाजांत तांकां मानय नासता!''

''अगे, आयक! हांव कितें सांगतां, तें बरें ऽ करून आयक!''

''तुजें न्हीनस्तें आयकून आयकून कान फुटले म्हगेले!''

बरें ऽ करुन समजोन सांगत मुरलीधरान म्हटलें, ''आई चोय, शिलाताईलें आता वय कितलें? तुवें तेका बेगीन लग्न केलें म्हूण, ना जाल्यार हे पिरायेर शारांत चेडवां लग्न जातात. तुजे तेंपावेलो तो काळ आतां उरूंक ना, नशीब नशीब म्हूण नशिबाक दोश दीत बसचेलो! आतां ह्या काळात आपलें नशीब आपूण घडयचेलें आसता! आतां शिलाताईलें नशीब आमी घडोवया!''

आईन फांफुडिल्ले भशेन म्हटलें, ''म्हाका तुगेले विचार पटनात! खरेंच पटनात!''

''म्हूणच पटोवन सांगतां, तें आयक!... निदान आयकून घे आनी मगेर थारय तुजें कितें आसा तें!''

हाचेर आई कांय उलयली ना. ओगी गोधडी शिंवत रावली.

''हें चोय, हांवें शिलाताईक घोवागेरच्यान हिंगा कित्याक हाडलां?''

आईन नदर वयर करुन खिणभर मुरलीधराल्या तोंडाक चोयलें.

शिलाताईक कुळारा हाडूंक तितलेंच ख ऽ र कारण आसलें. हें

आई जाणा आसली. ताचो घोव मरतकीर घरच्यांनी शिलाताईक खोचणयांनीस घालूंक सुरवात केल्ली. घरचीं सोसू नजो इतले थोमणे मारतालीं. नणंदो येवप म्हटल्यार फकत उतरांचे बाण सोसप आसलें. सुणें खंयूय मारल्यार पांयांर कुट्टा, तशें घरांत कितेंय वायट घडल्यार शिलाताईलीं लक्षणां वयर सरतालीं.

मांयन म्हणप, "घरांत हाडिल्ली सून लक्षणान बरी आसल्यार सगळें बरें जातां, नातर वचत थंय घट्टणच! काय बरो जान-जवान पोर म्हगेलो गेलो उठून! म्हगेलोच कसो गेलो? इतल्यां ऽ लोकांले चेडे नात? तेंगेल्या कपलाक चार मिरीं सुध्दा लागनात मू! नशिबात अयावपणच ना जाल्यार, म्हगेलो पोर तिगतलो कसो?" आनी मगेर ती रडूंक लागताली.

तिचें तें रडप चोयन, उलोवणे आयकून, तिचो राग येवचो सोडून, शिलाताईक आपूणच गुन्यांवकारी कशें दिसतालें.

घोव मरतकीर, शिलाताईन शिरंगार काडिल्लो चोयन, मुरलीधरान भयणीक म्हणलें, "शिलाताई, तूं कुकूम कित्याक लायना? तीं कांकणां कित्याक घालना गो? लाय कुकूम! घाल कांकणां! हांव सांगतां म्हूण कर! आतां घोव मेल्ली बायलां करतात हें सगळें! घोवाल्या मर्णाचो आनी आपल्या शिरंगाराचो कांयच संबंद ना!"

आनी एक दीस शिलाताईन भाव सांगता म्हूण कपलाक तिकली लायली. हातांत कांकणां घायलीं. घालूं ना फकत मंगळसूत्र!

मांयन चोयलें आनी उसळ्ळी सुनेर! म्हणूक लागली, "कितें गो? हीं कसलीं लक्षणां तुगेलीं? घोव मरून चार दीस जावूं ना, आनी लागली नटूंक, मुरगडूंक ? खंय वयतां शिरंगार करून? नशिबांत मागून येवंक ना कित्याक? बरें ऽ अयावपण मागून येवंक जाय आसले! कपलभर कुकूम लावूंक मेळटां आसलो! हातभर कांकणां घालूंक मेळटा आसलीं! माथेंभर फुलां माळूंक मेळटा आसलीं! आनी म्हजो पुतय चार दीस जगता आसलो!... उक्तें कपल आनी नागडे हात घेवन भोवचें पडनासलें!"

कितें आनी कितें म्हूण ना! तोंडांत येता ते, ती चरवट चरवट उलयली. ती अशी उलयताली, आपल्या पुताल्या मर्णाचो सूड घेयिल्ल्यावरी, पूण कातरे पडटाले शिलाताईल्या काळजाक!

शिलाताईन तेन्ना तोडो करुंना, कपलाची तिकली काडली. हातांतलीं कांकणां काडलीं आनी भितर आपले कुडींत वचून, स्वताक खाटीर घालून रड रड रडलें.

इतल्यान सोपूंक नासलें.

धाकटी नणंद येयिल्ली.

ही नणंद आवय भशेनच! तशीच आंगान थाली कशी,आनी सभावानय तशीच!

आवयन धुवेक येयिल्लीच ही गजाल सांगली. जालें! धुवेन तोंड उगडलें. म्हणूंक लागलीं, ''हय गे? तुवें तिकली लायन, काकणां घालून खंय वचचें थारयलां? कोणाक दाखोवंक तो शिरंगार? आनीक एक लग्न बी जावचें थारयलां? जावचें आसल्यार जावूं, हरकत ना! आतां जातात लग्नां! आमगेली कांयच म्हणणी ना! पूण हिंगा म्हगेल्या भावा बायल म्हण रावची आसल्यार, तेगेली रांडाव बायल म्हणच रावची पडटली! असले नखरे करुंक निखालूस मेळचे नात!'' नणंद आवय इतलीच खऽर उलयली.

हे असलें आनी जाय ते भोग शिलाताईल्या वांट्याक येताले.

मुरलीधर भयणीगेर येयिल्लो तेन्ना, भयणीन भावाक आपले भोग सांगून तें हमसून हमसून रडलें. हरशींय मुरलीधरान वाट सोदून दवरिल्लीच! ताकाय हरवें सोदतल्याक भाजिल्लें मेळ्ळें.

मुरलीधरान शिलाताईल्या घरच्यांक स्पश्ट उतरांनी सांगलें, ''हांव म्हगेले भयणीक घेवन वयतां. तुमी तेका हिंगा सुखान जगूंक दिवर्ची नात. उठ्ठना, बसतना तेका थोमणें मारतलीं. तेचें व्यक्तीस्वातंत्र्य मारून उडयतली. हांव तेका हिंगा कसोच दवरचो ना! आनी हेंवूय आयकात, बरो कोणूय न्हवरो मेळ्ळ्यार ताचें पर्थून लग्नय करतलों!''

आनी तो भयणीक घेवन येयिल्लो.

भयणीक घरा हाडून ताणें तिकली लावूंक लायिल्ली, कांकणां घालूंक लायिल्लीं. बऱ्यो बऱ्यो साडयो न्हेसूंक लायिल्ल्यो. भयणीक जें जें करन दिसता, तें तें करुंक लायिल्लें.

''हाडिल्ली बरें केलें रे! नातर, मारुन खाता आसलीं तीं सगळीं म्हगेल्या पोराक!'' आईन थीर नदरेन मुरलीधराक चोयत म्हणलें.

''हय मगे? म्हणटकीर, थंय तुगेली धूव दुख्खांत पडटली, हिंगा येयल्यार सुखान रावतली, म्हूण आमी तेका हिंगा हाडल्या मुगे? ''

''हय तर!''

''... फाल्यां म्हगेलें लग्न जातलें! ... जातलें मुगे म्हगेलें लग्न? काय जायनासतनाच रावतलें? ''

''जायना आनीक!''

''फाल्यां म्हगेली बायल शिलाताईक लागूक दितलीच म्हण, तूं कशी सांगूंक शकता? लग्न करुन दिल्ली धूव तूं! हिंगा कित्याक येवन पडल्या, म्हण सतयल्यार? ''

आई ओग्गी.

''सुखी करुंक हाडिल्ल्या चेडवाक तुवें दुख्खी केलें अशें जालें ना? ते परस थंय घोवागेर थोमणे आयकत राविल्लें कितें वायट? निदान तें घर हक्काचें तरी!''

''आनी हें हक्काचें न्हू? तूं कितें तेका रस्त्यार उडयतलो? ''

''समज तुजे फाटल्यान हांवें गोड गोड उलोवन तेचे कडल्यान सय घेयली, आनी मागीर उडयलें तेका रस्त्यार! कोणाक कसली बुध्द, केन्ना येत सांगू जाता?''

''दिनाका म्हण सांगतलें तेका हांव! मरतां मेरेन दिनाका म्हण!''

''तुका दिसतां, तें म्हाका दिनासतना रावतलें? तेका भावा परस बदीक व्हड दिसता, अशें दिसता तुका?''

''ना! भावा परस काय व्हड ना तेका!''

''मागीर...?''

''हिंगा काय मेळना जाल्यार घोवागेरचो हक्क ना?''

''घोवागेर आसा कितलें? 'दोड्डुपेठेंत' तें धा जणांलें बदीक मु गे? चार खांडयेची सुध्दां जमीन ना तेंकां! तातूंत बापोल - तिपोले करुन कितले वारीस्तदार गे? हेंका वांट्यांक येतलें कितलें? आनी तेतूंत शिलाताईक दोग नणंदो. मेल्ल्या भावाले बायले पासत त्यो आपले वांटे सोडटल्यो? निमाणेंकडेन हाताक लागतलें कितलें?''

आई खिणभर ओगी रावली. मागीर तिणें येवजिलें, मुरली सांगता तें फट न्हू! हिंगा बरें जालें, बरें आसा! नातर, पांयार खोरें येवची खबर! दीस उजवाडा आपलो मार्ग सोदिल्लो कितें वायट? काळोख जाल्या उपरांत कठीण जातलें! एक वटेन अशें दिसल्यार, दुसरे वटेन तशेंय दिसतालें, आमगेल्या गांवांत अजून रांड बायलेलें लग्न जावू ना! आनी सोयऱ्यांतय जावूं ना! आमगेलें घराणें कसलें?

''घोव मेल्या नंतर सती वयतल्या खेत्री घराब्यांतले लोक आमी! अशी देव धर्मांत नाशिल्ली, 'कापडा बायल' जावप सोबतलें रे आमकां?''

''परत सतीची काणी सांगली? हांवें सांगलां तुका, तो तेंप आतां ना! 'कापडा बायल' देव-धर्म बी म्हणटा तूं, तें सगळें आमी केल्लें गे! आयक, आतां बऱ्या बऱ्या घराब्यांत असलीं लग्नां जातात. आमगेल्या गांवांत अजून जावूं ना जाल्यार, आमी सुरूं करुंया.''

''शिलाताई जातलें रे तयार? ''

''तें हांव चोयतां!''

''चोय, कितें करचें तें! तुमी दोगांय सुखी उरलीं जालीं! म्हगेली इत्सा इतलीच! आयज मेरेन भोगलां तें खूब जालां!''

आई तयार जाल्ली चोयन मुरलीधराक सूऽजालें.

सांजच्या शाळा सुटून घरा येतना, मुरलीधर मेरी कडेन शिलाल्या लग्नाचो विशय उलयलो.

आई लग्नाक तयार आसा म्हणिल्लें आयकून, मेरीकय बरेंऽ दिसलें,. मेरीन म्हणलें, ''वन् थर्ड जालें!''

''हय! टु थर्ड उरलां!''

"तेंवूय जातलें!"

मुरलीधरान मनांत घट्ट थारयिल्लें, धुरी सराक तयार करचो! आनी धुरीसरान 'जायनाच' म्हटल्यार दुसरो कोणूय बरोऽ सोदून शिलाताईलें लग्न करुन दिवचे! पूण ताचें जिणें अशें सुक्या सड्यावरी वचूंक दिवप ना!

मुरलीधर एक दीस धुरीसराल्या पुताक - साईशाक घेवन घरा येयलो.

मुरलीधरान आईक आनी शिलाताईक आदींच सांगून दवरिल्लें, "हांव साईशाक घेवन येतां. तुमी धुरीसराली परिस्थिती जाणात. साईश हो आवय नाशिल्लो पोर! तेका धड आवयली माया मेळूंक ना, ना मावशेली, ना मामाली, ना काकीली, ना आज्येली! शाळेंतल्या बायांनी, नातर तुमचे सारख्या बायलांनी दिल्ली माया हीच तेचे पासत आवयली माया! जरा मोगाची वागणूक दिया भुरग्याक!"

"हां! हाड रे पोराक!" आईन म्हणिल्लें.

मुरलीधरान चोयल्लें, शिलाताईल्या दोळ्यांत दुकां एकठांय जाल्लीं. तो जाणां, शिलाताईक हरशींय भुरगीं खूब आवडटात. ताका भुरगीं जावंक ना म्हण न्ही! आंकवार आसतनाय तें भुरग्यांक खूब मटाळटालें. मुरलीधर शिलाताई परस पांच वर्सांनी ल्हान आसलो. ताची कितली अर्थ अपुरबाय करतालें तें! मुरलीधर म्हटल्यार ताका म्होवाचें मावळींग आसलें. मुरलीधर भाव म्हूणच न्ही, तर एक ल्हान भुरगो म्हूण! मुरलीधराकच कित्याक, मुरलीधरा वांगडा सुर्यकांताक, विजयाक, मारुतीक बी सगळ्यांकच बरें ऽ करताले. देखून तें फकत मुरलीधरालेंच शिलाताई नासलें, तर वाड्या वेल्यां सगळ्यांलेंच शिलाताई आसलें.

"तेका खावूंक कितें आवडटा?"

"म्हजे म्हायती परमाणें भज्यो!... आमी केन्ना केन्ना शाळेंत च्या वांगडा भज्यो मागयतात. तेन्ना एक फावट धुरीसरान म्हणिल्लें याद जाता,... आमगेल्या साईशाक भज्यो खूब मानवतात म्हूण! तूं करता

जाल्यार कर भज्यो! हांवेंय भज्यो खावन सुमार दीस जाले. तेच्या निमतान म्हज्याय ताळ्यार चार भज्यो पडटल्यो.''

शिलाताईन साईशा पासत म्हण, मुजरत त्या दिसा गरम गरम भज्यो तळिल्ल्यो.

साईशाक घेवन मुरलीधर दारांत पाविल्लो, तेन्ना मुरलीधरान म्हटलें, ''हो चय, साईश येयलो गो!''

तेन्ना शिलाताई रांदचे कुडींत कितें तरी करतालें. साईश येयलो म्हूण आयकना फुडें, धांवत भायर येयलें. साईशाक चोयन शिलाताईन म्हटलें, ''साई, येयलो? यो! साई, यो!''

साईशाक सगळें साईशच म्हणटाले. ताचो पप्पा धुरीसर लेगीत! साईशाक याद आसा, फकत ताची मम्मी ताका मोगान 'साई' म्हण उलो मारताली.

पप्पान साईशाक सांगिल्लें, ताची मम्मी साईबाबाली भक्त आसली,आनी ताका मम्मीनच 'साईश' हें नांव दवरिल्लें.

आयज शिलाताईन ताका 'साई' म्हूण उलो मारना फुडें ताका काळजांत कितेंशेंच जाल्लें. खूब दिसांनी ताका कोणतरी 'साई' म्हूण उलो मारताली, तिवूय एक बायलमनीस! लार्गी लार्गी ताचे आवयलेच पिरायेची! साईशाक खिणभर दिसलें, आपली मम्मीच उलो मारता!

साईश शिलाताईक चोयन नितळ हांसलो.

हरशींय साईशालो चेरो धुरीसरा भशेन हांसकुरोच. शांत आनी कांयसो पोक्त! तो पिराये मानान चड समंजस दिसतालो.

साईशाक चोयन शिलाताईक घळघळ जालें. केदो पोर! हे पिरायेर आवय नासप म्हटल्यार? चार वर्सां पिरायेचो आसतना आवय वचप? बाबा परागंदा जाल्लो तेन्ना शिला धा वर्सांचें आसलें, आनी मुरली पांच! दोगांनय कितें भोगिल्लें, तींच जाणांत! साईशाली व्यथा शिलाताई बेसबरी समजूं शकताली.

''बाबाऽ, साई, यो बस.'' म्हणत शिलाताईन ताका हाडून खुर्चेर

बसयलो. आनी कुशींतले खुर्चेर आपूण बसलें.

"कितें शिकता तूं? " साईशाले तकले वेल्यान मोगान हात भोंवडायत शिलाताईन विचारलें.

"पांचवी!"

मुरलीधराकडेन बोट दाखयत विचारलें, "हो शिकयता तुका?"

"हय!"

"कितें शिकयता?"

"गणित!"

"बरो ऽ शिकयता?"

"हय!"

"तुमगेली आनी एक टिचर आमगेले पडवेंत रावता. वळखतां तूं ते टिचरीक?"

साईशाक समजलें ना. तो शिलाताईल्या तोंडाक चोयत रावलो.

मुरलीधरान मर्दीच तोंड घायलें. "अगो, कितें विचारता तेका? आर्दी तेका उदक दी.कितें जाय, नाका विचार! आनी मागीर कर पंचायती जाय तितल्यो!"

"आ ऽ! विसरलें हांव!" लक्षांत येवन शिलाताईन म्हटलें. "भुरगो गो ऽ ड रे, आवडलो म्हाका!" अशें म्हणत शिलाताईन साईशाल्या कपलाचो उमो घेयलो. "बस हां! खावू घेवन येतां तुका!" ताणें उठत म्हणलें, "तूं च्या पिता मरे?"

"हय!" साईशान तकली हालयली.

शिलाताईन रांदचे कुडींत वयतां वयतां थंयसुनच उलो मारलो, "मेरी टिचर ऽ, ओ मेरी टिचर, मेरी टिचर ऽ ..." पडवेंतल्यान मेरीन 'ओ ऽ' म्हटलें.

"हिंगा यो! चोय कोण येयला!"

"कोण येयला? म्हणत कांय वेळान मेरी येयलें. मेरीक स्कर्टांत आनी ब्लाऊजांत चोयन, साईशाक कितेंशेंच दिसलें. हरशीं टिचर शाळेंत साडयेंत आसताली, आनी हिंगा चोयल्यार वेगळीच कशी,

धावेक शिकतलें चेडूं अशें!

मुरलीधरान मुजरत फकाणान म्हणलें, ''साईश, हिका वळखतां तूं? ''

साईशाक सर मुजरत फकाणांन विचारता म्हणपाचे समजलें. तो हांसलो.

''ही स्कर्टांतली मेरी टिचर!''

''ओगी राव रे मुरली!'' अशें म्हणत मेरीन विचारलें, ''केसो पावलो रे तूं? सरा वांगडा येयलो?''

''हय!'' साईशान तकली हालयत म्हणलें.

''आयज रावतां मुरे हिंगा? ''

''ना!''

''राव मुरे! चोय, ही शिलाताई कितकी बोरी कोत्तली तुका! बोरें बोरें खावोंक दितोली!''

शिलाताईन भितरल्यान भज्यांच्यो प्लेटी हाडून दवरल्यो. च्या ची कपां हाडून दवरलीं आनी एक प्लेट साईशामुखार धरत म्हटलें, ''घे खा. तुका आवडटात मरे भज्यो?''

त्या दिसा साईशान मजा घेवन भज्यो खायल्यो.

मेरीनय फकाणां केलीं, ''तूं अेसो येत राव. तुका लागोन आमकांय भज्यो मेवतल्यो.''

शिलाताई आग्रो करुन ताका भज्यो खावयता. तें चोयन मुरलीधरान म्हटलें, ''शिलाताई, चड खावय नाका. अजीर्ण बी जायत तेका! सर मागीर केन्नाच धाडचो ना तेका हिंगा!''

च्या बी पिवन तो वचूंक उठलो, तेन्ना शिलाताईन ताका म्हन्यांत ओडलो आनी पोटाकडेन घट्ट धरलो. तेच्या कपलाचो उमो घेयलो, आनी म्हटलें, ''साई, येत राव हां!''

''हां.'' ताणें तकली हालयली.

''फुडल्या शेनवारा येता? आयतारा रावन, सोमारा सरा वांगडा शाळेंत गेल्यार जालें! जावचें ना?''

''चोयतां. पप्पाक विचारतां!''

''पप्पाक हांवें सांगलां म्हूण सांग! धाडटलो पप्पा!''

मुरलीधरान शिलाताईक चोयलें. शिलाताईल्या दोळ्यांत एके आवयली मातृत्व - भावना स्पश्ट झळकताली.

मुरलीधर जेन्ना साईशाक घेवन वचूंक भायर सरलो तेन्ना, मेरी मुजरत आंगणा मेरेन गेलें आनी ताणें मुरलीधराक म्हटलें, ''मुरली, इट् सिम्स टु बी गोईंग गुड्!''

''येस्स.'' मुरलीधर हयकारलो.

हेर दिसा शाळेंत स्टाफरुमांत धुरीसरान मुरलीधराक सांगलें, ''मुरली, तुगेले भयणिली तोंड भरून तोखणाय करतालो. सांगतालो, भज्यो खावंक दिल्यो. च्या दिली. आपल्या कपलाचो उमो घेयलो. आनी आपल्याक 'साई', म्हटलें म्हण! तेन्ना आपल्याक मम्मीली याद येयली म्हणटालो''.

''येता त्या शेनवारा आपयलां तेका शिलाताईन! सांगूं ना?''

''सांगतालो! पूण, हांव धाडूंक शकचों ना रे मुरली! तो ना जाल्यार म्हाका एकट्याक घर खावूंक येता!''

''म्हूणच सांगतां न्ही सर, तुमी लग्न जायात म्हूण! तुमी आयकूंक तयारच नात! म्हजें आयकात, लग्न जायात! तुमगेलें एकटेंपण मागीर खंय उरतलें?''

''एकटेंपण नशिबांतच बरयलां, तेका करतलों कितें?''

''सर, कितें उलयतात तुमी? तुमीच भुरग्यांक सांगतात नशीब आपूण घडयचेलें आसतां म्हूण! आनी तुमीच नशिबाची गजाल करतात?''

हेचेर धुरीसर ओगी रावले.

मुरलीधरान म्हटलें, ''सर, याद आसा न्ही, ती कविता हांवें तुमकां म्हणून दाखयिल्ली...

ही जीण

न्हंयचो प्रवाह...

एक थेंबो
वांटो प्रवाहाचो...
थेंब्याक
प्रवाहाचो नेट...

''मुरली, कविता आनी जीण हातूंत भोव फरक आसता. कविता ही मानवी मेंदूची कल्पना आनी जीण ही मनशाली वास्तवता!''

मुरलीधरान ताणून चोयत म्हटलें, ''सऽऽर, कितें उलयतात तुमी? मनशाची जीण हीच एक कविता! फकत मनशाचीच जीण कित्याक, हो पुराय संवसारच काव्यमय आसा. सर, कविता येतात कश्यो? जेन्ना ही प्रकृती मानवी मेंदू कडेन संवाद सादता तेन्नाच न्ही? सर, कविता जिणचो सार! कविता जिणेचें मुलतत्व! कविता जिणेचें शब्द ब्रह्म!''

कुशीकच मेरी बशिल्लें आसलें. मेरीन म्हणलें, ''मुरली, यु शुड्ड हेव् बीन अ लिट्रेचर स्टुडंट!'' आनी हांसलें.

''मेरी, तूं फकणां करूं नाका. हांव म्हाका जें होलमलां, तेंच सांगता. हांव नेणटो आसतना, नायक सर म्हाका कविता वाचून दाखयतालो. तेचो अर्थ सांगतालो. कवितेचें आमगेले जिणें कडेन नातें दाखयतालो. सरान म्हाका कितलींशींच कवितेचीं पुस्तकां वाचूंक दिल्लीं. हांव तरी, बुद्दीत येत सावन, कवितेच्या आदाराचेरुच जियेलां. कविताच म्हजी स्फुलिंगां थारल्यात. म्हगेले जिणेचे आत्मे थारल्यात. म्हगेल्यो दिका दर्शक थारल्यात!''

''आय् नो मॅन!'' मेरीन हांसत हांसत म्हणलें. आनी मागीर धुरीसरा कडेन तोंड फिरोवन सांगलें, ''सर, मुरली सांगता तें खोरे! म्हगेलें तेंच मोत सर! यू शूड्ड गेट् मेरीड् ॲज् अर्ली ॲज् पोसिबल!... आनी हेंवूय मोतीत दवरात, तुगे पुताक ती फाल्यां बोरे भाशेन सांबाळतेली, असलीच चोया!''

''म्हाका आर्दीच कशें कळटलें, ती फाल्यां म्हगेल्या पुताक बरी तरेन वागयतली म्हूण?''

इतल्यांत टण् टण् टण् करुन, तिसरो पिरियेड् जाल्या उपरांतची बेल जालीं, आनी ''मागीर उलोवया'' अशें म्हणत मेरी उठलें. धुरीसर आनी मुरलीय उठून आपआपल्या मुखावेल्या तासाक गेले.

ताचे उपरांत साईशालें मुरलीधरागेर यो-वच वाडिल्लें. तो मुरलीधराल्या घरचोच एक मनीस जाल्लो.

आईकय साईश आवडूंक लागिल्लो.

शिलाताईन साईशाक, आनी साईशान शिलाताईक हिसपा भायर जीव लायिल्लो.

शिलाताईक दिसतालें जावये, आपल्याकय एक पूत आसल्यार, असोच आसता आसलो. साईशाक चोयना फुडें, शिलाताईक ताचे मदलें मातृत्व साद घालतालें, ताका अस्वस्थ करतालें, हें कोणूय सांगूंक शकता आसलो.

साईशाकय घडये शिलाताई मदी आपली आवय दिसताली.

चार दीस साईश घरा येयना जाल्यार, शिलाताईलो जीव हुमकळटालो. तें रोखडेंच मुरलीधरा कडेन सांगून धाडटालें.

घरांत कितेंय बरें रांदू, पोटली बांदून धाडटालेंच साईशाक! तांचो दोगांचोय एकामेकांवेलो मोग, धुरीसराल्याय लक्षांत येयलो बगर उरूंक नासलो.

आसूं! कोणय जायना कित्याक, आपल्या पुताचेर मोग करता, ताका माया दिता जाल्यार दिवं! अशें येवजून, धुरीसर बी शिलाताईक दिनवासताले.

एक दीस मुरलीधरान धुरीसराक आपल्या घरा आपयलो. मुरलीधर हरशीं खूब फावटी धुरीसराक आपल्यागेर आपयतालो, पूण धुरीसर 'आयज येवया, फाल्यां येवया' करत आसले. निमाणें कडेन मेरीनय आग्रो धरलो. ''सर, एक दीस तुमी येया न्हु. तो इतको रिक्वेस्ट कोरता, येया, म्हगेरूय च्याव पियेवन वोसा. म्हुकाय बोरे दिसतोलें.'' मागीर सरान ''हां'' म्हणलें.

मुरलीधरान धुरीसराक आपूण घरा घेवन येतां, म्हूण घरांत सांगिल्लें,

तेन्ना शिलाताईक भोव खोस भोगिल्ली. मुरली धुरीसराली तोखणाय करता ती चोवया तरी. हरशीं शिलाताईकय धुरीसराक मेळचेली उमळशीक आसली.

शिलाताईन धुरीसराक एक दोन फावट चोयल्लो. पयले फावट, शाळेचे गॅदरिंगे वेळार. दोन-तीन वर्सा फाटीं तें! शिलाताई कित्याक तरी आईगेर येयिल्लें. आनी तेन्नाच शाळेची गॅदरींग आसली. आई वांगडा तेंवूय गॅदरिंगेक गेल्लें.

तेन्ना धुरीसरान माचयेर, बक्षिसां मेळिल्ल्या भुरग्यांली नांवां वाचिल्लीं.

काळी पेन्ट, धवो शर्ट, गळ्याक काळी 'टाय', ऊंच, एक शिवडी, सावळो, धुरीसर माचयेर शोभून दिस ऽय.

दुसरे फावट ताका चोयल्लो, तो त्याच वर्सा दसऱ्या जात्रेक! साईशाक घेवन तो जात्रेक येयिल्लो.

शिलाताईन तेन्ना मुरलीधराक विचारिल्लें, ''मुरली, तुगेलो तो धुरीसर दसऱ्या सुट्टेर घरा बी वचुंना आपल्या?''

''ना! तेका आतां तशें आपलें अशें घर ना. रावता तेंच तेचें घर!'' मुरलीधरान जाप दिल्ली. आनी मागीर धुरीसराली पुराय काणी ताणें शिलाताईक सांगिल्ली.

शिलाताईक आयकून वायट दिशिल्लें. धुरीसरा बद्दल एके तरेची सहानुभुती तेन्नासावन, शिलाताईल्या काळजांत वस्तेक येयिल्ली.

आनी आयज तर, शिलाताईलीय तीच गत आसली. एके तरेन, तीं दोगांय समदुख्खी आसलीं.

''धुरी सराक कितें आवडटलें रे खावूंक मुरली? ताणें विचारिल्लें.

''साजूक तुपांतलो शिरो!''

मुरलीधराक सराल्यो सगळ्यो आवडी-निवडी पाठ आसल्यो आनी सराकय मुरलीधराल्यो!

त्या दिसा सर येयले.

वांगडा साईशाक हाडूंक ना तें चोयन, शिलाताईन विचारलें,

''सर, साईक हाडूंक ना कित्याक?''

''होमवर्क करूंक बसयला तेका. आनी हरशींय मातशें अभ्यासा कडलें लक्ष उणें जालां तेगेलें!''

''बेजारतलो!''

''हय जाणां! तुमगेर येवूंक फुरफुरता तो! हिंगां येयल्यार बेगीन घरा कडेन येवचें दिसना तेका! फुडारात कितेंय करतलो जाल्यार, तितलो वेळ अभ्यास जावूंक जाय न्ही! आठवड्या एक वेळ कोणागेरय गेलो, बरें आसां! दोन-दोन दिसांनी वचप, आनी आपलो मोलादीक वेळ वगडावप, समा न्ही ते!''

''तो येना जाल्यार, आमकाय हिंगा जीव शेणिल्ल्यावरी जाता'' शिलाताईन म्हटलें.

हेचेर सरान हांसत हांसत म्हणलें, ''आतां कोणीय तेगेलो अभ्यास करून तेचे वांट्याक परिक्षेक बसता जाल्यार, म्हजी हरकत ना''

''हांव बसूं? '' शिलाताई अशे तरेन उलयताली, जशेंकाय दोगांय साबार दिसा सावन, एकामेकांल्या वळखीचीं आसलीं.

ना म्हटल्यार, तशी दोगांकय एकामेका कडेन उलोवन संवय नासली, तरी तीं दोगांय एकामेका बद्दल पुरायपणान जाणा आसलीं. एके तरेची दोगांयली व्यक्त नासली, तरी अव्यक्त वळख आसली.

आनी दसऱ्या जात्रेक मेळिल्लीं तेन्ना दोगांयनय एकामेकांक ''बरे आसात न्ही...!'' म्हूण पाचारिल्लें. तेंवूय उणें नासलें.

धुरीसराक घरांत हाडून ''सर, बसा हां! आत्तां येतां!'' अशें सांगून, फाटले वटेन गेल्लो मुरलीधर, धायेक मिनटांनी परत येयलो.

तेवटेन धुरी सर येयला म्हणपाची सुलूस लागतकीर, मेरी येयलें.

आई वाड्यार कोणागेर तरी गेल्ली. तिका थंय सर येयल्यात म्हूण कळटकीर ती येयली.

आई सराक जाप करूंक म्हूण भायर येयिल्ली तेन्ना, सरान उबें रावन आईक प्रणाम केलो.

शिलाताईन सराक, मेरीक, मुरलीधराक शिरो हाडून दिलो. च्या

दिली. आनी सरानय शिरो रूच घेवन खायलो.

सर सुमार दिसांनी असलो शिरो खाताले. घरकान्न आसतना, सराक असलो साजूक तुपांतलो शिरो दोन-दोन दिसांनी खावूंक मेळटालो. आतांय केन्ना केन्ना सर शिरो करुन खातालो, पूण घरकान्नील्या हातांची रूच, सराल्या हातांक नासली. आयज मात लार्गी लार्गी सविताल्या हातांचो शिरो खायिल्ल्यावरी सराक जाल्लें. कांकणां हात तो, कांकणां हात! कांकणां हातांची सर दादल्याल्या हातांक येता? सराक खिणभर दिसलें.

''शिलाताई आमगेलें बरें रांदतां हां सर!'' मुरलीधरान मुजरत म्हणलें.

''व्हय सर! शी इज् अ व्हेरी गुड्ड कूक!'' मेरीनय मुजरत तोखणाय केली.

''तुमी येवचे आर्दी तेणी म्हाका विचारिल्लें, तुमका कितें आवडटा काय म्हूण!''

''हो मुजरत म्हाका आवडटा म्हूण केला?''

''हय सर!'' आईन सांगलें.

''अरे व्वा! थँक्यू व्हेरी मच्!''

''मेन्शन नॉट सर!''

''हांव जाणां, बरें रांदता म्हूण! साईशाक दिल्लें हांवूय खातां न्ही!''

''हांव मुजरत चड धाडटां सर!''

''जाणां हांव! साईश खंय तितलें खाता?''

''सर, एक दीस आमगेर जेवणा येया!'' शिलाताई.

''आतां येयिल्लोच आसां, रावल्यार जायना हांवें?'' सरान फकाणां केलीं.

''जाता सर, खरेंच रावा! साईशाक मुरली वचून घेवन येतलो.''

''नाका. आनीक केन्नाय येतां!''

''साईक हाडूंक विसरनाकात हां सर! '' शिलाताईन सट्ट करुन

म्हणलें.

सर हांसलो.

“साईशान पिशें लायलां तुमकां! आनी तुमी साईशाक!” सरान हांसत हांसत म्हणलें. “आनी हय, म्हज्या पुताक तुमी इतलो मोग दितात, तें चोयन, म्हाकाय तुमचो दिनवास आसा.”

“सर, साईश आसाच तितलो मोगाळ. शांत सभाव. समंजस. कसली कटकट ना. असलो भुरगो मेळप कुस्तार!”

“आमगेल्या शिलाताईक साईश मेळल्यार जेवूंकय नाका.”

“व्हय सर, शी लव्हस् हिम व्हेरी मच!”

“तेकाय ही आवडटा खूब!”

शिलाताईल्या दोळ्यांत दुकां येयलीं. मुरलीधरान हें ज्युस्त चोयलें. कित्याक येयलीं, हे मात, मुरलीधराक समजलें ना. पूण एक अनुमान मात तो काडूंक शकलो. शिलाताईक एक पूत मेळिल्लो आनी साईशाकय एक आवय मेळिल्ली.

आनी हो अनुमान काडटना, ताचे तकलेंत होवूय विचार येयले बगर रावूं ना, धुरी सराक एक घरकान्न जाय, आनी शिलाताईक एक घरकार!

हेवटेच्यो तेवटेच्यो गजालीं करून, निमाणे कडेन धुरीसर आईक पर्थून हात जोडून प्रणाम करून वचूंक उठले.

“येत रावा सर आमगेर! घर तुमगेलेंच समजयात.”

“साईक आमगेर धाडा सर, हांव जाल्यार हिंगा तेगेलो अभ्यास करुन घेतां. अशे धाडिनासतना रावूं नाकात”. शिलाताईन रावूं नजो जावन सांगलें.

“बरें! बरें! हांवूय येत रावतां, आनी साईशाकय धाडटां! आनी वांगडा तेगेलीं अभ्यासाचीं पुस्तकांय धाडटां!”

“खऱ्यांनीच सर, पुस्तकां घेवन तेका धाडात. हांव करून घेतां अभ्यास!” शिलाताईन सराक खातरी दीत म्हणलें. “आनी ते भायर हिंगा तेगेले दोन टिचरय आसात. तेंगेलीय मदत मेळटली म्हाका.”

“हें हांव कित्याक म्हणटां? हांव हिंगा येतकीर, तुमी तेचेर कितलो मोग करतात, हेचो म्हाका अंदाज येयला. हांव समजतालों, तेचे परस कितलेशेच पटीन चड तुमी तेचेर माया करतात. आनी तो हिंगा येवूंक कित्याक तळमळटा, तेचें कारण हें!... आनी भुरग्यांली मानसिकता कशी आसता, ते जेंचेर चड मोग करतात, तेंगेलेंच ते बरे भशेन आयकतात. म्हणटकीर, तुमी सांगल्यार तो बरे भशेन अभ्यास करतलो!”

आनी धुरीसरान तांका सांगून गेल्ल्या परमाणें, हांगेर धाडटना, वांगडा पुस्तकां दिवनच तो साईशाक धाडटालो, आनी शिलाताई साईशालो अभ्यास करुन घेतालें.

एक फावट, साईश आपूण येता त्या शेनवारा येतां, म्हूण सांगून गेल्लो येवुंना. हरशीं तो केन्नाच तशें करिना. शिलाताईन मुरलीधराक शाळेंत वयतना, सकाळीं म्हणिल्लें. “आयज साई येतलो. येतना तेका घेवन यो.” चोयल्यार मुरलीधर एकटोच येयला.

“मुरली, साई येवुंना रे?”

“कसो येतलो? जोर येयला खंय तेका!”

“जोर येयला? कसो?”

“आतां जोर कसो येयला म्हूण म्हाका कशें कळटलें? फाल्यां सर सांगतलो. मागीर येवन सांगतां तुका! सद्या सकाळीं येतना, सरान तेका जोर देंवची गुळी दिवन येयला म्हणटाले.”

“घरा कडेन एकटोच आसा तो?”

“सर तेंगेर कामाक येतले बायलेक दवरून येयला म्हणटाले! जोर देंवना जाल्यार, उदकाची घडी घाल म्हूण सांगलां आपणे अशें म्हणटालो!”

“शी ऽ! घरांत चोयतलो ना जाल्यार, कसले हाल जातात मनशाले!”

“हेल्थ सेंटरांत दोतोर केन्ना येता तो?”

“तो धांक येता!”

‘‘जोर चडना जाल्यार पुरो पोराक!’’

‘‘सर चार पिरयेडी नंतर हेडमास्तराक सांगून गेला आनी तितलोच जोर वाडल्यार ती बायल आसली न्ही!’’

धुरीसर दिगंबर बाबाल्या भायल्या भाटांतल्या घरात रावताले. हें भायलें भाट कडेवाड्या कडल्यान दोन उल्याच्या अंतरार आसलें. सर रावतात तें घर फकत दोन कुडींचें! ओसरी आनी रांदची कूड! खरें म्हटल्यार, दिगंबर बाबान तें घर भाट राखतल्याक म्हूण बांदिल्लें. सरान मागतकीर सराक भाड्यान दिल्लें. तसलोच प्रसंग येयल्यार ताळ्यार थेंब भर उदक घालूंक हिंगा लागीं कोण नासलो.

‘‘सरान तेका आमगेर दवरचो न्हू?’’

‘‘हांवेंय सराक हेंच म्हणिल्लें.’’

‘‘थंडे-वाऱ्याचो जोर आसतलो गो! जातलो बरो!’’

‘‘आतां दोतोर येतकीर तेका आपूण दाखोवंक व्हरता म्हणटाले सर! येन्ना व्हेल्लोय आसतलो तेका!’’

हेर दिसा, शिलाताई साईशाक पळोवंक, मुरलीधरा वांगडा सरागेर गेलें.

साईशालो जोर पुरायेन देवूंक नासलो.

साईश खाटीर न्हिदून आसलो.

खाटी कुशींतल्या टेबलार वखदां बाटली,गुळ्यो बी दिश्टी पडटाल्यो.

‘‘साई,...’’ साईशाल्या कपलार हात दवरून जोर आसा काय ना चोयत, शिलाताईन उलो मारलो. शिलाताईक साईशालें कपल मातशें गरम लागलें. ‘‘जोर आसा तेका!’’

‘‘मातसो आसा! काल सुमार इतलो आसलो. कपलार घडी घालत बसलों हांव रातभर!’’

‘‘सर, तुमी तेका आमगेर हाड्चो न्ही! आमकां परकी समजूं नाका सर! साई बाबतींत तरी आमी कशींच परकी न्ही!’’ शिलाताईन म्हटलें.

सर हाचेर कांय उलयलो ना. फकत हांसलो.

मुरलीधरान म्हणलें, ''सर, शिलाताई म्हणटा तें म्हजेंय मत, आनी म्हगेले आईलेंय मत! साई बरो ना म्हणटकीर दोगांय अस्वस्थ जालीं तीं! शिलाताईलो तर चेरो सामकोच पडला.''

''साई, आमगेर येता मुरे आतां?''

साईशान बापायल्या तोंडा कडेन चोयलें.

''आतां बरो जालो तो! आतां भिरांत ना! अजून पुराय वखदय सोपूंक ना! मातसोच आसा जोर!

''सर, कितेंय आसूं! 'ना' म्हणिनाकात. हांव व्हरतां तेका घरा! हांव करतां तेगेले. प्लीज!'' शिलाताईन हात जोडून सराक विनयलें.

सराच्यानय ना म्हणूंक जालें ना.

ना म्हटल्यार सरान साईशाक विचारलें, ''हिंगा रावता काय वयता रे?''

''शिलाताई वांगडा वयतां.'' साईशान मवाळपणान सांगलें.

दोतोरान कसलें कसलें पथ्य-पाणी सांगलां तें विचारून घेवन, तेचें वखद घेवन त्या दिसा शिलाताई साईशाक घेवन घरा येयलें.

साईशाक आपले खाटीर, स्वच्छ, नितळ हांथुरणें घालून दिलें. वेळेचे वेळेर वखद, वेळचे वेळेर पातळ आहार दिलो. जशें दोतोरान सांगलां तेच भशेन ताची काळजी घेयली. दोन दिसांत साईश पुरायेन बरो जालो.

साईशाक शिलाताई हे भशेन जीव लायता तें चोयन शाळेंत वतना मेरीन मुरलीधरा कडेन म्हणलें, ''मुरली, शिलाताई साईशाचेर कितलो मोग कोत्ता हें धुरी सोर जाणां! मुगे मोत, धीस् इज् द टायम्, वुई मस्ट आस्क हिम्! तुगे मोत कितें?''

''म्हाकाय तशेंच दिसता.''

''तेशें जाल्यार, हांव इचारतां तेका.'' मेरीन सांगलें.

एक दीस धुरीसर आनी मेरी दोगांच स्टाफरुमांत आसलीं. मेरीन मुजरत विशय काडलो.

“सर, एक इचारुं सोदतां, इचारुं?”

“विचार.”

“रागार बी जावचे ना न्हू सर!”

“हांव केन्ना कोणाचेरूय रागार जाल्लों चोयलां तुवें?”

“ना सर, हांव जाणां! तुमी केन्ना कोणाचेर रागार फुगार जाल्ले हांयेन चोयलें ना.”

“तूं कितें विचारतां म्हणटालें न्ही....!”

“व्हय! व्हय!”

“विचार.”

“सर, तुमी एक फावट मुरली कोडेन म्हणलेलें, तुमगे पुतार मोग दाखोवपी कोण आहल्यार, काजाराचें मोर्तीत घेतलो म्हुणोन. उगडास आहा सर?”

“हांव जाणां आसलों, तूं हेच विचारतलें म्हूण!” सरान हांसत म्हटलें. “हय याद आसा. म्हणिल्लें हांवें.”

“सर, एक सजेशन्. मोतीक मानल्यार घेया...”

“सांग...”

“चोयात सर, मुरलीली भोयण शिलाताई तुमगे पुताक कितकी बोरी कोत्ता ती! हांयेन म्हगे दोळ्यांनी चोयलां. एक आवय देकून आपल्या पुताक इतली बोरी भशेन चोयना. कितको मोग कोत्ता जाणां, तुगे पुताचो?”

“जाणां हांव! बेंस बरें जाणां!”

“म्हगें मोत, शिलाताईलो घोव पिड्यार जाला. तुमगे घरकान्न पिड्यार जाल्या. तेशें चोयल्यार तुमकांय कोण ना, आनी तेकाय कोण ना. आज संवसार कितको फुडें पावलो आहा! आज संवसारांत, घोव पिड्यार जाला म्हुण बायल आपूण जियेवची सोडना. आनी बायल पिड्यार जाली म्हुणोन घोव जियेवचो सोडना...”

इतलें उलोवन मेरी थांबलें.

विशय नाजूक आशिल्ल्यान, ज्युस्त खंयच्या उतरांनी सराक

सांगप, हें मेरीक कळना आसलें.

आपूण जें कितें सांगूंक सोदतां तें सराक आपल्या उतरांतल्यान समजलां म्हणपाची ताका खातरी जाल्ली.

''सर, हांव तुमगे दोगां पासोत चिंतता, तेशें चोयल्यार तिका बाबडेक कोण ना, आनी तुमकांय कोण ना. सर, आतां सोगलें बोरें दिसोता. मनशान फुडार चितोंक जाय...''

''समजलें म्हाका तूं कितें सांगूक सोदतां तें!'' सरान तेका थंयच तुटयत म्हटलें. ''हे गजालीर आमी फाल्यां उलोवया. म्हाका हाचेर चितूंक जाय. इतलें सांगून सरान तो विशय थंयच थांबयलो.

हेर दिसा. पर्थून तीं दोगांयच स्टाफरुमांत आसलीं. तेन्ना धुरी सरान तो विशय काडलो.

''तुवें काल उलयिल्ल्या विशयार हांवें भोव चिंतलें. तुजें म्हणणें म्हाका पटलें. पूण, हो म्हजो एकट्याचोच प्रस्न न्ही! मुरली तयार आसूंक जाय. तेगेली आवय तयार आसूंक जाय, आनी निमाणेकडेन मुरलीली भयण तयार आसूंक जाय! तेन्नाच तें शक्य आसा!''

''एण्ड् इफ् दे ऑल आर रेडी... देन्?''

''आय् एम् ऑल्सो रेडी!''

''वाव्ह! देटस् व्हॉट आय वॉण्टेड!''

मेरीन हें घरा पर्थतना वाटेर मुरलीधराक सांगलें. मुरलीधर खुश! ''थँक्यू मेरी,थँक्यू!'' मेरीलो हात हातांत घेवन ताणें म्हणलें. मेरीलो हात हातांत घेतना वाटेर कोणी पळयत, हेच्येंय भान ताका उरलें ना.

मुरलीधर हो विशय आईकडेन उलयलो.

आईन म्हणलें, ''मनीस भांगर. पूण, तो आमगेले जातिचो न्ही!''

''आई, आतां जात-पात फाटीं पडूंक लागल्या. तुमी फोंडाऱ्यांतलें बेबे!''

''लोक हांसनात रे? एक तर तेका कापडां-बायल करूंक आमी तयार जाल्यांत.आमगेल्या ना घराब्यांत, ना आप-अंतस्कान्नात, ना गांवांत, आयजवेर हें असलें कोणी करुंना. तरी लेगीत, पोरालो फुडार

चिंतून आमी करतात, बरें आसा! निदान तो जातीतलो तरी उरूंक नाका?''

''तेका कापडां-बायल केली म्हूण, हरशींय लोक हांसतलेच! तातूंत हें एक! हांसूं! दोन दीस हांसतले! हांसून हांसून बेजारतले, मागीर ओगी रावतले!''

''जातक चोयनाका?''

''तूं एक बाबा!'' मुरलीधर बेजारलो. ''कसलें जातक-नखेत्र घेवन बसल्या गे तूं? भावोजी वांगडा शिलाताईलें लग्न करतना, तुवें जातक जुळटा काय ना तें पळयिल्लें मगे?''

''हय तर!''

''जुळिल्लें काय जुळूंक नासलें?''

''बत्तीस गुणांनी जुळिल्लें. मामान मुजरत वायंगिणी वचून लक्षुमण भटा कडल्यान जुळोवन हाडिल्लें. भटान म्हणिल्लें खय, ''इतलीं बरीं जातकां जुळिल्लीं हांवें खूब उणीं चोयल्यात!'' ''मागीर तीं तितली बरीं जातकां जुळून जालें कितें? दोगांतय कसलोच दोश नासतना, तेंका भुरगी जावूंक नात. बरें, दोगायली घर-गिरेस्ती तिगली? तेंवूय ना!''

''अरे, धुरीसराली बायल मेल्या. घडये मंगळ बी आसत जातकांत तेगेल्या! पळयिल्लें वायट न्ही!''

''शिलाताईल्या जातकांत मंगळ आसलो?''

''शीऽ! कितें उलयता रे तूं? आई उसळ्ळी.

''मागीर भावोजी कसो मेलो?''

''जातकां चुकतात एकेक फावट! जल्मवेळ सारखी ऽ सांगूंक जाय भटाक!''

''कोणालें जातक चुकलां म्हणटा तूं? शिलाताईलें काय भावोजीलें?''

''म्हगेल्या पोरालें जातक कित्याक चुकतलें? तेगेलेंच चुकलें तें!''

''सरालेंय चुकिल्लें आसूं येता!''

''तुजे कडेन म्हज्यान उलोवंक नजो! एक सांगल्यार धा सांगता. बेठेच म्हणनात लोक तुका देडशाणो! आसाच तूं देडशाणो. पाप्या, सांगिल्लें आयक तरी आवयन! आपल्यालेंच तुणतुणें वाजयता...'' आई बेजारुन उलयली.

मागीर मुरलीधरान आईक समजायत म्हणलें, ''आई, तूं आतांच येवजिनाका हें सगळें! अजून हांवें शिलाताईक विचारूंक ना! तेणें 'हां' म्हणूंक जाय! तेन्नाच मुखावेल्यो गजाली ह्यो!''

''आनी शिलान 'हां' म्हणल्यारूय तूं तुका जाय तेंच करतलों! हांव जाणां!''

मुरलीधर हांसलो.

आईन एके तरेन धुरी सराक पसंद केलो. जाती-कातीचें व्हडलेशें घेवन बसुंना, हें चोयन मुरलीधराक भोव खोशी जाल्ली. हेतूंत तो दोट्टी खोस भोगतालो. पयली खोस आपले भयणीलें लग्न जावन, ताची जीण सुरळीत जावचेली वेळ लागीं येयल्या, हें येवजून! आनी दुसरी आई आदल्या इतली परंपरानिश्ट उरूंक ना हें येवजून!

एक दीस सांजेचें, शिलाताई ओग्गी खुर्चेर बशिल्लें चोयन, मुरलीधर ल्हवूच वचून, ताचे कुशींतले खुर्चेर बसलो. ''शिलाताई, तूं जाणां?''

''कितें?''

''येता त्या वर्सा धुरीसराची बदली जाता!''

''खरें रे?'' शिलाताईन कांचवेल्ल्यावरी विचारलें.

''हय तर!''

''खंय?''

''तें सांगप भोव कठीण. खंयूय जावूं येता. 'होन्नावर'. 'कुमठा'. 'कारवार'. 'शिर्सी'.

''अरे देवा!''

''अरे देवा कित्याक? गव्हर्नमेंट सर्वीस म्हणटकीर बदली ही जाताच!''

“सराली बदली जावप म्हटल्यार ‘साईन’ आमचे साकून पयस वचप न्ही!”

“हयतर! तेका उपाय ना!”

“शीऽ! ‘साई’ पयस गेल्यार म्हाका जीवच शेणिल्ल्यावरी जातलो! म्हज्यान रावूंक जावचें ना! पोरान हिसपा भायर जीव लायला.”

“तूं एक काम कर, साईशाक तुजे वांगडा दवरुन घे. रावतलो तो!”

“हांव ‘साईक’ जल्मभर दवरुन घेवंक तयार आसां. पूण, सरान दवरुंक जाय न्ही!”

“तशें जाल्यार, आनीक एक उपाय आसा!”

“कसलो?”

“तूंच साईशा वांगडा वच!”

“हांव कशें वचूं? कामवाली बायल म्हूण वचूं?”

“तशेंय करूं येता!”

“फकाणां करता रे? हांव कोणागेरूय कामवाली बायल म्हूण रावल्यार आवडटलें तुका?”

मुरलीधर हांसलो. “हें जरी हांवें फकाणान म्हटलें, तरी खंयचेंच काम उणाक दर्जाचें न्हू हां!..... हिंगा म्हाका इतलेंच म्हणचें आसा, तुवें साईशा वांगडा जल्मभर रावचें म्हाका आवडटले. तेचें कारण, तुमी दोगाय एकामेकांचेर भोव मोग करतात. तूं तेका आपल्या पुता भशेन माया करता, आनी तो तुजे भितर आपले आवयक चोयता!”

शिलाताईले दोळे ओले जाले.

“शिलाताई, तूं म्हगेली भयण. तुजे फाटीक फाट मारून येयिल्लो तुगेलो भाव हांव! म्हाका तुजें बरें जावचें, तुवें खोशयेंत रावचे अशें दिसप सभावीक! सारखें न्हू?”

“कोणें ना म्हणलें?”

“देखून म्हजे तकलेंत एक नवी येवजण येयल्या. ती तुका मानवल्यार म्हाका मळब फकत दोन आंगळां उरतलें.”

''सांग मरे!''

''चोय, तुजो पुराय जल्म तुवें असो सुक्या सड्यावरी फुकट उडवप, म्हाका कशेंच आवडचें ना! तुजे हे पिरायेंत शारांनी चेडवां लग्न जातात. तूं अजूनी ल्हान आसा, जाणटें जावूं ना!''

''तुका कितें म्हणचे आसा, तें स्पश्ट सांग.''

''तुवें पर्थून लग्न जावचें अशें म्हाका दिसता, आनी ते पासत हांवें न्हवरोय सोदला. त्या न्हवऱ्याक तूं पसंद आसा. तेचीय जीण तुजेभशेनच! तेगेली घरकान्न मेल्यां. तुगेलो घोव मेला. आनी तेचे वांगडा तूं जर लग्न जातां जाल्यार, साईशय जल्मभर तुजे वांगडा आसतलो. तेका हक्काची आवय मेळटली, आनी तुका हक्काचो पूत! आनी इतलेंच न्हू, तो न्हवरो आईकय पसंद आसा आपलो जांवय म्हूण!''

मुरलीधरालें पुराय उलोवंप शिलाताईन थंडसाणेन आयकून घेयलें. मागीर म्हणलें, ''जालें तुगेलें उलोवन? आतां म्हगेलें आयकून घे! तूं म्हगेलो भाव! भाव ह्या नात्यान, तुका म्हगेलें बरें जावचें अशें दिसता. हें हांवय जाणां! पूण म्हगेलेय एक मनीस म्हूण कांय विचार आसात. आनी ते विचार नेणटेपणासावन म्हण, नाजाल्यार बुध्दीत येत सावन म्हण, म्हजेर जाल्ल्या संस्काराच्या बुन्यादीवेले आसात. ते हांव बदलूंक शकना! म्हजेवेले संस्कार इतले खऽर आसात, तेची दावां-मुळां म्हजे भितर इतलीं खोल रिगल्यांत, ह्या जलमांत म्हज्यान तीं हुमटोन उडोवंक कशींच जावचीं नात! आनी तसो येत्न केल्यारय, हांव 'हांव' उरचे ना! थोडे भितर सांगचें म्हटल्यार, म्हाका तुगेलो विचार मान्य ना! म्हाका पर्थून लग्न जावचेच ना!''

''पूण, हांव तुका तुगेल्या घोवागेरच्यान घेवन येतना, तुगेल्या घरच्यांक हेंच सांगून येयिल्लो. बरो न्हवरो मेळ्ळ्यार, तुगेलें लग्न करतलों म्हण! खरें म्हटल्यार, तुका घेवन येवचे फाटलो म्हगेलो उद्देशय तोच आसलो.''

''आयकल्लें हांवें तेन्ना! हांव तेन्ना ओगी आसलें, हेचो अर्थ म्हाका

तें मान्य आसलें, अशें न्हू!''

मुरलीधर शिलाताईचें उलोवप आयकून बेजारलो. भावान भयणीक बरीऽ भेट दिवप आनी भयणीन ती भेट नाका म्हण धुकलून उडवप अशें कितेशें ताका दिसलें. ताणें भयणीक समजायत म्हटलें, ''शिलाताई, आयज संवसार खंय पावला आनी तूं खंयच्या युगांत वावुरता? कसले संस्कार आनी कितें घेवन बसल्या तूं? संस्कार हे जीण सोबीत आनी सुखमय करपा पासत आसतात. जिणेचो इबाड करूंक न्हू! तूं संस्काराच्या नांवान आपली जीण इबाडून घेता! बरें करुन येवजीय, आनी हांव सांगतां ते आयक!''

''म्हाका तुजें कायच आयकुचें ना! म्हाका म्हगेल्या घोवाक विसरुंक ताकचें ना! तेगेली सुवात कोणाकच दिवप म्हाका शक्य ना!''

इतलें उलयता मेरेन शिलालो आवाज भरुन येयलो. ताच्या दोळ्यांत दुकां उबीं जालीं. फुडें ताच्यान उलोवंक जालें ना.

मुरलीधरान तकली सकयल घाली. आपली भयण आपलें आयकनासतना रावतली हें ताणें सपनांतय चितूंक नासलें. आयज मुरलीधराल्या नव्या विचाराची, नवे येवजणेची बुनियाद हालिल्ली. ताका दिशिल्लें, आपूण हिंगा सरल्यान एका नव्या पर्वाची सुरवात करतलो... पूण त्या पर्वाची सुरवात जावचे आदींच, ताची मोगाळ भयण ताका पूर्णविराम दिवंक उठिल्ली.



त्या आयताराक सकाळीं सावन आख्खें मळब काळी घुंवटी घालून आसलें. शेळांव मारतालो. 'कळसा दोंगरार' धुंवर वयर सरतालो. जाणटे म्हण्टाले, दोंगरा वेल्यान धुंवर वयर सरलो काय समजुचें, पावस वाडटा.

मुरलीधर म्हासती भाटांत माडांक आळीं काडटालों. कालचे रातीं मातशी एक ओल पडून गेल्ली. भूंय ओली जाल्ली. आळीं काडप सोपें

जातालें.

मुरलीधरान केंदाळ्या माडाचीं दावां बरीं ऽ खोऱ्यान मारून घेयलीं. भितरल्यान माती भायर ओडली. बरें गोल कवंडाळें कशे आळें सादलें. मागीर भायलेवटेचे मातयेन ते मेटलें. खिणभर आपूण केल्ल्या आळ्याक तो आपले भितरच तोखेत रावलो. सकाळ सावन ताणें मेज्जून अकरां आळीं काडिल्लीं. पुरो! आतां उरिल्लीं मागीर, अशें येवजून ताणें खोरें थंयच भुंयेर मारून दवरलें. खिणभर विसव घेवया म्हूण तो थंयच फतकल मारून बसलो.

बशिल्ले कडेन ताणें चितलें, शिलाताईन धुरीसरा कडेन लग्न जावची तयारी दाखयल्यार, कितलें बरें जावचेलें! धुरीसर बदली जावन वयतना शिलाताईक घेवन वयतासलो. सराली तशी इत्सा आसली. साईशय खुशालभरीत जाता आसलो.

धुरीसराली बदली होन्नावरा जाल्ली.

गांव सोडून वयतना सराले दोळे भरुन येयिल्ले. साईश तर शिलाताईक वेंग मारून रडलो. आनी शिलाताई साईशाक! निमणो वेळ मेरेन शिलाताई साईशाक पोटा कडेन धरून हुंडकेत आसलें.

वयतना आईन धुरीसराक म्हणिल्लें, ‘‘सर, केन्ना केन्ना येत रावा साईशा घेवन!... आनी चिट बरयत रावा!’’

‘‘बरयतलो मरे चिट साई? ’’ शिलाताईन दोळे पुसत साईशाक म्हणिल्लें.

साईशानय हय म्हूण तकली हालयिल्ली.

धुरीसर ‘होन्नावरा’ वचून ‘गव्हर्नमेंट हायस्कुलांत’ रुजू जाल्ले.

पूण, मुरलीधरान अजून आस्त सोडूंक नासली. ताका दिसतालें, येतली वेळ एक दीस! शिलाताईक दिसतलें, आपल्या भावान सांगिल्लेंच खरें. जावूं जाय आसलें आपूण लग्न! मन हें वाऱ्या भशेन, माकडा भशेन आसता. तें थीर आसप भोव कुस्तार! पूण, तो दीस बेगीन येवूं इतलेंच ताचें मागणें आसलें.

ताची चिंतना सुरु आसतना, अचकीत भायलो वारो येवजणेंत

नासतना येवचो, तसो खंयच्यान नेणो विजय धांवत, खर्शेत येयलो.
"मुरली,.... मुरली तूं जाणां?"

"कितें?"

"येशोबाबाली सून मिरा व्हनी भायर पडली. आत्तां!"

मुरलीधराक खिणभर विस्वास बसूं ना! बरीच आशिल्ली! घट्ट मुट्ट थालीकशी बायल!

"अरे पूण कशी? बरीच आशिल्ली न्हू रे?"

"ती चार म्हयन्यांची गुरवार आसली खय! कित्याक नेणो कुळारा गेल्ली. थंय तिका जोर येयलो. सुमार जातलो... सुमार जातलो म्हण वखदळ्यालें वखद करत रावली. जोर देंवचो सोड, वाडलो. जायनाच जातकीर, तशीच हिंगा घोवागेर हाडून पावयली. हिंगा ह्या लोकांनी वखदळी सैराबालें वखद सुरू केलें. गूण पडूं ना. गेली बाबडी!"

"कितले पिशे रे हे लोक! इतलो बरो एम.बी.बी.एस्. दोतोर सावंत हिंगा सद्दां येता. तेका दाखयचें सोडून ह्या वखदळ्याचेर हेंगेलो विस्वास मरे! जित्या मनशाक मेलो म्हूण सांगपी वखदळी हे! केन्ना सुदारतलें रे हे?" अशें म्हणत, मुरलीधर उठलो. भायले भायर विजया वांगडा येशोबाबागेर येयलो.

मिरा व्हनी येशोबाबाल्या व्हडल्या पुताली रंगनाथाली बायल! गेल्ल्या वर्साकच तांगेलें लग्न जाल्लें. तिचें कुळार "मावीन केरी" म्हणिल्ल्या खेड्यांत आसलें. थंय दोतोर बी नाच्च! वखदळ्या बगर तांकां थंय उपायच ना! हिंगा तशें नासलें.

मुरलीधर येशोबाबागेर पाविल्लो तेन्ना थंय पुराय बोवाळ पडिल्लो. येशोबाबा बायल सम्रते काकी हरशीं सुनेक चोयन नाक मुड्डिताली. सदांच ताचें उणाकपण वयर काडटाली. हे घडयेक मात आड-उदार लोळटाली. हड्डे बडोवन घेताली. "म्हगेली सून न्हू ती! म्हगेल्या पोटां पिकिल्लें पोर तें!" म्हूण इकळाप करताली.

मुरलीधर थंय पावचे आदीं थंय राम जाणवय, बाबगो, सैरोब, गुणो, गुण्यालो म्हादू, बाबग्यालो संतोबा बी सोप्यार बसून आसले.

राम जाणवयक मुजरत आपोवन हाडिल्लें. गुरवार बायल मरतकीर, कसले विधी करप, हे जाणवय बगर तांकां कोण सांगतलो आसलो?

आंगणांत मेरेर बेबदो नरशींव एकटोच बसून आपले भितरच कितें कितें गणमणत आसलो.

मुरलीधर पावले उपरांत थंय गोविंदबाब, सुर्यकांत, रामकृष्ण, मारुती बी पावले.

मळब पुराय काळें घालून येयिल्ले चोयन, गुण्यान म्हणलें, "पावस झडना जाल्यार पुरो!"

"झडना रे! येशान कोणालें वायट करूं ना! तेगेल्या कामावेळार पावस झडटलो? " बाबग्यान आपलें म्हणणें जोडलें.

हाचेर राम जाणवयन सांगलें, "आनी झडलो म्हूण कसलीच बाधा येवची ना. मडें काय धड्यार लासचे नात!"

येशोबाबालो धाकलो भाव लक्षुमण नायक थंय उबो आसलो. राम जाणवयन ताका विचारलें, "अरे लक्षुमणा, मडें खंय पुरचें थारयलां रे? शिमे भायर पुरप गरजेचें!"

मेरेर बशिल्लो नरशींव उठून मुखार येयलो. "बरोब्बर! ज्युस्त सांगलें तुमी जाणवय! शिमे भायर पुरूंक जाय! इल्लेंय शिमे भितर पुरूंक जायना. वाग्रतीण ती! पुराय गांव खातली आम्म आम्म करून!"

"हॅ ऽ! ओगी राव रे!" गुण्यालो म्हादू नरशिंवार खेसळ्ळो.

"ना! ना! ज्युस्त! ओग्गी.. ओग्गी!" करत तोंडार बोट दवरुन बेबदो नरशींव पर्थून वचून मेरेर बसलो.

"आमगेल्या गांवचे मसणटीचे वयल्यां आंगान राना वटेन, शिमे भायर पुरूंया जाणवय, जायना?" लक्षुमणान मुखार येत म्हणले.

"जाता! जाता! ती सुवात बरी आसा!" मागीर थंय एकठांय जाल्ल्यांक राम जाणवयन सांगलें, "कित्याक शिमे भायर पुरप तें? गुरवार बायल मेल्यार वाग्रतीण जाता! वाग्रतिणी इतलो अचाट म्हारू दुसरो ना! एकवेळ दुर्मर्णान मेल्लो म्हारू जाय, पूण वाग्रतीण नाका!

आमगेल्या नरशिंवान सांगिल्ल्या परमाणें गांवाक खावचेंच तेणें!''

नरशींव मेरे वेल्यान एकदम उठलो. ''ज्युस्त सांगुना हांवें?''

''हॅऽ! ओगी राव रे!'' म्हादून पर्थून नरशिंवाक धेंगसो घालो.

''ना! ना! ओग्गी! ओग्गी!'' म्हणत नरशींव उठिल्लो बसलो.

मागीर राम जाणवयन एक गजाल सांगली.

फाटल्या तेंपार राम जाणवयल्या आज्या मुस्तींत म्हार वाड्यार खय एक गुरवार बायल मेल्ली. तिका शिमे भायर पुरनासतना चुकून शिमे भितर पुरली. हेर दिसा गांवांत वचत थंय धाक पातळ्ळी... कोण म्हणटा, एक बायल राना वटेन रडत भोंवता. कोण म्हणटा, काजू झाडार बसून एक बायल रडटाली. कोण म्हण्टा, तिनसांजेचे कातरेर माडयां पोंदा एक बायल सुपाऱ्यो इचताली. ते बायलेक पान-सुपारी खांवची संवय आसली खय! निमाणे कडेन ती म्हारवाड्या वेल्या एका बायलेल्या मानगुटेर बसली. ती बायल खय मागीर 'मांय'क घांस मारूंक येतां, 'मांवा'क घांस मारूंक येता, देराक घांस मारूंक येता, घरांतलीं सगळीं धांवतात धांवतात. जीव आसल्यार भीक मागून खायन म्हूण हेरांल्या खोपयांनी वचून रावलीं. करतलो कितें? तिचे मुखार वचूंक सगळेच भियेताले. मुखार गेल्यार येद्दे व्हडले दोळे करुन चोवंक लागली खय! खिणांतच खॅ खॅ खॅ खॅ करुन हांसता खय, खिणांतच हो हो करुन रडटा! ''मुखार येवनच चोया, एक एकल्याक फाळून खातली.'' म्हणूंक लागली खय! घोव बाबडो खय मेळत ताका हात जोडून पांयांक धरुन सांगूंक लागलो, ''म्हगेले घरकान्नीक हेतूंतल्यान सोडया रे?'' आयकतले कोण? मुखार गेल्यार ही तरा! लोक फाटले पायांन फाटीं येयले. नंतर ही खय अवतार कर कर केली, आनी मागीर धांवली वाऱ्या भशेन रानांत! चार पांच दिसांनी कोण तरी रानांत गेल्लो. ताणें चोयलें, हिगेलें मडें रानांत एका झाडा पोंदा! पोटातल्यान आतकुट्यो भायर सरल्यात! आनी मुखार गेल्यार बुट्टाणी! फाळून खालें हिका!

मुरलीधर, सुर्यकांत, अशोक, रामकृष्ण, मारुती, विजय बी ही

गजाल कान दिवन आयकताले. एकामेकांक चोयन हांसताले.

इतल्यान सोपूंक नासलें. राम जाणवयन मुखार सांगूंक सुरवात केली...

"ते वाग्रतिणीन, ते बायलेक खावून तितल्यारच सोडूंक ना! तांगेल्याच वाड्या वेल्या एक गुरवार बायलेल्या सपनांत येयली. सपनांत खय ती पोटार बसून गुरवार बायलेलें पोट बरगिता. दोन म्हयने जाल्ले खय बाबडेक! हेर दिसा चोयल्यार बाबडेक व्हाळणी लागल्या. गेलें पोटातलें भुरगें!"

मेरेर बशिल्लो नरशींव उठलो. "शेर्त! हांव सांगतां, तीच वाग्रतीण मिराबायक लागली आनी तेकाय वाग्रतीण केली."

"ओगी राव रे!" म्हादून पर्थून नरशिंवाक धेंगसो घालो.

"ज्युस्त! बरोबर! ओग्गी! ओग्गी!" पर्थून तोंडार बोट धरुन नरशींव मेरेर बसलो.

"ती वाग्रतीण आतां हिंगा ना! तिका तेन्नाच व्हरुन गोकर्णांत जोडली." राम जाणवयन सांगलें.

"सुर्या, आयकली काणी?" मुरलीधरान हांसत हांसत ल्हवूच सुर्यकांताल्या काना कडेन तोंड व्हरुन म्हणलें.

"हूं! असल्यो काणयो सांगूनच ह्या गांवांक पिसो केलां ह्या लोकांनी!"

आपली काणी सोपतकीर राम जाणवयन लक्षुमणाक विचारलें, "म्हाल्याक सांगलां म रे?"

"हय जाणवयनो!" लक्षुमणान सांगलें.

मिरा व्हनेल्या कुळारची, येशोबाबाल्या सोयऱ्यांतलीं बी पावतकीर, दायज्यांनी खट खट करुन वांशे फोडले. किरवड बांदली. घरा फाटले केळीचें एक आख्खें शेनवत कापून किरवडेर दवरलें.

"अरे सांसवां हाडल्यांत मरे सांसवां? " राम जाणवयन याद करुन दिली.

"हय जाणवयनो!"

"कितलीं हाडल्यांत?"

"तीन किलो!"

"पुरो!"

"मडें भायर हाडा!" गुण्यान म्हणलें.

"जाणवय, तिका शिरंगार बी करूं नाका? सवायशीण बायल न्हू ती?" बाबग्यान विचारलें.

गांवांत रूढ आसली. सवायशीण बायल मेल्यार, तिका नवें कापड न्हेसोवन, माथेभर फुलां माळोवन, हूंट बी भरुन मागीर मसणटीर व्हरताले.

"ना! ना! ना! ना! तसलें कांय करप ना! तें सगळें अयाव बायल बऱ्या मर्णान मेल्यार करप! ही र्दुमर्णान मेल्या! हिका सोमतें व्हरून पुरप! आनी हय!" राम जाणवयन याद करत म्हणलें, "पुरचे आदीं पोटांतलो गर्भ भायर काडूंक विसरनाकात! आनी येतना, इल्लीं इल्लीं सांसवां वाटभर सांडोवंक जाय! पुराय सांसवां सोपोवंक जाय हां!"

पोटांतलो गर्भ म्हणटकीर गुण्याक म्हाल्याची याद जाली. "अरे तो म्हालो खंय आसा?"

"मुखार आपय तेका!" जाणवयन सांगलें.

"अरे शंबाऽ" कोणेंतरी उलो मारलो.

इतलो वेळ शंबा म्हालो ओग्गी एके कुशीक येवन उबो आसलो. ताच्या हातांत एक पिशवी आसली. पिशवेंत वाकर आसलो. तो खाकुडिल्ल्यावरी, भियेल्ल्यावरी दिसतालो. तकलेर मणाचें वजें पडिल्ल्यावरी ताचो चेरो चिंतेस्त जाल्लो.

मोटवोच, पिकंडेल्लोसो, तिरसो शंबा मुखार येयलो. तो खंय पळयता म्हूणय समजनासलें.

"शंबा, जाणां मरे कितें करचें तें? " राम जाणवयन सांगलें.

"जाणां!" शंबान तकली हालयत म्हटलें. शंबान जाणां म्हटलें खरें, पूण शंबा फकत आयकून जाणां आसलो. असलें काम ताणें केन्ना करुंक नासलें. हीच पयली फावट आसली. म्हज्यान हें जातलें

मू? हें येवजूनच तो अस्वस्थ जाल्लो. शंबाक दिसलें, येतना घोटभर घेवन येवूंक जाय आसलें. मातर धैर्य मेळटासलें.

दिन्यान आनी रामदासान मडें हाडून किरवडीर दवरलें.

मचंग, थाली कशी घटमुट्ट कूड तिगेली. पुराय किरवड भरली... फकत वीस-एकवीस वर्सांची पिराय आसतली. मवाळ सभावाची, ह्या पोल्यार मारल्यार तो पोलो मुखार करपी ही बायल वाग्रतीण? मुरलीधराक येवजून तिडक मारली.

मड्यार धवो कपडो घायलो. मडें बांदलें आनी दायज्यांनी किरवड उखल्ली.

किरवड हाडून मसणटीच्या वेल्या आंगान रानांत वांवभर शिमे भायर दवरली.

दिन्यान आनी रामदासान दोगांयनी मेळून खांद्यावेल्या खोऱ्यांनी बरो हड्डेंभर खोलायेचो लांब-रुंद फोण खणलो.

मडें लासचें सोडून हें पुरप कित्याक हें मुरलीधराक समजलें ना. कित्याकय आसूं, विलोव लावप! अशें येवजून, तो ओगी रावलो.

किरवडे वेल्यान घाल्लो धवो कपडो सोडोवन कुशीक काडलो.

"म्हाल्या, फुडें सर!" गुण्यान सांगलें.

शंबा म्हालो पिशवेंतल्यान वाकर काडून मुखार सरलो. आतां ताचो हात पुराय थरथरूंक लागिल्लो. आंगाक घाम सुटिल्लो. कशें करप हें देवा आतां? ताचेर धर्मसंकश्ट येयिल्लें.

शंबान थरथरतल्या हातानच मिराव्हनेलें न्हेसण मातशें सकयल घेयलें. ताचें पुराय पोट उक्तें केलें. चार म्हयन्यांची गुरवाल्ली ती! ती गुरवार म्हूणय दिसनासली.

मेल्ले गुरवार बायलेचें पोट कित्याक कापतात, हें मुरलीधर नकळो आसलो. पूण ताणें अदमास केलो, घडये पोटांत भुरगें बी जितें आसत म्हूण कापताले आसुये! तशें आसल्यार हें मडें कित्याक कापूंक जाय? हिका तर फकत चार म्हयनेच जाल्ले खय! बेठीच ही विटंबना कित्याक? ताणें विचारलें, "अरे, पोट कित्याक कापूंक

जाय?''

कोण कांय उलयना जालो. सगळे एकामेकांल्या तोंडाक चोयताले.

''अरे, त्या मेल्ल्या मड्याची बेठीच विटंबना ही! गरज ना हेची! शंबा, तूं फाटी सर!''

शंबा फाटीं सरलो. ताकाय खंयतरी मनाच्या कोनशांत सु ऽ जालें.

''शंबा, कोणी कितेंय सांगलें म्हूण, तूं फाटीं सरनाका! आमगेल्या गांवांत आतां बुदवंत चड जाल्यात! जाणवयन सांगलां ती रूढ! आनी रुढीक धरुनच आमका मुखार वचूंक जाय!'' सैरोबान नाक मुड्डिलेशें करत सांगलें.

मुरलीधरान रंगनाथाक सांगलें, ''रंगा, ही तुगेले घरकान्निले कुडिची विटंबना चल्ल्यात. हें तुवेंच थांबोवंक जाय! कांयच अर्थ ना हे रुढीक! हांव सांगतां तें आयक!''

येशोबाब थंयच हात पांगरुन उबो आसलो. तो थंड सभावाचो मनीस! सगळ्यालें आयकून 'हय' म्हणपी, पूण, निमाणे कडेन आपले मतीक पट्टा तेंच करपी आसलो. ताणें फुडें सरिल्ल्या मुरलीधरालो हात घट्ट धरलो आनी ताका फाटीं ओडलो.

मुरलीधर कितें समजुचें ते समजलो.

उपरांत मात तोंडांत फोव घालून तो ओग्गी रावलो. जे कितें मुखार घडटा तें चोयत!

''शंबा, मुखार सर!''

शंबा म्हाल्यान मिरा व्हनेलें पोट शिकार केल्ल्या दुकराचें पोट फाळटल्यावरी उबें फाळ्ळें. हात घालून पोटांतल्यान कितें कितें भायर काडलें, तोच जाणां! ताच्या थरथरतल्या हातांत पुरायच रगतान भरिल्ले मांसा गुळे... गुळे दिसताले. ती तिगेली आंतकुटी काय भुरग्यालें आंग कांय कळनासलें.

चोवूंक जायना जावन मुरलीधरान दोळें धापून घेयले.

ते मडें आनी ते कितें कितें भायर काडिल्ले मांसागुळे वट्टच मगेर फोणांत पुरले.

येतना येशोबाबालो भाव लक्षुमण पोतयेंतल्यान इल्लीं इल्लीं सांसवां घेवन, हातान शेतांत बी घालतल्यावरी वारयत येयिल्लो.

हें चोयन मुरलीधरान विचारलें, ''हीं सांसवां अशीं कित्याक वारवप?''

''ती वाग्रतीण न्हू? तिका आतां गांवांत परत येवचें आसल्यार, हीं सांसवां विचत येवंक जाय आनी तेवूय राती भितर! तिगेलीं एके राती भितर हीं सांसवां काय पुराय विंचून जावचीं ना, आनी गांवांत ती पावची ना!'' लक्षुमणान सांगलें.

मुरलीधरान कपलार हात मारुन घेयलो.

आनी एक फावट अशीच कपलार हात मारून घेवची पाळी मुरलीधरार येयली...

चवथी दिसा तें!

मुरलीधरान थोडे कश्ट घेवंक नासले, तीं तरकारी करूंक! पावसांत मिर्गाचो शितोड सुरु जातकीर, हरेक वर्सा परमाणें, ताणें ह्या वर्साकय घरा फाटले वटेन, साखरे आंब्या कडेन बांदे घालून, घोसाळेच्यो, अळसांद्याच्यो बियो नाटिल्ल्यो. तशेंच फुडें कुशीक तांबड्या दुदयाच्यो, मोग्याचो, तवशाच्यो बी बियो घाल्ल्यो. आनी थंयच एकेकडेन भेंड्या बियो नाटिल्ल्यो.

चार पांच दिसांनी दोन पानां येतकीर माती परतून घाल्ली. मगेर चार-पांच पानां जोडयो येतकीर, शेणमाती बी कालोवन बांदार घाल्ली...

मागीर घोसाळीं, दुदी, मोगी, अळसांदी, तवशां बी खातीर सुरींचे खुंटे मारून, ताचेर आडवे-उबे सुरी दांडारे दाळून बरो ऽ मचंग माटोव घाल्लो...

कांय दिसांनी सगळ्यो वाल्यो माटवार बेस बऱ्यो पातळिल्ल्यो. चोयतल्यांक सोबीत वाल्यांचोच माटोव घाल्ल्यावरी दिसतालो.

भेंड्यांची झाडां व्हड जातकीर भेंडे लागले.

घोसाळ्या वालींक घोसाळीं लागलीं.

दुदयांवालींक दुदी लागले.

मोग्यां वालींक मोगी लागलीं.

तवशां वालींक तवशी लागलीं.

अळसांद्या वालींक अळसांदी लागली.

अशी तरकारी जाली म्हणच जाली? ती गोरवां कडल्यान, कावळ्यां कडल्यान राखूंक नाका? कोणाली गोरवा केन्ना येवन तोंड लायतीत म्हूण सांगूं नजो. देखून दोळ्यांत अंजन घालून राखचें पडटालें. आई, शिलाताई घरा आसतालीं म्हूण बरें आसलें.

कावळे तर पाड पडिल्ले केन्ना कांव कांव करत ज्युस्त निडी चोंचयताले कळच नासले.

देखून मुरलीधरान कावळ्यांक भिवंडोवंक, एक मेल्लो कावळो म्हेडेक वयर बांदून दवरिल्लो. पूण, कावळे ताका बदतात? आनी ओगी रावतात? तेवूय तितलेच हुशार! मुखावेल्या निरपणसार बसून कांव कांव करताले आनी निडेर चोंच मारून वयताले. बेठेंच म्हणटात कावळ्याली नदर तवशा निडेर म्हूण!

एकेक फावट मुरलीधरागेर कोण ना अशें चोयन, वाड्यावेलीं अबलेशी भुरगीं तवशीं, मोगीं तुटयतालीं.

करतलो कितें ह्या सगळ्या गजालींक? मुरलीधर तकलेर हात मारून ओगी रावतालो. जाण्टे म्हणटाले, आपूण पिकयलें म्हूण आपल्याकच खावंक मेळना. पिकावळेचेर आनिकय जायत्या जणांची नांवां बरयिल्लीं आसतात.

त्या दिसा चवथ आशिल्ल्यान बहुतेकागेर घरांत गणपती आसलो. मुरलीधरान चवथी गणपती पुजोवचो सोडिल्ल्यान तीं सगळीं त्या दिसा मामागेर सकयल्या वाड्यार गेल्लीं आसलीं. ते राती आई आनी शिलाताई वांगडा मुरलीधरय मामागेर उरलो.

सकाळी उठून 'च्या' बी पिवन, मुरलीधर घरा पर्थल्यार कितें चोयतलो?

भेंड्या झाडां हुमटोन उडयिल्लीं.

तंवशा, मोग्या, अळसांद्या, घोसाळे, दुदयाच्यो सगळ्यो सगळ्यो वाली तुटोवन उडयिल्ल्यो. माटोव मोडून उडयिल्लो.

हाचे आर्दी अशें केन्ना जाल्लें मुरलीधराले यादींत नासलें.

कोणें केलें काय, आनी कित्याक?

मागीर झुप्प करून मुरलीधराले तकलेंत उजवाड पडलो... हें जें कितें हांगा घडलां, तें राती कडेन घडलां! दिसाडेन असो कोणूच करूंक ताकचो ना!

चवथी दिसा राती कडेन सगळो लोक घरांदारां बंद करुन भितर पडून आसतात. चंद्र पडटकर, उपरांत भायर सरतात. ताचें कारण चवथी राती चंद्र पळोव नये, चुकून लेगीत चंद्रार नदर पडल्यार, ताचे परिणाम वर्सभर भोगचे पडटात, नाका जाल्लें बगलांट आंगार येता, कसलोय आळ येता, वा बेठेंच कारणा भायर नाकाजाल्लें भोगचे पडटा, असो एक घट्ट समज भौसांत परंपरागत पातळिल्लो आसा, हाची जाण मुरलीधराक आसली.

जाणटेल्यांनी सांगिल्ले ते दंतकथेची ताका याद जाली...

गणपती खय एक दीस हुंदरार बसून वयतालो. गणपती त्या दिसा सुमारा भायर जेविल्लो. पोट जड जाल्ले. हुंदराक गणपतीलो भार आटपना जालो. हुंदीर लवंडलो. गणपती हुंदरा वेल्यान सकयल पडलो. चंद्रान ज्यूस्त चोयलें. चंद्र खुक्क करुन हांसलो. चंद्राक हांसचो चोयन गणपतीक येयली तिडक! गणपतीन आपलो एक दात मोडलो आनी चंद्रार मारलो. पूर्णचंद्र आसलो, तो अर्दचंद्र जालो. इतल्यान गणपती ओगी रावलो ना. वेल्यान शाप दिलो. ''तुजेर नदर घालतल्याचेर न्ही नस्ते आळ येवं!'' चंद्रान खय मागीर काकुळटेक येवन म्हटलें, ''अशें जाल्यार, म्हजेर कोणूच नदर घालचो ना. हांव उपेक्षीत, दुर्लक्षीत उरतलों! म्हजी काकूट करा! म्हाका उशाप दियात!'' चंद्राले विनवणेन गणपतीक काकूट दिसली. दिलो उशाप आनी सांगलें, ''फकत चवथी दिसा पुरतो शाप उरतलो. त्या दिसा राती कडेन जो तुजेर नदर घालतलो, ताचेर बगलांट येतलें.''

देवाक सुदीक खय हो शाप चुकलो ना!

एकफावट खय चवथी दिसा रातीकडेन कृष्णान चंद्र चोयलो. जालें! ताचेर 'स्यमंतक मणी' चोरिल्ल्याचो आळ येयलो!

भौसान हे गजालीर घट्ट विस्वास दवरिल्लो आसलो. देखून भौस त्या दिसा रातचो चंद्र पळोवंक भियेतालो. आनी चुकून माकून जर कोणाली नदर खंयच्याय कारणाक लागून चंद्रार पडली जाल्यार, त्या शापाचो बादिकार ना करूंक एक उपाय भौसांत पातळिल्लो आसलो.

चंद्र पळयिल्ल्यान कोणाक कळूंक दिनासतना, हेरालें कितेंय तरी पाड करूंक जाय! हाळ घालूंक जाय! म्हणटकीर, लोक हे हाळ केल्ल्यांक संवतात, गाळी घालतात. आनी तेन्ना तो बादिकार वयता.

कोणेंतरी राती कडेन चुकून चंद्र चोयलो आसतलो आनी शापाचो बादिकार वचूं म्हूण म्हगेली तरकारी हाळ घायली, हें मतींत येवंक मुरलीधराक वेळ लागलो ना.

मुरलीधरान मनांत म्हटलें, कसल्यो कसल्यो म्हूण कुड्ड्यो रुढी! कोणें आनी कशें सांगप ह्या लोकांक?

पांच दिसां गणपती पावयिल्ल्या हेरदिसा, गुण्याले सुनेक म्हारु लागलो.

राती कडेन जेवन खांवन बरीच न्हिदिल्ली. फांतोडेर चोयल्यार ही अवतार करता! तिचें नांव शांती आसलें. म्हादूली ती बायल! पिरायेन चड नासली. आसली त्रेवीस - चोवीस वर्साची! म्हादूकडेन तिगेलें पिरायेच्या अठरा वर्सार लग्न जाल्लें. आठवी वेल्यान शाळां सोडून घरा आसलें. बापायन अठरां वर्सा जातकीर फुरसद चोयली ना. म्हादुलागीं ताचें लग्न जुळयलें. म्हादू बी चड शिकूंक नासलो. तो मॅट्रीकेक काय वर्सां नापास जायत उरलो. अखेरेक मॅट्रीक पुराय करचो नाद ताणें सोडून दिल्लो. घरचीं शेतां भाटां सांबाळपांत स्वताक धन्य मानून रावतालो.

लग्न जावन पांच स वर्सां जाल्ली, तरीय तिका भुरगें जावंक नासलें. वखदाळी सैरोबान जाय तें वखद दिल्लें, पूण गर्भ धरुंक पावलो ना.

भुरगें जावूं ना म्हूण मांय सदांच खेपताली. गुणोय केन्ना केन्ना ताणशेतालो.

मांयन म्हणप आसलें, ''बाकिच्यांल्यो सुनो चोय, लग्न जाल्ल्या वर्सा भितर गुरवार म्हण बातमी येता. फातरां तळपार कितलेंय 'बीं' उडयलें म्हूण किल्लोन येता? तळप तें तळप! आनी शेत तें शेत! आमगेल्या नशिबांत तळप येयलां, तेका आमच्यांनी कितें करूं येता?''

बाबडें शांती आर्दींच आंगान येलतूड! हाड आनी कातच दिश्टी पडटाली. थोमणे आयकून, खेपून घेवन आनीकय मरूंक तेकिल्लें. आपल्याक गुरवाचार येवूं म्हूण देवाक आनी धर्माक सांगून घेतालें. सांगणी आंगवणी करतालें.

निमाणें कडेन गेल्ल्या श्रावणांत तिका दीस गेले. मांय-मांव, घोव, देर, नणंदो, कुळारचीं सगळीं खुश जालीं. शांतीक तर फुगडी घालू काय मोरुल्यांनी खेळूं जालें.

आतां शांतीली मांय शांतीली हिसपा भायर काळजी घेताली. तेभायर शांती स्वता आपल्याक जतनायेन सांबाळटाली. काळजी करताली. देवा-धर्माक होरायताली, ''देवी आवो, म्हगेलो गर्भ राख!'' शांतीक बेठीच आपल्याक व्हाळणी लागत म्हूण भिरांत दिसताली. मिराव्हनेच्या मर्णान तर ती पुरायच कांचवेन आसली.

शांती आयकून जाणां आसली, फाटल्या तेंपार एक गुरवार बायल मेल्ली. ती वाग्रतीण जावन राती कडेन गुरवार बायलांल्या सपनांत येताली. तांगेल्या हड्ड्यार बसून तांचे पोट बरगिताली, आनी हेर दिसा तांकां व्हाळणी लागताली. पुराय गर्भ व्हांवन वयतालो. आपल्यालो गर्भय असोच व्हांवन वचचो ना मूं? हे भिरांतेन ती थतर-वितर जाताली.

आनी त्या दिसा फांतोडेर चोयल्यार ही हांथरुणार 'हूं...हूं... हूं...हूं' करत दोळे मोठ्ठे करुन मांडून चोयता. केंस पुरायेन सुटल्यात आनी मानेर फाफसल्यात. कुंकूम कपलभर जाला. दोनूय हात भुंयेक तेकल्यात.

म्हादू भियेलो. ताणें बेगी-बेगीन आवय-बापायक आपयली.

हिचो अवतार चोयन मांयक दुबाव मारलो. हाचे आर्दी तिणें असलीं जायतीं म्हारु बशिल्लीं मनशां चोयिल्ली. तरी सुदीक तिणें बरे भशेन विचारलें, ''बाय शांती, कितें जालें पुता?''

शांतीन भयानक चोयत म्हटलें, ''हांव मिरा... मिरा वाग्रतीण! गर्भ खावूंक येयल्या हूं...हूं...हूं...हूं''

मांयक आयकून हड्ड्यांत कच्च जालें. हरशींय ती आंगा पांगान थाली कशी आसली तरी मनान सामकी बारीक . ती आबूज प्राणी. पासेंश नाशिल्ली. थिरता नाशिल्ली. रोकडीच काचाबूल जावपी.

म्हादू बी आवयलें आंग आनी आवयले गूण घेवनच जल्माक येयिल्लो. तोवूय काचाबूल जालो.

गुण्यालोय आवरो उडलो. ''म्हादू, वचून वाड्या वेल्यांक आपोवन घेवन यो!''

म्हादू धांवलो.

आतां हें लचांड सांबाळप कशें, हो व्हडलो प्रस्न आसलो. म्हारू अचाट!

गुण्यान धाकल्या चेड्याक महेशाक जाणवयगेर धांवडायलो.

वाड्या वेली बातमी कानांर पडना फुडें भुर्रर करुन जमलीं. हिचो अवतार चोयन, सगळ्यांली गुळी! मुखार येवंक कोणच तयार नात. सगळींच येतात. चोयतात. मगेर दोन पावलां फाटीं येवन रावतात.

कांय वेळान महेश राम जाणवयक घेवन येयलो. जाणवय बेगीन बेगीन चाट मारत येयिल्ल्यान धांपेतालो. म्हाल म्हातारो मनीस तो! सत्तर-पंचात्तर पिरायेचो!

राम जाणवयक चोयन शांती पुराय दांत दाखयत 'खिक् खिक् खिक् खिक्' करून हांसली. म्हणूंक लागली, ''तूं येयला म्हाताऱ्या? हांव तुका आटापची ना! हांव वाग्रतीण!''

''कित्याक येयल्या तूं गांवांत?'' राम जाणवयन आवाज ऊंच चडोवन विचारलें.

भितरल्यान खडून आवाज काडत शांतीन सांगलें, ‘‘गर्भ खावूंक शांतीलो!’’

येशोबाबालो भाव लक्षुमण आनी पूत रंगनाथ थंयच कुशीक उबे आसले. दोगांयच्या चेऱ्यार भिरांत दिश्टी पडटाली.

राम जाणवयन लक्षुमणाक विचारलें, ‘‘अरे, मडें शिमे भायर पुरूंक नासलें?’’

‘‘पुरिल्लें जाणवय! बरें ऽ दोन वांव भायर पुरिल्ले.’’ ‘‘अरे पाप्यानो, बरेऽ दोन उल्यांच्या अंतराभायर पुरचे न्हू? वांव भर भायर पुरलें म्हूण तें शिमे भायर पुरलें अशें जाता? पुरिल्ले कडच्यान एक दांग शिमे भितर मारल्यार वाग्रतीण गांवांत पावली मरे!’’

थंय एकठांय जाली सगळीं एकामेकांल्या तोंडाकडेन चोवूंक लागलीं. सगळींच दिग्मूड!

‘‘सांसवां सारखीं वारवयिल्लीं रे वाटेर?’’

‘‘हय जाणवय!’’

‘‘सारखी भाजिल्लीं मरे?’’

आयकून लक्षुमण ओगी रावलो. तीं सांसवां भाजूंकच नासलीं. सांसवां भाजतात म्हूण ताका खबरय नासले. आनी कोणें तशें सुचोवंकय नासलें.

‘‘ना जाणवय!’’ ताणें ल्हवूच म्हणलें.

‘‘अरे पाप्यांनो, घात केलो मरे तुमी! सांसवां भाजलीं ना जाल्यार तीं किल्लोवचीं नात? सांसवां भाजल्यार तीं तशींच पडून आसतात! आनी तीं विचत येता मेरेन दीस उजवाडटा. आतां तीं सगळीं किल्लोन गेलीं. तिका आनी कांयच विचचें पडलें ना. ते भायर तुमी तिका लागीं लागीं शिमेरच पुरल्या म्हटल्यारूय जाता! तिगेलें काम सोपें केलें तुमी!’’

जाणवयन तशें म्हणटकीर लक्षुमणालो आनी रंगनाथालो दोगांयलो चेरो पडलो. तांकां सगळ्यां हुजीर जाणवयन पोल्यार मारिल्ल्यावरी जालें.

"तुमी सगळे दादले एक काम करा!" अशें म्हणत, राम जाणवयन न्हेशिल्ल्या वाल्याचे कनवटेक लायिल्ली इल्लिशी पुडी काडली. ती गुण्याकडेन दीत म्हटलें, "हेतूंत 'देवी' कडलें भस्म आसा. 'तें' सगळेजाण कपलाक लायन घेयात. इल्लेशें हिचेर फाफुडात आनी हिका उखलून घेवन 'देवी आवयल्या देवळांत' येयात. फुडलें हांव चोयतां!"

गुण्यान 'जायत' म्हूण तकली हालयली.

"बेगीन येयात! हांव फुडें वयतां!" म्हणत राम जाणवय भायर सरून मुखार चलूंक लागलो.

राम जाणवयन सांगिल्लें तशें सगळ्यांनी देवी कडलें भस्म आप आपल्या कपलांक लायलें.

गुण्यान इल्लें भस्म शांतील्या आंगार फाफुडलें.

शांतीन तें चोयन, भिरांकूळ आवाजांत मोट्ठे दोळे करुन चोयत म्हटलें, "म्हजेर देवसपण करशात तर याद दवरा..."

थंय जमिल्ल्या सगळ्या दादल्यांनी फुरसद करूं ना. मुखार सरले आनी जाणवयन सांगिल्ल्या परमाणें शांतीक सोमती उखल्ली. 'देवी आवयल्या देवळांत' हाडली. वाटेर ती व्हडा व्हडान किंळची मारताली. आड्डुताली. आपल्याक सोडोवन घेवंक धडपडटाली. "तुमकां सगळ्यांक खातां!" म्हणटाली.

तिका देवळांत भितर हाडिनाफूडें जाणवयन सभामंटपाचें दार बंद करुन भितरल्यान खिळी घालूंक सांगली.

"रंगनाथ, तूं दाराक फाट लायन उबो राव. सट्ट करुन ती धांवूंक लागल्यार भायर वचूंक फावना"

रंगनाथान आज्ञा पाळ्ळी.

तिका 'देवी' मुखार हाडून उबी करा म्हणटकीर म्हादू आनी गुण्यान शांतीक धरुन 'देवी' मुखार हाडलें.

गर्भकुडी मुखार शांती थंयच फतकल मारून बसलीं.

दोनूय हात मुखार तेकोवन ओणोव घेवन, दोळे मोट्ठे करुन

जाणवयक चोवंक लागली.

राम जाणवयन हातांत बेंत घेयलें. देवी मुखावेले मुठभर भस्म घेयलें. शांती मुखार येवन तिका विचारलें, ''तूं आतां बरे भशेन ह्या गांवांतल्यान वयता काय ना?''

''ना!''

''तूं वचना जाल्यार देवी तुका पांयां पोंदा चिड्डितली आनी नाच्च करतली!''

हाचेर शांती 'खिक्...खिक्...खिक्...खिक्' करून हासूंक लागली. मागीर 'हूं..हूं...हूं...' करीत दोळे ताणून चोवूंक लागली.

''वयता काय ना?'' जाणवयन आवाज चडोवन विचारलें.

''ना! वचची ना!''

जाणवयन हातांतल्या बेतान रप्प रप्प करुन दोन शेंवटिले. ''वचना?''

''हूं ऽ ऽ ऽ नाऽऽ!'' ती आड्डुली. जाणवयन पर्थून रप्प रप्प रप्प रप्प करुन चार लगाडे दिले.

''आवयस्! आवयस्!''

''वयता काय आनी जाय रटे?''

''वयतां....वयतां ऽऽ'' तिणें आड्डुत सांगलें.

''सोमतें शिमे भायर वच! पर्थून गांवांत येवूंक जायना! देवीक पांयां पोंदा चिड्डूंक लायतलों, नातर 'गोकर्णा' व्हरुन जोडटलों. समजलें?'' म्हणत जाणवयन पर्थून रप्प रप्प करुन दोन चोपयले.

''वयतां वयतां! वयतां! शिमे भायर वयतां! मारूं नाका! केन्ना येना पर्थून!'' तिणें मार आडयत विनयलें.

मगेर जाणवयन हातांतलो भस्म तिगेल्या कपलार चिड्डून घश्टिलो आनी सांगलें, ''आतां वच! पर्थून येयल्यार कोलतेन दागतलों! वच!'' म्हणत शांतीक धुकळ्ळी. शांती धडो करुन थंयच उदारी पडली. हां ना हूं! सुद्द, सुम्रत गेली.

जाणवयन मागीर देवी मुखावेले गिंडेंतलें तीर्थ चिपळेंत घेवन

शांतीचेर फाफुडलें.

सुमार वेळान शांती शाबुद्देर येयली. उठून बसली.

''आतां भिरांत ना! गेली ती सासणाची!'' अशें म्हणत जाणवयन रंगनाथाक दार उक्तें करूंक सांगलें.

सुनेक निवळावन धाडिल्लें चोयन शांतीली मांय हिसपा भायर खुशाल भरीत जाली. तिणें देवी आवय कडेन जाणवयक आयुश्य मागलें. जाणवयलें बरें मागत ही गजाल गांवभर सांगली.

मुरलीधराल्या कानांर जाणवयन शांतीलो म्हारु काडिल्ल्याची गजाल येना फुडें ताणें थारयलें, आतां कार्याक नेट लावप गरजेचें!

ताणें रोखडीच आपल्या घरच्या माळयेर बसका आपयली.

हे खेपे सुमार इतले वांगडी हजर आसले. मुरलीधरागेरची माळी पुराय भरिल्ली. खेटा खेट जाल्ली. सकयल जमखणार मांडी घालून बशिल्ले कडेन आडखळिल्ल्यावरी जातालें.

मुरलीधरान सगळ्यांक येवकार दिलो. मागीर विशयाक हात घालत ताणें मिराव्हनेल्या मर्णाचो, आपल्या पाड घाल्ल्या तरकारिचो आनी शांतील्या म्हारु लागिल्ल्या गजालींचो मुद्दो मुखार दवरून म्हटलें, ''कुड्ड्या रुढींनी आनी विचारांनी आमच्या गांवांत हिसपा भायर मुळां धरल्यांत. हाचेर बेगीनात बेगीन विचार जावन, हाचे निर्दाळन जावप गरजेचें अशें म्हाका दिसता.''

जयान हात वयर करुन म्हटलें, ''म्हजे तकलेंत एक विचार आसा!''

''सांग!''

''... आमगेल्या गांवांत एक म्हण आसा, घरच्यांनी कान तोपल्यार खय दुखता! शेटीन तोपल्यार दुखना! तशें आमी कितलोय बोवाळ घायल्यार, ताचो व्हडलोसो परिणाम जायना! देखीक, बायलांच्या म्हयन्याचे पाळये संबंधान आमी जेन्ना दोतोराक आपोवन तांचे कडल्यान जागृती केली तेन्ना ताचो बरो परिणाम जाल्लो आमी चोयलो. तेंच जर आमी सांगता आशिल्ले, जाल्यार तसो परिणाम मेळप कुस्तार आसलें.

म्हूण म्हगेलें म्हणणें, कुड्ड्या स्रद्देर उलोवपी एकाद्री जाणकार, नांवाजती व्यक्ती मेळटा जाल्यार चोवूं येतालें!''

''सारखे!''

हेरांनीय ही म्हण्णी उखलून धरली.

रमान सांगलें, ''एक व्ह ऽ ड व्यक्ती आसा! 'कुड्डी स्रध्दा निर्मुलनाचे' ते कार्यकर्ते! आमगेल्या कॉलेजीन तेंका एक फावट आपयिल्ले. बरेंऽ उलयतात.''

''नांव कितें तेंगेलें?''

''दोतोर ऐगळ! अंकोलाचे ते! प्रिन्सिपॉलाक विचारल्यार नामो मेळटलो.''

''तशें जाल्यार तेंकाच हाडुंया!''

सगळ्यांनी हें नांव उखलून धरलें.

शोभान आनीक एक सुचयलें, ''उपस्थिती चडान चड आसूंक जाय!''

सुर्याकांतान सुचयलें, ''हरेक वाड्या वेल्या उपसंघटनेन आपल्या वाड्या वेले चडान चड लोक उपस्थीत रावतले हेची जतनाय घेवची!''

''निदान घरांतलो एकटो तरी!''

सुमतीन म्हटलें, ''आतां मिर्गाचे दीस! सभा घेवप खंय?''

मुरलीधरान सांगलें, ''शाळेच्या हॉलांत घेयल्यार कशें? मान्यता हांव मेळयतां!''

''तें बरें!''

हाचेरय सगळ्यांनी मान्यता दिली.

मुरलीधराच्या कुशीक बशिल्ल्या विजयान ल्हवूच म्हटलें, ''मुरली, हॉलांत पुरायच कितले लोक धरतात रे?''

''चारशीं सहजतायेन!''

''आनी खुर्च्यो आसात तितल्यो?''

''हय...हय!''

थंयच बशिल्ल्या सुर्यकांतान फकाणान म्हटलें, ''गांवांतली सगळींच येयल्यार?''

''गांवची सगळीं? निदान घरांतल्यान एकटो तरी येयल्यार पुरो म्हूण माग!'' मुरलीधरान सांगलें.

जनार्दनान विचारलें, ''तारीक केन्ना घेवया?''

मुरलीधरान येवजून म्हटलें, ''आर्दी आमी दोतोर ऐगळाक वचून मेळटात. तेंका फावता जाल्यार मुखाल्ल्या पंद्रशींत घेवया.''

सगळ्यांनी 'जायत' म्हटलें.

मुरलीधरान आतां दुसऱ्या विशयाक हात घालो. ताणें सांगलें, ''हेचे आर्दी हांव तुमचे कडेन उलयलां आनी हेचेर तुमकां येवजुंकय लायलां. दसऱ्या दिसा 'देवी आवयच्या नांवान कुकडां-बोकडांचो निर्दयपणान 'बळी' दिवप जाता! आतां वेळ येयल्या, ते सगळें पुरायेन बंद जावूंक जाय! जावूक जाय म्हणचे परस, करूंक जाय!''

''विशय भोव नाजुक!''

''भौस उचांबळटलो!''

''कदीम काळा साकून चलत येयिल्ली प्रथा! खूऽब येवजुचें पडटलें!''

''आनीक कितलें येवजितले? आनी केन्ना मेरेन? तुमी हें अशेंच चलूंक दितले?'' मुरलीधरान कांयशा तिडकेनच विचारलें. ताचो चेरो तांबडो जाल्लो. ताका तिडक मारल्या हें स्पश्ट जाणवतालें.

शोभान म्हटलें, ''मुरली, लोक खुबळटले, हें सामकें खरें! आनी ते खुबळल्यार तेंका आटापतले कशे?''

''आयकात!'' मुरलीधरान म्हणलें, ''ही अशी तरेन भक्तीच्या नांवां सकयल कुकडां-बोकडांची आवती दिवप सारखें?''

सगळ्यांनी म्हटले, ''ना!''

''भौस खुबळटलो म्हूण, तेंका भियेवप सारखें?''

''ना!''

''मागीर फाटीं सरप कित्याक?''

सगळे ओग्गी रावले.

मुरलीधरान फुडें सांगलें, ''आदी आमी तेंकां बरे भशेन समजोया. तरीकय आयकनात जाल्यार, भूतदया दाखोवप ही नैतीक जापसालदारकी, कर्तव्य म्हूण आमी सगळे 'देवी-आवय' मुखार वचून आड पडुंया आनी सांगुया, पयले आमकां मारात...मागीर त्या निश्पाप जिवांचो 'बळी' दियात!''

हाचेर कोण कांयच उलयना जालो. कांय खीण ओग्गी गेले.

मगेर सुर्यकांतान बरें ऽ चिंतलें, मुरली सांगता तशेंच करचें. सारखें तागेलें! नाजूक विशय नाजूक विशय म्हूण, कितलो तेंप त्या जिवांची आवती दिवप? ते जीव बाबडे उलयनात! बंड करिनात!तांकां जिवानिशीं मारलो म्हूण, कोणाक फांशी जायना! कोणाक जल्मठेप जायना! कारण मनशाले मती परमाणें तांच्या जिवांक किंमत ना! आमी जियेतात तसो तांकांय जियेवचो अधिकार ना? ''हय मुरली, तशेंच करचें!'' सुर्यकांतान निर्धार करुन म्हटलें.

''हय मुरली!'' विजयान हात वयर केलो.

मुरलीधरान नित्शेव करुन सांगलें, ''तुमी कोणूय येयले ना, तरी हांव एकटोच विरोध करतलों. अरे, कितें करतले ते म्हगेलें? हांव मनीसपणा भायलें काय करना! मरणाक तर हांव भियेना! करून करून करतले कितें?''

सुर्यकांतान आनी विजयान तेंको दीतकीर, ल्हवू ल्हवू सगळ्यांनी एकेक करुन हात उखल्लो.आनी मुरलीधर सांगता तशेंच करचें थारायलें.

फुडल्या आयतारा मुरलीधर आनी सुर्यकांत वायंगिणी वचून, 'जय भारत कॉलेजीच्या' प्रिन्सिपॉलाक घरा मेळ्ळे. तांचे कडल्यान दोतोर ऐगळाचो नामो घेवन सोमार दिसा अंकोला येयले.

अंकोला 'बसस्टँडा' लागीच दोतोर ऐगळालें 'क्लिनीक' आसलें. चवकशी करतकीर रोखडेंच, थंय उबो आशिल्ल्या खाकी कपड्यांतल्या पोलिसान 'क्लिनिका' कडेन बोट दाखयलें.

'क्लिनिका' कडेन येयल्यार 'क्लिनीक' बंद! भायल्यान वणटीर पाटी आसली. 'डॉ. अनंत ऐगळ एम्.डी.'

थंयच कुशीक एका शिंप्यालें ल्हानशे दुकान आसलें. एक जाणटोसो शिंपी माक्नार कपडे शिंवतालो. चवकशी करतकीर ताणें सांगलें, ''तुमी 'वेंकट रमण' देवळाकडेन चला. थंय घर तेंगेलें. चवकशी केल्यार, कोणूय दाखयतलो. फामाद दोतोर तो!''

दोगूय बसस्टँडा कडेन येयले आनी भाड्याची एक रिक्षा केली. खाकी कपड्यांतल्या रिक्षा ड्रायव्हराक तांणी दोतोराचो नामो सांगलो. ड्रायव्हर म्हणूंक लागलो आपूण ताका वळखतां. तांचे घरा जायते फावट आपूण लोकांक घेवन गेलां. ड्रायव्हरान रिक्षा हाडून सोमती दोतोराल्या घरा मुखारच उबी केली. ''हेंचोय, हेंच दोतोरालें घर!'' ड्रायव्हराचे पयशे फारीक करुन दोगूय दोतोरागेर येयले.

घर बरें व्ह ऽ ड, उप्परकी माळयेचें आसलें. दारांत एक मध्यम उंचायेचो, गोरो, आंगान मचंग, दोळ्यांर वक्ल लायिल्लो मनीस उबो आसलो. मुरलीधरान ताकाच विचारलें, ''हें दोतोर एगळालें घर न्हू?'' ताणें म्हटलें, ''हय! या भितर! हांवच दोतोर अनंत ऐगळ!''

दोतोरान दोगांकूय घरांत वासरेर व्हेले. दारा कुशीक एक सोफा आसलो. ताचेर हांकां बसूंक सांगलें. मुखारच एक दिवान आसलो. ताचेर आपूण बसलो. ''खंयचे तुमी? आनी येयिल्ले कित्याक?''

सुर्यकांतान सांगलें, ''आमी आडगांवचे!'' आनी मागीर येवचेलें प्रयोजन सांगलें.

दोतोराक आयकून खोस भोगली. म्हणूक लागलें, ''आमी हेंच करतात. म्हाका तुमगेल्या गांवांत येवंक आनंद दिसतलो. येतां हांव! तुमी फकत तारीक सांगा.''

''येता त्या आयतारा वीस तारकेर फावतलें?''

''एक मिनीट हां!'' म्हणत दोतोर उठलो. भितर वचून एक डायरी घेवन येयलो. ते डायरींत पळोवन दोतोरान म्हटलें, ''येवंक मेळटलें!'' आनी आयतारचे कार्यावळीची नोंद करुन घेयली. ''वेळ?

'' दोतोरान विचारलें.

''सकाळीं साडे धा?''

''अं... हय जाता!'' म्हणत दोतोरान वेळ नोंदोवन घेयली.

''आमी येतात दोतोर'' म्हण दोगूय उठ्ठाले. दोतोरान म्हटलें, ''थांबा! थांबा! इतले पयसुल्ल्यान येयल्यात च्या घेवन वचात!''

दोगूय नाका म्हणटा आसतना दोतोरान भितर वचून दोन च्या करुंक सांगली.

मागीर दोतोरान हांचे कडल्यान, तांणी आयजवेर केल्लें पुराय कार्य समजोन घेयलें. गांवची मानसिकता आयकली आनी आपूण कशे तरेन तांकां आदार करूंक शकतां हेंवूय सांगलें.

इतल्यान घरांतल्यान एक गोल आंगाची, गोरी, सोबीत दिसपी बायल 'च्या'चो ट्रे घेवन येयली. मुरलीधर मनांत, ही दोतोराली बायल आसतली, अशें म्हणटा थंय आसा, दोतोरान सांगलें, ''ही म्हगेली भावा बायल!''

तिणें हांकां नमस्कार केलो. हांणीय तिका नमस्कार केलो. उपरांत 'च्या' पिवन, ''येतात दोतोर!'' म्हणत दोगूय भायर सरले.

थारयिल्ल्या दिसा शाळेंतल्या हॉलांत पुराय खुर्च्यो भरिल्ल्यो. लांबचो लांब हॉल तो! व्यासपिठार तीन खुर्च्यो दवरिल्ल्यो. एक दोतोर ऐगळाक! एक शाळेचे मुख्याध्यापक विठ्ठल हिचकड हांकां! आनी एक मुरलीधराक! व्यासपिठार फाटल्यान बॅनर लायिल्लें 'कुड्डो भावार्त एक सामाजीक दुयेंस!'

कार्यावळ ज्युस्त साडे धांक म्हणटकीर, धा वरांर दोतोर ऐगळ आपली 'फियाटकार' घेवन शाळेच्या ग्राऊंडार पावले.

दोतोरान कारींतल्यान पांय सकयल दवरिनाफुडें मुख्याध्यापक हिचकड धांवतच मुखार गेले. दोगांनय एकामेकांक वेंग मारली. ते दोगूय अंकोलांतले! ते भायर भुजाक भूज लावन आपल्या वाठारांत सामाजीक वावर करपी आसले.

च्या पाणी जातां मेरेन ज्युस्त साडे-धा वरां जालीं.

कार्यावळींत सुर्वेक मुरलीधरान स्वागत केलें. मागीर वळख करून दितना, दोतोर हे एक मानसोपचार तज्ञ, तेचपरी कुड्ड्यो स्रध्दा निर्मुलनाचे कार्यकर्तो म्हणपाचें सांगलें.

शोभान माचयेवेल्या मानेस्तांक फुलां तुरे दिले.

जेन्ना दोतोराली उलोवची पाळी येयली तेन्ना दोतोरान म्हटलें, ''हांव तसो भाशण दिना! तुमी म्हाका तुमचे प्रस्न विचारात. हांव ताची जाप दिवचो येत्न करतां.''

सुर्वेक कोण कांयच विचारी ना जालो. हॉल खिणभर ओग्गी! फकत एकामेकांच्या तोंडाक चोयतात.

मगेर विजयान हात वयर केलो.

''विचार!''

''दोतोर, द्रिश्ट, द्रिश्टोळ बी लागता म्हणटात, ती भानगड कितें?''

''द्रिश्ट, द्रिश्टोळ बी म्हणटात, तशें कांयच नासता! कोणाची द्रिश्ट कोणाक जायना! कोण कोणाक द्रिश्टोळ दिना! मगेर ती मनशाची द्रिश्ट आसूं वा तथाकथीत भुतांली द्रिश्टोळ आसूं! ह्या गजालींक कसलोच विज्ञानीक आधार ना! म्हणटकीर, विज्ञानीक आधार नाशिल्ल्यो गजालीं आमी मानिनात! द्रिश्ट वा द्रिश्टोळ काडप म्हणटात ती ढोंगां! काडून घेतल्यांचें समादान आनी काडटल्याचें पोट! इतलोच तेचो मतलब!''

दोतोराली ही जाप आयकून मुखार बशिल्ल्यांमदीं गणमण सुरु जालीं. कांय जाण एकामेकाल्या तोंडा कडेन चोवंक लागले.

हे मतींत येवन दोतोरान सांगलें, ''आदीं हांव सांगतां तें बरेऽ करुन आयकून घेयात आनी कसलोय दुबाव आसल्यार मागीर विचारात.

गणमणटले ओगी रावले.

विजयान विशय फुडें व्हरत विचारलें, ''दोतोर, आमगेले जाणटेले सांगताले, द्रिश्टीन फातराचे फातर फुटल्यात म्हूण, तें कितें?''

''ती घडयिल्ली काणी! अशी एकाद्री व्यक्ती आसल्यार सोदून

हाड! मागीर चोवया!''

सुर्यकांतान हात वयर केलो.

''विचार!''

''दोतोर, भायर सरतना एकाद्रें काळें मांजर आड गेल्यार, वा हुमराक पांय आदळ्यार, वा वाटेर घोव मेल्ली बायल मेळल्यार अपशकून मानतात. तीच सवायशीण बायल मेळल्यार शुभशकून मानतात. हेचेर तुमी कितें सांगतले?''

''खंयच्या जिवाक कसलो रंग येवप, हे त्या जिवा मदलो जीन्स थारयतात. हें सगळें सैमीक! मांजर काळें कितें आनी धवें कितें, निमाणेकडेन तें मांजर! मनशाक जसो सगळे कडेन भोंवचो अधिकार आसा, तसो मांजराकय आसा! आयलें तें आड, मागीर जालें कितें? तें कितें तुका आडावंक येयलां? अपशकून म्हणटात तो गैरसमज! हो गैरसमज प्रगत देशांत वचून चोयल्यार थंय दिसचो ना. ते तुका पिशांत काडटले! त्या देशांनी जर हो अपशकून न्ही, तर आमकाच कित्याक अपशकून? होच कायदो रांडाव बायलेक! घोव जितो आसतना,ती कितें वेगळी आसता? काय तिचे भितर एक आगळी शक्त आसता वाटेर मेळत तेका शुभशकून दिवचेली... आनी मागीर घोव मरतकीर ती शक्त नाच्च जाता? ते सुवातेर एकाद्री वायट शक्त बी येता, जेका लागून वाटेर मेळिल्यांक अपशकून जाता!''

सगळे हांसले.

''...आनी तूं हुमऱ्याक पांय आदळल्यार अपशकून म्हणटा. एकेक फावट चलतना आमचो अंदाज, ताळमेळ घुस्पता आनी तेतूंत ताकतिकेन चलता आसल्यार चड शक्यता!... आनी हुमरो म्हणटात, तो मातसो उबार आसता न्हू रे?''

गाडेकार रमाकांतान हात वयर केलो. ''दोतोर, हांव एक विचारतां.''

''विचार!''

''कावळे जवळटना चोवं नये म्हणटात....''

''तूं कित्याक चोयता तर...?''

सगळे हांसले.

''अरे, तेंका डिर्स्टबन्स करू नये असो तेचो अर्थ! कावळेच कित्याक?  खंयच्याच जिवांक जवळटना कोणें डिर्स्टबन्स हाड नये. सैमीक प्रक्रिया न्हू ती? मनशाक जवळटना चोयल्यार मनीस ओगी रावत? ''

पुराय हॉलभर लोक खो खो करुन हांसले. दोतोरय हांसलो.

सुर्यकांताचो बाबा गोविंद उबो रावलो.

''दोतोर, तकले ताळयेर पाल पडल्यार आड मृत्यू येता म्हणटात. हेका कितेंय विज्ञानीक कारण आसा?''

''नेणटो आसतना म्हजे ताळयेर पाल पडिल्ली! अजुनी हांव मरूं ना! आनी बेगीन मरतलों अशें दिसय ना! हांव पळय कसो आसां? आज म्हाका बावन्न वर्सां! घडये मुखावेली बावन्न वर्साय जगत, सांगूं नजो!''

सगळे हांसले.

दोतोरान म्हटलें, ''पाल तकलेर पडप हो एक योगायोग! आनी त्या पडण्याचो मर्णाकडेन कसलोत संबंध ना! आतां बरो ऽ जड फातर बी तुजे तकलेर पडल्यार मात तूं मरतलो!''

पर्थून सगळे हांसले.

दोतोरान सांगलें, ''तुमी आतां मेरेन जे प्रस्न विचारलें, त्या एकूय प्रस्नाक विज्ञानीक आधार ना! तुमगेल्या तकल्यांत कोणें तरी घायिल्ल्यो त्यो किडी! ते आतां सुमार तेप जालो हुळहुळटात! काडून उडयात त्यो!''

दोतोराल्या कुशीक बशिल्लो मुरलीधर उठलो. ''दोतोर, आमगेल्या गांवाक सगळ्यांत जास्त तरास जाता, तो म्हारवा गिरवांचो! हो म्हारु, भूत, वाग्रतीण बी हे प्रकरण कितें जरा समजोन सांगशात?''

''अ व्हेरी गुड् क्वेश्चन! आयज मेरेन हेचेर जो विज्ञानीक आधाराचेर अभ्यास जाला, त्या अभ्यासा परमाणें कसलोच पुरावो,

प्रमाण अजुन मेरेन हाताक लागूंक ना. जे लोक ह्या गजालींनी घट्ट विस्वास दवरतात, त्याच मनशाल्या मनांत हीं भुतां-खेतां आसतात.''

''म्हण्टकीर, जी मनशां हेचेर विस्वास दवरिनात तेंका हीं बादनात?'' शोभान विचारलें.

''नाच्च! कुड्ड्या विस्वासाक पाळो दिल्ल्या मनशांनी आपल्या मनांत तयार केल्ल्यो ह्यो शक्ती! तेंचेर विस्वासच ना, तर त्यो मनांत तयार जातल्योच कश्यो?''

दोतोर खिणभर ओगी रावले. मागीर पर्थून सांगूंक लागले, ''आतां तुमीच पळयात, म्हारू, भुतां ही प्रकरणां खंय चड पळोवंक मेळटात? जे सुवातेवेलीं मनशां असल्या गजालींनी विस्वास दवरतात थंय! शारांनी हीं भुतां-खेतांची प्रकरणां दिसच ना म्हटल्यार जाता! कित्याक, तर शारांनी चडशे लोक शिकिल्ले आसतात. ते असल्यां गजालींनी विस्वास दवरिनात.''

''शारांत भुतां लागिल्ल्यो देखी आसात दोतोर!'' रामकृष्णान मर्दीच सांगलें.

''....पूण ती कोणाक? भुतांचेर विस्वास दवरिल्ल्यांक!''

मुरलीधरान विशय स्पश्ट करूंक म्हणून विचारलें, ''दोतोर, म्हारू बसप... म्हटल्यार म्हारवाचो कुडींत संचार जावप, हें नेमके कितें?''

''गुड् क्वेश्चन! हो एक स्किझोफ्रेनिया, मेनिया, डिप्रेशन हेचे भशेनच एक मानसीक दुयेंस! तुमी ज्या मनशाक म्हारू लागता, त्या मनशाचो जर बारीक अभ्यास केल्यार, तुमकां समजतलें, तेका कसली ना कसली मानसीक पिडा पीड जाता. तेच्या मनाचेर कसलो तरी ताण आसा. मनांत कसली तरी भिरांत आसा! खेद आसा! तेका कोण तरी सतायता! अशे वेळार जेन्ना सगळें ओग्गी सोसप जाता, तेन्ना मनांतल्या ह्या विफलता, कुचंबणा, दुख्ख, भिरांत, तिडक अशेतरेच्या भावनांचो उद्रेक हे तरेच्या गजालींतल्यान भायर सरता!... आनी तेकां जे तरेची खरी म्हटल्यार सहानुभुतीची गरज आसली, ती सहानुभुती तेन्ना मेळटा! हो पुराय प्रोसेस सब कॉन्शियस आसता. कोन्शियस मनाक तेची

खबरय नासता!''

रमान हात वयर केलो.

''विचार!''

''दोतोर, ही हांवें चोयल्ली गजाल! अशीच एक म्हारू मानेर बशिल्ली बायल, हरशीं ती नाजूक, किडकिडीत! पूण, म्हारु बशिल्लो तेन्ना, पांच स जणांक आटापना आसली. ही शक्त तिच्या आंगांत खंयच्यान येयली? ''

''जेन्ना मनशा मदल्या तीव्र भावनेचो असो उद्रेक जाता, तेन्ना ते तंद्रींत मनीस नकळटां आपले कुडींतलें आनी मनांतलें सुप्त सामर्थ्य अशे तरेन उपेगांत हाडटा!''

कडेवाड्या वेलो नागेश उबो रावलो. ''दोतोर, म्हगेलो एक प्रस्न आसा.''

''विचार!''

नागेश सगळ्यां फाटल्यान बशिल्लो, तो उठून मुखार येयलो. ''दोतोर, म्हगेलो अणभव हांव सांगतां, हांव तेन्ना सतरा-अठरा वर्सां पिरायेचो! म्हगेलो बापूय अचकीत भायर पडलो...'' इतलें उलोवन नागेश कांय खीण ओगी रावलो. घडये ताका बापायच्या यादिंनी भरून येयिल्लें. ताणें एक आंवडो गुटलो आनी फुडें सुरु केलें, ''म्हगेलो बापूय मेल्ल्या तिसऱ्या दिसा, म्हाका म्हगेलो बापूय खाटीर न्हिदिल्लो स्पश्ट दिसलो. ह्या म्हगेल्या दोनूय दोळ्यांनी पळयिल्ली ही गजाल!''

''चोय, जेन्ना आपली एकाद्री काळजाक लागीं आशिल्ली व्यक्ती अशे तरेन मरता, तेन्ना आमगेले मन तें मरण सट्ट करून स्विकारना. अशा वेळार आमकां भ्रम जाता. मुखार नाशिल्लें दिसूंक लागता! आयकूं येता! कळलें न्हू?''

गाडेकार रमाकांतान हात वयर केलो.

''सांग!''

''दोतोर, खूब फावटी कांय जाण आपणें म्हारू पळयिल्लो म्हणटात

तें कशें? ''

''खंय पळयिल्लो आसता? काळखांत! चान्यांत! जाता कितें? मनीस एकाद्री आकृती चोयता. तें मागीर एकाद्रें झाड आसतां! वा उबो फातर आसता! खांबो आसता! एकाद्र्या वस्तूची सावली आसता!... पूण तेचें मन 'तो' म्हारू थारयता. तो विचार इतलो ख ऽ र आसता, तेका 'तो' म्हारूच दिसता आनी तेचें मन 'तो' म्हारू म्हणच स्विकारता! तुजें मन जितले तिव्रतेन तें स्विकारता, तितलेंच तें जितें जिवें दिसता! मागीर तो मनीस फाटलो फुडलो विचार करिनासतना, आपणें म्हारु चोयला म्हूण सांगत सुट्टा.''

''थोडें आपले कल्पनेंतलीय काणी घडोवन सांगतात.'' कोतल्या वाड्यावेल्या मधुकरान आपली एक पुश्टी जोडली.

''सारखें तुगेलें! बेठीच एकाद्री असली काणी घडोवप आनी भौसाक खुबळावन घालप. आपणें अमूक सुवातेर अमूक चोयलां बी म्हूण सांगप! मागीर ते सुवातेर भौसान दुबावान चोवप! थंय कितेंय सट् - सूट् जाल्यार वा कितेंय धवाडें दिसल्यार, तेणेंय मागीर आपूण चोयलें म्हणप!... आनी अशे तरेन तें प्रकरण वाडत वयता. तेतूंत परत मीठ, मिरसांग लावप जाता!''

इंद्रा वाड्यावेलो गणेस उठलो.

''दोतोर एक अणभव सांगतां!''

''सांग!''

''म्हगेली एक पयसुल्ली सोयरी यमुन मावशी म्हूण आसली. तिगेली एक सख्खी भयण मेल्ली. ती तिगेले तकलेर बसल्या अशें सगळे म्हणटाले. आनी हे नडगतीक लागून ती सतत बडबडत आसताली. आपल्याक आपली भयण येवन कानांत सांगता म्हणटाली. ''हें चोय, म्हगेली भयण म्हाका कितें सांगता तें! तुमकां आयकूंक येना?'' म्हण विचारताली. हरशीं बरी आसली, कोणाक तिचे कडल्यान कसलोच तरास नासलो!''

''तिचे तकलेर भयण बी आसा म्हणटात, ती फट समज! ही एक

पिडा! मनशाचो मेंदू कांय रसायनां तयार करता. ह्या रसायनाच्या नेमा भायरपणाक लागून हें अशें जाता! तेंकां काल्पनीक आवाज आयकूंक येतात. स्किझोफ्रेनिया म्हणटात तेका!''

नागेशान पर्थून मुखार येवन विचारलें ''दोतोर, पूण आमगेल्या गांवांत म्हारू लागिल्ल्याचो म्हारू 'जाणवय' काडटा! तो म्हारू न्हू जाल्यार वयता कसो?''

''चोय, म्हज्या मता परमाणे, हें दुयेंस ना करचेलो घाडी, मांत्रीक बी करतात, तो एक उपायच! मात कितें, तो उपाय करतना पिडेस्ताक मार-बडी करप, दाग दिवप वा हेर कसलीच कुडीची पिडा दिवप सारकें न्हू! ह्या दुयेंसाक म्हारवाचें, भुतां-खेतांचें रुपडें चडोवन भौसात भिरांत पातळावची न्ही, हो म्हजो उद्देश! आतां तूं म्हणटा, म्हारू न्ही जाल्यार वयता कसो? जेन्ना दुयेंती आपूण स्वता म्हारू समजता, तेन्ना ताका भिरांत दाखयतकीर, तो वतलोच न्हू!''

''हेका उपाय कितें दोतोर?''

'' हे सगले मानसीक विकार! हाचेर विज्ञानीक पद्दतीन उपाय जाय जाल्यार मानसोपचार तज्ञाक दाखोवंक जाय! हाचेर उपाय आसात! वखदां आसात!''

मागीर मुरलीधरान चवथीराती आपली तरकारी पाड घायिल्ली गजाल सांगून, दोतोराक विचारलें, ''दोतोर, चवथीचो चंद्र चोयन तेचो बादिकार वचूं म्हूण अशें कोणालेय कितें पाड घालप कितलें सारखें?''

''तसो बादिकार बिदीकार कांयच नासता! मनशालो गैरसमज तो! मनाचें समाधान करून घेवंक, मनशांनी रचयिल्ले अर्थहीण उपाय हे! हातुंतल्यान कांयच साध्य जावचें ना! फकत कोणालेंय लुकसाणच जातलें!''

उपरांत मुरलीधरान आपल्या बापायल्या मर्णाची काणी सांगली. ही गजाल सांगतना खिणभर तो सद्गदीत जालो. ताच्यान उलोवंक जायना जालें. दोळ्यांतल्यान भळभळ व्हांवतलीं दुकां आटापना

जार्ली. एक फावट तो हुंडकेलोय. मागीर ताणें आंवडो गुटलो. स्वताक थातारलें.

दोतारान हें चोयन, ल्हवूच ताचे फाटीर हात दवरलो.

मुरलीधरान रुमालान दोळे पुसले आनी विचारलें, ''दोतोर, हाचेर तुमचे मत कितें?''

दोतोरान कपलार हात मारून म्हणलें, '' शीऽ! शीऽ! शीऽ! कुड्ड्या स्रद्देचो, येवजण्यांचो, रुढींचो, इतलो वायट परिणाम जाल्ली, ही पयलीच देख हांव आयकतां! अ सिरियस मिस्टेक! एका जित्या मनशाक म्हारू थारायलो तुमी!''

हरशी हॉल शांत थंड आसलोच, ह्या वेळार तो चडच शांत, ओग्गी जाल्लो. सगळे कान दिवन आयकताले.

दोतोरान हात जोडून सगळ्यांक सांगलें,''हो चोयात, कितलो भयानक परिणाम! हाचे उपरांत दया करून असल्या गजालींचेर विस्वास दवरूं नाकात! हें विज्ञान यूग! विज्ञान जें सांगता, तेंच मान्य करात! ना जाल्यार, शेणटले तुमी!''

''आमी जें भोगलें, तें आनीक कोणें भोगनये म्हूणच हांव हें सगळें नमळायेन करतां दोतोर! कोणाक तें समजना!'' मुरलीधर खूब भावूक जावन उलयलो.

''सगळें ज्युस्त जातलें! भियेनाका ! तुजी तळमळ फुकट वचची ना!'' दोतोरान परतून ताचे फाटीर हात फिरयत म्हटलें.

मुरलीधरान म्हटलें, ''दोतोर, आनीक एक प्रस्न विचारतां, खूब म्हत्वाचो! आमचें फुडलें पावल त्याच प्रस्नार आसा!''

''विचार! विचार!''

''देव देवस्पणाच्या नांवां सकयल कुकडां बोकडांची आवती दितात, हें कितलें सारखें?''

''सारखें न्हूच तें! देव सगळ्या प्राणीमात्रांलो! तो सगळ्यांक दिता! तेका कोणा कडल्यान कांयच नाका? तेका जाय ती भक्ती! असले तरेचे 'बळी' तो कसोच मागचो ना! कारण ही भक्ती करचेली पद्दत

न्हू! आवती बी दिवप, हें क्रौर्य! देवाक क्रौर्य मानवना! कोणाचोच जीव तेका नाका! उरफाटे, तो हेरांचो जीव राखतां!.. हे विचार म्हजे न्हू हां! देवाल्या काय निश्ठावांन भक्ताले विचार हे!''

''दोतोर, तुमी देव मानतात?'' मधुकरान मुजरत विचारलें.

'ना! पूण, जे देव मानतात, तेंगेले स्रद्धेचो हांव अनादर करिना! तुमकां देव पावता, तुमचेर तेगेली कुरपा आसा, अशी जर तुमगेली धारणा आसा, आनी तेका लागून तुमगेलो आत्मविस्वास जर वाडटा, जाल्यार ती बरीच गजाल अशें म्हगेलें वैयक्तीक मत!'' इतलें उलोवन दोतोर थांबले. सगळ्यांचेर नदर भोंवडावन दोतोरान फुडें सांगलें, ''... मात ही स्रद्धा जर विकृत रुपडें धारण करता जाल्यार तें सारखें न्हू! स्रद्धा आनी कुड्डी स्रद्धा हाचे मदी एक रेग आसता. ती रेग वळखूंक येवंक जाय! एक फावट तुमकां स्रद्धा आनी कुड्डी स्रद्धा हेचे मदलो फरक समजलो, काय मागीर तुमगेल्या हातान विकृत गजाली घडच्यो नात। समाजांत भिरांत पातळावपी, मनशांल्या मनांत भिरांत उत्पन्न करपी, हेरांक अनिश्ट थारपी, दुख्ख दिवपी ह्यो स्रद्धा?''

सगळे ओग्गी आयकताले. कसलीय साटसूट नासतना! गणमण नासतना!

दोतोरान मुरलीधरा कडेन चोयन म्हणलें, ''हें ल्हवू ल्हवू बंद जातलें! मनीस जसो जसो सुशिक्षीत जातलो, तशे तशें हें नाच्च जायत वतलें. कुड्डे भावार्त हे आमगेल्या समाजार पडिल्ली नाकाशिल्ल्या काळ्या कुपांची घुंवटी! सुर्याचो पुराय उजवाड ती धर्तरि मेरेन येवूंक दिना! ल्हवू ल्हवू हीं सगळीं झडून वतलीं! मागीर लख्ख उजवाड चोंय वटेन पातळटलो! पळयच तूं!''

'आनीक कोणाले प्रस्न आसात? मुरलीधरान सगळ्यांक विचारलें.

कोणें हात वयर करूं ना, कोण उबो रावूं ना.

मागीर मुरलीधरान सांगलें, ''सगळे बरें करून आयकात. येता त्या दसऱ्याक कोणेंच कुकडां, बोकडां देवी मुखार मारचीं ना! आनी कोणूय मारतलो जाल्यार हांव विरोध करतलो!''

हाचेर मात सभाघरांत गणमण सुरू जाली. सगळें कुजबुज करू लागले, पूण कोणेंच आपली प्रतिक्रिया दाखयली ना.

निमाणें कडेन सुर्यकांतान सगळ्यांचे उपकार मानले आनी सभा सोपयली.

सभेंत जें कितें उलोवप जाल्लें, तें पुराय गांवभर पातळिल्लें. जण एकल्यान आपल्या जाय तशी प्रतिक्रिया उक्तायिल्ली. काय जणांक सभेंत सांगिल्ल्यो काय गजाली मानवल्यो आनी कांय मानवल्यो नासल्यो. कुकडां, बोकडां 'दसऱ्या दिसा' 'देवी आवय' मुखार मारप ना, हो विचार चडांत चड लोकांक मानवलो ना! हाचेर लोकांनी खर प्रतिक्रिया उक्तायिल्ली.

मक्तासूर गंगाधराल्या कानार, 'देवीआवय मुखार बळी दिवप ना' ही बातमी पडना फुडे तो रोखडोच जाणवय कडेन येयलो. कारण खऱ्यांनीच तशें घडलें जाल्यार ताचेर पेच येतासलो.

गंगाधर जाणवयगेर पावलो तेन्ना वासरेर राम जाणवय खुर्चेर बशिल्लो आसलो. भायल्या दारा कुशीक सरवळे कडेन दवरिल्ल्या बांकड्यार गुणो बशिल्लो आनी शंकर सकयल माणयेर बसून कापसा वाती पिळटालो.

" यो गंगाधर बस!"

गंगाधर बांकड्यार बसतकीर राम जाणवयन गंगाधराक कित्याक येयिल्लो काय विचारलें. गंगाधरान आयकल्ली पुराय गजाल सांगली.

आयकून गुणो बशिल्ले कडेन उसळ्ळो. म्हणूंक लागलो, "हो देडशाण्यालो पंगड पुराय गांवाची वाट लायतलो. हेंकां म्हारी पिडा येना कित्याक?"

शंकरय तिडकलो. "तेंका पिडा येवची ना! तेंकां कमर मोडून हांथरुणार घालूंक जाय सासणाचें! तो मेरेन ते ओगी रावचे नात!" ताणें आवाज चडोवन म्हटलें.

"तूं मातसो शांत रावतलो?" राम जाणवयन शंकराक थंडसाणेन म्हटलें. "असल्या गजालींर, सदांच थंडसाणेन येवजूंक जाय! अशें

एकदमच तिडकल्यार जावचें पडलें कशें?''

''आपा, हे सगळें करता, तो नाराणालो मुरलीधर! तुजी जाणवयगिरी म्हटल्यार फटींगपणा! भौसाक तूं पिसो करता! बेठीच भुतां खेताच्यो काणयो सांगून तूं लोकांक फटयता! विज्ञानीक दिश्टीकोणांतल्यान चोयल्यार हें सगळें फट! हेतूंत अर्थ ना! आपलो बापूय मरूंक नासलो! तुवें बेठोच तेका म्हारू थारयलो! अशें जायते तो भौसाक सांगता! आनी भौसाक तुजे विरुध्द खुबळयता!''

''हांव जाणां!''

''तरीय तूं शांत राव म्हणटा? तो आनी तेगेलो तो पंगड गांवांत आमगेलें म्हत्व उणें करता! आमगेल्या जाणवय गिरीचीं फकाणां मारतात! तूं नकळो, तेचो माम अनंत मेल्लो दिसा, सगळ्यां हुजीर म्हाका याण केलो ताणें! तेका चोयल्यारच म्हज्या आंगांत उजो पेट्टा!''

शंकर सांगतां तें सगळें राम जाणवय जाणां आसले. दिसानदीस मुरलीधराचो पंगड वाडत वयता, सगळे शिकिल्ले आनी शिकूंक लागिल्ले तरनाटे मुरलीधराल्या विचारांचें समर्थन करतात, आनी हें अशेंच सुरू उरल्यार, गांवांत फुडाराक, तांच्या उतरांक मान आसचो ना, हें ते येवजून आसले.

गुण्यान म्हणलें, ''तेचो तो पंगडच तेचें 'हय' म्हणटा. हरशीं गांवांतलीं हेर मनशां तेका गाळी सवूंक लागल्यांत! त्या मुरलीधराक लागून घरा घरांत मतभेदाचें वारें व्हांवूक लागलां. बापूय परंपरा राखूंक चोयता, जाल्यार पूत ती मोडूंक सोदता. हे परिस्थितींत जाण्ट्यां - नेण्ट्यांमदीं झगडीं पेटूंक लागल्यात घरांघरांनी!''

गुण्यान मागीर एक गजाल सांगली,

'नयावाड्यावेलो' शिवरामालो चेडो खंय येता त्या दसऱ्याक शस्त्रांमुखार 'खेत्र' करचें नाका म्हणटा! कदीम काळा साकून शिवरामाल्या घराब्यांत शस्त्रां मुखार कोंबो कापून खेत्र करचेली परंपरा आसा. खेत्र करिनासतना रावप म्हटल्यार खेत्री चाळोवन

घालप. खेत्री चाळवल्यार कुटूंबाचो नाश, हाची जाण शिवरामाक आसा! पूण पुताक तें मान्य ना! पूत रमेश म्हणटा खय हातूंत अर्थ ना! खेत्र्याच्या नांवान त्या निश्पाप जिवाची हत्या करप ना! बापायचें आनी पुताचें खय व्हडले झगडें! निमाणें कडेन आवय मदीं पडली आनी तिणें सांगलें, ''आमी जितीं आसा मेरेन, परंपरा चलयतलीं! फुडें तूं तुजे मर्जी परमाणें कर!''

गुण्यान आनीक एक गजाल सांगली,

'इंद्रावाड्यावेल्या' भास्कराल्या बापायलें श्राध्द आसलें. ताणें पुताक 'वायंगिणी' वचून भटाक आपोवन हाडूंक सांगलें. पूत शामकांत म्हणटा खय आपूण वचना! आपलो असल्या 'पितरांचेर' बी विस्वास ना! मनीस मेलो गेलो. 'आत्मो' बी म्हणटा ती फट गजाल! ह्या विशयार बापायलें आनी पुतालें व्हडलें पेटलें. आतां आपूणच वचून भटाक घेवन येवया म्हटल्यार ताच्यान पांय हालोंव नजो! आदल्याच दिसा गोठ्यांत रेड्यान भास्कराचो पांय माडयिल्लो. सुजून येद्दो मोठो जाल्लो... मागीर ताणें बापोलभाव दामोदरा धाडून भटाक हाडलो.

श्राध्द म्हणटकीर मक्तासूर गंगाधरान ताच्याच वाड्यावेल्या जयंताली काणी सांगली, बापूय मेल्ल्या हेर वर्सा बापायलें श्राध्द आसलें. हाणें श्राध्द वाडलेंच ना! आवयन विचारल्यार म्हणटा खय, आपल्याक श्राध्द वाडप बी म्हणटात, तो प्रकार मानवना, ते बदला आपूण आपल्या बापायच्या पिरायेचो 'कोतल्यावाड्यावेलो' विश्रामबाब आरान मारुन हांथरुणार पडला. ताका चोयतलो कोण ना! ताच्या वखद विरसदाक पयशे दिल्यात! हेंच बापायलें श्राध्द!

''हे तिगूय त्या नाराणाल्या चेड्याल्याच पंगडांतले आसतले!''

''हय! हय!''

''मागीर ही नवे पद्धतीन श्राध्द करची जाणवाय तेणेंच दिल्ली आसतली!''

''आनी कोण दितलो?''

''हें अशेंच चालू उरल्यार, खंय पावतलो आमगेलो गांव

जाणवयानो ?''

''लयाक !''

''ह्या मुरलीधराक जितो मारूंक जाय !''

''तूं म्हणटा, तें फट न्हू, गुण्या !'' शंकरान तेंको दीत सांगलें.

मक्तासूर गंगाधरान म्हणलें, ''तुमी मनशाक जितो मारची भास उलयतात! मुरलीधर म्हणटा, कुकडां-बोकडांक सुदीक जितें मारूंक जायना !''

राम जाणवयन मक्तासुराक म्हणलें, ''गंगाधर, 'दसऱ्या दिसा' देवी मुखार कुकडां-बोकडांची 'बळी' दिवप ही आमगेली कदीम काळा सावन चलत येयिल्ली परंपरा! ती बंद करचेलो आधिकार कोणाकच ना! आनी त्या दिसा त्या देडशाण्यान ती आडोवची येत्न केल्यार, आमचेर पेच येतलो. देखून तूं गांवठणाली एक बसका आपय. 'देवी आवयले' सेवक धाडून बावीस वाड्यावेल्या एक्कान एक म्हालगड्यांक आनी बुदवंताक आपया. तेंचे मुखार हो प्रस्न दवर. त्या देडशाण्याल्या पंगडान त्या दिसा न्ही नस्तें केल्यार कितें करप, हेचेर एक निर्णय घेयात.''

''जायत !'' म्हण मक्तासुरान तकली हालयली.

मक्तासूर थंयसून वतकीर राम जाणवयन शंकराक म्हणलें, ''आतां गांवचो भौसच थारयतलो, तेचे कितें करचे तें !''

''सामके विटयलें रे बाबा तेणें !'' अशें म्हणत गुणोय उठलो. ''हांवूय येतां !'' अशें म्हणत तो भायर सरलो.

हेर दिसा सांजेच्या साडे तीन-चारां सुमार मुरलीधर 'वायंगिणी' गेल्लो पर्थतालो. 'वेलेवाड्या' सामाकारा ताका शंकर जाणवय मेळ्ळो. तो सायकलीर खंयतरी वयतालो. मुरलीधराक चोयन थांबलो. म्हणूंक लागलो, ''अरे, तूं मास्तर जावन तुका अक्कल ना रे? तूं गांवांतली परंपरा पाड घालूंक उठला ?''

''अक्कल आसा म्हणच न्ही नस्ती, नश्टी परंपरा पाड घालूक उठलां !''

''कोणें सांगलें तुका ती नश्टी परंपरा म्हूण?''

''सांगूंक जाय कित्याक? बरी खंयची, आनी नश्टी खंयची, हें कळचे इतली अक्कल आसा म्हाका!''

''तुका अक्कल आसल्यार, घरातलें देव देवस्पण हाळ घालनाशिल्लो तूं! किरिस्तांव बाईक घरांत हाडून दवरनाशिल्लो! गांवभर तेका घेवन भोवनाशिल्लो. लोक हांसतात. शी ऽ, थू ऽ! करतात. तोंडांत शेण घालतले एक दीस!''

''लग्न जातां हांव त्या किरिस्तांव बाई वांगडा! तुगेलें म्हणणें कितें आसा?''

''खायलो रे तुवें देव-धर्म! तूं मनशांत ना! तुका मद मारला! मातला तूं! याद दवर. हे ग्रामपुरसालें. ब्रम्ह्यालें आनी देवी आवयलें थळ! हिंगा मदांद, मातिल्ले खूब दीस टिकनात!''

''ग्रामपुरीस, ब्रम्हो, देवीआवय हीं तुका लागतात! म्हाका लागनात! म्हर्जी पोटां भरची साधना न्हू तीं! लोकांल्या भावार्ताचो फायदो घेवन, तेंकां जाय तशें नाचोवप आनी पोटली भरप, हो म्हगेलो धंदो न्हू!''

मुरलीधराल्या उलोवण्याचो रोख समजून शंकर जाणवय झिडपलो. ताचे तकलेंत सट सट सट जालें. तिडके सरशी ताणें म्हटलें, ''ये ऽऽ, तोंड सांबाळून उलय!''

''तोंड सांबाळून आसां, म्हणच तुमकां अजुनी भौसा मुखार नागडो करुंना! एक दीस तेंवूय करतां चोय! म्हाका सांग, देवाली भिरांत तूं हेरांक घालता, तूं देवाक भियेता? 'देवीआवयलें' देवूळ कोणें चोरलें रे? मडकमकारान? मडकमकारान चोरल्यार, ते पर्थून दुसऱ्या वर्सा गांवांत पांय दवरिनासले. तुमचे चोरयेक तोंड फुट्टलें म्हूण, भायले भायर तुवें तेंका धांवडावन घायलें. चोरी जाल्ल्या दिसा भौसाल्या तकल्यांत बेठेंच नाकाजाल्लें घालून कंप्लेन लांबयली.''

मुरलीधरान अशें उलयना फुडें शंकरालो चेरो सट्ट करुन पडलो. ताका कितें उलोवचें म्हूण समजना जालें.

''तुमी कितें समजल्यात, भौसान अक्कल घाणाक दवरल्या म्हूण हांवेंय दवरल्या? इतलो तेप तोंड सांबाळून रावलों. आतां तें उक्तें करतां! आनी तुमकांय भौसामुखार उक्ते करतां!''

शंकरान आंवडो गुटत म्हणलें, ''धा-बारा वर्सां फाटीं जाल्लो चोरयेचो आळ तूं आतां आमचेर घालता?''

''धा-बारा वर्सां फाटीं जाल्ली चोरी आतांय उस्तून काडूं येता! धा-बारां वर्सां फाटीं हांव पंदरा-सोळा वर्सांचो आसलों. पूण, तेन्नाय तुमगेली ही हिकमत म्हाका कळटाली. तेन्ना हांवें सांगल्यारय कोण आयकुचो नासलो. आतां वेळ येयल्या!''

शंकर जाणवय आतां सुमारा भायर तिडकल्लो. ताची दोनूय कानसुलां तापिल्लीं. तो तिडकेन पुरायच थरथरतालो. ताणें धमकायत म्हटलें, ''ये ऽ, आमगेले नांव वायट केल्यार, तुका ओगी रावचो ना हां!''

''धमकी दिनाका! आईलें दूध पिलां हांवें! तुगेले धमकेक हांव भियेवचों ना!''

''दाखयतां तुका!'' अशें म्हणत शंकर जाणवय पर्थून सायकलीर बसलो आनी गेलो.

मुरलीधर हरशीं जाम जावन येयिल्लो. आनी तातूंतच हाणें वाटेर आडावन तकली पिकार केल्ली. कसली नश्टी नड वाटेर मेळ्ळी रे? मुरलीधरान मनांत म्हणलें. ताणें येवजिलें, घरा वचुंया, हातातलें 'पास्त' दवरुंया, आनी तसोच वचून न्हंये देगेर मातसो पासय मारुन येवया. तितलीच तकली मातशी हगूर जातली. जिवाकय बरें ऽ दिसतलें.

तो घरा पावलो तेन्ना सरवळे कडेन सोप्यार आई, शिलाताई आनी मेरी उलयत बशिल्लीं.

''हो चय, येयलो!'' आई.

''हें घे पास्त! दवर! हांव मातसो पासय मारून येतां न्हंये कडेन!''

''येयिल्लोच वयता? हांत पांय धूय! घरांत वच! च्या पी! आनी

मागीर वच!'' शिलाताई.

''नाका! च्या घेयली हांवें वाटेर! वयतां! मातसो चक्कर मारुन येतां! तकली पिकार जाल्या!''

''पिकार? कित्याक?'' मेरी.

''येतना वाटेर तो शंकर जाणवय मेळ्ळो. कित्याचें कितें उलयलो. बरें ऽ तोंडा तोंड लागलें दोगांयचें! आनी मेरी, कितें म्हणटा जाणां तो? हांवें तुका घरांत दवरुन घेयलां. आनी आतां तुका घेवन गांवभर भोंवतां. लोक खंय म्हाका हांसतात.... हांवें तेका कितें सांगलें जाणां मेरी?''

''कितें?''

''हांव त्या किरिस्तांव बाई वांगडा लग्न जातां. तुजें कितें म्हणणे?''

आईक आयकून कच्च जालें. अपेक्षे भायलें आसलें हें! तिणें रावू नजो जावन म्हटलें, ''कितें रे? कितें उलयता नाका जाल्लें? ''

''नाका जाल्ले कित्याक? खऱ्यांनीच लग्न जातां हांव तेचे कडेन!''

आयकून शिला तिडकलें. ''सारखो आसा मरे तूं?'' सोसूं नजो जावन ताणें विचारलें.

''सारखो नाच्च तो! सारखो ना म्हणच इल्लो इल्लो करून जास्तच गू घाणीत वचूंक लागला. देव, देवस्पण खुंट्याळेक लायलो, आनी लोकां कडल्यान शी ऽ थूंऽ करुन घेयलें. आतां धर्म खावूंक उठला. इतले दीस लोक शेण घालताले, आतां गू घालतले तोंडांत! लोकांलीं तीं उलोवणीं, ते थोमणें, म्हज्यान आनी सोसूं जावचे ना! हांव खंयतरी वचून गळपास घेतां, ना तर न्हंयेंत उडी घेवन जीव दितां!''

शिलाताईलीं आनी आईलीं उतरां आयकून मेरीक दिसलें, हीं उलोवणीं म्हाका लागून! हांवें मुरलीले जिणेंत येवन चूक बी केली ना मूं? आनी खिणांतच मेरील्या तोंडावेली नुरा देंवली. ताचें तोंड बावन येदेशेंच जालें.

शिलाताईन म्हटलें, ''कित्याक रे पापया तुका ती नाका जाल्ली सुदारणा आनी बिदारणा? गांवांतल्या रिती-भाती परमाणें जीण सार!

खा! पी! आनी सुशेगाद राव! कित्याक ही नस्ती उस्तवारी?''

मुरलीधरान चिंतलें, चड वेळ हांगा रावल्यार, हीं दोगांय आनिकय म्हजी तकली पिकार करतलीं! न्हंये देगेर गेल्यार वारें तरी लागतलें... ताणें मेरीक विचारलें, ''मेरी, तूं येतां गो पासयेक?''

''ना!''

''ना कित्याक? वच! वच! तुवेंच घायला तेका अर्दो पिश्यार! शंकर जाणवयन म्हणिल्लें, फट न्हू तें!'' शिलाताईल्या उतरांनी वितराग झळकतालो.

मेरीच्यान मात हें सोसूं जालें ना! खिणांतच ताच्या दोळ्यांत दुकां एकठांय जालीं, आनी पटपट करून गळूंक लागलीं. तें सूं..सूं.. करून रडूंक लागलें.

मुरलीधर मेरी म्हऱ्यांत गेलो. ताचे तकलें वेल्यान हात भोवंडायत म्हणूंक लागलो, ''मेरी, रडटा गो? शीऽ! हें असलें सोसूनच आमकां मुखार वचूंक जाय! बी बोल्ड! चल! उठ! या पासयेक!''

''ना!'' मेरीन रडतच सांगलें.

''बरें! हांव एकटोच वयतां!'' मुरलीधर वचूंक लागलो. ताका ह्या वेळार आर.एन्.नायक सरान दिल्ल्या एका कविता झेल्यांतली 'कविता' याद जाली...,

आख्ख्या संवसाराचो
काळोख पयस करूंक
भायर सरिल्लों हांव
पूण, म्हजे
इल्लेशेच कुडींत मात
किट्ट काळोख...!

आकाड्या कडेन पावतकीर मुरलीधरान फाटल्यान फिरुन चोयलें, आई तकलेर हात घेवन कुक्कुटोन बशिल्ली, निकतोच तकलेर बोंडो पडिल्ल्यावरी!

शिलाताई चोरुनशें मेरीकडेन चोयतालें.

मेरी दोळे पुसतालें.

मुरलीधरान आकाड्यांतल्यान व्हडान पर्थून सांगलें, ''मेरी, हांव वयतां गो एकटोच!''

आनी तो गेलो.

तो गेल्या फाटल्यान मेरी रड रड रडलें. आनी मागीर उठून भितर गेलें.

ताका रडटना आईनय थातारू ना आनी शिलाताईनय थातारू ना! त्या खिणांत दोगायच्या मनांत मेरी पासत हिसपा भायर तिरस्कार आसलो.

...अदमास साडे-पांच-पावणें संक भायर सरून गेल्लो मुरलीधर रातचीं साडे-णव जाली, तरी घरा पावूंक नासलो. आईक हुस्को सो जाल्लो.

ती भायल्या दारा कडेन येवन उबी रावली. भायर चोयल्यार पुराय वाठार काळखांत बुडिल्लो. रातकिड्यांचो किर्रर आवाज वाडोभर आयकूंक येतालो. पयस खंयतरी एक सुणें सूर लावन भोंकतालें.

आईक चोयन, शिलाताई बी दारा कडेन येवन उबें रावलें.

''शिला, मुरली येवुंना कसो इतलो वेळ?''

''हांवूय तेंच चिंततां!''

शिलाताईन वण्टीवेल्या घड्याळाकडेन चोयलें. पावणे धा जाल्लीं.

''कोणागेरूय वचून बसला आसतलो म्हटल्यार, इतलो वेळ मेरेन?''

''सुर्याकांतागेर वचून चवकशी करुंया गे?''

''थांब! आदी मेरीक म्हणुंया!'' अशें म्हणत आईन वचून मेरील्या दारार मारलें. ''मेरीऽ, मेरीऽ,...''

इतलो वेळ मेरी पासत आशिल्लो तिचो तिरस्कार, तिचो राग ह्या खिणांत नाच्च जावन गेल्लो. काळजांत भरून आशिल्लो तो फकत हुसको!

मेरीन दार उगडलें.

“मुरली येवुंना मु गो!”

“येदो वेळ? केसो?” मेरील्याय चेऱ्यार भिरांत उदेली. “थांब हां...” म्हणत ताणें भितर वचून विजेरी हाडली. “सुर्याकांता बगलेन या!” अशें म्हणत पांयांत जोर्ती चडयलीं. दार धांपून खिळी घायली. आनी चलूंक लागलें.

ताचे फाटल्यान आई गेली.

सुर्यकांत जेवन, सोप्यार वाऱ्याक बशिल्लो. आयकना फुडें तोवूय दचकलो. “थांबा हां!” म्हणत भितर गेलो आनी पेन्ट, शर्ट घालून हातांत एक विजेरी घेवन भायर येयलो. “तुमी हिंगाच रावा! हांव आत्तां येतां!” अशें म्हूण सांगून, वचून विजयाक, मारुतीक आनी रामकृष्णाक घेवन येयलो. मागीर सगळेच सोदूंक भायर सरले. कोणागेरय बसला काय, चवकशी केली. एका वाड्या वेल्यान दुसऱ्या वाड्यार आनी दुसऱ्या वाड्या वेल्यान तिसऱ्या वाड्यार, करतां करतां पुराय गांवभर चोयलो.

मुरलीधर घरा पावुंना म्हण कळटकीर, सगळें इश्ट वांगडी कोण हातांत विजेरी जाल्यार कोण गॅसबत्ती घेवन, तर कोण लापयांव घेवन भायर सरले. सगळेकडेन सोदा सोद! खंय खंय ना!

आतां मात जण एकल्याच्या काळजांत हुसको वस्तेक येयिल्लो.

आईक खिणभर दिसलें, न्हंयेदेगेर जळीनासान बुडयलो बी ना मूं? शेऽ! थूऽ...थूऽ...थूऽ....! तिणें मनातलो विचार फाफडून उडयलो.

शिलाक दिसलें, न्हंयेंत पांय बी निसरून पडनाजाल्यार पुरो! शिला जाणां, ताका बरेंऽ पेवूंक येना! आई ताका न्हंयेंत पेवूंक गेल्यार तापयताली. कळटा तितलें पुरो म्हणटाली. तिका आपलो एकुलतो पूत भरते लोटार खंयूय व्हांवन वचत म्हूण भिरांत दिसताली जावंये!

जाल्यार मेरी चिंततालें, न्हंये देगेर कोणावांगडा झगडीं बी जावुंना मूं? हमरी तुमरीर येवन कोणेंय न्हंयेंत धुकलून दिल्यार, कळटा कोणाक?

चिंतून तिगांय रडूंक पाविल्लीं.

मेरीन सांगलें तो न्हंये देगेर पासयेक गेल्लो! म्हणटकीर न्हंयेदेग चोयल्यार बरी, मगेर सगळ्यांनी न्हंये देगेर पासय मारून उदकांत बी किते दिसता काय म्हूण चोयलें. पूण, काळखांत आनी किते दिसतलें?

सुर्यकांतान मनांत म्हणलें, खंय गेलो हो?

सूर्यकांतान सांगलें, "चल! पुराय गांव पिंजून काडुंया! शेणिल्ल्यालें मन बारा कडेन! वाठारान वाठार सोदुंया! ल्हान बाळकाक सोदतल्यावरी सोदुंया!"

सगळ्यांनी जायत म्हणलें.

मागीर कांय जाण तळ्या बांदार गेलीं.

कांय जाण वेलेआडयेंत गेले.

कांय जाण वेल्या केरांत गेले.

कांय जाण सकयलें आडयेंत गेले.

थोडे जाण गुळटींत गेले.

थोडे जाण चाफ्याकेरांत गेले.

थोडे जाण जांबळीकेरांत गेले.

कांय जाण 'कळसा दोंगरा' कुशींतल्यान खुळखुळ्या वझऱ्या कडेन येयले.

जण एकल्याच्या मनांत जसो जसो दुबाव येयलो, तसो तसो ताणें सोद घेयलो.

हे सोदासोदींत केन्ना मळबांत सुक्र उदेलो. केन्ना कोंब्यांनी साद घायले आनी केन्ना झिळमिळूंक लागलें, हेंवूय लक्षांत येवंक ना!

आतां मात सगळ्यांल्याच मनांत एक दुबाव खऽर जावन उबो जालो. तो न्हंयेकडेन पासयेक गेल्लो म्हणटकर, न्हंयेंत पडलो....

विजयान सुर्यकांताक म्हणलें, "सुर्या, आमी रातचे न्हये देगेर भोंविल्ले. रातचे उदकांत सारखें दिसनासलें. आतां पर्थून एक फावट पुराय देग भोंवन चोवया!"

“म्हजेंय तेंच मत!” सुर्यकांतान सांगलें.

मागीर थंय लागीं आशिल्ल्यांनी फुरसद करुना. पुराय देग भोंवन उदकांत कितेंय दिश्टी पडटा काय, म्हण चोवूंक लागले. सगळे हिंगा थंय फाफसलें.

‘मांयगिणी’ दोंगरावेल्यान व्हांवत येवन पयस अस्तंते वटेन गेल्ली लांबची लांब दुधगंगा न्हंय ती! न्हंये देग ‘बाब गुड्या’कडेन सोंपता मेरेन वाटेर जळीनासा फातर, सकयलो केर, गुळट, चांफ्या केर, मागीर तारीवाडो, मागीर लांबचो लांब शेताकेर मेरेन केदी व्हडली देग ती!

विजय शेतां केराचे वयले वटेन भोंवत न्हंयेंत तेळटालो. थंय ताका उदकांत हुबचें मडें दिसलें. ताणें आनी तें मडें बरेंऽ करुन चोयलेंच ना! “अरे सायबा! म्हगेलो इश्ट गेलो रे!” म्हणत थंयच फतकल मारून बसलो. कपल बडोवन घेवूंक लागलो.

ताचो इकळाप चोयन सगळे लागिंसारा आशिल्ले धांवत येयले.

मेरी आनी सुर्यकांतय थंय येयलीं.

मेरीन दोळे ताणून बरें ऽ करुन चोयलें. आंगार धवो शर्ट आनी काळी पेन्ट! “व्हय रे व्हय! मुरलीच रे तो! सुर्याऽऽ, गेलो मुरलीऽ!” तें तोंडार हात घेवन व्हडा व्हडान रडूंक लागलें.

सुर्यकांतानय दोळे ताणून चोयलें. ताच्या दोळ्यां मुखार काजुलें चकचकिल्ल्यावरी जालें. पुरायच तकली सुन्न जाली. कितेंच समजना जालें. तो पुरायच हवसाण खच जाल्लो. दाडवणां बशिल्ल्यावरी ओग्गी! फकत आपल्या इश्टाल्या मड्याक तुकुतुकू चोयत!

रामकृष्णान सुर्यकांताकडेन येवन ल्हवूच म्हणलें, “बुडून मेलो तो! पांय घसरुन पडलो वा अशेंच कितें तरी जालें!”

“नो! नो!” मेरी बोवाळलें. “इट्स मर्डर! सुर्या, सेण्ड फॉर पोलीस! इट्स प्युअरली मर्डर, आय सस्पेक्ट!”

“म्हाकाय तशेंच दिसता!” सुर्यकांतान म्हटलें. “गांवांत भोवतेकांक उस्तुऱ्यां वयतालो तो! कांय जाणांची तर न्हीद खळिल्ली.

तेका सोंपयलो म्हणटकीर जालें ना!''

आयकून रामकृष्णाचो चेरो तांबडोगूंज जालो. ताणें संतापान म्हणलें, ''एक मुरलीधर सोपयलो म्हूण जालें? आनीकय जायते मुरलीधर आसात!... कितल्या जणांक म्हूण सोपयतले? उरफाटें हें झूंज आनिकय खऽर जातलें!''

सुर्यकांतान रामकृष्णाल्या खांदार हात दवरीत सांगलें, ''रामा, मारुती, वचा! 'वायंगिणी' वचून पोलिशेंत कंप्लेन करात!''

''हय, रे हय! ना जाल्यार म्हज्या इश्टाक जळीनासान बुडोवन मारलो म्हणटले हे लोक!'' विजयान इकळाप करत म्हटलें.

इतल्यांत आई आनी शिलाताई धांवत धांवत येयलीं. मेरीक आनी विजयाक इकळाप करतात ते चोयन, तीं कितें समजुचें तें समजलीं. दोगांय हड्डें बडयत थंयच फतकल मारून बसलीं....

''म्हज्या पुताऽऽ....''

''मुरली ऽऽ...''



• • •

कदम हांचे हे कादंबरीन क्रांती घडयली ना तरी बदल घडोवपाची आनी ते वरवीं क्रांतीचे बीं रुजोवपाची स्फूर्त ती अवश्य दितली.

- ॲड. उदय भेंब्रे

भारतांतल्या हेर भासांनी ह्या विशयार कादंबरी आसात काय ना खबर ना. पूण कोंकणीतली अशी ही पयलीच कादंबरी. कदमान खूब ताकदीन हाताळ्ळा.

- महाबळेश्वर सैल

बाब देविदास कदमाली 'जाणवय' ही एका वेगळ्या विशया वयली जबरदस्त कादंबरी. कांय नीज उतरां आनी उमळशीक वाडोवपी शैली हाका लागून ही कादंबरी वाचनीय जाल्या.

- मीना काकोडकार

देविदास कदम हांची 'जाणवय' ही कादंबरी आधुनीक कोंकणी साहित्यांतली एक उत्तम साहित्यकृती जावन आसा. भारतीय साहित्याचे पंगतीक ही कादंबरी निश्चीतच मानाचो पाट मेळयतली अशी खात्री आसा.

- डॉ. जयंती नायक

कदम हांची 'जाणवय' कादंबरी श्रद्धा आनी अंधश्रद्धा हांच्यो सिमो समजून घेवपाक मजत करतलीच. वांगडाच अंधश्रद्धा निर्मूलन क्षेत्रांतल्या कार्यकर्त्यांक गांवांनी वावर करपाक खंय कशी संद आसा हे स्पश्ट करतली.

- कमलाकर दत्ताराम म्हाळशी

कोंकणी कादंबरेच्या मळार एक आगळो-वेगळो रुपकार घेवन आयिल्ली कादंबरी 'जाणवय'! कादंबरेच्या उत्तरार्धात विचार प्रवर्तनाचे प्रचंड ल्हार मनांत निर्माण जाता. तें मन अस्वस्थ करता, येवजूंक लायता!

- प्रा. अकल्पिता देसाय

संजना पब्लिकेशन्स

Rs. 200/-